# धरतरेचो स्पर्श

(कथासंग्रह)






तुकाराम रामा शेट



**कोंकण टायम्स पब्लिकेशन**

DHARTARECHO SPARSH

(A collection of short stories in konkani)



**पयली उजवाडावणी :**
मे २००७

**उजवाडावपी:**
हिरा तुकाराम शेट्
कोंकण टायम्स पब्लिकेशन
वाळकेश्वरवाडो, बेती, बार्देश, गोंय, ४०३१०१
फोन : २४११४१४

**अक्षर जुळवपी:**
कलाकृती,
मधुबन कॉम्प्लेक्स, तांबडी माती,
सांतइनेज, पणजी, गोंय. फोनः २४२६५२६

**छापपी :**
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम,
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय

**मुखचित्रः**
गौरीश वेर्णेकार

मोल : रु. १४०/-

आई आनी मावशीबायच्या रुपान
भेटलेले धरतरीमायेक

# उपकार

शब्दूल, कुळागर, कोंकण टायम्स, भगवती, कोंकणी, बारदेश ह्या नेमाळ्यानी आनी 'भारतीय शिखर कथा कोश - कोंकणी कहानियाँ', 'समकालीन कोंकणी लघुकथा' ह्या कथा संग्रहानी ह्या पुस्तकांतल्यो कथा उजवाडावन वाचकांमेरेन पावयल्यो. तांचे उपकार.

कुळागर नेमाळ्यान तर 'शार वाडत आसा', 'घर' ह्या कथांक पयलीं इनामां दिवन उर्बा दिली. बऱ्याच इश्टांनी कथा आवडल्याचें सांगलें, आनी ते उमेदीन पुस्तकरुपान हो कथाझेलो गुंथलो.

- तुकाराम रामा शेट

# मांडावळ




# मातयेचो वास

शेतांतली वाट. ही वाट बांदावयल्यान माडांच्यो थंडशितळ सावळ्यो आंगार घेयत फुडें आत्माल्या घराकडेन वयता. वाटेवयल्यान चलतना आत्म्याली चुट्ट्यांनी शिवलेली खोपटी दिश्टी पडटा. वाट सोमतीच खोपटेन भितर सरता. ही वाट अंदू आंगान सामकीच बारीक जाल्या. वाटेवयल्यान चलपी मनशां उणी जाल्यात म्हूण तिका खंत जाल्या आनी ते खंतीन ती सामकीच भागल्या. दोट्टी आंगाची वाट एक रेग कशी जाल्या. घरांत भितर सरतांच दिश्टी पडटा तांबडे मातयेच्यो वण्टी आनी पडवेवयले शेनरेर न्हिदलेलो पन्नास वर्सांच्या पिरायेचो सांवळे कातीचो आत्मा. ताका आरीची पिडा जाल्या. फाटल्या वर्सासावन आरीचे पिडेन दोनूय पाय धरल्यात, कुलपात जाल्यात. आनी लांबरूंद आंगापांगाचो आत्मा आपली कूड निखळायल्लेवरी हांतरुणार पडून आसा. पांयार उबो रावपाक ताच्यान जमना. घराभायर सरपाक जमना. शेतांत व्हरतले वाटेर पांय दवरपाक जमना.

''बाबूऽ'' आत्मान आपल्या धा वर्सांच्या नातवाक उलो मारलो. बाबू घराफाटल्या गोठ्यांत आसलो. ताणे ओऽ म्हूण जाप दिवन तो धांवत पडवेर आयलो. बाबून ताका ताच्या कमराक हात घालून शेंदरेवयलो उठयलो आनी थंयच्या खुरांच्या बांकार बसयलो.

''तुजी आवय शीत रांदता?'' कितेंतरी उलोवंक जाय हेखातीर आत्मान विचारलें.

''ना, शीत रांदिना, तांदूळ नात देखून आई पेजूच रांदता.''

''अशेंऽ....'' आत्मान सुस्कार सोडलो.

''शेत रोंवना हे खातीर आमकां खांवक मेळना. ह्या वर्सा तरी शेत रोवंक

जाय आनी आयज मीर्ग, अशें आई सांगताली.'' आत्मा वोगीच रावलो. मागीर बाबून ताचे हांतरूण बदल्ले. ताका बाकावयलो परत सकयल बसवपाक हात दिलो आनी तो घरांत गेलो.

हांतरुणार बसला थंय फुटोळ्यो गेल्लें उक्तें शेत आत्माच्या दोळ्यामुखार येवंक लागलें. 'पोरूं शेत रोंवना... पोरूं शेत रोवचें उरलें. असो विचार ताच्या तकलेंत गोंदळ घालूं लागलो आनी मागीर फाटल्या यादीनी तो घुस्मटपाक लागलो. ताका दोन पूत. सव्वीस वर्सांचो धाकटो पूत वामन पणजे नोकरेक आसतालो. ताचो व्हडलो पूत राघू दोन वर्सां पयलीं संवसार सोडून गेल्लो. आपल्या व्हडल्या पुताच्या मर्णाक आपूण जापसालदार अशें ताका ताचे मन सांगतालें. ते दीस ताचो व्हडलो पूत राघू सदच्यासारको सकाळच्या पारार पलतडी चिचेदेंवण्यार मिनाच्या पावडरीचे ट्रक उसपोवपाक वयतालो. तो घराभायर सरतलो इतल्यांत आत्मान राघूक आडायलो आनी दोगांयचे तोंडाक तोंड जालें.

''गेल्या आठ दिसांसावन हांव बरोना तें खबर आसा मरे तुकां?''

''हय.'' राघून सांगलें.

''मागीर शेताक कोण उदीक लायतलो तर?''

राघून जाप दिली ना. मागीर आत्मा उलयत रावलो.

''आमगेल्या वायंगणात मालूण म्हयन्यातूच कोडीचें उदीक लागता. बांदावयल्या शेतासारकें पावसार वाडटलें म्हुटल्यार आता पावस ना. शेत सामकें सुकलां. जमनीक फुटोळ्यो गेल्या. आयज शेताक उदीक मेळना जाल्यार तें सुकोन वयतलें. हांव गेल्या दिसानीच शेताक उदीक लायतलो आसलों. पूण म्हज्यान ते लाठीन उदीक काडूं नजो. तूं आयज शेतार चल.''

''फाल्यां पळोवया.'' अशे सदच्या सारकें सांगून ताणे भूती हातांत घेतली. तसो आत्मा अदीक तिडकेलो आनी तापार जावन उलोवंक लागलो.

''त्या शेताचेर तूं जेयता आनी त्याच शेताक तूं उदीक लायना मरे? तें सुकोवन केलां. शेत आमकां शिराप सोडटलें.'' बापायचे न आयकतां तो भायर सरून पलतडी वचपाक लागलो. ताच्या फाटल्यान आत्मा उलयत रावलो.

''शेतान दिल्ल्या गोट्यांचीच भूती बांदून व्हरता मरे! शेताच्याच गोट्यांनी तूं पोसता मरे? दिसाक पन्नास-साठ रुपया मेळटा हेखातीर त्याच शेताक तूं विसरता मरे? तें सुकोन वयतना शिराप सोडटलें.''

ते दीस आत्मा ताच्यान नजो आसतना आपले सुनेक घेवन शेतार गेलो. शेत उदकाक सामकें आशेल्लें. तोंडा जशी उत्ती करचीं तश्यो जमनीक गेल्ल्यो फुटोळ्यो उक्त्यो जाल्ल्यो. ताचे सुनेन लाठीन उदक काडलें आनी शेतांत देंवून आत्मान शेताच्या कुणग्याकुणग्यांनी उदक सोडलें. उदक मेळ्ळ्या उपरान्त शेत

जिवें तटतटीत जालें. वारो येवन पांचवें शेत धोलों लागलें तसो आत्माचो जीव भुल्लसून गेलो.

तो घरा परततालो. इतल्यांत सकाळच्या पारार घडलेली याद ताच्या मनांक उस्तूंक लागली. आपल्या चेड्याचेर रागार जावन ताका आपणे उलयलो म्हूण ताच्या जिवाक खांवक लागलें. शेताचे मेरेर बसून एक किरकिरो रडटालो. तो रडटालो तें पळोवन आत्मान ताका धांवडायलो. किरकिरो रडत पलतडच्यावशीन उडून गेलो.

पलतडी कामाक गेल्ल्या राघूच्या मर्णाची खबर कळ्ळी तेन्ना मळबांतलो फातर आपल्या कपलार पडल्यावरी आत्माक जालें. ताचे हातपांय कडकडूंक लागले. ताची वाचाच बसली. कुरासांवाचे जावन भायर पडलेल्या आपल्या भावाच्या मर्णाक पणजे शिर्वीस करपी वामन आयलो. ताणे भावाचे मर्ण केलें. आत्माची त्या दिसा वाच्या गेल्ल्यावरी जाली. ताच्या दोळ्यांतसून दुकांचो झरी उमळटाल्यो. परत परत ताका चिंतून येताले. आपणे आपल्या पुताक खाल्लो. आपणे जर आयज ताका उलोवंक नासलो तर ताका कांयच जांवचें नासलें. शेत शिराप सोडटलें अशें आपणे ताका सांगलें. अशे विचार ताच्या मनांत येताले आनी नाक तोंड दाबून धरल्यावरी ताचो घुस्मटमार जातालो. सामको श्वासूच बंद जातालो.

हे घडणुके उपरान्त संवसाराची जापसालदारी परती आत्माचेर पडली. मागीर पावणेदोन वर्सांनी उबाळाच्या दिसांनी आत्माक आरीचे जालें. संधिनी वात आयल्यावरी पांय दोडपाक येना जाले. धिपरां सुजली. स्नायूं सदळ जाले. पांयानी चलपाक, उबो रावपाक जमना जालें. पांय आसून लेगीत पांगळेपण आयले. गांवठी वखदां केली पूण गूण पडलो ना. निमाणी पणजे रावतल्या ताच्या धाकट्या पुतान ताका पणजेच्या हॉस्पिटलांत दवरलो.

हॉस्पिटलांतल्यो अडेच म्हयन्याच्यो यादी आत्माक नाका जाताल्यो. पूण त्यो यादी ताची फाट सोडी नासल्यो. फाटलो मीर्ग सुरू जांवच्या पंदरा दिसां पयली ताच्या धाकट्या पुतान ताका हॉस्पिटलांत दवरलो. खाटीर दवरला थंय दिसाचे दीस तो उरलो. आरीच्या पिडेतल्यान बरो जावपाखातीर पातळ वखदां, गुळ्यो, इंजेक्शना, शॉकट्रिटमेंट अशे कितलेशेच उपाय जावंक लागले. आपूण बरो जावन मिर्गा पयली घरा पावतलों अशें ताका दिसतालें पूण मीर्ग जावन भर पावस सुरू जालो. धाकटो पूत ते दीस ताच्या खबरेक आयलो. ताणे ताची खबर विचारच्या पयलीच आत्मान ताका विचारलें,

''चेड्या, गांवांत गेल्लो रे? शेत रोयलें रे?''

''ना.''

''शेत रोंवना?''

''ना.''

''कित्याक?''

''शिर्वीसेचे काम आसता. मागीर गांवांत वचोन शेत कशें रोयतलो?''

''तूं शेत रोवचोना तर?''

तो वोगीच रावलो. दिवो भगभगचो तसो आत्माक राग मारलो. रागान फुडें उलयतलो तेन्नाच फाटली याद जावन तो वोगीच रावलो. रोप्याची पांचवी पानां मुट्योवंची तशी ताची दशा जाली.

पावसाचे दोन म्हयने जावन गेले. आपूण बरो जावना हेखातीर ताका वायट दिसतालें. हॉस्पिटलांतल्या भोंवतणिची ताका वीट येवपाक लागली. वखदांचो, पुराय हॉस्पिटलाचो वास ताका सोसना जालो. रातच्या वेळार ताच्या सपनांत घरा फाटली चंवरलेली आमुल्ली आनी दोंगुल्लेवयल्यो चंवरलेल्यो काजी दिसूं लागल्यो. आनी सपनांतूच चंवराच्या परमळान भुल्लसून गेल्यावरी ताका जावंक लागलें.

धाकट्या पुतान ताच्या आगऱ्याक लागून ताका घरा हाडून पायलो. शेत रोवचें उरलें म्हूण ताका खंत भोगताली. आपूण जर बरो आसलों तर शेत रोंवचें उरचें नासलें अशे ताका दिसतालें आनी मागीर ताच्या दोळ्यांत दुकां येतालीं.

फाटल्या यादी वांगडा आत्मान हड्ड्यान भरलेलो हुस्कार सोडलो; आनी म्हटलें, ''वर्स जायत आसा हे गोश्टीक. आयज मीर्ग पूण सकाळपासून पावस पडो ना. मळबांत दमळां लेगीत येवं ना. म्हजे अन्तस्कर्ण मात मळब दमळांनी दाटून येंवचे तशें दाटून येयलां. शेंत रोंवचें आसा पूण धाकटो पूत शेताकडे पळयत असो ना.'' परत ताणे हुस्कार सोडलो आनी चिंतपांत तो बुडपाक लागलो. उपरांत ताणे निश्चेव केल्ल्याभशेन ताचे मुखावळ दिसूंक लागलें. नाकपुडयो फुल्ल्यो. ताणे मुठी आवुंळल्यो आनी उजवी मूठ दाव्या तायटार मारून तो आपल्या आपूण उलोवंक लागलो.

''अंदू शेताची पांचवी कूस उजयल्याबगर रावचो ना. शेत अंदू रोयतलोंच.... अंदू रोयतलोंच! ताणे नातवाक उलो मारलो,

''बाबूऽऽ''

जाप दिवन बाबू ताच्या फुड्यांत आयलो.

''आमी शेत रोंवया मरे?''

''हय आज्या. पूण....''

''पूण बीन कांयना. ह्या वर्सा आमी शेत रोंवयाच. तूं तयार आसा मरे.''

''हय.''

अशे सांगून; ही खबर आपल्या आवयक सांगपाक धांवत तो घरांत गेलो.

आत्मा पडवेवयल्यान आपल्या बांदाकडच्या शेताक पळयतालो. वोतांत शेताच्या मातयेचो कणकण तापलेलो. शेताच्यो मेरो मोडलेल्यो. शेताच्यो मेरो घालून कुणगे सारके करूंक जाय आसले. शेताक खण्णी घालूंनासल्यान परीपाठ, तुंबयो वाडलेलो. तांची सुकी ताडां आसलीं. वर्सा सारकी शेताक खण्णी घातलेली तर मातयेक वोत बरें लागतलें आसलें. दनपारचो कड वाडत गेलो आनी जमीन खर तापूं लागली. तापलेल्या जमनीतल्यान हुल्हाळ मारपाक लागले.

दनपार देवूं लागली. आत्मा न्हिदलेलो. ताणे दोळे उक्ते करून पळयलें तर पडवेच्या उजव्या कोनश्याक नांगर आसलो. ताच्या फाळाक कळम येयल्ली. इतलीं वर्सा नांगराच्या फाळाची चकचकसाण केन्नाच कमी जांव नासली. पूण ती आता कमी जाल्ली. नांगरा कुशीक गुठो, दातो, नागाड्डो, जुकमी आनी जूं आसलें. जूं पळोवन ताका आपल्या बैलांची याद जाली. जोताचो गोबरो बैल मरून गेल्लो आनी एकटो शिबरो बैल उरलेलो. त्या बैलाचीं गेतां लागलेली. तो गेतां जमनीवयल्यान वोडीत वोडीत चलतालो. कोनश्याक आसलेलें जूं गेता लागलेल्या बैलाच्या मानेर आनी आपले मानेर आसा अशें आत्माक दिसलें. शिबऱ्या बैलाभशेन आपलीय गेतां लागल्यां. आनी पुराय कुटुंबाक वायट लागलां अशें ताका दिसपाक लागलें. घराफुडल्या सुक्या पणसाच्या खाकोळांत राती वेळा रडपी हुडकाची ताका याद जालीं. ताचे रडप ताच्या कानांनी गाजूं लागलें. मागीर ताका तें नाका जावन ताणे आपल्या कानार घट्ट हात धरले.

हांतरूणार बसला थंय तो आपल्या कुलपातपणाचेर उपाय सोदूं लागलो. शेताची मातीच आपल्या पिडेचेर पारागात पडटली अशें ताका दिसपाक लागलें. शेताची माती बिबूत कशी आपल्या धरलेल्या पायांक लांवची असो विचार ताच्या तकलेंत येवन गेलो. आनी कालच्या राती पडलेल्या सपनाचो ताका उगडास जालो. शेतांतले मातयेंत फोंडकूल खणलें. तांतून तो उबो रावलो आनी आपले पांय शेतांतले मातयेत पुरून घेतले! इतल्यांत तो जागो जालो. सपनांतल्या सारकें आपणे आपले दोनूय पांय मातयेंत पुरून घेवपाक जाय अशें ताणे थारायलें.

वोत कमी जालें. सांवळ्यो लांब जाल्यो. टिटाकोयचो आवाज आयकून ताणे आशेन भायर पळयलें. ताच्या घराकडसून ताच्या बांदाकडच्या शेतावयल्यान टिटाकोय गायत पाखटे फडफडायत उडत वयताली. टिटीट्यांऽव.... टिटीट्यांऽव... पावस पडटलोऽऽ पावस पडटलो. ऽऽ अशें सांगत ती गेली. तें आयकून, पळोवन आत्माच्या भुजांनी वाव भरल्या सारको जालो. जनेलांतल्यान ताणें अस्तमतेकडे पळयलें आनी तो अजापलो ! मळबांत दमळां एकटांय जाताली. मागीर हळुहळू

वाव मारपाक लागलो. वावाचो वारो जालो आनी वारो आयल्याबराबर सगळीं झाडांपेडां कचकचून हालूं लागली. घरा फुडलो सुको पणसूय शिरशिरून हालू लागलो. ताच्यो सुक्यो साली झडल्यो. मळबांत दमळां दाटून आयलीं. पुराय मळब काळ्या दमळांनी दाटलें. आनी गडगड तटतट जावन जोगलावणे मारले. वारो व्हांवत रावलो. मळबांत दमळां अदीक खेट करपाक लागली. आत्माक दिसलें, 'आतां पावस झडून ह्या हुनसाण आसलेल्या मातयेंत तो रिगतलो. आनी गाब धरतलो ! आनी इतल्यांत सळ करून पयली दडक झडली. तिच्या फाटल्यान आनीक दडक, दडकेर दडक. पावसाचे थेंब मातयेंत रिगले. किल्लले. तांची व्हडलीं झाडां जालीं आनी मातयेच्या झाडांक फुलांच फुलां.... मातयेच्या वासाची फुलांच फुलां.... मातयेचो घमघम.... मातयेचो सुरबूस वास हुंगोवन आत्माच्या आंगांत जोगूल शिरशिरल्यावरी जालें. आंग जिवें तटतटीत जालें. भायल्यान वावझड पडवेंत येवन ताच्या आंगार झडलीं.... संबंद आंगभर शितळकायेची शिरशीर.... पांचव्या कोमरेची शिरशीर... आत्मान मातयेचो सुरबूस वास नाकपुडयो फुलोवन हुंगून घेतलो. तो वास नाकांतल्यान हड्यांत आनी पुराय आंगभर पसवलो. ताची शिरंतरां तटतटीत जाली. हातपांय तायट जाले. स्नायूंक नेट येवन ते वळ्ळे. आनी.... आनी नेटान तो हांतरूणांवयलो उठलो. पांयांनी उबो रावलो. गोठ्यांतल्या शिबऱ्या बैलाच्या गळ्यांतली घांट किणकिणली आनी ताणे धेंक घातलो. उबो रावला थंयसून आत्मान फुडें पावल घातलें. मिर्गाचो पावस झट्टा तें पळोवपाक पडवेर येयल्लो बाबू आनी ताची आवय आत्माक अजापान पळयत उरली. मागीर बाबू व्हडल्यान आड्डलो, ''आजो उबो रावलो ! आजो चलता ! आजो चलता....''

उपरांत बैल हाम्योंक लागचो तसो आत्मान उलो मारलो, 'बाबू ऽऽ बाबूऽऽ मिर्गाचो पावस झडटा ! मातयेचो परमळ येता ! मातयेचो परमळ! चल, मातयेचो आमकां उलो आसा ! आमी शेत रोवया....''

तो बाबू फुड्यांत सडसडीत चलत आयलो. बाबूच्या खांदार हात दवरून बांदावयल्या शेताकडे पळयत ताच्यासयत भार येयल्यावरी तो घराभायर सरलो. भायर मातयेक पावसाचो अभिशेक... पावसाच्या थेंबा कणकणी फुलांच फुलां... मातयेची फुलां... आनी सगल्याक पातळलेलो सुरबूस वास!



१३

# शार वाडत आसा

पणजेंत हे आदीं घरमालकाचे खोसयेन मोडून उडयल्ल्या घरावरीच दामूचे घर मोडपाचें थारायल्लें. आनी दामू थंय येवच्या पयलींच दोन बिल्डिंगांमदीं अयस-पयस आसलेलें ताचें चौकेचें भूंयसरपाटें घर मोडपाक घाटावयल्या धाबारा मानायानी सुरवात केली. मद्रासी कॉन्ट्रेक्टर डी. वामनन् कामाचेर नदर दवरून आसलो. तो काळो मोटवोच चेपक्या नाकाचो कॉन्ट्रेक्टर मोडके हिन्दीतल्यान आनी कोंकणीतल्यान मुकादमाकडेन उलयतालो. घराचे सुलचे नळे देवोवन जाल्या उपरान्त नव्या बिराडाकडल्यान दामू थंय उसरांच पावलो. तें घर दामूचे मालकेचें. घराची आनी घराचे भोंवतणची देडशें हात लांबायेची आनी शंबर हात रुंदायेची सुवात ताच्या बापायच्या नांवार आसली.

दामू थंय येवन पळयत जाल्यार घर बोडकें जाल्लें. आपूण येवचे पयलीच मद्रासी कॉन्ट्रेक्टरान कामाक आरंब केलो म्हूण ताका ताची तिडक मारली, पूण ताका ती चिड्डून धरची पडली. दोन दिसांपयलींच तांचो ॲग्रीमेंट पुराय जाल्लो. दामूचें पोन्ने घर मोडून त्या जाग्यार पांच माळयांची बिल्डींग तो कॉन्ट्रेक्टर बांदतलो आसलो. त्या बदला दामूक तिसऱ्या माळयेर चार कुडींचो एक फ्लॅट आनी सकयल्या पसऱ्यांचे दर म्हयन्याक भाडेंय मेळपाचें आसलें. आज सकाळींच घर मोडपाचें थारायल्ल्यान ताणे काल आपले घर खाली केलें आनी महालक्ष्मीकडच्या एका भाड्याच्या घरांत बिराड हालयलें.

कांबी आनी घराचे वांशे निखळावन काडून सकयल उडयतना ते नळ्यांच्या राशीर पडून नळ्यांची ल्हान कयलां जातालीं. एक वासो दामून रोवन वाडयल्ले केळीर आनी मोक्यांचेर पडून ते जमनी भरवण जाले. मद्रासी कॉन्ट्रेक्टर एका जाग्यार म्हूण उबो रावनासलो तो आपली निळे देगेची धवीफुल्ल लुंगी दाव्या

हातान वयर उखलून हेवटेनतेवटेन बोवाळत भोवतालो. मुकादमाक सुचवण्यो दिवन् काम करून घेतालो. लांब आनी आंगान बारीक; पूण उजळ असो दामू खाकी पॅट आनी धवो बुशकोट ह्या आपल्या ड्रायव्हराच्या भेसांत मोन्यानी उबो आसलो. ताणे आपले दोनूय बेकार हात फाटल्यान धरलेले. ताच्या कपलार आडव्या वेरोळ्यावरी मिरयो पडलेल्यो. तो उबो रावला थंय आपलो फोड खणल्याभशेन उजव्या आंगठ्यान पांयांपोंदची माती उस्तीत आपल्या उगड्या घराक पळयतालो.

पणजे शाराच्या मुखेल मार्गाच्या दोनूय कुशींक दोन-दोन, तीन-तीन माळयांच्यो इमारती जाल्ल्यो. ह्या इमारतींचे वळींत दामूचें हे ल्हानशेच देंवत्या पाख्यांचे चौकेचे घर उरलेलें. घराच्यो वणटी तांबश्या मातयेच्या रव्यान बांदलेल्या चिऱ्यांच्यो आसल्यो. वणटींक भायल्यान चुनो काडून तुळतुळीत केल्ल्यो. ह्या चौकेच्या घरासामकार पावतकूच पोन्ने पणजेंत पावल्लेवरी दिसतालें. आनी आयज हेंच घर मोडटना पळोवन येतल्यावयतल्यांक कितेंशेंच दिसतालें. तांच्या तोंडार पणजेंतलें कितेंतरी शेणलेले भाव दिसताले.

चौकेच्या मदल्या राजांगणांत तुळस आसली. तुळशीर एक कांब निखळून पडली आनी तिचो एक खूर मोडलो. त्याबराबर दामूसयत सगल्यांची नदर थंय गेली. घर मोडटना तुळसूय मोडची पडटलीं हें दामू नकळच आसलो. घरावांगडाच तुळस थंयची निखळावची पडटली ही जाणविकाय ताका जाली आनी ताच्या मनाक फुटोळ्यो गेल्ल्यावरी जालें. उबोच रावलेलो दामू जाग्यावयलो हाल्लो. तो तुळशीलागी गेलो. मानायानी तुळशीची सकयली मातयेची उंच पेडी मोडून वयली तुळस काडली. दामूच्या सांगण्याप्रमाण घराभायर कुशीक कमरायेदे उंचायेलो लाकडी खांबो पुरलो त्या खांब्यावयर चौकोनी फळी आडवी मारली. ताचेर धडावयली गोमटी काडून खुर्सार मारलेलेवरी तुळस दवरली.

गेल्या वर्सा दामूच्या घराकुशीक बारेटो कॉलनी बांदतना पेद्रू बारेटोच्या घराक तेकून आसलेलो धव्या तिजुल्यानी बांदलेलो खुरीस निखळायल्लो आनी थंयच आडवो उडोवचो न्हंय म्हूण बुनयाद मारून उस्तून उडयल्ले मातयेंत तो बावट्याभाशेन रोयल्लो. नवे बांदावळीचेर सुद्धां धर्मान जैत जोडल्यावरी तो खुरीस दिसतालो. बारेटो कॉलनीची बिल्डींग पुराय बांदून जाल्याउपरान्त वीज पडची न्हंय म्हूण बिल्डींगेचेर विजेचोखो उबारलेलो. विजेचोख्याक खासा खुर्साचो आकार दिल्लो. आनी खुर्साक नव्या रूपान पुनर्जल्म जाल्लो.

जमनिचो आदार घेवन उब्यो उरलेल्यो घराच्यो वणटी मानायांनी मोडपाक सुरवात केली. पिकासाचे टोकयेखाला मातयेच्या वणटीचे चिरे निखळून पडपाक

लागले. सांजमेरेन उबें चौकेचें घर जमनी भरवण जालें.

शार वाडटाले. तें वाडत आसतना जागेवयले आदले पोन्ने मोडून त्या जाग्यार नवी बांदावळ जाताली. शार रुपान आनी आकारान बदलतालें. तेचबराबर तांतूत रावपी मनशांत भायल्यान इल्लो तरी बदल जाल्यावरी दिसतालो. तांच्या मनांक भिंगावरी तासां पडटालीं. पूण मनीसप्राण्याच्या नीज भावनांत बदल जाला काय ना हो प्रश्न घडयाळीच्या लोंबकळ्यावरी हेवटेन तेवटेन लोंबकळतच आसलो.

दुसरे दिसा 'वेळ' न पळयतां भूमिपूजन न करता बिल्डींगेची बुनयाद खणपाक हात घातलो. खुर्सार मारलेलेवरी कशी दवरलेली ती तुळस बुनयाद मारपाच्या कामांत आडखळ जाताली हें कॉन्ट्रेक्टराचे नदरेंतल्यान सुटलें ना. ताणे ती त्याय जागेवयली काडपाक लायली.

सुटे भाग एकटांय जुळोवन एक व्हडलें मशीन उबारचें तशेतरेन कांय दिसांनी बिल्डींगेचो सांगाडो वयर उठपाक लागलो. जॅकार व्हडली गाडी वयर उखलची तशी बिल्डींग खांब्यार उबारलेली दिसपाक लागली. माती आनी मातयेच्या कसाच्या जाग्यार लोखंड, सिमीट आनी कंक्रीची बांदावळ जाली. विटांच्या वणटींनी बिल्डिंगेक भायल्यान भितल्यान आकार येवपाक लागलो. बिल्डिंगेच्या मदींच आसलेल्या दरवट्यार 'डी. वामनन् अपार्टमेंट' अशें शिमिटाच्या अक्षरांनी कॉन्ट्रेक्टरान आपले नांव घातलें. त्याच रस्त्याकुशीक साता स्वर्गाभाशेन आसलेल्या बारेटो कॉलनी, पोपटलाल कॉलनी, अनंतनगर, वळवयकारनगर, चोडणकारनगर, कदंब अपार्टमेंट, सुशांत अपार्टमेंट ह्या बिल्डींगांचे वळींत ह्या आठव्या अपार्टमेंटान भर घातली. वामनन् अपार्टमेंटाक एक माळी चड आसल्याकारणान ते हेर बिल्डींगापरस ऊंच दिसतालें.

पयले आनी दुसरे माळयेचे ओनरशीप फ्लॅटस् पुराय तयार जाल्ल्यान कॉन्ट्रेक्टर डी. वामननाक दर फ्लॅटाक चार पांच लाख रुपया दिवन लोक दामू पयली आपापल्या फ्लॅटानी रावपाक आयले. तिसरे माळयेवयले फ्लॅट तयार जावनासल्यान दामू भाड्याच्याच घरांत आजूनय रावतालो. ॲग्रीमेंटात पयले माळयेवयलो फ्लॅट आपणे मागूंक जाय आसलो, अशे ताका चिंतून येतालें. पूण कुळवाड्याची बुद्द धोंपरांत अशें म्हणून कपलार हात मारून घेवचेबगर ताच्या हातांत कांयच उरूंक नासलें.

कॉन्ट्रेक्टराचे फाटीक लागल्याउपरान्त ताणे ताचो फ्लॅट पुराय करून दिलो. बिल्डिंगेच्या सकयल उगडलेल्या पसऱ्यांच्या भाड्याचे पैशे कायमचे मेळपाचे आसल्यान ताका उमेद आसली. ते उमेदींतूच तिसरे माळयेवयल्या फ्लॅटांत

रावपाक आपली बायल आनी भुरगीं तशेंच सामानासुमानासयत पुराय संवसार घेवन आयलो. दरवट्यावयलीं 'डी. वामनन् अपार्टमेंट' ह्या नांवाची पाटी तो येता त्याच दिसा रंगयल्ली. ती दोळ्यांत भरसारकी नांवाची पाटी पळोवन दामूचे तकलेंत शॉक बसल्यावरी विचार आयलो. तोच विचार ताचे तकलेच घण घालीत आसतना तो बिल्डींगेंत भितर सरलो. त्याचवेळार आपूण आपल्या खाशेल्या घरांत येवना तर डी. वामनन अपार्टमेंटांत आयला अशें ताका समजून आयलें आनी तेन्नाच ताका कच्च जालें.

दामू आपल्या फ्लॅटांत मोव रेक्झीनच्या सोफार बसला थंय चिततालो. भायर रस्त्यार आपल्या भुरग्यांचो आवाज आयकून तो उठलो. ताणे सकयल रस्त्यार पळयलें. बिल्डींगेच्या मुखावयल्या रस्त्यार हेर भुरग्यांवांगडा ताचीं दोनूय भुरगीं खेळटाली. मोटारी येता-वयता त्या रस्त्यार खेळटा म्हूण ताणे तांचेर घेकणो घातलो. आनी तांका वयर फ्लॅटांत आपयलीं.तांची भुरगीं पयली आदल्या घराचे चौकेच्या मदीच आसलेल्या राजांगणांत खेळटालीं. तें आतां नासल्यान तीं बाबडी रस्त्यार खेळपाक गेल्लीं. आपलें आदलें घर मोडून बिल्डींग बांदपाक दिली हांतूत आपूण चुकलो अशें दामूक दिसलें. सांजचो तो घरा म्हूण परत येतालो आनी थंय येवन पळयत जाल्यार ताच्या आदल्या घराच्या जाग्यार शिमिट कंक्रीची बिल्डींग ताच्या दोळ्यासामखार दिसताली. आपूण चुकून खंय तरी पावलों अशें ताका जाताले. ती बिल्डींग म्हणजे आपलें देवत्या पाख्यांचे चौकेचें घर ही कल्पना ताच्यान करपाक जमनासली. परत परत ताच्या देंवत्या पाख्यांच्या घराची ताका याद येताली. ताणे रोयल्ल्या केळींच्या पार्श्वभागासयत ताच्या घराचे चित्र ताच्या दोळ्यामुखार नियाळटालें. तो सांजचो घरा परतना घराचे पडवेंत वाट पळयत ताची बायल बसताली. भुरगीं राजांगणांत खेळत आसतालीं. थोडो उशीर जालोच जाल्यार आमोरेच्या वेळार घरा येतना चौकेंतले तुळशीचे पेडयेर एकारत दवरून तुळशीक प्रदक्षिणा काडपी ताची आयावपणातल्या अळंकारांतली प्रसन्न बायल दिश्टी पडटाली. भुरगीं सालांतल्या मातयेच्या सोप्यार आपापलीं पुसतकां उगडून वाचीत बसलेली दिसतालीं. आनी मागीर तोय त्याच मातयेच्या सोप्यार लाकडी खांब्याक ओंडखून बसतालो. आतां हें चित्र पुराय बदलून गेल्लें. फाटल्यो यादी मात ताका आदल्या घराचे भोंवतणेन व्हरून सोडटाल्यो.

डी. वामनन् अपार्टमेंटाचे उजवे कुशीक व्हडल्यो जायराती कश्यो सरगम स्टोअर्स, विविधा स्टोअर्स, गीफ्ट कार्नर अश्या तीन पसऱ्यांच्यो पाट्यो लागल्यो. दावे वटेन बॅंकेची एक ब्रँच उगडली; आनी देवळांतली महालक्ष्मी आपल्या

शेजाराक रावपाक आयल्यावरी दामूक दिसलें. बँकेची आनी पसऱ्यांची पाच लाख रुपया पागडी दामूक मेळ्ळी. तांचे दर म्हयन्याक वीस हजार रुपया मेळपी भाड्याच्या पैश्यांनी ताचीं बोल्सां तटास भरपाक लागलीं. पांचूय माळयांवयल्या ओनरशीप फ्लॅटांनी तांचे तांचे मालक येवन रावपाक लागले. बिल्डिगेंत मनशांचो गजबज जालो.

ओनरशीप फ्लॅटस विकून कॉन्ट्रेक्टरान लाखांनी रुपया केले आनी ते पयशे अशेच मिरामार आनी परवरी ओनरशीप फ्लॅटस् बांदपाक वापरले. ताणे बिल्डिंगेचे सगले ओनरशीप फ्लॅटस् विकले नात. मडगांवांतल्यान पणजे आयल्यानंतर आपल्याक रावपाखातीर ताणे पयले माळयेवयलो एक फ्लॅट राखून दवरलो.

गोंयांत रावनूच बसलेकडेन दामूक म्हयन्याक वीस हजार रूपया जोड मेळटाली, म्हुणून कुवेता परस गोंयच बरें अशें ताका येवजून येवंक लागलें. पणजे शारांत आसलेलो जमनीचो ल्हान कुडको मिनाचे खाणीपरस व्हडलो जाल्लो. बिल्डिंगेंतल्या मांडाच्या भाड्याचे दुडू पयले खेपे हातांत पडल्याबराबर कुवेत वचून धा हजार रुपया जोडपाचो विचार ताणे सोडून दिल्लो. पूण पात्रांवाचे मुर्वतीखातीर धाकटी गाडी चलोवपाची ड्रायव्हराची नोकरी सोडून दिवपाक ताका कठीण जावपाक लागलें. ते शिर्विसेत ताका म्हयन्याक पंदराशें रुपया पगार मेळटालो. त्या पंदराशें रुपयांत आपलें, आपले बायलेचें आनी दोगां भुरग्यांचे पोट कशेंबशें भरतालो. दर दिसा तो आपल्या पात्रावांक ताचे ॲम्बासिडर गाडयेंतल्यान ऑफीसांत व्हरतालो आनी परत घरा हाडटालो. सांजवेळा परवरी वा मिरामार भोंवंडयतालो. बिल्डिंगेत येवन स म्हयने जावच्या पयलीच दामून नवी धाकटी गाडी घेतली आनी त्या दिसासाकून मात् ताणे ती नोकरी सोडून दिली. तोच आता दर सांजवेळचो पासयेक भायर सरतालो.

मिरामार साकून आपल्या फ्लॅटाकडेन परत येतां येतां ताणे आपले गाडयेचो वेग सवकास केलो. मिरामार वाऱ्याक गेला थंय ताची तकली मेकळीं जावच्यापरस मिरामार उबारूं क लागलेली उपनगरी पळोवन ताचे तकलेंत गच्च विचार भरून आयले. भर गजबजलेल्या पणजेतल्या फ्लॅटापरस ताका मिरामर मेकळ्या वाऱ्याक फ्लॅट आसचो अशी इत्सा जाली. डी. वामनन् अपार्टमेंटाकडेन पावनाफुडें दरवट्यालागींच ताणे ब्रेक लायलो. फुडें दरवट्यांत कॉन्ट्रक्टर डी. वामनन् हाची काळ्या कोराची धाकटी गाडी उबी आसली. आनी ते गाडयेकडे श्री. डी. वामनन् उबो आसलो. तो मानायाकडल्यान गाडयेंतले सामान पयले माळयेवयल्या फ्लॅटांत व्हरतालो. 'आंऽ कॉन्ट्रेक्टर मडगांवसून पणजे आपल्या

फ्लॅटांत रावपाक आयलो तर!' याद जाल्ल्यावरी दामून मनांतल्या मनांत म्हणलें. आनी आपलेकडेन हांसून पळयतल्या कॉन्ट्रक्टराक बळयां वयल्यावर हांसलो. ताणे 'गुड इव्हीनिंग' करीनाफुडे हाणेय 'गुड इव्हीनिंग' केलें. वामनाची काळी कार दवरवट्यांत आसल्यकारणान दामून आपली गाडी पासयेर सुद्धां न काडटां रस्त्यारूच दवरून तो आपल्या फ्लॅटाकडेन वचपाक सोपणां चडपाक लागलो.

आदल्या घरांत आसताना आपूण मेकळो, बंदपासाविरयत, स्वतंत्र कसो दामूक दिसतालें. घराच्या जाग्यार बिल्डींग बांदीनाफुडें ताच्या आदल्या घराचें वातावरण ना जाले. रस्त्यार खेळपाक वचपी भुरग्यांच्या जिवांची दुगदूग ताका लागून उरताली. आनी हाचें कारण आपलें घर मोडून बांदलेली बिल्डींग दिसताली.हे खातीर ताका ती बिल्डींग नाका जाल्ली. तशेच बिल्डींगेत रावपाक येयल्ल्या लोकांची दाटी आनी तांचो गजबज नाका जावपाक लागलो.

पैशे जोडपाक मनीस आपल्याक घाण दवरता वा विकताय; पूण मागीर पैशे मेळळ्या उपरान्त ताका स्वतंत्रताय जाय दिसता. आपले सोयीखातीर आपले गांठीक बांदलेलो मनीस सोय जातगीर आडखळ दिसता. स्वताक राखून दवरलेल्या आपल्या फ्लॅटांत आपल्या भुरग्यांसयत रावपाक येवन कॉन्ट्रक्टराक तीन म्हयने जाल्ले. ताचें रावप दामूक नसाय जाल्लें. पयल्या माळ्यार रावपी कॉन्ट्रक्टरान आपले ताळवेर पांय दवरल्यात आनी आपूण मातयेंत मुंगरता अशें ताका दिसतालें. तो रावपाक येतसावन ताच्या कपलार मिरयांची घिट्टी जाली आनी तकलेर पेज आयल्यावरी दिसूं लागलो.

वामनापरस ताचे गाडयेची दामूक आडखळ जाताली. वामनन् रावपाक येयतसावन आपली गाडी रस्त्यारसून पासयेर हाडटालो. मागीर पासयेवयल्यान दरवट्यांत हाडून दवरतालो. त्या दाराच्या उरलेल्या अशीर जाग्यातल्यान कांय तक्रार न करतां आपलेंच आंग आंखडून लोक येताले वयताले. चेप्याचें दोळ्यांवयलें पांखे कसो दरवट्याक भायल्यान स्लॅब आसलेल्यान दरवट्यांत दवरलेले गाडयेक वत वा पावस लागनासलो. कॉन्ट्रेक्टर आपली गाडी दारांतूच दवरतालो. दामूक आपली गाडी पयलींच्या जाग्यार दवरपाक मेळनासली. आनी दवरपाक गॅरेज नासली. गॅरेज करतलो जाल्यार थंय सुवातूय नासली. ताची गाडी भायर रस्त्यार वा पासयेर वतांत पावसांत दवरची पडपाक लागली.

फाटीं जाल्ल्या ॲग्रीमेंटाच्या वेळार आनी उपरान्त दामूचें आनी कॉन्ट्रक्टराचें एकमेकांकडेन उलोवप जाल्लें, पूण मागीर कॉन्ट्रक्टर पणजे रावपाक आयल्या उपरान्त दोगांयचे उलोवपूच नासलें. 'दरवट्यांतली तुजी गाडी काड' अशें तिडकून दामूक ताका सांगीनशें दिसतालें, पूण मुर्वत आनी दुबळेपण

दामूच्यामुखार आड येतालें. उमेदीन घेतलेली मोटारगाडी परत विकून उडोवची वा तशीच म्हयन्यापयलीं सुरू जावन घोग्यानी ओततल्या पावसांत दवरची असो प्रश्न दामूक भेस्टावपाक लागलो. आपली जमीन बिल्डींग बांदपाक दिली आनी तांतुतल्यान एकार एक प्रश्न उप्रासले. आनी खरें म्हळ्यार आपूण ॲग्रीमेंटात नागवलो, आपली जमीन मद्राशी कॉन्ट्रक्टराक विकती दिली कशी जाली; अशें ताका दिसपाक लागलें. पुराय बिल्डींग आपल्या माथ्यार दवरल्या आनी आपूण त्या खाला चिड्डून वयतां अशें ताका जालें. मागीर अचकीत प्रेशर वाडलेलेभाशेन ताचे नाडयेचे ठोके वाडले. तसोच तो तिसरे माळयेवयल्यान सकयल आयलो. रस्त्यार उबी करून दवरलेले गाडयेचें दार उगडलें. तिची चावी वळ्ळी. घर्र घर्र आवाज जावन गाडी सुरू जाली. ताकाच पळोवन सुरू जाल्ले उलोवप ताच्या कानांत पडलें. बिल्डिंगेतल्या पसरकाराकडेन दोन गिरायकां दामूविशीं उलयतालीं.

''तो आदलो गाडयेचो शोफेर, पूण आतां तो गाडयेचो पात्रांव जालो न्हंय!''

गिरायकान दामूकूच पळोवन अजापान म्हटलें.

''हय तर !''

''ताचो आदलो शोफेराचो भेस खंय आनी आतांचो उलनच्या कपडयांचो भेस खंय ! भेस सामकोच बदल्लो.'' - पयलो.

'पणजे बदलूंक लागलां, तेन्ना पणजेकाराचो भेसूच न्हंय तर पणजेकारूच बदल्लो तर अजाप ना, दुसऱ्या गिरायकान फोड केली. तांचे आयकून दामूक दिसलें ह्या पावसांत आल्तीन ताच्यावयल्या घरांदारांसयत, मुतारी संडास आनी गटारांसयत आपल्या जागेवयले बिल्डिंगेर आनी आपणाचेर गडगडत कोसळटा.

''कॉन्ट्रेक्टर येतसावन दामूची गाडी भायर उगड्यारूच आसता न्हय?''

''हय.'' पसरकारान हयकार दिलो आनी उलोवंक लागलो, ''रस्त्यार आसू आसली; पूण तो केन्ना केन्नाय पासयेर पसऱ्यासामखार दवरता आनी ती हांगा येतल्यावतल्या गिरायकांक आडखळ जाता.''

''कॉन्ट्रेक्टराची गाडी 'दरवट्यांत दवरपाक दामून दिवंक जायना.''

''पूण जागा दामूची आसली तरी कॉन्ट्रेक्टरान बिल्डींग बांदल्या.''

''जागो दामूचो आनी बिल्डींग कॉन्ट्रेक्टराची तर?''

कोणाचे किदें, कांयच कळना.''

भोंवपाक वचपाक म्हूण स्टार्ट मारलेली गाडी दामून तशीच चालू दवरल्यान तापत आसली. पूण मागीर क्लचावयलो पांय ताणे वयर केलो आनी गाडी सोडली. शारांतल्या उब्या-आडव्या घुस्पल्ल्या डांबरी रोडावयले येरादारीवरी

ताचे तकलेंत तांचे उलोवप घोळटालें. आनी ते ताच्या विचारांक रस्त्यावयल्यां तांबड्या सिग्नलावरी फुडें वचपाक दिनासलें. मागीर भोवपाचो विचार थंयच सोडून तो रोकडोच परतलो. ताणे तशीच गाडी डी. वामनन् अपार्टमेंटाकडेन वेगान हाडली. दारांत पावतकूच ताणे कच्च करून ब्रेक लायलो. पसऱ्याकडेन येदोळपासून उलयत आसलेले ते गाडयेच्या ब्रेकाचो आवाज आयकून वोगीच रावले; पूण तांच्या दोळ्यांनी ते आपल्याविशीं कितें तरी उलयतात अशें दामूक दिसलें. आनी येदोळचे तांचे तें उलोवप तर गाडयेंतल्या टेपरिकॉर्डरीवरी दामूचे तकलेंत वाजतालें. दरवट्यांत उबी करून दवरलेली कॉन्ट्रेक्टराची काळी गाडी आसा थंयच ताका दिसली. कॉन्ट्रेक्टरान सकयल येवन दरवट्यांतली ताची गाडी काडची आनी आपले गाडयेक सुवात दिवची ह्या हेतून दामून सदचे सारके पींऽऽ पींऽऽ करून हॉर्न वाजयलो. काळे बावटे दाखयल्ल्यावरी आयज ताणे सदच्यापरस चडूच वेळ हॉर्न वाजयलो. कॉन्ट्रेक्टर फ्लॅटांतल्यान सकयल कांय आयलो ना. मात इतल्यांत पणजेचेर सांजवेळार लोबकळूंक लागलेल्या पावसान येदोळच्या लोकांच्या उलोवपावरीच घोऽघोऽ करून घालून घेतलें. गाडयेचे हारशे बंद न करता ताणे रस्त्यावयली गाडी फुटपायरेर चडोवन दरवट्यांत आशिल्ल्या कॉन्ट्रक्टराचे गाडयेफाटल्यान हाडली. ताच्या तकलेतल्या घुस्पागोंदळाक आड रस्ते फुटले आसतानाच ताणे गियर न्युट्रलांत बदलून ॲक्सीलिरेटराचेर पांय दामून दवरून रेस केली. कानार हात दवरपाक लावपी होंऽऽव होंऽऽव होंऽऽव असो निशेद मोर्च्याच्या घोशणावरी व्हडल्यान आवाज येत रावलो.



# घर

कामगारांचो एक मेळ पणजेसाकून रायबंदरा चलत आसलो. रायबंदराच्या रस्त्याकुशीकच्या रायुभाटांत बंगलो बांदपाचे काम तांका आसलें. रायुभाटांत पावनाफुडेंच तांच्या मुकादमान तांकां थंय रावापक सांगलें. त्या कामगारांत तांची बायलां आनी भुरगीबाळां आसलीं. आप्पान आपल्या खांद्यावयल्या अडेज वर्सांच्या चेड्याक सकयल देवयलो आनी ताची बायल इराम्मान आपल्या चार वर्सांच्या चेडवाचो हात आपल्या हातांतसून मेकळो सोडलो. हें जोडपें पयलेच फावट कामाखातीर दोन दिसांपयली गोंयां पावलें. बाकीचे हेर कामगार बिल्डिंगो बांदपाचे काम करताले. गोंयांत कामाक आयल्यार कोणाक चार वर्सां जाल्लीं तर कोणाक पांच वर्सां. आप्पा आनी ताचीं घरकान्न ह्या कामाक आनी प्रदेशाक नवी आसलीं.

तीं सगळीं डांबरी रस्त्यावयल्यान कुशीच्या रायुभाटांत सरलीं, आनी थंयच्या आंब्याच्या झाडापोंदा बसलीं. कांय भुरगी तर थंय हाडून दवरलेल्या रेंवचे उंच राशीर वचून बसलीं. येतना माथ्यार मारून हाडलेल्यो भुतयो ताणी सोडयल्यो,

दनपारच्या कडार मार्गावयरसून धवीच धाकटी गाडी रायुभाटांतल्या शेर्कांत सरली आनी थांबली. काळी जुदी घातलेलो, धवेंफुल्ल पुडवे न्हेसलेलो सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो वसंतबाब सावकार देवलो. वसंतबाबान इंजनेर माशादाच्या सांगणेप्रमाण आपणे विकत घेतलेल्या रायुभाटाच्या जागेत चिरे, खडी, रेंव आनी हेर सगळे सामान हाडून दवरपाक सुरवात केल्ली. पणजे शारालागसार आपल्याक रावपाक जाय म्हूण वसंतबाबान जागो घेवन त्या जाग्याभोंवतणी शेर्क चिऱ्यांनी बांदून काडलें. ताका त्या शेर्का भितर एका माळयेचो बंगलो बांदपाचो आसलो.

वसंतबाब धाकटे मोटारीतल्यान देंवल्याबराबर मुकादम मल्लाप्पा ताच्या

फुड्यांत गेलो; तसो वसंतबाबान ताका विचारलें,

'काम केन्ना सुरू करता?'

'केन्ना करूं पात्रांव?'

'आतां करता?'

'आतां करूं येता. पूण आमी आताच हांगा पावल्या.'

'आतां जमना जाल्यार फाल्या सकाळी सुरू करात. तुका इंजनेरान सांगून दवरलां मरे.'

'हय.'

'इंजनेरान सांगलां तशेंच करूंक जाय. आनीक दोन म्हयन्याचें काम एका म्हयन्यांत जावपाक जाय.'

'हां.'

'हांव फाल्यां सकाळी येतलों. फाल्यां सकाळी फुडें तुमी कामाक लागपाक जाय.'

अशें सांगून वसंतबाबान आपल्या जुदयेच्या भितरल्या बोल्सांतलो प्लॅनाचो कागद काडलो आनी ताचेर नदर थीर केली. मागीर तीच नदर शेर्का भितरल्या जागेर भोंवडायली. बंगल्याची बुनयाद घालून दवरल्या थंय आसली. बुनयादीचें काम चालू आसताना कामावयले गांवठी मानाय काम तशेच सोडून गेल्ले. मानाय मेळच नासले. बांदपाचे फुडलें काम पंदरा दिसमेरेन तशेच कुपात पडलें. मागीर इंजनेर माशादान आपल्या कामावयले कामगार ताचे काम सोपतकूच वसंतबाबाच्या कामार धाडून दिले. फाल्यांपासून कामाक परत आरंब जावापचो आसलो. ताणे प्लॅनाच्या कागदाची घडी केली आनी बोल्सांत दवरलो. थंयसनूच परत वचपाक तो मोटारीत बसलो इतल्यान मुकादमान ताका विचारलें.

'इतले दीस आमकां रावपाची सोय?'

'म्हळ्यार तुमकां आनी रावपाक बंगलो जाय कांय कितें रे?'

'पात्रांव आमकां खंयचो बंगलो ! आमी बंगलो बांदपाचो दुसऱ्यांखातीर.'

'आं अशे मरे. गिन्यान आसा तर तुकां.

'तशे न्हूं पात्रांव.'

अशे म्हुणून तो वोगीच रावलो. आमीय म्हूण मनीसूच. आमकांय रावपाक कितेंतरी जाय अशें ताका सांगपाचें आसलें. मागीर तो उलयलो.

'पात्रांव, आमकां भुरगीबाळां आसात न्हू. आमकां रावपाक हांगाच सोय केल्यार जाता.'

'तुमकां आनी रावपाक सोय? रावा त्या आंब्यामुळांत.'

'रावपाक लेबर शेड आसतली अशें इंजनेर सायबान सांगलेलें.'

'शेड खंय आसा हांगा बांदिल्ली?'

'तशे जाल्यार आमी काम करपाक रावाना.'

आपलें काम अडटलें हेखातीर थोडो वगत विचार करून वसंतबाबान शेर्कातल्या जाग्यार नदर भोंवडायली. एके कुशीक बंगलो बांदपाचो आसलो. दुसरे दावे वटेन लांबची लांब जागा रितीच आसली. त्या जागेकडे बोट करून ताणे सांगलें .

'थंय शेर्काक तेकून तुमी शेड उबारा'. मेडी, वांशे, पत्रे आसात.'

दनपार देंवच्या पयलीच शेर्काची एक वणत कशी करून लांबचे लांब खोपटी उबारपाच्या कामाक सगळे मानाय लागले. मेडी पुरून वयल्यान विस्कळ वांशे घातले. सांज जाता म्हणसर ती लांबचे लांब शेड पत्र्यांनी शिंवोन घेतली. जंय शेड उगती उरली थंय साकाटे घालून धांपून घेतली. मदी ल्हान ल्हान आठ कुडी केल्यो. त्यो कुडी सामान आनी येळांच्या कोडव्यान कुशीकच्यान धांपून घेतल्यो. आठ कुडींची एका देंवत्या पाख्याची लांबचे लांब शेड तयार जाली. मानायांच्या आठूय बिराडांक तांतून आलाशिरो गावलो. दर बिराडान आपली कूड झाडून घेतली, आनी तांतुतले शेकरे भायर उडयले. कुडीकुडीत तीन तीन मोटे फातर हाडून ते मांडून चुली तयार जाल्यो. भायरसून जमोवन हाडलेल्या शिरपुट्या बोडयांच्या जळवान चुलिनी उजो पेटलो. सांजवेळा त्याच वखतार शेजारच्या थळाव्या घरांनी चुलीत उजो पेटोवन नळ्यांतल्यान घराभायर घुंवर येतालो. शेडीत तीन खुरांच्या चुलीचेर भाकरी भाजपाक तवो तापपाक लागलो. पीठ मळ्ळ्या उपरान्त पिठाच्यो ल्हान ल्हान गुळ्यांच्यो भाकरी हातांनी थापटावन तव्यार भाजपाक लागल्यो. आनी भाकरींचो सुरबूस वास शेडीच्या कुडीकुडीनी पातळपाक लागलो. तशें ते शेडीत वेगळेंच घरावें वातावरण निर्माण जालें.

दुसरे दिससाकून बंगलो बांदपाच्या कामाक नेट येवपाक लागलो. इंजिनेर माशाद काळ्या मोटारसायकलीर बसून सकाळी सायटीर येतालो. तेन्नाच तो जाल्लें काम पळयतालो आनी मानायांकडून करून घेवपाचे काम मुकादमाक सांगतालो. पात्रांव वसंतबाब सांजसकाळ येतालो. तो सगळीच कामां मुकादम मल्लाप्पाकडसून करून घेतालो. दिसभर सगळे मानाय आनी कामेऱ्यां बंगलो उबारपाच्या कामाक खपताले. चिरे तासपाचें गंवड्यांचें काम, चिरे व्हांवोपाचें, वण्टी चिऱ्यांनी घडोवपाचें, बेत्याचें काम सगळी तरेची कामां ते करताले. मानाय आनी तांच्या वांगडा काम करपी बायलो काम करून जीव दमोन गेल्ल्यान सांज जावपाची वाट पळयतालीं.

आमोरी जातकूच लेबर शेडीत जाग येताली. हरशी दिसभर मानाय, मुकादम आनी तांची बायलांभुरगी बंगल्याचे काम करता थंय आसताली. सांजेवेळा काम सोपल्याउपरान्त ती आपल्या शेडीलागी येताली. आमोरेच्या वेळार जेवणाखातीर तांच्या चुलीत उजो पेट्टालो. मानायांकडे सामान चड आसानासलें. कपड्यांचे झोळयेत थोडे कपडे. आलुमीनची दोन तातां, तवो, प्लास्टीकचो तांबयो नाजाल्यार कळशी इतलेच सामान. आनी हें सामान राखपाक तांच्या कुडीक ना कुलूप ना दार. दारां उक्तीच आसताली. ती शेड म्हणजे काम करून थकून आयल्याउपरांत रातचे न्हिदपाच्या वेळार वयर खोपटेचें एक पांखें आसलेलो फाट तेकोवपाचो जागो.

चाळ कशी आसलेल्या लेबर शेडीच्या पयल्या कुडीत मुकादम मल्लाप्पा रावतालो. तो आनी ताची बायल चंद्रिका अशी दोगूच. तांच्या लग्नाक पांच वर्सां जावन गेल्ली तरी भुरगे जांवक नासलें. मल्लाप्पाक हिन्दी सिनेमा गितांची चड आवड. तांच्या कुडीतल्यान दोन बँड रेडवो सदाच वाजतालो. मल्लापाच्या कुशीक ताचो भाव कल्लाप्पा रावतालो. सगळे ताका आप्पा असो उलो ांारताले. आप्पा सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो आसलो. तांची बायल इराम्मा आनी दोन भुरगी हांच्या पोटपाण्याक लागून आनी आपलो धाकटो भाव मल्लाप्पा हाच्या सांगण्यावयल्यान तो गोंयांत येयल्लो. घाटार तांचे स्वत:चे ल्हान घर आसलें. थंय तो मानायपण करून तांचे पोट भरतालो. गोंयांत येवपाक आपलें घर सोडून येवचें पडलें आनी आपल्या बायल-भुरग्यांसयत लेबर शेड नांवाच्या खोपटेच्या एका ल्हान कुडीत रावचे पडलें म्हूण तो नाराज जालो. हे खातीर केन्ना तो आपल्या फाटल्या भावार मल्लाप्पार तिडकेतालो. आप्पा आंगापांगान उंच आनी मोटो. काळ्या कुपांदर खडपाची पाटी कसो दिसतालो. मात तकलेचे थोडे केस धवे दिसताले. इराम्मा पाटी कशी बायल, बरेच मोटो पिंदरीचो तिबो कपलाक लायताली आनी साडी न्हेसताली. मल्लाप्पा मात्सो मोटवो पूण तो ताच्या भावाचभाशेन दिसतालो. तो आप्पाभाशेन कासाटो मारून पुडवें न्हेसनासलो तर पँट आनी शर्ट वापरतालो. फुडल्या कुडीनी मारुती, यल्लाप्पा, भिवा आनी तांची बायलां भुरगीं रावतालीं. मारुती, यल्लाप्पा, भिवा, भिमा, संगरप्पा आनी बसाप्पा हे मुकादम मल्लाप्पा वेळारूच गोंयांत पैशे जोडपाक येयल्ले. तांणी कोणाचे बंगले, कोणाचे ओनरशीप फ्लॅटस्, सरकारी इमारती, आनी पणजेतले रस्ते, सांकव बांदपाचे काम केल्लें. आतां हेच मानाय आनी तांची कुटुंबां शेडीच्या ल्हान ल्हान कुडीनी रावन शेजाराकूच एक व्हडलो बंगलो बांदताले. आपल्या घामाकश्टान, बळग्यान आनी कळाशेन ते व्हडले देवूळ कशें बंगलो बांदताले.

एका म्हयन्या भितरूच बंगल्याचो आल्लोस काडून वयर चिऱ्यांच्यो वण्टी उबारून माळयेचो वयलो बेतो घालून जालो. डायनिंग हॉल,दिवाणखानो, गेस्ट रूम, अशे बारीक मोटे धा-बारा कुडीचे मेळून सकयल्या भागाचे काम जायत येतालें. वयल्या माळयेच्या कामाक हात घालता ते दीस सकाळीच आकांताच्या पावसान घालून घेतलें. कामगारांची सबंद शेडूच वाऱ्यान हाल्ली. वादळी वाऱ्यान शेडीचे पत्रे झाडाची पानां कशे हुबोन गेले. कडवो तर पिंजून गेलो. शेडीत तर पावसाचे उदक भरलें. शेडीतले सगळे वाऱ्यान आनी पावसान शेडायल्ल्यावरी जालें. तांचेर आकांत आयलो. बंगल्याचे बांदकाम तर आयतेच भिजलें. शेड विस्कटून गेली. तांतूत रावपाक मेळनासलें. ते उबंत पडल्याभाशेन जाले. गोंयचो असो पावस आप्पाक नवोच आसलो. ताका चितून आयले. 'कसलो हो पावस, आमच्या जिवार उठला?' पूण मागीर ताणे दोळे मेटून म्हुटलें. 'हे धरतरे आमीय तुजीच बाळकां. आमची तूंच राखण कर.'

पावसाक खंड असो पडलो ना. तो चालूच आसलो. शेडीन राव नजो जातले म्हूण आपले सामान आनी आयदणं घेवन सगळे कामगार पात्रावाच्या बंगल्याक आसऱ्याक गेले. पूण आप्पा गेलो ना. तो शेडीतूच रावलो. ताणे पांखे सारके केलें पूण वयरसून गळटालेंच. सकयल उदकाचे कोंड जाल्लें. कुशीकच्यान वावझड मारताली. आप्पा आपल्या ल्हान भुरग्यांसयत भिजतालो तें मल्लाप्पाक मानवलें ना. ताणे फोर्स करून ताका बंगल्याच्या आसऱ्याक हाडलो. आप्पाक थंय आसऱ्याक येवप आवडलें ना. आपल्याक रावपाक शेड दिल्ली आसा तातुंतच रावचे अशें ताका दिसतालें. ताका आपल्या गांवचे आपले स्वत:चे घर येवजून येतालें. पोटाखातीर तो गांव आनी घर सोडून हांगा पावल्लो. आतां आपूण रावता ती शेड, आपूण बांदपाच्या कामाक आसा तो माळयांचो बंगलो आनी आपल्या गांवचे खासा घर हांच्या कुवाड्यांत तो घुस्पून गेलो.

सकाळच्यान अवचीत सुरू जाल्लो पावस दनपार जायत आयली तरी थांबू नासलो. व्हडलो पावस पडटा म्हूण बंगल्याचे काम बंद आसले. पावस चालू आसतानाच बंगल्याचो पात्रांव वसंतबाब आपल्या गाडयेतल्यान थंय पावलो. तो थेट बंगल्यात भितर सरलो. बंगल्याचे काम बंद आसलें. मानायांची कुटुंबां आसऱ्याखातीर बंगल्यात येवन रावल्या तें पळोवन ताच्या कपलार मिरयो पडल्यो. तांची आयदना आनी सामान बंगल्यांत सगळ्याक पातळलेलें ताणी थंय मांडलेल्यो चुली पळोवन तर तो तापार जालो आनी उलोवंक लागलो;

'हो किदें गोरवांचो गोठो रे? तुमकां हांगा कोणेन रावा म्हूण सांगलां? ह्यो चुली मांडल्या तातूंत वण्टीक आनी वयर तेर्रासाक घस पडची ना?'

ते सगळे वोगीच रावून आयकताले. पूण आप्पाक राग आयला तो पळोवन ताच्या भावाक मल्लाप्पाक रावो नजो जाले. तो उलयलो.

'पात्रांव लेबर शेडीचे पत्रे वाऱ्यापावसान हुबल्यात. शेडीत सगळें पोवता.'

'पोंवता जाल्यार सारकें करात?'

'पूण थंय सगलें उदक जालां.'

'थंय उदक जांव नाजाल्यार आनीक किदें जांव. तुमी हांगा रावून चुली पेटोवन बंगल्याक घस घालतले. तुमी चलात हांगासरले.'

गोरवांक आमडून घालची तशी ताणे तांका थंयसून घालयल्या उपरान्त, आपलीच चूक जाली म्हूण तीं सगळीं लेबर शेडीकडे परत गेलीं. पावस कमी जाल्लो तरी शेडीत पोंवतालेंच आनी जमीन ओली जाल्ली. मल्लापाक पात्रांवाची तिडक मारलेली. तो काम सोडून वचपाक तांका सांगतलो आसलो पूण सगळ्या मानायांचे एका सुमनाचे कामाचे पैशे पात्रांवाकडे आसले. काम सोडल्यार ते पैशे मेळपाचे नासले हेखातीर तो वोगीच रावलो. हेरावांगडा लेबर शेड सारकी करतां करतां आप्पा आपल्या भावाक आपल्याक हांगा त्रासांत घालपाक आफयलो हेखातीर ताका गाळी संवपाक लागलो. आपली भुरगी थंडीताप येवन मेल्यार आपलो भावूच जापसालदार अशें म्हणून ताका तापोवंक लागलो.

दुसरे दीस आडयाळो पावस गेलो. सदच्यासारके सकाळधरयां काम सुरू जालें. दनपारच्या वोतांतसून इंजनेर माशाद मोटारसायकली वयल्यान आयलो आनी काम पळोवपाक लागलो. ताणे आपल्या माथ्यावयले चेपें नीट केलें आनी मुकादमाक आपल्या फुड्यांत आफयलो. काल काम बंद दवरलेलें हेखातीर ताका ताणे तापयलो आनी म्हयन्यान सुरू जावपी मिर्गा पयली काम पुराय जावपाक जाय म्हूण ताकीद दिली.

मीर्ग लागच्या आदीच एक दीस पयलीच बंगल्याचे काम पुराय जालें. वयर तेर्रास घालून जाल्याउपरान्त वण्टीक शिमीट काडून जाले. जमनीक तिजुले घातले आनी मागीर रंग काडून जालो. ते दीस दनपार जाल्यानंतर काम सोपलें. कामगार आपल्या लेबर शेडीत गेले. तांका कामाचे पैशे पडलेले. ते उमेदीर आसले. लेबर शेडीन कुडी कुडीनी गोडशें आनी मसाल्याचे तिखशें शिजपाचे आसलें. तांचो हेविशी बेत चलतालो.

वसंतराव सकाळसाकून थंय आसलो. ताची बायल भुरगी येवन गेल्लीं. वसंतबाबाक बंगल्याफुडें आनी भोंवतणी गार्डन करपाचे आसलें. बंगल्या भोंवतणीचे सगळे निवळ करून गार्डन केल्या उपरान्त बंगल्याक देखदेणी सोब येतली आसली. ताचे घरकान्नीन तर ताका मिर्गाच्या म्हुर्तार फाल्यांच गार्डन करून

घेवपाची सुचोवणी केल्ली. गार्डन बेगीन जाल्यार बंगल्यांत घरप्रवेश करपाक बेगीन मेळटलें आसलें. गार्डन करतले जाल्यार मानाय रावता ती लांबच्या लांब टेम्परारी लेबरशेड मोडपाची आसली. ताणे दुसऱ्या दिसा मिर्गाच्या म्हुर्तार गार्डन करपाचे थारायलें. तो शेडीकडे गेलो. मल्लाप्पाक आफयलो आनी ताणे ताका विचारलें;

'तुमकां कामाचे सगळे पैशे मेळ्ळे मरे?'

'हय. पात्रांव आनिक किदें काम उल्लां? आनीक कांय दीस काम मेळ्ळे तर बरें जावपाचें. नाजाल्यार काम मेळत मेरेन बेकार रावचे पडटलें.'

'आनीक काम आसा.'

'कसलें?'

'गार्डन करपाचें. जमीन लेव्हलार करून फाल्यां गार्डन करपाचें. आतां व्हडली सांज जांवना. आता ही लेबरशेड मोडपाची.

'आमी रावता ती शेड !' शेड आतांच मोडपाची !'

'हय.'

'पात्रांव आमी तितून रावतां न्हूं.'

सगले कामगार आनी तांची भुरगी बाळां दोगांयचे उलोवणे आयकतालीं. लेबरशेड आतांच मोडपाची हें आयकून तांका अजाप जालें आनी ते तांच्या फुड्यांत आयले.

'तुमी रावले देखून तुमकां सदाच हांगा रावपाक मेळटलें तर?' वसंतबाब ताका तापोवन उलोवंक लागलो.

'तशे न्हूं आमी सदाच कशे रावतले? पूण आयची रात रावतां.'

'हय हय' म्हणून हेर कामगारानी मल्लाप्पाक तेको दिलो.

'आयची रातबीन कांय ना. फाल्यां म्हाकां हांगा गार्डन करपाचें आसा. तुमचेखातीर हांवें ही जागा विकती घेवंना. तुमी आयजूच, आताच भायर सरात.' तो धमकावन उलयलो.

'आतां तिनसांज जाली. कशें जातले पात्रांव?' मल्लाप्पान आतां काकुतेक येवन सांगलें.

'तें कांय कोताक पडना. हांवें म्हज्या मुंडकारांक सुद्धां म्हजे मालकेच्या जाग्यार रावपाक दिलें ना.'

वसंतबाब अशें उलयलो आनी ताका आपणे मुंडकारांक कशी घालोवन दिलीं ती याद जाली. ताचे दोंगुल्लेर मुंडकारांची घरा आसली. पूण जेन्ना ताचे दोंगुल्लेर मीन लागलें आनी घरा पोदांसुद्धा मीन सांपडले तेन्ना ताणे बळजबरीन

तांची घरां मोडून उडोवक तांकां थंय रावपाक न दितां थंयसून घालयल्ली. वसंतबाब फुडें उलोवंक लागलो.

''आनीक कुळांची घरां मोडून तांका थंयचे हांवें घालयले तो हांव, तुमकां घाटयांक रावंक दितलों. तुमी शेडीतले भायर सरात आनी शेड मोडात.''

''ना आमी मोडीना'' आप्पा पोटतिडकेन उलयलो. ताचे जोडयेक मल्लाप्पा उलोवंक लागलो.

''हय आमी मोडीना. तुजो बंगलो आतां तयार जालो आनी आमी रावतां ती शेड आमी आतां मोडूं. आमी मोडचेना. आपले काम जाले म्हण्टकूच तिनसांज बीन कांय न पळयतां आमकां धांवडावन घालता ! आमी मोडचेना. आमी रावल्ले ती शेड आमी मोडचेना.''

''मोडले म्हूण किदें जालें. तुमी ती मोडात. तुमकां हांव दोट्टी दिसवडो फारीक करतां.''

''आमी मोडीना. दोट्टी दिसाडो दी नाजाल्यार तिट्टी दी. आमी मोडीना.''

हेरूय ताच्या वांगडा ''आमी मोडीना'' म्हणपाक लागले.

''तुमी मोडीना जाल्यार हांव हांगचे मानाय हाडून मोडून घेतलों.''

''पूण पात्रांव आतां आमोरी जावन रात जावपाची जाली आमी हेवेळार खंय वचे?''

''तुमी जाये थंय चलात. म्हाका कितें? तुमी काडोन चलात हांगासल्ले.'' अशे म्हणून वसंतबाबा लेबरशेड मोडपाक गांवठी मानाय हाडपाक गेलो.

सांज जाल्ली तरी लेबरशेडीतल्या चुलिंनी उजो पेटलो ना. किदें बरे शिजोवपाचो तांचो बेत तसोच उरलो. सगळ्यांच्या तोंडावयली व्हदळ काम सोंपल्या उपरान्तची उमेद ना जाली. त्या जाग्यार काळजी आनी खंत दिसताली. वारो सामकोच पडलेलो. थंयच्या झाडाचे पान लेगीत हालनासलें. सगळें थंयच्या थंयच कशे सामके थीर आसलें. पूण लागीच मीर्ग आसलेल्यान मळबांत दमळां जमताली. पावस केन्ना पडत हें सांगू नजो आसलें. खिणांत अशीच गडगड तटतट मारून येवपी अस्थिरता मानायांच्या कपलांत आसली. आतां काळोख दाटून येत आसतानां तीन कातरेर खंय वचें हो प्रस्न तांका भेस्टायतालो. पाना हालनासली तेवरीच सगळे वोगीच आसले. मात आप्पा थरथरतालो. ताची बायल इराम्मा ताच्यालागी आसली आनी ताची दोनूय भुरगीं ताच्या पांयांक घट्ट वेंग मारून आसलीं. मल्लाप्पा, यल्लाप्पा, संगरप्पा, बसाप्पा, मारूती, भिमा, भिवा तांची बायलां आनी भुरगीं आप्पासारकी जाल्लीं.

पात्रांव चार गांवठी मानाय घेवन आयलो आनी ती लेबर शेड मोडपाक

सुरवात केली. तेबराबर मानायांच्या घरकान्निनी आपापल्या कुडिनी वचून आपली आयदणां आनी कपडे हाडले. ते परकी आसलेल्यान आपले हांगा कांयच चलचें ना हें तांका खबर आसलें. शेड मोडटना ते वोगीच रावन पळोवंक लागले. शेडीचे पत्रे देवयल्या उपरान्त आनी कडवो उसयल्या उपरान्त शेड उक्ती जाली. जमनीत नेमां काडून पुरलेल्यो मेडी हालोवन हुमटील्यो. चुली मोडल्यो. ते पळोवन ते तिनकातरेर कामगारांचो मेळ माथ्यार साटलीपोटली मारून मोन्यानी चलपाक लागलो. पांय व्हरता थंय ते चलपाक लागले. एक खंयचे अशे थळ तांका नासलें. आप्पाची बायल इराम्मा तर रडपाक पावली. आपल्या न्हिदलेल्या धाकट्या भुरग्याक खांदार घेवन ती त्या मेळा वांगडा चलताली. खांदाक सामानाची झोळी लावन आनी चेडवाक हाताक धरून चलतल्या आप्पाक खंयतरी उबंतरार मांडलेली आपली चूल दिसपाक लागली.

तिनकातरेवयलो काळोख अदीक दाट जायत आसलो. चलताना तांच्या तोंडामुखार आथीक काळासाकून आसलेलो निवाऱ्याचो प्रस्न मांडलेलो. तीं परत परत फाटल्यान पळयतालीं. मल्लाप्पा, आप्पा हांच्यासयत सगळ्यांक तांणी बांदलेलो बंगलो आनी बंगल्या कुशीक मोडून उडयल्ली मातयेभरवण जाल्ली लेबरशेड दिसताली, आनी बरेच फुडें काळखांत गेले तरी तेंच चित्र तांच्या दोळ्यासामखार नियाळटालें.



# वस्ती

न्हंयचे एके देगेर लांबची लांब नदर पावना इतली मेरांमेरांची शेतवड. तिचे कुशीक वसलेलें वाडतें शार. आनी दुसरे देगेर आपले दोनूय पांय उदकांत बुडोवन एके कुशीन आडवी रावलेले बायल मनशेवरी शेकानशेक पातळलेली दोंगुल्ली. दोंगुल्लेर गच्च आंकवार रान, आपलें जुवानपण मिरयत उबें आसलें. रान आनी शेतवड हांच्या मदल्यान न्हंय आथीक काळासावन व्हांवत आसली. तिचे देगेवयलें शार हालींच वसलेलें. चारशें वर्सां पयली वसलेल्या गांवाचें हें शार म्हणून हालींच नांवाक येतालें. दुसरे देगेवयली दोंगुल्ली आनी पांचवें रान न्हंये इतलेच आथीक काळाचें.

दोन तीन वर्सां पयलीं शारालागची शेतवड पुरोवन त्या जाग्यार खेळांतल्यो बिल्डिंगो मांडून दवरच्यो इतले बेगीन बिल्डिंगो बांदून वसाहत वाडटाली. शेतवड सोंपली तशी पलतडचे दोंगुल्लेचेर लोकांची नदर पडली. आनी तेन्नासाकून दोंगुल्लेवयल्या रानाच्या पांचव्या आंकवारपणाक बाधिकार जायत गेलो.

दोंगुल्लेची एक अशीर शीर आमच्या वाडवडिलांच्या नांवार आसली. वीस वर्सां पयलीं साकून हांव म्हज्या ल्हानपणांत म्हज्या बापाय वांगडा आनी भावाच्या वांगडा दोंगुल्लेर मदीमद्दी येतालों. तेन्ना दोंगुल्ली झाडांनी गच्च भरलेली. कारे, किंदळ, सांतोन अशे रूख आपल्या खांदार मळब मारून आसले. झाडां, झिलींनी आनी वालींनी रान मातलेलें.

उपरान्त धा वर्सांनी दोंगुल्लेच्या मुळसाणात आनी न्हयचे देगेर वस्ती जावंक लागली. तशी वाडते वस्ती वांगडा रानाची धिस्पट जावपाक लागली. दोंगुल्लेची आमची शीर सोडून हेर वाठारांतले रान बेणलेल्यान दोंगुल्ली बोडकी

दिसपाक लागली. फक्त रानांचो मदलो भाग तग धरून आसलो.

आमचें घर शाराच्या मदल्या भागांतले भर वस्तींत आनी बाजाराक तेंकुनूच आसलें. दिसभर आनी रातभराच्या येरादारीचो आनी लोकांचो गडबड गोंदोळाचा आवाज त्या वाठारांत भरून आसतालो. कलकलाटापासून खंयतरी पयस वचें अशें दिसतालें. आनी हेच अस्वस्थ मनःस्थितींत म्हजें रानांत येवप चड जावपाक लागलें.

एक दीस हांवें सकाळचेंच पलतडी रानांत पावल दवरलें. दोंगुल्लेच्या मुळसा साकून वयर सरून किंदळीकडच्या माट्टींच्या झाडांकडेन आयलो आनी काल सांजे थंयचे जमनीर पसरलेल्या खोलयांनी नाच जाल्ल्या रान कोंबयेच्या पिलांक सोदूंक लागलों. सुक्या खोलयांनी वयल्यावयर सोरोप भोंवचो तसो हांव गच्च माट्टीपोंदच्या खोलयांवयल्यान भोंवपाक लागलों. एके व्हडले माट्टीच्या मुळांत रानकोंबयेंचें जोडपें बसलेलें. तीं आपली पांखां किसयतालीं. रानकोंबयेची पिलां तांच्याच शेजराक आसलीं तीं चिंवचिंव करताली.

मागीर हांव थंयसून खोशेन कुशीक गेलो. चलताना रंजनीची एक खांदी पिळून मोडली. आनी ताची बडी करून ती जमनीर आपटीत सगळें रान भोवपाक लागलों.

जमनीर करड बरेंच वाडलेलें. आनी त्या करडाचेर दंवा थेंबे आजून आसले. त्या करडांतून चलून गेल्यार फाटल्यान पावलांची वाट उदेताली. कोणूय जनावरां-जिवाणी थंयसून गेल्ल्याच्यो कुरवो हयन्हयश्यो कळून येताल्यो. पयलीं हांगा ह्या रानांत सांबराचें शींग म्हज्या पणज्याक मेळलेलें. आज्याचे मुस्तींत तेमयेवयल्या दाट रानझाडांनी मोर येताले. ताणे मोरांचो नाच लेगीत आपल्या दोळ्यांनी पळयल्लो. तेमयेर वयल्या झाडांपोदा झाडांची पाना कशी मोरांची पांखां पडलेली आसतालीं. पूण मागीर वर्सां गेली तशे मोर येवचेच बंद जाले.

चलतां चलतां हांव मदल्या सड्यार पावनाफुडेंच थंयचे कवड्यांभिरें पांखटे फडफडायत उठलें आनी काण्णीच्या झिलींनी दिश्टी आड जालें. गेल्ल्या स सात वर्सां पयली हांव म्हज्या व्हडल्या भावावांगडा मुनिसांवाची तुबकां घेवन कासाक येतालों तेन्ना सोंशे, कवडे मारून व्हरताले. पूण फाटल्या कांय दिसांसाकून सोंशे दिश्टीच पडना जाल्ले. मदींमदीं त्यावेळा कोले दिश्टी पडटाले. पूण तेय कमी जाल्ले. आनी मदीच खंयसूनतरी एकोलया कोल्याच्यो कुयो कानार पडतकूच म्हज्या आंगार वगीच कांटो उबो रावतालो.

हांव तेमयेर पावलों. हो वाठार सामकोच उक्तो उक्तो जाल्लो. दावे आनी उजवे वटेन दोंगुल्ली सामकीच बोडकी जाल्ली, थंयचीं सगळीं झाडां कापलेलीं.

मुळसांतल्यान उजवेवटेन घरां बांदपाक प्लॉट तयार केल्ले. आनी दावे वटेन तर ल्हान व्हड बंगले तयार जाल्ले. आनी आनिकूय बंगले, चाळी तयार जावपाच्यो आसल्यो. फकत मदींच आमचे जागे पुरतोच रानाचो जागो उरलेलो.

माथ्यावयल्यान किलकिलाट करून उडून गेल्ल्या किरांनी म्हजें मन ओडून घेतलें. झाडांची पांचवीं पानां उडल्याभाशेन ते झाडावयल्यान मळबांत झपय घेताले. आनी मळबभर किरोवन परत थंयच्या झाडांझाडांच्या खांदयांचेर पाना कशे बसताले. केन्ना केन्ना पयशिल्ल्या त्या दोंगरांवयल्या रानांतल्यान तांबड्या चोंचीच्या आनी गळ्याकडल्या पट्ट्यांच्या किरांची पांचवी भिरींच्या भिरींच ह्या दोंगरार येताली आनी हांगा किरोवन परती वयतालीं.

देंवता देंवतां रानकोंबयेक आनी तांच्या पिलांक पळोवचीं म्हूण किंदळीकडल्या माट्टीच्या झाडाकडेन वचपाक लागलों. माट्टीपोंदा रानकोंबयेचें जोडपें आनी धवसार तशेंच मातयेच्या कोराची सात आठ पिलां भोवतणी आसलीं. रानकोंबो आनी रानकोंबी मातये कोराची काळशी. तांच्या पाखाट्यांचेर काळे तांबशे थिबके आसले. रानकोंबो रानकोंबयेपरस मात्सो मोटो आनी कोंबी आडसाटी ल्हानूच आसली. रानकोंब्याच्या माथ्यावयलें तांबशें शेंकरें जमनीवयले किडे वेंचताना हालतालें. ताचो मोटवो शेपाटो फुलयल्ल्यावरी जातालो. धा-बारा वाव पयस रावन हांव तांकां पळयतालों. तीं सगळीं जमनितल्यो वायटी वेंचून खाताली. रानकोंबो मदींमदीं शादूर रावन वयर पळयतालो. ल्हान शेवणी कशी तांची शिटूक पिलां तांच्या पांयाकडेन घुसपतालीं. तांकां ल्हानूच पांखाटे आसले आनी फाटल्यान शेपाटे येंवंक नासले. त्या बारीक पिसांच्या पिलांक पळोवन तांकां धरीनशें दिसले आनी हांव फुडें सरलो. इतल्यान म्हजी जाग आयकून रानकोंबो आनी रानकोंबी शादूर जावन कोंकारलीं. हांव लागीं येताच तीं दोगांय जाणा वयर उडलीं. थंय उरलेल्या पिलांक धरपाक हांवें झोपय घेतली. पिलां आबूज जावन थोडीं बोबाळलीं आनी भुताटकेवरी रोकडीच ना जालीं. ती थंयच्या खोलयांनी लिपली कांय उडून झिलींनी गेलीं तें कांयच कळ्ळेंना. तीं नाच जाली ते पळोवन हांवूच आबूज जालों.

अशें म्हाका खूब फावटीं जालां. पूण हांव तांचेखातीर म्हूण खास रानांत येतालों.

शारांतलें आमचें घर आमच्या कुटुम्बाक खुबूच ल्हान पडटालें. म्हजे तिगूय व्हडले भाव लग्न जाल्ले आनी तांका दोन-दोन तीन-तीन भुरगीं जाल्लीं. घरांतल्या बोवाळांत म्हाका घरांत खंयच एकान्त आनी मेकळी सुवात मेळनासली. म्हजें बरपूय तशेंच बरोवपाचे उरून गेल्लें. एक दीस आयतारा सकाळींच म्हज्या

1055



मनांत आदीसाकून घोळटले विचार म्हज्या बापायक उलोवन दाखयले.

'बाप्पा, आमचे पलतडचे दोंगुल्लेच्या मुळसान हांव एक ल्हान खोपटी कशें घर बांदतलो अशें चिंत्तालो.'

म्हजें उलोवप आयकून म्हजे व्हडले तिगूय भाव शादूर जावन म्हाका पळोवपाक लागले. त्याबराबर बापायन म्हाकां विचारलें, 'कित्याक? येन्नाच बेगीनशे रे? तुजें कांय आजून लग्न जांवना मरे?'

'म्हाका सुशेगात किदेंतरी बरयतलों म्हटल्यार हांगा तसो जागो ना. म्हाका बरोवपाक एकान्त जागो जाय आसलो म्हूण म्हुणटालों.'

'मागीर लग्न जाल्या उपरान्त वांगडाच वेगळी चूल करपाक बरी न्हय रे?' व्हडल्या भावान मस्करेन म्हाका म्हणलें.

'हांगा ताका जागो कमी पडटा जांवये.' मदल्या भावान कारणाचेर बोट दवरलें.

'तुकाच सुवात कमी पडटा आनी आमकां पडना?' तिसऱ्या भावान आपल्या मनांतलें म्हणलें आनी फुडे उलोवंक लागलो; तुजे खातीरूच तूं कित्याक बांदतलो? आमी सगळेच बांदुया.

तिसऱ्या भावाच्या सांगण्याक हेर दोगूय भावांनी तेंको दिल्या बराबर बापायन एकूच व्हडलो बंगलो बांदपाचें थारायलें. हांव मात सुरवात करून मागीर वोगीच रावलों. म्हाका एक निवान्त घर....पर्णकुटी जाय आसली. व्हडलो बंगलो बांदतात म्हूण हांव खोशी जालोना. वयल्यान हांव मात्सो निरशेलों. मात तिगूय व्हडले भाव खोशयेन फुलून गेले.

उपरान्त व्हडल्या तिगूय भांवांनी बंगलो बांदपाक फुडाकार घेतलो. आमच्या जाग्यांतलें सगळें रान बेणून थंय निवळ करपाचो बेत जालो. कांय झाडां मोदेराक उपेगाक पडटली आसलीं. ते कामाक लागले आनी तिसऱ्या दिसा हांव पलतडी येवन पळयत जाल्यार मुळसाकडचें सगळें रान बेणलां. फकत मदलो आनी तेमयेवयलो रानाचो भाग उरलेलो. म्हज्या मनांत जें घडूंक नाका आसलें ते घडलेलें म्हणून म्हाका तिडक माल्ली. मानायांकडसून काम करून घेतल्या म्हज्या व्हडल्या भावाक हांवें विचारलें, 'बंगलो बांदतलो जाल्यार सगळें रान कित्याक बेणूंक जाय?' हांव जे तिडकीन उलयल्लों तें न समजून तो उलयलो, 'म्हणजे रान बेणीनासतना बंगलो बांदपाचें तर? कांय रानांतूच रावतलो? मागीर रानांतली जीव-जिवाणी आमच्या जिवार उठू दी ! बरें सांगता तूं! पळय, आयज तीन जिवाणी माल्ल्यांत. काल एक पार्रो आनी रक्तमांयडोळ मारलेलो. अश्या ह्या भिरांत बुट्ट रानांत कोण रावतलो?'

थंय मारून उडयल्ल्या त्या फुरश्याक, काणेराक, हरयाळेक पळयत हांव वोगीच रावलो.

झाडां कापलेली आनी तीं एकार एक पडलेलीं. झिली-वाली कापून जागो निवळ केल्लो. हांव फुडें सरलों तशे दोनूय कापलेले पातपणस म्हजे नदरेक पडले. पातपणसाच्या खांचींनी आनी बिळांनी कीर रावताले आनी पिलां काडटाले. उणगींच्या खाकोळांनी सारोळ्यो पिलां काडटाल्यो आनी तीं खावपाक मुंगसां येतालीं. त्यावेळार सारोळ्यांचो एकूच बोवाळ जातालो. झिलींनी आनी वालींनी बोचुंड्यो आपले पानांचे घोटेर बांदताल्यो. हीं सगळीं झाडां आनी झिली कापून उडयल्ल्यो. पिटकोळेचो घोटेर थंय जमनीर पडून मातये-भरवण जाल्लो. तो विणलेलो घोटेर हांवें उखलून हातीन लांबयत धरून फुडें गेलों. दोंगुल्लेचे तेमयेर वयचें अशें म्हाकां दिसलें ना. म्हाकां कसलीच उमेद उरली ना. रानांतलो वारो म्हज्या वांगडा वाकुळनासलो. तसोच हांव किंदळेकडल्यान माट्टींच्या झाडांकडे गेलो. झाडा पोंदा रानकोंबयेचे जोडपें आसलें. आनी तांची पिलां दोन म्हयन्या उपरान्त आडसाटीं जाल्लीं. म्हजी जाग आयकतांच तीं शादूर जालीं. आनी सोमतींच उडून लागच्या माट्टींच्या झाडांचेर बसलीं; आनी एकार एक कोंकारपाक लागलीं. हांव थंयच थांबलो. तांचे कोकारपाचें कमी जायत गेलें तसो हांव थंयसून कुशीक सरलों आनी सकयल देंवपाक लागलों.

हांव सकयल आयलों तरीय झाडां मारपाचें काम चालूच आसलें. आनीक झाडां मारची न्हय हेखातीर हांवें भावाक सांगलें, 'दोंगुल्लेच्या मदल्या भागांतली झाडां कापू नाकात. सगळें उक्तें दिसतलें 'हांव हें परत सांगना फुडेच 'म्हजेपरस तूं चड बरें जाणा कांय?' अश्या अर्थान व्हडल्या भावान म्हजेकडेन पळयलें आनी म्हणलें, 'तूं हांगा मदीं वोगीच मेतेर जांव नाका. तूं कांयच नकळो.' हांव हे खेपे वोगीच रावलों आनी निरशेवन थंयसून परतलों.

स म्हयने हांव पलतडी सरूं नासलों. आयज घरप्रवेश! हे खातीर सगळी घरची मंडळी नव्या बंगल्यांत आयल्या उपरान्त हांवय सकाळींच पलतडी सरलो. पलतडी सरतांच नवो बांदलेलो बंगलो पुराय नदरेक पडलो. बंगलो पळोवच्या पयलीं बंगल्या फाटल्यान दोंगुल्लेचेर म्हजी नदर गेली. दोंगुल्ले वयली उरलेली झाडां आसात कांय ना हें पळोवन घेतलें. किंदळी आनी किंदळीकडल्यो माट्टी आनी हेर झाडां कापूं नासली. तकलेचे कुशीनचे केंस तासून मदीच भोंवरो आनी शेंडी दवरची तशी ती झाडां उरलेलीं. दोंगुलेर खंय शिंपडून झाडां आसली आनी चुकून चुकून ल्हान झिली आसल्यो.

बंगल्या फाटल्या बोडके दोंगुल्लेक पळयत पळयत हांव बंगल्याच्या दारांत

पावलों. बंगल्याच्या दाराक आंब्याच्या पांचव्या पानांचें तोर्ण बांदलेलें. हांव भितर सरलों. घरप्रवेशाक येयल्या सगळ्या सोयऱ्यांनी म्हज्या भोंवतणी चोमो केलो. म्हज्यापरस तांच्या तोंडार अदीक खोशी आसली. म्हजेखातीर दवरलेल्या दोन कुडींच्यो चावयो बापायन म्हजेकडेन दिल्यो. भावाच्या भुरग्यांची भुरावळ म्हज्यो कुडी पळोवंक म्हजे फाटी लागली. माळये वयल्यो उजवे वटेनच्यो दोन कुडी म्हजे खातीर राखून दवरलेलो. हांवें दार उगडतांच भुरग्यांच्या भुरावळीसकट हांव कुडींत गेलों. वण्टी पांचव्या कोरान रंगयल्ल्यो. आनी सवण्यासांवदांची चित्रां, फोटो वण्टीर लायल्ले. तशेच पानाफुलांची नक्षी कोरायल्ली. म्हज्या बापायन म्हजेखीर खास किदें म्हज्या कुडिनी केलां हाची जाणीव जाली, पूण ती थोडीच वगत म्हज्या मनांत तिगून उरली.

घरप्रवेशा वांगडा सत्यनारायणाची पुजा आनी जेवणबीन, तशेच सोयऱ्याधायऱ्यांचो इश्ट मित्रांचो आदरसत्कार जाता म्हणसर दनपार सोंपून सांजवेळ जायत गेली. थोडे सोयरे आपापल्या घरा वचपाचे वाटेक लागले तरी घरांतलो बोवाळ कमी जावंक नासलो.

फुरसत मेळ्ळी तसो हांव मागिलदारांतल्यान भायर सरलों. सूर्य अस्तमपाक थोडो कळाव आसलो. तसोच हांव दोगुल्ले वयर चडलों. लागीचे पातपणस कापलेले तांच्या मुळांकडेन हांव पावलों आनी म्हज्या माथ्यावयल्यान कीर उडून गेले असो भास जालो. पूण एकाय किरान म्हज्या माथ्यावयल्या मळबांत किरयले ना वा आवाज केलो ना. म्हज्या माथ्यावयल्यान कीर पयस उडून गेल्ल्याचो भास जालो तितलो खरो. तसोच हांव दावे वटेनसून दोगुल्लेचे तेमयेर गेलों, आनी थंयसून चोंयवशीन नदर भोंवडायली. दोंगुल्लेच्या मुळसांत पयली एक खोपटीकशें घर आसलें. मागीर ताच्या शेजराक दोनचार घरां जाल्लीं. उपरांत घरां वाडलीं तशी मनशांची दाटी वाडत वाडत गेली. तेमयेर वारो साप्प पडलेलो. झाडांझाडांचेर नाचपी वाकुळपी वारो आयज नासलोच. म्हाका वोगीच चुकल्याभशेन दिसपाक लागलें. त्या बराबर म्हाका रानकोंबयेचीं आनी तांच्या पिलांची याद जाली. रानकोंबयेची पिलां बरींच आडसाटी जाल्ली आसतलीं असो विचार आयलो आनी हांव झपाझप माट्टींच्या झाडांकडेन वचपाक लागलो. माट्टींचीं पानां झडपाक लागलेली आनी त्यो बोडकायल्ल्यावरी दिसताल्यो. माट्टीकुशीक खंय एक एक झाड नांवाक उबें आसलें. हांव किंदळीकडच्या माट्टींच्या झाडाकडेन वचूंक लागलो. रानकोंबयो म्हजे जागेन वा म्हाका पळोवन उडून वचपाक जायना हेखातीर हांव जतनायेन चलपाक लागलों. माट्टेच्या झाडपोंदां पावलों तरी रानकोंबयो वा तांचीं पिलां दिश्टी पडलीं नात. झाडांच्या खांदयांचेर

पळयलें तरी दिसल्यो नात. थंयच्या सगळ्या झाडांपोंदा आनी झाडांचेर तांच्या खांदयाखांदयांचेर तेळून पळयलें तरी रानकोंबयो आनी तांची पिलां दिश्टी पडलीं नात. तांचे कोंकारपूय आयकूपाक आयलेंना. माट्टीच्या झाडांवयली वस्ती सोडून, हें रान सोडून तीं गेलीं काय असो विचार म्हज्या मनांत आयलो. आनी हांव उबो रावलां थंयच खुंटो कसो जालों. रानकोंबी आनी तिची पिलां हांगची वस्ती सोडून गेली म्हूण हांव हालोन गेलों.

सूर्य अस्तमोन काळोख जावपाक लागलो हाची जाणविकाय जाल्याबराबर हांव तसोच भेन्याल्ल्या मनान घरा परतपाक वाट देंवपाक लागलों. आनी खंयतरी उडून गेल्ले रानकोबयेचो आनी तिच्या पिलांच्या कोंकारपाचो आवाज पयसून आयकूपाक येता असो भास म्हाका जावपाक लागलो.



# वोंठावयलो घाय

दिसभराचें काम सोपोवन माधव हेरा वांगडा कचेरीच्या दारांतल्यान भायर सरलो. घरा वचपाक रस्त्याकडच्या फुटपायरेवयल्यान तो खोशेन चलतालो. आयजूच पगार मेळ्ळ्यान ताच्या बोल्सांक उभारी आसली.

रस्त्यावयल्यान चलताना ताका हेर दिसांपरस आयज उमेद आसली. पूण ते उमेदीन ताच्या तोंडावयली सदची गंभीरताय पुसोवन उडोवंक नासली. तो चिंतित आसलो. ताच्या ध्येयामुखार ताची सगळी जीण गेली. वयल्या पांवड्याचे शिक्षण घेतलें पूण फावा तशी नोकरी मेळ्ळी ना. निराश जावन ताणे एक लांब हुस्कार सोडलो.

दोन वर्सां पयली ताच्या तीस वर्सांच्या पिरायेचेर ताचे लग्न जालें. बायलेचे नांव मीरा दवरलें. ताची बायलर चारजणीत बरी सोबा सारकी दिसताली. गोरी नासली तरी आंग नितळ गंवाच्या कोराचे आसलें. आंगान ताच्यासरकीच बारीक. ताच्या कानाक तेकत इतली तिची उंचाय. तिचे दोळे केसाळ अस्कड्यांच्या आर्कांतल्यान सोबून दिसताले. ताच्याकडे पळयताना तिच्या दोळ्यांतली काळी बावली भिरभिरल्यावरी जाताली. मलप्यो फडफड जाताल्यो. आनी दोळे मुद्दाम बिटबिटायल्यावरी दिसताले. मागीर लजेन तिचे दोळे पांयजणां घातलेल्या आपल्या सोबीत पांयाच्या लांब आनी बारीक नकसूद बोटाकडे वळटाले. तिका पळयल्यार तो आसक्त जातालो.

ताच्या लग्ना उपरान्त ताचे शिकप चालूच आसलें. प्रमोशन मेळोवपाखातीर ताणे परीक्षाय दिल्ल्यो. पूण यश गावलेना. आपले जिणेतलो बरोच काळ शिकपांत आनी परीक्षा दिवपांत घालयलो हाची ताका जाण जायत आसली. लग्न जावन

संवसारातले सूख तितल्यापुरतेच मेळ्ळें. संवसारांत ताणे आपले मन गुंथून उडोवंक नासलें. फाटल्यो यादी काडटा काडटा ताणे थारायलें; ना ह्यानफुडे तरी संवसारांतलो आनंद तृप्त जायसर मेळोवपाचो. बायले वांगडा दिसरात खोशेन सारपाचे. तिका भोंवडेक घेवन वचपाचें. उरलेली सगळी जीण हासून खेळून सुखांत जगपाची. हेर गजालीत वेळ व्होगडावप ना. ह्या विचारांत आसताना वाचनघराकडे व्हरपी मुखावयली सदची वाट सोडून तो बाजारांत वचपाचे वाटेत चलपाक लागलो.

माधवान घराच्या आंगणांत पांय दवरले. ताची बायल सदच्या सारकी ताची वाट पळयत सोप्यार बसूं नासली. तें पळोवन ताची उमेद अर्दी जाली. बाजाराच्या सामानांत अडचल्ल्या दोनूय हातांक सामान अदीक जड लागू लागलें. आनी अचकीत ताच्या हातांतल्या सामानाची एक पुडी सुटून सकयल आंगणांत पडली. ती पुडी तशीच सोडून तो घरांत भितर सरलो. ताची बायल घरांतय नासली. दार उक्तेच दवरून खंय तरी गेल्ली. घराकडे येता आसताना आसलेली ताची उमेद ना जाली. आनी ताका तिचो राग आयलो.

सामान घरांत दवरून आंगणात पडलेली पुडी तो हाडपाक गेलो इतल्यात ताची बायल आयली.

''दार उक्तेच सोंडून खंय गेल्ली?''

ताणे सरळ प्रश्न केलो.

''हांगाच शेजाऱ्यांगेर गेल्ली.'' तिणे जाप दिली.

तिणे वयल्यावयर जाप दिली म्हूण ताणे विचारलें, ''हांव येतलो म्हूण खबर नासली?''

''तुमी इतले बेगीन येत म्हूण नकळों. आयज तुमी बेगिनशे आयले? आज वाचनघरबी बंद कांय कितें?''

ती आपल्याक विचारता हेखातीर अदीक तिडकून तो उलयलो, ''तें तुका कित्याक? तूं थंय कित्याक गेल्ली तें सांग.'' ''वगीच गेल्ली'' तिणे ताच्या प्रश्नाक परत, वयल्यावयर जाप दिली.

''वगीच गेल्ली? आनी तुका म्हजी वाट पळोवपाचो वाज आयलो कांय कितें?

घोवाच्या प्रश्नाफाटलें गूढ वळखून आनी प्रश्नार प्रश्न वाडोवन झगडें उप्रासपाक नाका हेखातीर तिणे म्हणलें,

''आंऽ, सदच्यासारकी ह्या सोप्यार बसून तुमची वाट पळोवंक ना म्हूण तुमकां चुकल्याचुकल्या भाशेन दिसलें दिसता.'' अशे म्हुणीत ती हांसत रावली.

आपल्या रागाफाटले कारण बायलेक होलमलें म्हूण तो वगीच रावलो. उपरान्त ताचो रागय देंवलो.

तिनसांज जाली. तिणे वाती वळून निरांजनांत दवरल्यो. तेल घालून निरांजन परजळयलें. आंगणांतले तुळशीचे पेडयेर निरांजन दवरपाक ती भायर येवपाक लागली. येतना ती माधवाक पळोवन मुमुरखीच हांसली. हांसताना तिचे बारीक वोंठ पयस जाले आनी तिच्या दोळ्यांत निरांजनाच्यो ज्योती लिकलिकल्यो. तुळशीचे पेडयेर निरांजन दवरून, पालव काडून हात जोडून तुळशीक पांयां पडटले बायलेक तो पळयत रावलो. निरांजनाच्या उजवाडांत तिच्या तोंडार व्हदळचो मुमुरखो हांसो शिंपडायला थंयच आसलो. सांजवेळच्यो जायो फुलत आसल्यो आनी तांच्या वासान लागचो वाठार परमळून गेल्लो. ताणे जायो तोडून हाडल्यो.

घरांत येतल्या बायलेक आडावन तिच्या आमड्यांत त्यो माळ्ळ्यो आनी तिका आपल्या वेंगेंत वोडून तिचे म्होंवे वोंठ चोखतलो इतल्यान तिणे ताच्या तोंडार आपले बोट दवरून ताका आडायलो. ताच्या वेगेंतले आपल्याक सोडून घेयत ती रांदपाक रांदचे कुडीत गेली.

माधव पुस्तक वाचीत आसताना रांदचे कुडीत शिजतल्या जेवणाचो ताका वास येवंक लागलो. हरशी तो वाचताना जेवण तयार जाता ताचेकडे लक्ष दिनासलो; पूण आयज रांदीर कसलें कसलें जेवण शिजता हाची ताका विशेश जाण जाली आनी ताची भूक चाळवली. मात्शा वेळांत आपल्याक बायल जेवपाक यो म्हूण उलो मारतली हाची ताका खातरी जाली. घरांत तो आनी ताची बायल अशी दोगांच. आजूनय ताका भुरगे जांवक नासलें. ती रांदचेकुडीत कामांक आसली. तो कदेली वयलो उठलो आनी रांदचेकुडीत गेलो. पावल न वाजयतां तिच्या फाटल्यान वचून ताणे तिचे दोळे आपल्या दोनीय हातांनी धांपले.

''किदें तुमी! तुमका मात्तूय सुमार ना. म्हज्या दोळ्यांत तुमचे बोट वयतलें आसलें.''

तिणे अशे म्हणीनाफुडें ताणे तिच्या दोळ्यांवयले आपले हात सोडले.

''तुका मात्तूय फकाणा चलना?''

''हांव रांदता तें दिसना तुमकां? काम करतना फकाणा कसली करपाची?''

''म्हणजे तुजी फकाणा हांवें करची न्हंय? ती वोगीच रावली, हांवें तुजीं फकाणां करपाची न्हंय जाल्यार हांव तुका आतां हात सुद्धा लावचोना.''

मागीर तो केदो वगत बडबडत रावलो. ''बडबड बंद करात.'' म्हाका वाज

आयलो.'' अशे म्हणून ती ताच्या फुड्यांत आयली. आपूण बडबडटा अशे म्हटल्याबराबर आनी ती सुबेज उलयता म्हण ताका राग आयलो. आनी ताणे तिच्या गालार थापट मारलें. तें तिच्या तोंडार बसलें. तिच्या सकयल्या वोंठाक तिच्या तोंडातलो दांत लागून बारीक घाय जालो. त्या घायार तांबडे भडंग रगत, गूंज कशें जमलें.

तिच्या वोंठावयले रगत पळोवन ताका दिसलें आता ती रडटलीं आनी खऱ्यानी घडलेंय तशेंच. आपल्याक मारून तरी उडयात अशें म्हणीत ती रडपाक लागली. मागीर रोकडीच थांबली. ती खाटीर बसून वोग्गी रावली. केदोवगत दोगूय जाणा उलयनासतान बसून आसली.

उपरांत ती उठली. तिणे एकूच ताट काडून ताका जेवण वाडलें. तिणे आपल्याक जेवण वाडून घेतलें ना हें तो सगळें पळयतालो.

''तुमकां जेवण वाडलां.'' अशे सांगून ती कदेलीर बसली.

''तूं जेवचेना गो?''

''ना हांव जेवचेना!''

''तशे जाल्यार हावूय जेवचोना.''

''तुमी जेयना जाल्यर नाका जेवंक. तुमका म्हजे पडूंकना, तर म्हाकां तुमचें कशें पडटलें?''

'' अशें? म्हजें तुका कांयच पडूंक ना?'' अशें म्हणून जेवणाक बसलेलो तो उठलो आनी खाटीर आडवो पडलो.

जेवणाच्या मेजार तांटांत वाडलेलें हुनहुनीत जेवण न्हिवपाक लागलें. पिरयेंत वाडलेलें सुंगटाचे सुकें आनी वाटयेतले वेल्ल्यांचे हुमण परमळटालें. मागीर ताटांतले जेवण थंड जायत गेलें.

रात वाडत आसली. तशी ती उठली आनी मेजावयल्या ताटाचेर दुसरें ताट उमथें धांपलें. आपले म्हेळे जाल्ले हात धुंवन पुसले. जनेलां, दारां बंद केलीं. घरांतली मूनलायट सोडून सगळे बल्ब पालयले आनी तीय जेवनासतना खाटीर घोवा शेजाराक न्हिदली. तिची तकली कणकणटाली. खंयचे झक मारलें आनी घोवाच्या तोंडाक तोंड दिलें अशें तिका जालें.

माधवाक न्हीद पडू नासली. तो कुशीर कूस परतितालो. ताच्या तकलेंत उजो कसो जाल्लो. झेम पडनां म्हूण तो खाटीवयल्यान उठलो. पुस्तक वाचचे ह्या विचारान ताणे पुस्तक हातांत घेतलें. तो वाचूं लागलो. पूण ताचे लक्ष लागना जालें. ताच्या तकलेंत विचारांचो घुस्पागोंदोळ जातालो. तो जेवंक ना हेखातीर तीय जेवंक नासली आनी ती तशीच उपाशी न्हिदलेली.

आपले बायलेन आपल्याक जेवपाक उठयलो ना वयल्यान आपूणय उपाशी न्हिदली ह्या विचारान ताचो राग परत जागो जालो. खाटीर न्हिदलेले बायलेच्या पोल्यार दोन शेडावंची आनी भुजांक धरून उठोवंची आनी आपल्याक जेवणाक ऊठ म्हूण कित्याक पराथलेना हेंय विचारचे. हांव तुजो घोव आनी अशे आसतना म्हजे तुकां कांयच लागना. तिणे विनंती केलीच तर जेवचें. तिकाय जेवपाक लावची. ह्या विचारांत तो आसताना तिणे कूस परतिली. तिकाय झेम पडू नासली. तीय तळमळटाली. रांदचे कुडीत खट आवाज जालो म्हूण ती उठली. ताटार अदीक जड धांपलें. थंड उदकाचो पेलो हाडून तो वाचता त्या मेजार दवरलो.... आनी ती न्हिदपाक परत मोन्यानी खाटीर आडवी पडली.

सदच्या भाशेन आयजूय तिणे ताका उदक पियोवपाक दवरलें म्हूण ताका थोडें बरें दिसलें. रखरखत्या सड्यार पावस झडून थंड जावचे तशें ताका जालें. पूण ताका आता जेव म्हूण सांगलेना हेखातीर ताचो अहंकार आपली फणा वयर काडून आसलो.

दोळे धांपून आसले तरी तिका झेम पडूं नासली. मध्यान रात जातकूच तर कुशीर कूस बदलपाचे तिचे अदीक वाडलें. तिणे आपलो दावो हात उशें कसो आपल्या तकले पोंदा दवरलेलो. तिच्या केसांचो आमाडो सुटलेलो आनी तिचे परमळीत लांब केस आंथरूणभर जाल्ले. तिच्या मुखामळार मूनलायटीचो मंद उजवाड फाकारलेलो. काळ्या अस्कड्यामदले दोळे सांजवेळार पानां मेटची तशी मेटलेले. कपलावयलो कुकूम रेखला तसोच आसलो. तिच्या पोल्यार शांत भाव फाकारलेलो. खुबदळळ्या संवसाराच्या दर्याची ल्हारां आनी उंचामेळ तिच्या तोंडार दिसनासलो. तिचे पातळ वोंठ खांवचे पान खाल्ल्याभशेन तांबडेच आसले. व्हदळ दांत लागून सकयल्या वोंठाक जाल्ल्या घायाच्या घेराभोवती मातशी सूज आयल्ली. आनी पणसाच्या कांट्याभाशेंत मदीच घाय काळो जाल्लो. ताका दिसलें आपल्या रसाळ संवसाराक पणसाच्या कांट्याभाशेन कांटे आयल्या आनी ते संवसाराच्या आंगाक सणसणत आसा. तिच्या सोबीत वोंठावयल्या घायाक पळोवन ताका दूख जालें आनी तो घाय आपल्या कडसूनच जाला हेपासत ताका अदीक पश्चाताप जालो. मागीर ताचो व्हदळचो राग खंयच्याखंयच ना जालो... सामको निवळ्ळो.

रात बरीच चडत आसली. तरीय तो तसोच बसून आसलो. ताणे ते बसकेत चवथें सिगार पेटयलें. ताणे तें वोडवोड वोडलें. जिबेचे पोंत चड चुरचुल्याबराबर सिगाराचे उरलेले पोतेर भायर भिरकाटायलें. मेजावयलो सिगाराचो गोबर फाफुडलो. कदेली वयलो उटून ताणे जनेल पुराय उक्तें केलें.

आनी थंड किरांव वावाचो झोत घरांत भितर सरलो. ताचे चुरचुतले दोळे ते थंडसाणेन निवळ्ळे. विसव घेवपाक तो लागीच्या सोफार लवंडलो आनी परतो उठून बसलो. त्याबराबर शिरवाण म्हयन्यातल्या उनपावसाभाशेत फाटल्यो यादी ताच्या तकलेंत येवपाक लागल्यो.

आपले बायले वांगडा दीस सुखांत सारचे अशे विचार ताच्या मनांत येताले आनी तो ह्याच विचारांत घरा परत येयल्लो. घरांत येतकूच झगडें जालें. अशी केन्ना केन्ना झगडीं जाताली आनी ताका दूख भोगचे पडटालें. वगत पिड्ड्यार जातालो. तडजोड बेगीन जायनासली. अशी झगडीं जावन वयल्यान तकलेक त्रास जातालो. केन्ना केन्ना घरांत खावप जेवप जायनासलें. ती उपाशी रावतालीं. या झगड्यांनी आपल्या संसाराक बेगीन पेखना असलो घाय जाला. अशे जांवक जायनासले. आयज तर थापट मारल्यान तिच्या सोबीत वोंठाक तिचोच दांत लागून घाय जालो. हें आरतें जाल्लें तर? म्हजोच दांत तिका लागलेलो तर? आपूण तिचो वोंठ चोखताना तिका म्हजो दांत लागलेलो तर बरें जावपाचे. तिका मागीर चाळोवपाक तरी मेळपाचें. ह्या विचारांच्या चांन्यात आसताना ताच्या आंगावयल्यान पांखे भिरभिरल्यावरी जावंक लागले. ताचे आंगपांग खोशेन फुल्लें.

ताणे आपले बायलेच्या तोंडाकडे पळयलें. तिचे दोळे मेटलेलेच आसले. सगळ्याक शांतताय आसली. तिच्या श्वासाचो हयन्हयसो आवाज ताच्या कानांत पडटालो. तिका खातकुल्यो करून उठोवची आनी तिका वेंगेत धरची अशें ताका दिसले. तो सोफावयलो उठलो. खाटीर न्हिदलेल्या बायलेच्या फुड्यांत गेलो आनी तो थंयच थांबलो. तिच्या तोंडार नितळ, मंद हांशें कशें फांकारलेलें. तिच्या तोडांत, वोठांत म्होवी गोडसाण एकठांय जाल्ली. ती सपनांत आसा काय? असो ताका प्रश्न पडलो. तिका न उठयताच तो तसोच तिका तोखेत रावलो.

व्हदळ ताणे तिच्या आमाड्यार माळलेल्यो जायो तिच्या उश्यावयर पडलेल्यो. ताका येवजले जायांचेर उदक शिपडावन तांकां ताजी टटटटीत करचीं. मागीर तांका अदीक परमळ येतलो. त्या जायांचे उदक तिच्या दोळ्यांर फाफडून तिका उठोवंची आनी तिका वेंगेंत घेतां घेतां सांगचे व्हदळचें सगळें आमी विसरूंया. पूण आजुनय ताच्या तकलेतलो पेच सामको ना जावंक नासलो. तिच्या वोंठावयलो घाय परत परत आड येतालो. सोबीत वोंठावयली सूज आनी तो घाय.... दिसभरच्यो काडावोडी आनी सगळें सगळें तो विसरपाक सोदतालो. तिचे ते सोबीत दोन आडयो लागीच रेखल्यावरी आनी जुस्त मदीच बावगोन आकारल्यावरी तिचे पोवळे कशे तांबडेच वोंठ...... आडसारातली गिरोप कातली

कशे तिचे पातळ वोंठ.... तो ल्हवूच तिच्या अदीक लागी आयलो. उमळशिकेन उमो घेवपाक ताणे आपले वोंठ तिच्या वोंठांक तेकयले आनी बोंगे कळयेच्यो पाकळ्यो न कळटां उगडच्यो तशे तिचे दोळे अचळय उगडलें.



# एका शेवण्याचें मर्ण

घराभायर चींऽ चींऽ असो आवाज जालो आनी बरोवपांतली म्हजी तनरी तुटली. सात वर्सांचे म्हजे भयणूलेन म्हाका उलो मारलो, 'भाईऽ भाईऽ शेवण्याचें पील. शेवण्याच्या पिलाक कावळे खाता! बेगीन यो.' हांव उठलो आनी भायर आयलों. पारजताच्या मुळांत त्या पिलाक कावळे चोंचताले. हांव थंय पावल्याबराबर पिलाक थंयच उडोवन ते पेरीच्या झाडार बसले. ते ताका चोंचीत धरून व्हरपाक सोदताले. हांवें तांकां आमुडले. ते पयस उडून गेले. पील कावळ्याच्या चोंचितल्यान वांचले हेखातीर आमकां दोगांकय खोस जाली.

शेवण्याच्या पिलाक आजूनय पांखटे फुटूंक नासले तें पांखटे तुटून पडल्यावरी पारजताच्या मुळांत पडून आसलें. ताची चोंच उगती आसली. आनी ताचो जीव खालावयर जातालो. दोळ्यांचीं कवडूलां धांपून येताली. पाखट्यांच्या जाग्यार साळीच्या काट्याभशेन रंगाचो पूण बारीक काडयांचो सांपळो आसलो. आंगाक पांखां येवंक नासली. आंगाची तांबडी कात दिसताली. पूण ते कातीक भाताच्या रोवाभाशेन पांखांचे बारीक फागूर येता थंय आसले. ताचे बारीक काळशे चोंचीवयर तकलेक शेणो कसो पांखां आसलीं आनी भोकुण्याक ल्हान शेपाटो. तें कसलें शेवणे तें वळखपाक लेगीत कळनासलें. हांवें ताका म्हज्या दोनूय हातांच्या पोशांत उखल्लें. पिलाचे आंग मोवमोव आनी ल्हव आसलें. ताच्या आंगाक जर दोन पांखां खोयल्ली आनी वाऱ्यार सोडून दिल्लें तर तें वाऱ्यार हुबून वयतलें आसलें.

म्हजे भयणूलेन चिमुल्यान उदक हाडलें. उदक घालपाक पिलाची चोंच उगडपाचो यत्न केलो. तशें तें चोंच उगडून चींऽ चींऽ करपाक लागलें. हांवें किरांगळीचें बोट चिमुल्यातल्या उदकांत बुडयलें. एक एक थेंबो ताच्या चोंचीत

घालपाक लागलों. पिलाची चोंच खूब ल्हान आसली. बोटाच्या एकाच थेंब्यान ताची चोंच भरताली. ताका उदक पियेंवक जायना आसलें. उदकान चोंच भरताली तशें तें चोंच फाफुडटालें. चोंच फाफुडनाफुडें उदक म्हज्या हातार शिंवरतालें. म्हज्या हातांतलें तें पील म्हजे धाकट्ले भयणीन घेतलें आनी धांवत घरांत गेलें.

घरांत एका कोनश्याक रितो पांजरो प्राण उडून गेल्ल्यावरी लोंबतालो. तो दाखोवन त्या पांजऱ्यांत पिलाक दवरपाक भयणीन हट्ट केलो. पूण ल्हान जीव पोसपाक हांव तयार नासलो. पोसल्यार तें जगचे नासलें. तें जगलें तरी घरांतल्या आनी शेजारच्या मांजरांच्या तोंडात पडटलेंच आसलें. हांवें पोसलेल्यो कांय बोचुंड्यो, सारोळ्यो, चानयो मरून गेल्ल्यो आनी कांय मांजरांच्या भगीक पडलेल्यो. चड करून पोसलेलीं तीं शेवणी मांजराच्या भगीक पडटालीं म्हूण दूख जावन हांवें शेवण्यांक पोसपाचे सोडून दिल्लें. म्हज्या भयणीक सुणी, मांजरां पोसपाची व्हड उमेद. घरांतल्या धव्या मांजरांक तर तें जमनीर दवरीनासलें. मांजराक आंगार घेवन खेळटालें. ताची उमाबोची घेतालें. हांवें भयणीक समजून सांगल्या उपरांत त्या पिलाक ताच्या आवयच्या घोटेरांत दवरपाक तें तयार जालें.

पिलाक घेवन आमी घराभायर आयलीं. पारजताकडे, पेरीकडे घोटेर दिसता कांय म्हूण पळयलो. पूण आमकां मेळ्ळोना. मागीर दुर्गा भितरल्या वाडवडिलांच्या थड्यांकुशीकच्या आंब्याचेर कांय पिले रडटाले ते आयकून म्हजी नदर थंय गेली. आंब्याच्या खांदयेकडच्या खाकोळांत एक घोटेर आसलो. घोटेरांत एक पिलो आनी सारवांची जोडी आसली. आमगेल्या हातांतले सारवांचेच पील म्हूण कळटकूच त्या घोटेरांत दवरपाचे थारायलें. आंगपांग घस्टून म्हाका आंब्यार वयर चडचे पडटले म्हूण हांवें आंगांतलो बुशशर्ट काडलो. वयर सारवां आनी तांचे पील रडटालें. मात हांतांतले पील आतां वोगीच रावल्लें. पिलाक आंब्यावयल्या घोटेरांत दवरपाक आंब्यार चडटलो, म्हणसर म्हजे भयणीन म्हज्या पोशांतल्या पिलाच्या शेपाट्याक बोट लावन ताणे आपलें बोट आपल्या ओठांकडे व्हरून उमो घेतलो.

घराच्या कुडीतल्या जनेलांतल्यान शेजराक आसलेलो पारजत, पेर आनी थड्यांकुशीकचे आंब्याचें झाड दिश्टी पडटालें. जनेलांतल्यान तकली भायर घालून पळयत जाल्यार आंब्याच्या खाकोळांतल्या घोटेरांतली सारवां दिश्टी पडटाली. दोनूय पिले घोटेरांतूच आसले. ते आंगान वाडपाक लागले. मागीर तांका पांखटे फुटून ते आंब्याच्या खांदयेर, ताळ्यांचेर येवन बसपाक लागले. सारवांचो मातयेकोर दोनूय पिलांक सोबतालो. तांच्या पांखार मदीं मदीं काळे थिपके उदेवंक लागले. कावळ्याच्या चोंचीतले वाटावल्ले.... मर्णातून वांचलेलें तें

सारवांचें पील ताच्या तकलेवयल्या हुबलेल्या पांखांच्या शेंड्यावयल्यान वळखपाक येतालें. तें दुसऱ्या पिलापरस गुलगुलीत जाल्लें तेन्ना ताच्या आंगाक भाताच्या रोवासारकी आसलेली मोनी पांखा आतां फूल फुल्ल्यावरी फांकारलीं. ताचे दोळे गुंजेयेदे आनी वाटकुळे पूण गुंजेच्या काळ्या तकलेच्या रंगाचे काळे कुळकुळीत दिसताले. ताच्या पांखट्यांनी वयर उडपाची शक्त धरली. भाताचे रोप पसवन कणस भायर सरचें आनी रोप आंगान भरलेलें दिसचें तशे ताचो शेपाटो वाडलो.

तें सारवांचे पील आडसाटें शेवणे जालें. आंब्यावयल्यान पेरीर, पेरीवयल्यान पारजतार, पारजतावयल्यान दसणीर, दसणीवयल्यान हेर फुलझाडांचेर उडत उडत येवन तें बसपाक लागलें. दुसरे आडसाटें शेवणे हेर सारवांवांगडा आंबरायच्या कुशीकच्या शेतांत भाताचे गोटे वेंचपाक वयतालें. सगलीं सारवां पिकलेल्या शेतांत भाताचे गोटे वेंचीत मजा मारताली. आनी हेंच शेवणे पारजताच्या मुळांत वार पुरलेल्यावरी चडशें पारजतार येवन बसतालें. तें सकाळीफुडें येवन पारजतार बसतकूच पारजतांच्या ताळ्यांच्या तेंगशेर झडपाक रावलेलीं तांबड्या देठाची धवी फुलां झडून वयताली. पारजताचो उडटो प्राणूच कसो तें पारजताच्या हे ताळयेवयल्यान तें ताळयेर उडत रावतालें. म्हजेकडे दायज आसल्यावरी तें केन्ना केन्नाय पारजतावयल्यान म्हजे कुडीच्या जनेलार येतालें. आनी मागीर चिंवचिंवत रावतालें.

मागीर कांय दिसांनी तें शेवणे हेर शेवण्यांमदी उडून वचपाक लागलें. शेतांत गोटे पुंजोवक गेल्ली सारवां वयर उडटाली. चिंवचिंवताली. थंय येयल्या पारव्यांक आनी कावळ्यांक न भियेता भाताचे गोटे वेंचपी सारवांत तेंवूय आसतालें. तें शेवणे हेर शेवण्यामदी रंगून गेलें. कितले तरी दीस तें पारजतार आयलेंच ना.

णव-धा म्हयन्यानी एका सकाळच्या पारार हांवें कथा बरोवंक घेतली. कथेचे नाव आसले, 'शेवण्याचे टळलेलें मर्ण' कावळ्याच्या चोचिंतल्या मर्णातल्यान तें शेवणे वाटावल्लें. आनी अचकीत हांवें शेवण्याचो आवाज आयकलो. जनेलाचेर ओणव घेतलेल्या पारजताचेर तें शेवणे बसून आसलें. ताच्या तकलेर पांखांचो शेणो कसो आसलो. हांवें शेवण्याक रोकडेंच वळखलें. कितले तरी दिसांनी तें पारजताचेर येवन बसलें. इतले दिसांनी कित्याक आयलें काय? हाची वार खऱ्यानीच ह्या झाडामुळां पुरल्या कांय? आनी जर हाची वारं झाडामुळांत आसा तर तें ती वार घेवन पयस उडून वयतले कांय? मागीर हांवें विचार करपाचो सोडून दिलो आनी ताका पळयत रावलों. पयली इतलें तें गुबगुबीत आनी तटार दिसनासलें. ताचे पांखटे सदळ जाल्लेवरी दिसताले. ताणे चिंवचिंव केलें आनी बारीक खांदयेर वचून बसलें. पांखट्याचें लोबतालें एक पांख सुटलें आनी तें गरगर फिरत सकयल पारजता मुळांत पडलें. खांदयेर बसलां थंय

ताचे दोळे धांपपाक लागलें. ताचे धांपून येवपी दोळे पळयनाफुडें म्हज्या मनांत पाल चुकचुकलीं. शेवण्याच्या जिवाक बरें ना कांय? हें शेवणे मरता कांय? पळोवंक गेल्यार शेवणे जाण्टे जावं नासले. ताच्या जिवाक कितेंतरी वायट जाता आसूं ये. जिवाक बरें ना दिसल्याकारणान ताचेर जाण्टेपणाची कळा दिसताली. तें मदी मदी दोळे उगते करतालें. आनी न्हीद येवची तशी ताचे दोळे मेटपाक लागताले. चोंच सकयल जाली. शेवणे पोल्लो काडल्यावरी दिसपाक लागलें. उडटना वाऱ्याचेर फांकारपी पांखटे आतां आंगांत ओडून घेतल्यावरी जाले. धवो-हळदूळसो पोटाकडचो भाग अदीक दिसपाक लागलो. दोनूय दोळ्यावयलो पातकड्यो मेटून आसल्यो. मात् दोनूय पांय सुक्या खांदयेक घट्ट धरून आसले.

दनपार जाली तरी सकाळसाकून तें शेवणे.... तो जीव पारजताचे खांदयेक दसून आसलो. शेवण्याच्या दोळ्यावयलो पातकड्यो मदी मदी उक्त्यो जाताल्यो. त्यो आतां उक्त्यो जायना जाल्यो. ताच्या दोनूय दोळ्यांवयली कवडुलां मेटूनच उरलीं. मागीर दनपार सोपून दीस सांजचे देवतेक लागलो. ताणे चोंचीत कांयच घेंवनासले. मागीर सांजवेळा पोल्लो काडलेल्या त्या शेवण्याक लकणी येवपाक लागली. खांदयेक घट धरून आसलेले ताचे दोनूय पांय कडकडपाक लागले. जोर येवन संबद आंगाक थंडी खांवची तशी ताचे आंग कडकडून लागलें. न्हिदेची लकणी आयल्यावरी ताची मान सकयल लांबली आनी त्याच वेळा पारजताचे पान तुटून पडचें तशें सकयल जमनीर पडलें. पारजताचे फूल कशें ओमथें पडलें. ताची कूड फाफुडल्यावरी फडफडली आनी थंड जाली. शेवणे मरून गेलें. तें उदारे जाल्लें. ताचे दोनूय पांय वयर मळबाकडे... मळबाच्या वाटेर आसले.

शेवण्याचे टळलेलें मर्ण बरोवपाचे तशेच उरून गेलें.

ताच्या मर्णाकडे हांव पळयतालों. तिनसांज जाली. ताची पार्थी कूड पारजताच्या झाडाच्या मुळांत पारजताच्या धव्या फुलाशेजराक आसली. पारजताच्या धव्या फुलांचो वास येतालो.

हांव चिंतपात बुडून गेलों. फूल बावचें तशें ताका काय बरे ल्हानूच मर्ण फावा जाल्लें. मनीसजातीचें मर्ण रोगपिडा जावन कितल्या तरी त्रासांत जाता. बायल मनशेच्या पोटांतलो गर्ब भायर सरतना कुडीक ज्यो वोडी आनी वेद मारता ते परस चड वेद जीव भायर सरतना कुडीक भोगता. शेवण्याचो ल्हान जीव फुलांतलो परमळ कसो उडून गेलो.

हांवें चिंतलें म्हाकाय अशें मर्ण येवचें.

मुंयांची रांग पेरीच्या मुळाकडल्यान आमगेल्या घराच्या समान्तर फुडें वयताली. मुयांचे रांगेत मुयोच मुयो ....असंख्य मुंयो आसल्यो. मुंयाची रांग नीट आसली ती मदीच मोडली आनी ती रांग पारजताच्या मुळांतल्या शेवण्याच्या

कुडीवशीन सरकपाक लागली. मुंयांची रेग चलत चलत शेवण्याच्या कुडीकडे पावली. आनी ते कुडीक खूब मुंयो भरल्यो. पांखांक, पांखाट्याक, चोंचीक, दोळ्यांक सगल्याक मुंयो. शेवण्याची कूड मुंयांनी लिंपली. गोडाच्या खड्याक लागच्यो तश्यो तांबड्यो मुंयो लागल्यो.

उपरान्त तिनसांज सोपून काळोख जावपाक लागलो. मुंयांची मदीच मोडलेली रांग मोडलेली थंयसून मोडण कशी वाकडी जाली आनी पयली सारकी फुडें गेली. कोणेतरी शेवण्याच्या कुडीची निमाणी अवस्था लावपाखातीर मुंयांची राग वाकडी केल्ली. तें रांगेतल्यान शेवण्याचे एक ल्हान पांख मुंयो ओडून फुडें फुडें व्हरताल्यो. त्या धवश्या ल्हान पांखांच्या रूपान शेवण्याची अंतयात्रा चलताली. ते अंत्ययात्रेत फुडें आनी फाटी मुंयोच मुंयो. अंत्ययात्रा उलगल्याभशेन काळखांत तें पांख दिसना जालें. शेवण्याच्या कुडीक गोडाक लागच्यो तश्यो तांबड्यो मुंयो आजूनय लागून आसल्यो. रातचो काळोख वाडत वतालो तसो शेवण्याच्या कुडीचो पांखांक दसलेलो गोडाचो खडो सोंपत वयतालो.

दीस उजवाडलो तसो हांव भायर सरलों. सकाळचो थंड वारो व्हांवतालो. हांव पारजताकडे चलत आसतना आंब्याकडच्या आमगेल्या वाडवड्लांच्या थड्यांची रांग दिश्टी पडली. हालीच श्राद्धाच्या दिसांनी थड्यांक रंग काडलेलो. ती दोळ्यांत भरसारकी धवींच दिसतालीं. हांव पारजतामुळांत पावलों. थंयची मुंयांची रांग दिसनासली आनी शेवण्याची पार्थी कूड नाच जाल्ली. शेवण्याच्या कुडीची ल्हान रंगयाळी सोबीत पांखां मात यादस्तीक कशी पारजताच्या झाडाखाला उरलेली, जमनीर सगळ्याक पातळलेली. सकाळचो वाव नेटान व्हांवपाक लागलो तशी तीं पांखां पिसोळी कशी जावन वयर उडलीं..... पयस गेली. शेवण्याच्या यादीखातीर एक लेगीत पांख थंय उरलें ना. .... 'तेंच खरें थडें जें नाच जावन वता...' तशे जालें. वयर उडून गेल्ली पांखां हालत घोलत वाऱ्यार हुबून गेलीं.



# पेप्सिकार

तिनसांज सोपून काळखी रात वाठारांत पातळटाली आनी त्या काळखांत दर वस्तीची खाशेली वळख शेणत वयताली. वाटेर हय न्हयसो दुबावी उजवाड धुंवरेवरी हुबतालो. त्या वाटेर पयससून एका मनशाची आकृताय हालत हालत चलताली.

तो लागी लागी पावता तसो आमची चारूय जाणाची नदर त्या मनश्याकडे लागली. तो मनीस बडबडटालो. चलताना ताचे दोनूय पांय हेवटेन तेवटेन जाताले. ताच्या आंगावयली पँट आनी शर्ट आड्याच्या खुटाक घातल्यावरी लकाफका जाताली. तो सामको लागी पावलो तशे ताचे बडबडप आमच्या कानार पडपाक लागलें. तो हिन्दीतल्यान आनी मोडके कोंकणीतल्यान बडबडटालो आनी मदीच गाळी संवतालो. त्यो आयकून आमच्या मदल्या एकट्या तरनाट्याक राग येयलो. ताणे म्हटलें, 'गोंयांत घाटी चड जाल्यात. भायलें येवन आमच्या माथ्यार बसल्यात. भायले येवन सोरो पियेतात, शिंदळकी करतात आनी गोंयचें नांव पिड्ड्यार करतात.' दुसऱ्यान म्हटलें, 'आतांच पळयना हो सोरो पियोन गाळी संवता तो ! असल्यांक बरोच पेट घालूंक जाय. चड मदान जाला! 'खरेंच.' हांवेंय ताच्या उलोवपाक तेको दिलो. त्या बराबर तो ताच्या आंगार झुडोन गेलो आनी जाप घेवच्यावरी विचारलें, 'आरे बेबद्या, तू खंय येयला? कोणाक गाळी संवता?' तो आपलेच तर्र तनरेन आसलो. तो तसोच चलपाक लागलो. 'आरे, फुलय रे तेचेर. निवळटलो. बऽरो गाळी संवता?' - अशे कोणेन तरी म्हुटलें आनी दुसऱ्यान ताच्या कानसुलार दोन थापटां मारली. तसो तो पडटा पडटा थंयच बसलो. आपल्याक मारूं नाका म्हूण हात जोडून पार्थेव लागलो आनी रडपाक लागलो. त्याबराबर आमच्या मदल्या एकल्यान ताका वळखलो, 'आरे

हो पेप्सिकार मरे! ह्या दिसांनी हांगा पेप्सी घेवन येता तो ! ताणेच ताका वाटेवयलो उठोवन कुशीक बसयलो. ताणे आपलो किडकिडीत काळो हात कपलार दवरलो. पंचवीशेक वर्सांचो तरनाटो आसून लेगीत अचकीत मारान भियेल्लो. हातपांय थरथरताले. खोल गेल्ल्या दोळ्यांतल्यान दुखां व्हांवत आसली आनी नाकांतल्यान व्हांवतो शेमूट आपल्या मनगटान भुरग्यावरी पुसतालो. आमच्या मदलो मारपीच चुरचुरलो. 'पेप्सिकार म्हूण नकळों. गाळी संवता म्हूण मारलो, अशें तो आपल्या आपूण सांगपाक लागलो. उपरान्त ताणेच ताका थातारायलो. आमी सगळेच सुन्न जाले. बऱ्या वगतान हांवें विचारलें, तुजे नांव किदें?'

'बिरजू'

'तुजो गांव खंयचो?'

'गांव ?..... हांव मध्यप्रदेशांतलो.'

'तूं हांगा खंय रावता?'

'ताणे वाटेवयल्या दुसऱ्या तोंकाकडे बोट केलें.'

'हां, तूं पयल्या वाड्यार बिराडाक रावता तर?'

'ताणे मानेनूच हयकार दिलो. तो उबो रावपाक धडपडपाक लागलो. हांवेंच ताका हात दिलो. 'बरें पात्राम्' अशें म्हणून तो वचपाची तयारी करूंक लागलो. 'आनीक गाळीबीन घालूं नाका' कोणेतरी समजावणी दिली. तसो तो 'ना पात्राम्' म्हुणीत लकत लकत वाटेर पांय घस्टीत चलपाक लागलो. केलें किदें आनी जालें किदें? अशें येजून आमी गुन्यावकारी कशें खंती जाले.

दुसरे दीस भर दनपार जाल्ली. गिमाच्या वोताचे उल्हाळ घरांत लेगीत वाऱ्या वांगडा येताले. अश्या वखतार घंटेची किणीकिणीं आवाज येवपाक लागलो. तसो म्हजो धाकटो पूत उमेदीत जालो. 'पेप्सिकार येयलो, पेप्सिकार येयलो,' अशे म्हुणीत बोवाळ घालपाक लागलो. आवयकडल्यान पैशे घेवन तो बद्द वाटेर धांवत गेलो. भायर येवन पळयत जाल्यार पेप्सिकार घरामुखावयल्या वाटेर येवन थांबलेलो. वाड्यावयल्या धा बारां भुरग्यांनी ताच्या भोंवतणी कवंडाळें केल्लें. 'पेप्सिकार, पेप्सिकार म्हाका दी' असो भुरग्यांनी बोवाळ चलयल्लो. तो आपले सायकलीवयल्या धव्या थर्माकुलरच्या पेटयेतल्यो तांबड्यो, हळदुळ्यो, चाकलेटी रंगांच्यो पेप्सी काडून भुरग्यांक दियत आसलो. पेप्सी हातार पडनाफुडें भुरग्यांच्या तोंडार जात्रेतली खोशी उदेताली. ते गर्देत म्हज्या पुताक पेप्सी मेळू नासली. तो 'पेप्सिकार पेप्सिकार' म्हूण फक्त बोवाळ घालतालो. निमाणी ताका पेप्सी घेवन दिवपाक म्हूण हांव थंय गेलों आनी इतल्यान पेप्सिकारान ताच्या हातांत तांबडीच पेप्सी दवरली आनी ताच्या मोव कंवळ्या पोल्याक वयल्यावयर हात

लायलो. पेप्सी मेळ्ळ्या बराबर ताच्या मुखामळार सगळी खोशी एकठांयली. हांश्याची उमा घेवपाक कोणाकूय इत्सा जातली अशें ताच्या तोंडार खोश्शेचे हांशे फुल्लें. पेप्सी चोखतां चोखता पेप्सीची किरांव थंडसाण ताचे जिबेर गोड गोड जाली.

सगल्यांक पेप्सी दिवन जातगीर पेप्सिकाराचे लक्ष म्हजेर गेलें. ताच्या दोळ्यांक दोळे दिवपाक म्हजेकडे जालेना. कालचे रातची घडणूक म्हाका मनांतल्या मनांत खाताली. राती कांयच घडू नासल्यावरी ताणे म्हाका मुद्दाम हडकिलो, 'बरे मूं भाऊ?' हांवें 'हय' म्हुटलें तसो तो फुडें गेलो आनी घण्टा किणकिणायत वाटेर भुरग्यांक एकठांय करून तांका मेळत भेटत फुडें गेलो.

रातीर कालच्या भाशेन पेप्सिकार बरो पियोवन तर्र जावन लकत लकत वाट वांकडी तिकडी करीत पावलां मारतालो. आयज ताच्या तोडांत गाळी नासल्यो. ताच्या बदला ताच्या मुखांत गीत घोळटालें. वाटेर आमकां पळोवन ताणेंच आमकां सलाम केलो. म्हाका पळोवन भाऊ म्हूण उलो करीत म्हज्या फुड्यांत येयलो. बाकीचे ताणी फकाणा करून ताका तिडायत म्हूण हांवूच मुखार सरून ताका जाप दिली. उपरान्त हेरानीय भुरग्यांवरी पेप्सिकारा भोवतणी कंवडाळें केलें आनी ताका प्रश्नार प्रश्न विचारूं लागले.

ताणे खबर सांगल्या ते वयल्यान तो एकटोच आसलो. तो मध्यप्रदेशांतल्या गांवांतलो. तशे त्या गांवांत ताचे घरबीन कांय उरूं नासलें. मानायपणाचे काम करपाक ताचो बापूय नागपुराक येयल्लो. उपरान्त तो थंय व्हड जालो. बापायभाशेन मानायपणाचे काम करीत बारावे मेरेनचे शिक्षण घेतलें. शिक्षण घेवनूच तो मानायपणाचे काम करतालो. उपरान्त निराश जावन नागपुरांत रेल्वेंत बसून थेट मुंबय येयलो. पूण ताका थंय कोणेच नोकरेक दवरलो ना. रेल्वे स्टेशनाभायर हमालपण करून म्हयनो कसोबसो मारून व्हेलो. उपरान्त कांय दिसाखातीर ताका गोदीत काम मेळ्ळें. तें सोपल्या उपरान्त चणे भिकणां वीक, हमाली कर अशे काम करीत तीन वर्सां काडली. फुटपाथार न्हिदचे पडटा हेखातीर हेरावांगडा ताणे रस्त्याकुशीक खोपटी उबाल्ली. पूण रस्त्याकुशीकच्यो सगळ्यो खोपट्यो सरकारन मोडल्या उपरान्त तो परत उबंतार पडलो. धांवडून आमडून धातल्यावरी ते गर्देचे मुंबय शार ताणे सोडलें. तो बद्द रेल्वेतल्यान गोंयांत येयलो.

आपूण कसले दशेत गोंयांत पावलों हें सांगताना ताच्या दोळ्यांनी दुकां येतालीं. फाटल्या स म्हयन्याच्या अणभवान तो गोंयचे लोक बरे म्हुणटालो. आपुणय बरो वागतलो अशे तो सोपूत दिल्यावरी सांगतालो. गोंयांत रावपाची ताची इत्सा आसली. हांगा घर बांदपाचे सपन आसलें. आनी तो हें परत परत

उलोवन दाखयतालो. दर मनशाक या जगाच्या फाटीर आपलें म्हूण घर जाय आसता हें हांव जाणा आसलों. तरीय मुंबय शारासून भायर मारलेलो मनीस हांगा येवन घर बांदून रावपाचे सपन पळयता हें जाणा जावन म्हज्या काळजांक खोल खंय तरी पीळ पडपाक लागलो.

कोणेन ताका सोरो न पियेवपाचो उपदेश केलो. कोणेन ताका पैशे जमोवपाचें शाणपण सांगलें. ते राती तो भावनेच्या उमाळ्यान खूब खूब उलयतालो. मदी मदी इंग्लीश उलयतालो, हिन्दी उलयतालो आनी कोंकणीत मात्शें मात्शें मोडकें उलयतालो. आमचें भाशेत सारकें उलोवंक येयना हे खातीर तो दूख उगतायतालो.

दोन तीन म्हयने ताची आमचेकडे संवकळ जाली. तो आपूण जावन कोणाकूय उलो करतालो. कोणाक भाऊ, कोणाक अंकल पाचारतालो. वळख वाडयतालो आनी नात्यातल्या मनशाभाशेन संबंद दवरतालो. वाड्यावयल्या भुरग्यांकडे ताचे बरेपण वाडत गेलें. म्हज्या पुताची आनी ताची दाट इश्टागत जाली. म्हजो पूत तर ताका 'पेप्सिकार काका' असो उलो करपाक लागलो. तो पेप्सी घेवन येवपूच म्हुणजे आमच्या वाड्यार खोसयेची गजाल जावपाक लागली. शेजारची लीना आनी मीना ताची सदीच वाट पळयत रावताली. सयाचो धाकटो भाव पेप्सीक पेप् पेप् म्हुणीत उलोवपाक शिकलो. जॅकी आनी सॅबिना पेप्सिकाराक आपल्या बाळशाळेतूय यो म्हूण आफयतालीं. पेप्सिकार बेगीन येयलो ना तर म्हजो पूत ताचेर रागार जातालो आनी मागीर पेप्सी मेळतकूच खुशालभरीत जावन नाचतालो.

म्हाकां मदी मदी प्रश्न पडटालो. आमी पेप्सिकाराक भायलो समजता. तो गोंयांभायरसून येयला खरो; पूण ताणे आमचेकडें संबंद दवरला. एक भायलो मनीस जो म्हज्या भुरग्याक, वाड्यावयल्या भुरग्यांक गांवच्या भुरग्यांक खोशी करता आनी तांच्या जिणेतली उमेद वाडयता जाल्यार हांव त्या पेप्सिकाराक भायलो कसो म्हुणू शकतालों. खाशेल्या काका, मामा भाशेन जर तो या गांवांतल्या हे मातयेतल्या भुरग्यांकडे संबंद दवरता, तर हांव ताका भायलो कसो म्हुणू? हांव ताका भायलो म्हुणू शकनासलो. ही भुरगीं म्हुणजे या मातयेची स्फुल्लींगां, तांचेकडे नातें दवरप म्हुणजे या तांबडे मातयेकडे नातें जोडपासारकेच.

अचकीत एक दीस दनपारचो पेप्सिकार येयलो ना. तो बरो बीन ना कांय अशी चवकशी केल्यार कळ्ळें, तो पयल्या वाड्यावयलें आपलें बिराड सोडून गेलो. तो खंयतरी पयस गेलो. परत येवचो नासलो. हांगा घर बांदून रावपाचें उर्बेभरीत सपन पळोवपी मनीस असो अचकीत खंय गेलो कांय? हे मातयेतल्या

मनशांकडे नाते जोडपाची इत्सा बाळगुपी असो अचकीत भायरो कित्याक जालो कांय?

पेप्सिकाराचो दनपारां येवपाचो वेळ जावन गेल्लो. पेप्सिकार येयलो ना आनी या फुडेच येवचोय नासलो. पूण वाड्यावयलीं भुरगीबाळां पेप्सिकार पेप्सी घेवन येतलो म्हूण आजुनय आशेन रावल्लीं. भर दनपारच्या वोताकडार घामाघूम जावन चड्टेची आड वाट चलत तो थंडशीतळ रंगरांगयाळ्यो गोड पेप्सी घेवन येतलो आनी घांट किणकिणायतलो.... मागीर केन्ना कांय वाटेर धांव घेवक मेळटली म्हूण, नात्यातल्या मनशाची वाट पळयता तशी भुरगीं पेप्सिकाराची वाट पळयत दाराच्या हुंबऱ्यार उबीं आसलीं.

❑❑❑



# टुरिस्ट

आपणालो कांदळगांव पर्यटनकेंद्र जावपाक आपूण चडांतचड जापसालदार आसां अशें गुणीचे तकलेंत ह्या दिसांनी परत परत येतालें. आयज सकाळपारासाकुनूच ह्याच विचारान ताची तकली कणकणटाली. आपणे फुडाकार घेतलो म्हण कितें जालें? केन्नातरी सरकार कांदळगांव एक पर्यटन केंद्र म्हणून जाहीर करतलोच आसलो. कांदळगांव सारकिलो गांव, भोंवडेकारांचे नदरेन विकसीत करपाचें सरकार येवजितालें. आमी फकत तें सरकाराक दाखोवन दिलें. मागीर ह्याच विचारांत फाटल्यो यादी उजळपाक लागल्यो.

भुरगेपणासाकून गुणीक आपणाल्या गांवांचो व्हड अभिमान. ताचो गांव कलेंत शिरवंत. ह्या गांवांत काय गुणेस्त कलाकार जल्मल्ले आनी ताणी गांवांचें नांव वयर काडलेलें. गांवांत नामनेची दोन देवळां आसली. एक गणपतीचें, दुसरें लक्ष्मीचें. देवळांतल्या काल्यांक आनी जात्रांक भायल्या गांवांतल्यान लोक येताले. हीं देवळां खूब पोन्नी आसलीं. गणपतीचें देवूळ पांचशीं वर्सांपयलीं एका राजान बांदलेलें. देवळांतले लाकडी नक्षिकाम त्या काळावेले कलेची तरा मिरयातलें. लक्ष्मीच्या देवळांतले गर्भकुडीतली पाशाणी मुर्त खुबूच सोबीत आसली.

लक्ष्मीच्या देवळासामाकर व्हडल्या तळ्यांत वर्सांतल्यान एक फावट काल्याच्या दिसांनी सांगडीचो उत्सव जातालो. दोन पनेळ एकठांय बांदून केल्ल्या सांगडीत फुलांचे मखर आसतालें आनी त्या मखरांत लक्ष्मीमायेक बसोवन मागीर सांगडी तळ्यांत भोंवडायताले. हें तळें कुशिच्यान बांदून काडूंक नासलें. भोंवतणच्या दोंगरामदीच हें व्हडलें तळें आसलें. तळ्याकांठार एके वशीन कांदळगांव वसलेलो. दुसरे वशीन व्हडली शेतवड तळ्याच्या उदकार पोसताली. पावसाच्या दिसांनी तळें भरून व्हांवतालें. म्हूण ह्या तळ्याक लोक व्हांवतें तळें म्हणटाले.

व्हांवत्या तळ्याक जाल्लो व्हाळ शेतोडेच्या एके कुशिच्यान फुडें न्हंयेक वचून मेळटालो आनी ती न्हंय दोन दोंगराचे मोडण काडून लांबचे लांब धवे वेळेच्या दर्याच्या गोपांत मुंगरताली. माड आनी माडयो हांचेमदल्यान गांवांतल्या देवळांचे घूड पयसुल्यान दिश्टी पडटाले. काळगिणी दोंगुल्लेचे एके कुशीक आसलेलें एक धवेच कपेल आंकवार चलयेवरी सोबून दिसतालें.

तळ्याकांठाच्या वाठारांत देडशीं घरां आसलीं. दोंगराकडेच्या कुळागरांत पंचवीसेक घरां पयस पयस वसलेलीं. गांवाची लोकांवस्ती आठशींच्या घरांत भरताली. शेतांभाटां, कुळागरां, दोंगर, गोरवां हांचेर हांगांचे लोक पोसताले.

कांदळगांव गोंयच्या मुखेल शारासाकून बरोच पयस आनी भितरल्या भागांत आसलो. शारांत वचपाक एकूच बस गावांतल्यान सुरू जावपी तांबड्या रस्त्यावयल्यान सकाळीफुडें थांबत थांबत शारांत वयताली आनी सांजवेळार परतताली.

आठ वर्सां पयली एक दीस पर्यटनमंत्री कांदळगांवाक भेट दिवपाक आयलो. ताच्या वांगडा पर्यटन खात्याचो संचालक येवपाचो आसलो. तो ज्या दिसा येवपाचो आसलो ताचे आदले दीस गांवांत नवेंच वातावरण जाल्लें. कांय गांवकाऱ्यांनी तात्याच्या मुखेलपणाखाला एक स्वागत समिती घडयली. हे समितींत पंचवीस वर्सांचो जुंवान तरनाटो गुणीय आसलो. गांवांच्यो मागण्यो मंत्र्याच्या कानार घालच्यो म्हणून समितीन बसका घेतली आनी मागण्यांची वळेरी समिती तयार करपाक लागली. रस्तो डांबरी करून येरादारी करपाची, गांवांत सरकारी दोतोर नेमपाची, सांकव बांदपाची, शाळा-वाचनालय उगडपाची मागणी बरयली.. उपरांत गुणी उठलो आनी उलोवपाक लागलो, ‘आमच्या गांवांत रस्तो जाय, वीज जाय, शाळा जाय, वाचनालय जाय. तशेंच म्हाका सांगपाचे आसा; आमचो गांव कलेंत व्हडलो. हांगां दोन देवळां आसात. ती भायल्या गांवांच्या लोकांनी येवन पळोवपाक जाय. म्हणून कांदळगांव एक बरें पर्यटन केंद्र करचें अशें आमी पर्यटन मंत्र्याकडे मागपाक जाय. हांगांची हीं देवळां पोन्नीं आसात, गणपतीचें देवस्थान जागृत आसा. लक्ष्मीमायेची सासाय सदींच ह्या कांदळगांवाचेर आसा. देवळांनी जात्रा कालो किर्तन भजना जातात. ह्या काल्याजात्रांक भायलो लोक येवपाक जाय. आमचीं देवळां गोंयांत नामनेचीं जावपाक जाय. आमच्या गांवांवयली देवतेची सासाय सगळ्या लोकांक लाभपाक जाय.’ गुणीन निखळ हेतून आपलें सांगणे समितीतल्या वांगड्यामुखार दवरलें. तांकां हो विचार बरोच मानवलो. धवेंच पुडवें आनी वयल्यान धवेंच शर्ट न्हेसून येयल्लो समितीचो जाण्टो मुखेली तातो अदीकूच खोशी जालो. ताणे हो विचार उखलून धरलो. पर्यटन केंद्र

जाल्यार गांवाचो रस्तो बेगीन डांबरी जातलो, बसी जातल्यो, वीज येतली सगळें सगळें बेगीन जातलें अशें तात्यान उलोवनूय दाखयलें. आपल्यो सगळ्यो मागण्यो बेगीन सादतल्यो जाल्यार आपलो गांव पर्यटन केंद्र जावपाकूच जाय अशें सगळ्यांनी थारायलें. आनी ही मागणी मान्य करून घेवपाचें निश्चीत केलें.

दुसरे दिसा सांजवेळा स्वागत समितीन तांबड्या रस्त्यार उबारलेल्या आर्काकडें मंत्र्यांची गाडी थांबली आनी मंत्री सकयल देवले. समितीचे मुखेल तात्यान फुलांचो हार मंत्र्याच्या गळ्यांत घालून मंत्र्याचे स्वागत केलें. मागीर मंत्री गणपतीच्या आनी लक्ष्मीच्या देवळांत वचून देवाचें दर्शन घेवन आयले. तात्याच्या चौकाच्या घरातंल्या सालांत च्या-पाण्याचो खाजगी कार्यक्रम आसलो. थंय समितीन गांवच्या मागण्यांचें निवेदन पर्यटनमंत्र्यांक सादर केलें. मंत्र्यांनी तें बारकायेन वाचलें. निमाणे वेळार ते उलोवपाक आराम खुर्चेतल्यान उठले. तश्यो सगळ्याच्यो नदरो तांच्या तोंडाकडे लागल्यो.

'तुमच्या गांवांत येवन म्हाका खूब खोस भोगली. गणपतीच्या आनी लक्षुमीच्या देवळांत पावल दवरून हांव पावन जालों. तुमी जे निवेदन दिलां तें वाचलें. शाळा, वाचनालय बांदपाचें खातें म्हजेकडें ना. पूण तुमचें मागणे त्या त्या खात्याकडें पावोवपाचें काम हांव करतलों. कांदळगांव टुरिस्ट केंद्र करचें अशें तुमी मागलां. पूण हेर गांवूय आपलो गांव पर्यटनकेंद्र करचो अशें मागतात. तेन्ना सगळेच गांव पर्यटन केंद्रां करपाक कशें शक्य जातलें? तरी आसताना तुमच्या गांवांविशी हांव खूब जाणां. तुमचो हो गांव पयस भितर रानाच्या भागांत पडल्याकारणान तशेच देवळां आनी तळें आशिल्ल्यान हांव तुमचे मागणेचेर जरूर विचार करतलों. पूण, तुमच्या गांवांचे नांव गोंयच्या पर्यटन नकाशाचेर घालपाचें उतर हांव तुमकां दितां'. अशें सांगून ताणे आपल्या वांगडा येयल्ल्या पर्यटन अधिकाऱ्यांक तशी सूचनाय केली. मंत्री गेल्या उपरांत समितीतल्या सगळ्या वांगड्यांची मुखामळां खोशी दिसताली. आपल्या गांवांचे नांव पर्यटन नकाशाचेर उजळटलें आनी अदीक गाजतलें म्हूण तांचीं हड्डीं फुडें सरलीं. गुणीय हेरावरी खोशी जाल्लोच. पूण गोंयच्या पर्यटन नकाशाचेर आपल्या गांवाचे नांव घालताना कांदळगांवाच्या नांवाकडेन देवळाची पवित्र कुरू घालतली काय ना हो प्रश्न ताका पडलो. गांवाच्या नांवाकडे देवळाची पवित्र कुरू ताणी केली नाजाल्यार? ह्या विचारान तो थोडोसो अस्वस्थ जालो. तशेंच पर्यटन नकाशाचेर गांवाचे नांव घालतकूच किदें जातलें हांचें चित्रूय काडपाक ताच्यान जमना जालें.'

उपरान्त कांय दीस कांदळगावांवयल्यान उजवाडावन गेले. गुणी लग्न

जावन आपल्या बायलेवांगडा तळ्याकांठावयल्या वस्तीतल्या आपल्या खोपटीकशे ल्हानूच आसलेल्या आपल्या घरांत संवसार करतालो. गांवच्या हेर लोकांवरी शेत आनी कुळागर पिकोवन पोट भरतालो. मंत्री येवन एक दोन वर्सां जाल्ल्या उपरांत गोंयांत पर्यटन विकास येवजणेखाला कांदळगांवांत पर्यटन अभ्यासमंडळाचे वांगडी येवन गेले. ताणी कांदळगांव पर्यटन केंद्र म्हूण विकास करपाचे थारायलें. व्हांवत्या तळ्याच्या काठांरूच लक्ष्मी देवळाच्या शेजाराक विश्रांतीघर आनी ताच्या वयले दोंगुल्लेचेर पर्यटन कुटीरां बांदपाची येवजण जाली.

चार म्हयनांभितर कांदळगांवचो रस्तो रुंद आनी डांबरी जालो. रस्तो कांदळगांवांत पावता थंयच 'कांदोलगांव' असो इंग्लेजींत बोर्ड लागलो. विजेचे खांबे उबारून रस्त्यार ट्युबचे दिवे लकलकले. तळ्यांकांठावयलें विश्रामघर वयर उबारपाक लागलें. गांवांतल्या कांय बेकार तरनाट्याक मानायपणाचें काम मेळ्ळे बायलां मनशांक दिसवड्याचे दुडू मेळपाक लागले.

टुरिस्टाचे काम जाता म्हणून नवे अजापाचें दिसताले. विश्रांतीघराचें काम सोंपलें आनी रोखडेंच पर्यटन मंत्र्याच्या हातांतल्यान विश्रांतीघराचें उक्तावण जालें. आनी ते दिसाच्यान सरकारी आनी खाजगी आयोजन केल्लें पर्यटक टूर्स कांदळगांवांत येवपाक सुरवात जाली. पर्यटक व्हडले उमेदीन मजा करपाक येताले. विश्रांतीघराच्या रेस्टोरेंटांत घिट्टी जावपाक लागली. सरकारान व्हांवते तळ्याची धडा बांदून जलसफर सुरू केल्ली तशेंच दोंगरावेल्या पर्यटक कुटीरांनी परदेशी टुरिस्ट म्हयनो म्हयनोभर रावन मजा करताले. शाराकडसून डांबरी रस्तयावेल्यान येवपाक लोकांनी घिट्टी पडली आनी कांदळगांवाचें चित्रूच बदल्लें.

सकाळचो पार जाली तरी गुणी आपल्या कुळागराचे शिंपणेक गेलोना. ताचे गाल पडलेले. आनी दोळे भितर वोडलेले. कमरावयलें कलसांव ताका धील जातालें आनी तें सकयल देंवतालें म्हूण ताणे कलसांवाचेर आपली भेणाची तांबडी मूज वयर काडलेली. ताच्या काळे कातीच्या आंगावयलें धवशें खोमीस मातयेत लोळलेलें आनी भुजांचेर पिंदलेलें. ताचें आयज मनूच अदीक थाऱ्यार नासलें. आनी मन थाऱ्यार नासतकूच तो सरळ पेद्रूच्या बारांत वयतालो. तर्र जायसर सोरो पियेत रावतालो. ताच्या कुळागरासारकेच ताचें मनूय सुकत, करपत, झडपेत गेलें. गेल्या दोन वर्सा पयली ताची बायल सकाळच्या पारा, दोंगरावयल्या पर्यटक कुटीरांत काम करपाक गेली ती सांजवेळार परतून घरा आयलीच ना आनी तो गावांत घरदार आसुनूय सामको हुबंत पडलो.

दोन वर्सां पयलींची खबर. गुणीक आजुनय ताजी कशी दिसाताली. पर्यटक कुटीराच्या मुखावयले बागेचें काम ताची बायल करताली. फुलझाडांक

शिंपप, जागो निवळ करप, बाग राखप आनी हेर कामां ती दिसवड्याच्या हिसपान देड वर्सभर करताली. तळ्या कांठावयल्या विश्रांतीघरां खेरीज काळगिणीच्या दोंगरावयल्या पर्यटक कुटीरांनीय गर्दी आसताली. देशाभायलें गोंयांभायले पर्यटक म्हयने म्हयने थंय रावन परत वयताले.

गुणीची बायल नीरू थंयच्या फुलझाडांक शिंपताना एका फॉरेन टुरिस्टान पळयली आनी तो तिच्या सोबीत रूपाक आनी जुंवानपणाक भुल्लो. नीरू गोरी नासली. ती काळीसांवळीच आसली. पूण सांवळे कांतीतल्या तटास जुवानपणान आनी नकसूदपणान ताच्या मनाचेर भूल घातली. ताणे तिचेकडसून फुलां घेवपाच्या निमतान तिचेकडे वळख केली आनी वळख वाडयली. मागीर तो सदांच तिचेकडसून चोरयां फुलां विकती घेवंक लागलो. आपल्या कुडीतल्या मेजार फुलां व्हरून दवरपाक तिका सांगपाक लागलो. ताचो हेत न जाणताच एक दीस ताच्या कुडीत फुलां व्हरून दवरपाक नीरू गेली आनी त्यावेळार कोणाची जाग ना तें पळोवन ताणे तिचो हात धरलो. आपल्याक वश जावपाक आनी वांगडा आपल्या गांवां येवपाक ताणे तिका सांगलें. तशी ती नागीण कशी उसळ्ळी पूण ताणे बळाचो उपेग करून तिच्या न्हेसणाक हात घातलो आनी तिका सामकी फुलांची कळी कशी पिसडून उडयली. ते दिसा सांजवेळार तिका घरा वचपाक तोंडूच नासले. आपली भश्ट जाल्ली कूड घेवन घरा परतपाक तिका शक्य जायनासले. आपली भश्ट कूड जीव दिवन ना करपाचें तिणे येवजिलें. तो टुरिस्ट तर तिका आपल्या वांगडा यो म्हूण पराथतालो. निमाणे ती नाका नाका म्हण्टा आसतानाच आमोरेच्या काळखांत ताणे तिका आपल्या धाकट्या गाडयेन घालून गाडी सोडली.

गुणीचे बायलेक टुरिस्टान पळोवन व्हेली ही खबर गुणीक कळच्या आदीच पुराय गावांक कळ्ळी. लक्ष्मीची काळी सावळी पाशाणाची मूर्तूच गावांतल्या देवळांतल्यान चोरून उबारून व्हेली अशें गांवांतल्या सगळ्या जाणाक जालें.

सगळी खबर कळून गुणीक आपलें नाक कापल्यावरी जालें. ताका लज लज जालीं. आनी तिडकीन ताच्या दोळ्यांत रगत दाटलें. दुःख, मनस्ताप, मानहानी हाणी ताका चोंयवशीन रेवाडो घातलो. आनी हें सगले विसरपाक म्हूण तो सदांच पेद्रूच्या बारांत वचपाक लागलो. ताच्या काळजाक जाल्ले घाय सोऱ्यांत हुलपयल्याबगर, जळयल्याबगर कशेंच रावूं नजो जातालें.

दोनपार जायत आयल्ली तरी गुणीन सकाळसाकून कांयच खांवक नासले. वाटेंत चलताना ताका ताचे इश्ट गावले. ताच्या याच इश्टांनी विश्रांतीघर आनी पर्यटक कुटीरां बांदपांचें काम केल्ले आनी दिसवड्याचे पैशे जोडून फोल्गां केल्ली.

तें काम सोंपतकूच ते बेकार भोंवताले. तशे ते बेकार नासले. काम थोड्याच वेळाचें करताले पूण ते जोडटाले खूब. शेतार वचून मानायपणाचे काम करून जे मेळटाले ताच्या धा-वीस पटीन अदीक तांची जोड जाताली. हेखातीर ते शेतांत, कुळागरांत कामाक वचना जाले. ताच्या इश्टांकडे पावतांच सिनेमांतल्या फॅशनचो भेस केल्ल्या साजीन ताका हडकिलो. साजीच्या दोळ्यार फॉरेनचे चकचकीत रेबन आसलें आनी हाताक फॉरेन घडयाळ बांदलेलें. ताणे फॉरेन लायटरान तोंडांतलें फॉरेन सिगार पेटयलें. मागीर हेंच रेबन, घड्याळ, लायटर तो टुरिस्टांक बरोच म्हारग विकतलो आसलो. सिगाराचो धुंवोर सोडीत ताणे गुणीक विचारलें, 'आरे आयज सांजच्या बाजाराक तूं आसा मरे?'

तो वोगीच रावलो.

दुसऱ्यान ताका धोंगशियत म्हुटलें. 'तो आतां बाजाराक कसो आसतलो. तेणे तर बाजाराक आपलो माल सगळ्यान पयलींच खपयलो.' हेर सगळे हांसले. पूण ताच्या ह्या उतरांनी ताचें मन चोंचायले. तो वोगीच रावलो आनी थंयसून कडेन गेलो.

आयज आयतार आसलेल्यान कादळगांवांत सांजचो बाजार भरतलो आसलो. या बाजारांत गांवच्या शेतांत, भाटांत, कुळागरांत, रानांत पिकलेले काय विकना. तर या बाजारांत फॉरेन वस्तीचो बाजार भरता. ह्या बाजारांत लागच्या दर्या वेळेंवयले खुबशे हिप्पी आपल्यो वापरलेल्यो वस्ती घेवन येतात. टेपरेकॉर्डर्स, कॅमेरे, घड्याळी, लायटरां ते मुस्तायकी अशे तरेच्यो विंगड विंगड वस्ती बाजाराक येतात. हिप्पी वांगडा गांवचेय लोक बारीक सारीक वस्ती टुरिस्टांक आनी गोंयकारांक खपयतात.

चलता चलता वाटेंत ताका तात्याली खानावळ आनी लॉजिंग लागलें. पर्यटन केंद्र गांवांत जाल्या उपरांत तात्यान खानावळ आनी लॉजिंग घालून धंद्याक सुरवात केल्ली. आयज बाजाराचो दीस आसलेल्यान खानावळीक भरपूर गर्दी आसली. तात्याचे लॉजिंगूय भरलेले. तात्याचे लॉजिंग तर कांदळगांवात येवन रावलेल्या सुरंगी नायकिणीखातीर लोकांच्या जिबेर घोळटालें. आनी लोक हेखातीर तात्याच्या नांवान बोटां मोडटाले. गुणीन तात्याच्या लॉजिंगाकडे पळयलेंना. लॉजिंगाकडे पळोवप म्हुणजे हळशीक कशी ताका दिसतालें. मागीर तो त्यावटेन थूऽ करून थुंकलो.

गणपतीचे देवूळ आनी लक्ष्मीचे देवूळ लागिलागीच आसली. गुणी पेद्रुच्या बार्राकडे वचपाक म्हूण चलतालो तो लक्ष्मीच्या देवळाकडे किदेंतरी शेणल्यावरी थंयच रावलो. ताका कांयच सुचनासलें. इतल्यान टुरिस्टांच्यो दोन बशी येवन

देवळाच्या दारांत थांबल्यो. पोळयेतल्या म्होंवामुसाभाशेन पर्यटक बशिंतले देवलें आनी देवळांत वचपाक लागलें. पर्यटक देवळांत वयताना फुलकान्नी तांच्या फाटीक लागल्यो. देवळांत बोबाट जावपाक लागलो. पर्यटकांनी उडयल्ल्या पैशांनी ताट भरपाक लागलें. ह्या पैशांखातीर म्हाजन आनी लक्ष्मीच्या देवळाचो पुजारी हांच्यामदी जाल्ल्या किजिलांनी गांवांत पार्तिलां जाली. मागीर या पार्तिलां मदी कोयते कुराडी घेवन झगडीं झुजां उप्रासली. गांवाची शांतताय ना जाली.

गुणी देवळाभायर रावन सगळें येवजितालो आनी हे घडपाक आपूण मात्सो तरी वांटेकार आसा अशें ताका चिंतपाक येवन ताच्या काळजांतल्यान दुखांचे कड येवपाक लागले. लक्ष्मीमायेची चूक मागपाक म्हूण तो देवळाभितर सरलो. भितर लोकांची गर्दी आसली. ते गर्देतल्यान आनी बोबाटांत तो देवतेकडे संवाद करपाक असमर्थ जालो. तो थोडो वगत दोळे धांपून देवळाच्या चौकार बसलो. मागीर लोक कमी जातकूच तो उठलो. गर्भकुडीतल्या देवतेक एक प्रदक्षिणा घातली आनी लक्ष्मीमायेक पळोवन ताणे हात जोडले आनी मनांतल्या मनांत तो म्हुणू लागलो, 'लक्ष्मीमाये म्हाका भोगोस. तुज्या पवित्र थळांत लोक येवचे, आनी ते पावन जांवचे. तुजी सासाय संवसारभर पातळोन सगळ्यांक कल्याणकारक जांवची. तशेच आमच्या गांवचे नांव तुजें थळ म्हूण भायल्या लोकांनी वळखोंवचें म्हुणून येवजिल्लें. पूण जाले भलतेंच. तुज्या थळांत येवन लोक पावन जांवचे हे खातीर आमी तांका हांगा आफयले. पूण ताणी हांगा येवन मजा केली. भोगाच्यो वस्ती एकठांवन भोग घेतले. आनी म्हजो गांव, तुजें पवित्र थळ इबाडून भश्ट करून उडयलें. अशे जायत म्हूण हांव नकळो आसलो. सायबिणी लक्ष्मीमाये म्हाका भोगशीय !' अशें म्हणून तो कांय खीण वोगीच रावलो. ताचे दोळे दुकांनी भरले. मागीर आपल्याक भोगशीय, भोगशीय अशे म्हुणीत कितलेतरी फावटी ताणे आपले नाक देवतेच्या पांयाकडच्या जमनीचेर घस्टीयले.

सांजवेळार आपले दोळे धांपून येता म्हूण गुणी तळ्याकडच्या भाटांतल्या उंच आनी बागवल्ल्या माडाक तेकून बसलो. बसला थंय ताका लकणी येवंक लागलीं. तेन्नाच ताका आपल्या फुड्यांत चलयांचे किटकिटप आयकूपाक आयलें. तसो उठून तो उबो रावलो. रंगरंगयाळ्या मुस्तायकेतले पंदरा-वीस चलयांचो पंगड ताच्या मुखावयल्यान हांसत उलयत गेलो. त्या पंगडा फाटल्यान धा-बारा टुरिस्ट चल्यांचो पंगड व्हड व्हडल्यान उलयत, तांच्या फुडल्यान चलपी टुरिस्ट चलयांची फकाणा करीत वयतालो. ताच्या फुड्यांत ते चले पावतांच तांतुतल्या आंगान घटमुट आनी रूंद तोंडाच्या दांडग्या चल्यान थंय उबो असलेल्या गुणीच्या

गळ्याक धरलो आनी विचारलें, 'क्यो बे? किसको देखता है? क्या ज्यादा दादागिरी चाहिए?' आनी ताचे हेर वांगडी खोऽ करून हांसले. कांय नकळटां ताचेर जाल्ल्या घुरीन, गुणी काचाबूल जालो. ताणे गळ्याचो हात सोडीमेरेन ताका कांयच कळ्ळेंना. ताचे हातपांय थरथरपाक लागले. दांडगो टूरिस्ट हांसत, हांसत फुडें गेलो. फुडें चलपी टुरिस्ट चलयो हें सगळे फाटल्यान वळून पळयत पळयत हांसताल्यो.

गुणीच्या मनाक पयलीच वेर गेल्ली. हांडांचेर उबो आसलेली ताची कूड सामकीच अशक्त आसली. या अशक्ततायेन ताच्यान प्रतिकार करपाक शक्य नासलें. त्या दांडग्या टुरिस्टान टुरिस्ट चलयांचेर प्रभाव घालपाखातीर गुणीचो खेळ केल्लो.

ताणे आपल्या कमरावयली धील जाल्ली चड्डी घट्ट केली. आंगावयलें मदी मदी पिंजलेलें खोमीस फाफुडलें. आपणे कसली दादागिरी केली? वयल्यान हाणीच म्हजेकडे दादागिरी करून म्हजेर अन्याय केला. सामकें खेळांतले बावलें केलें. अशे चितून येताच ताका ताची तिडक मारली. हांगा येतल्या सगळ्या टुरिस्टाक या खोल तळ्यांत उडोंवचें. हांगचे पर्यटन केंद्र सरकारान बंद करूंक जाय, अशें मोटमोठ्यान आड्डोंवचे अशें ताका दिसले पूण तांच्या गळ्यांतल्यान उतरां फुटलीच ना. आपलो आवाजूय कोणेतरी काडून घेतला. आपल्याक मोनी बावली केल्या अशें ताका कळ्ळें. पर्यटन केंद्र सरकार बंद करचोच ना. वयल्यान आमचो आवाज दामून चेपून उडयतलो. गेल्या दोन वर्सां पयलीं तळ्याचें उदीक वायगणांक जाय जाल्यार सरकारान तळ्याचे उदीक पाटांतल्यान सोडलें ना. 'तळ्याचे उदीक कमी जावन तळ्यातलें 'बोटींग' बंद करचे पडटलें हे खातीर सरकार वोगीच रावले. पूण निमाणी जेन्ना सगळ्या शेतकाऱ्यांनी मेळून मागणी केली आनी झुजाक उबे रावले तेन्ना सरकारान तळ्याचे उदक धा दिसूच सोडलें. आतां तर सरकारान तळें सभोंवतणी शिमिटा कक्रीन बांदून काडलें. तशेच लोकांच्या आवाजाची धार मुणोवन उडयली.

तळ्याच्या कांठावयले मर्क्युरी लॅम्प व्हदळ सांजवेळच्यान पेटलेले. आनी ट्यूब लायटीनी कांळगिणीचो दोंगर आनी कांदळगांव चकचकतालो. दोंगराच्या उजव्या पोतावयर आसलेले कपेल धव्याच बल्बाच्या माळांनी चकचकतालें. कपेलाच्या खुर्साक भावार्तान मेणवाती लावन दिमी मारपी मनशां आतां कपेलाक विजेच्या बल्बांनी सजोवपाक पैशे दिवपाक लागलेले. गेल्या वर्सांसावन त्या ल्हान कपेलापरस त्या बल्बांच्या माळांचो शो लोकांच्या दोळ्यांत भरतालो.

जसजशी रात चडटा तसो तळ्याकांठावयल्या विश्रांती घराच्या

रेस्टारेन्टांतल्या उत्सवाक नेट चडटालो. पश्चिमी संगीताच्या सुरांच्या थेक्याबराबर थंयच्या गर्दीचे काळीज चलतालें. पर्यटक कुटीरां तर दोंगराकडच्या काळखाक उजवाडाचे तिकोन स्टीकरावरी दसयल्लया कशे दिसताले. हेच दोंगुल्ले वयल्या पर्यटक कुटीरांत गेल्या दोन म्हयन्यापयली पैशांखातीर गांवच्याच कोणेतरी एका टुरिस्टाचो खून केल्लो. त्याच म्हयन्यंत तळ्याकांठावयल्या विश्रांती घरांत एका नायकिणीचो खून जाल्लो. दुसरे दीस सकाळी फुडे तिचें प्रेत तळ्यांत उफेताले आनी तिचे कुजकें प्रेत खावपाक कावळे झोपय मारताले.

गुणी घरा वचनासलो. तो गांवांत भोंवतालो. सदच्या सारको तो भोंवता भोंवता आयजूय रातच्या वेळार लक्ष्मीच्या देवळा कुशीक पावलो. देवळा कुशीकच्या उजवे वटेनच्या चाळींत जुगार नेटान चलतालो. आनी थंय जमलेल्या टुरिस्टांक जुगारांत पैशे लावपाक उत्तेजीत करूंक थंयचे गर्देतले व्हडल्या व्हडल्यान म्हण्टाले, ‘एका रूपयाक शंबर रुपया. एका रुपयाक शंबर रुपया.’ देवळाचे दावे कुशीकच्या अगरशाळेकडच्या दोन तीन घरांनी पडवेर कांय बायलां नटोन थटोन आनी पानविडो खायत टुरिस्ट गिरायकांची वाट पळयतालीं. हें सगळें पळोवन गुणीच्या तकलेर चेपणाक व्हडलीं खडपां दवल्ल्यावरी जालें. ताचो भायर उस्वास सुटना जालो. आनी चलता चलता सदच्यावरीच रातचो तो पेद्रूच्या बार्रांकडे पावत आयलो.

रेस्ट हावसांतल्यान संगीताच्या आनी सोऱ्याच्या घुंवळीत टुरिस्ट आपल्या जिणेतले व्हडलें फेस्त व्हदळसाकून मनयता थंय आसले. संगीताचो होच ताल थंय लागच्या बार्रांनी आनी तावेर्नांनी नाचतालो. गुणीन पेद्रूच्या बार्राच्या दारांत पावल दवरलें तशे स्टेरिओतल्यान आयल्ले संगीत ताच्या कानांत पडलें. ह्या संगीताच्या सांगाताक रातच्या वेळार पयसून आयकूंक येवपी दर्यादेवळवयलो ल्हारांचो नागडो गाज आसलो. संगीताच्या तालार पेद्रूच्या बार्रांतल्या सगळ्यांचे पाय हालताले, नाचताले. ग्लासांतली फेणी आनी फॉरेन रम, व्हिस्की अनखळटाली. तशी वांटकुळ्या मेजाकुशीक बसलेल्या सगळ्याच्या काळजांतल्या रगताक ल्हारां येवन फुट्टालीं. बार्रांतले वातावरणातूच सोऱ्याची वाफ भरलेली. बार्राच्या भितर सरतांच सोऱ्याच्या परमळान तोंडांत लाळ सुट्टाली.

सोऱ्यान जळपाक गुणी बारांत भितर सरलो खरो पूण व्हदळ ताच्या गळ्याक धरपी दांडगो टुरिस्ट आनी ताचे धा-बारा वांगडी थंयच्या वाटकुळ्या मेजा कुशीकच्या खुर्च्यांचेर बसकण मारून आसले. तांच्या हातांत फॉरेन सिगारां जळटालीं आनी फॉरेन सोऱ्याचे तशेच फेणयेचें ग्लास आसले. तांच्यातले कांय जाण तर मदी मदी उठून संगीताच्या तालार भेंड वांकडे करून नाचताले.

गुणी आपल्या उगत्या दोळ्यांनी तांचो अधेंडलो नाच पळयत पळयत उबो रावला थंयच सदच्या परस आयज ताणे दुपेटीन सोरो ताळ्याखाला घातलो. त्या वांगडा ताच्या ताळ्यांत जळजळ जावन सोरो पोटांत गेलो. ताचे सगळे पोट आनी कमराभितर जळपाक लागलें. ताच्या उपाशी पोटार तर अदीक उजो पेटलो. सबंद आंगांत उजो पातळून गेलो. तसो तो बार्राच्या भायर सरलो. भायर बरीच रात जाल्ल्याची चिन्ता दिसताली. मार्गार लोक साप्प कमी जाल्ले आनीं मार्गावयल्यान सुणी भोंवतालीं आनी भोकतालीं. लक्ष्मी देवळात तेकून आसलेल्या अगरशाळेकडच्या त्या घराची दारां आनी जनेलां सावदां धरलेल्या पांदऱ्यांवरी बंद जाल्लीं. भायले दिवे पालयल्ल्यान थंयच्या लागच्या रस्त्यारूय काळोख जाल्लो.

गुणी झेलत झेलत थंय पावलो आनी थंयच्या मार्गार उबो रावलो. इतल्यान पेद्रूच्या बार्रांतले ते धा-बारा जुवान टुरिस्ट तर्र जावन लकतलकत झेलपाटत थंय आयले, आनी मार्गार उबो आसलेल्या गुणीक तांतल्या कांय जाणानी आपल्या नाकांच्या पुडार बोट दवरून सोऱ्याचे घुंवळीत विचारलें, 'हें खंय मेळटा?'

'गुणी वोगीच रावलो. ते आपल्याक चेडयांविशी विचारतां म्हूण ताच्या तकलेत तिडकीची कीट उसळ्ळी. मागीर तांच्यातलो दांडगो टुरिस्ट फुडे सरलो आनी ताणे ताका विचारलें, 'आमकां बारा जाणाक बारा जायी. मेळटली?'

'ना ना. मेळची ना. तुमी हांगा येवन आमच्या गांवाक चेडयांचो गांव केलो. गांवाचें वायट केलें. चलात, चलात हांगासल्ले.'

मागीर त्या दांडग्या टुरिस्टान मोव जावन विचारलें, 'आमकां सगळ्यांक मेळून एक सुद्धा मेळ्ळ्यार चलता. पळय, आमी तुका पैशे दितां. आमकां कोणाची बायल सुद्धा मेळ्ळ्यार उपकारता.'

ताची ही मदानपणाची उतरां आयकून गुणीच्या कानांत शिशाचो तापलेलो कड्टो रोस पडलो अशें जालें. ताचे कान तापून तांबडे जाले. हातपांय रागान थरथरपाक लागले. मागीर दांत-वोंठ चाबून तो त्या दांडग्या टुरिस्टाचेर झुडोन गेलो. आपल्याक अनपेक्षीत मार पडटा हें जाणून त्या दांडग्या टुरिस्टान नेट केलो आनी ताचेर घुरी चडयली. गुणी ताच्या एकाच खोटेन न्हिंदळत जमनीर कोसळ्ळो. मागीर सगळ्यांनी मेळून ताका खोटानी गुड्डायलो. ताची हालचाल ना तें पळोवन ते भयानूच थंयसून कडसरले. गुणी तांच्या मारान मार्गाकुशीकच्या व्हाळकेत ओमथो पडलो. ताची हांडां मोडल्याचो आवज जालो. ताच्या तकलेक व्हडली कोंक जावन तांबडेगूंज रगत व्हांवपाक लागलें. आनी तें रगत थंयच्या

व्हाळकेच्या हळशीक काळ्या उदकांत भरसलें. निमाणी ताच्या फाटीच्या कण्यांतसून तकलेमेरेन जोगलावण्याच्या रेगेवरी वेद सणसणत गेली आनी ताच्या दोळ्यांमुखार बिण्ण किण्याह्लो काळोख अदीक दाट जायत गेलो.



# भारत आजाद हुआ

चवदा आगस्टाचो दीस. तेच दीस हांव पयलेच फावट मुंबय सावन दिल्लीक वचपाक भायर सरलेलो आनी तोय बी म्हाकां परवडना ते राजधानी एक्सप्रेस रेल्वेन. सांजवेळची साडेतीन वरां जाल्लीं. हांव बॉम्बे सेंट्रल रेल्वे स्टेशनाच्या प्लॅटफार्मावयल्या बांकार बसून आसलों. आजून राजधानी एक्सप्रेस प्लॅटफार्माक लागूं नासली. तिची वाट पळयत बरेच लोक थंय आसले.

रेल्वे पुलाच्या सोपणावयल्यान बारीक फुलांच्या नक्षीचो शर्ट घातलेलो, रुंद कपलाचो, सुमार पंचेचाळीस वर्सांचो एक प्रवासी आनी तांच्या वांगडा टाय बांदलेलो काळ्या सुटाबुटांतलो दुसरो प्रवासी देंवतालो. दुसऱ्या प्रवाशाच्या फाटल्यान तांबड्यां कोटाच्या भेसांतलो आनी दंडाक पितळेचो बिल्लो लायल्लो म्हातारो रेल्वे मजदूर माथ्यार जड सामान घेवन येतालो. एक ट्रंक आनी व्हडली अरिस्टोक्रॅट सुटेकस ताच्या माथ्यार आसली. तो म्हातारो मानाय त्या ओज्यान सामकोच बागवल्लो. ताणे कुथमतच म्हज्या फुड्यांत सामान दवरलें. आपलो थरथरतो हांत त्या सुटाबुटांतल्या गोऱ्यापीट थुलथुलीत आंगाच्या प्रवासी सायबाच्या मुखार केलो. प्रवाशान आपल्या लांब बोल्साच्या कोटांत हात घालून पन्नास पयशाची पांच नाणी ताच्या हातार उडयली. फक्त अडेज रुपया दिल्या ते पळोवन तो म्हणू लागलो, 'साब और ढाई रुपया दो.' पूण आनीक पैसे ताका दिवपाक तो तयार जालो ना. सगळे प्रवाशी तांकाच पळोवपाक लागले. त्या बराबर फुलांच्या नक्षेचो शर्ट घातलेल्या ताच्या इश्ट प्रवाशान ताका आनीक पयशे दिवपाक सांगलें. पूण ताचेय ताणे आयकलेंना. वयल्यान खूब जाले अशें सांगून त्या म्हाताऱ्या मानायाक भेसडायलो. तसो तो म्हातारो मानाय काळे तोंड करून वचपाक लागलो. आपणे वोगीच पयशे दिवपाक सांगलें अशें त्या इश्टाक

दिसलें. त्याच वेळार त्या इश्ट प्रवाशाच्या नदरेक म्हजी नदर जाली. ह्या वेळार आपलें सांगणे फुकट गेलें अश्या अर्थाचें हांशें ताच्या तोंडार उदेवन गेलें.

तांबडी तांबडी लांब गोठाण कशी राजधानी एक्सप्रेस रेल्वे प्लॅटफार्माक लागली. पॅशेंजर रेल्वेत नाजाल्यार लोकल रेल्वेंत प्रवाशी चडटना जितली गर्दी, धांवधांव आनी बोवाट जाता तें पळयल्यार राजधानी एक्सप्रेस आयल्या उपरान्तची हालचाल संथ दिसपाक लागली. रेल्वे डब्यांत सामान दवरपाक मानायांनी सुरवात केली. हांव ए. सी. चेअरची रेल्वे बोगी सोदपाक लागलों. रेल्वे बोगीच्या दाराकुशीक दसयल्ल्या नांवांचे वळेरीत म्हजे नांव वाचून त्या बोगीत हांव चडलों. पुशबॅक सीट, लायटीची वेवस्था, थंड आनी सुखदिणे वातावरण पळोवन म्हाका विमानांत चडल्याचो भास जालो. म्हज्या कल्पनेपरस खूब वेगळें आसलेल्यान हांव अदीक अजापलों. म्हजे कमी सामानाचे ल्हान बॅग म्हज्या सिटापोंदा धुकल्लें. आनी सिटार बसतां बसतांच हांवें बोगीत नदर भोंवडायली. बोगितले सगळेच लोक तांच्या उंची भेसावयल्यान आनी नुरेवयल्यान गिरेस्त म्हूण सहज समजताले. आनी हांव चुकून हांगा पावलां कांय किदें असो संशय म्हाका पडटालो.

गाडी सुरू जावच्या पयलीच संगिताची रेकॉर्ड वाजपाक लागली. मागीर एके बायल मनशेच्या गोड आवाजांत प्रवाशांचे सुस्वागतम करीत प्रवास सुखाचो जांवचो म्हूण चिंतलें. गाडी सुरू जाली. मुंबयच्यो उंच उंच बिल्डींगो फाटल्यान घालून गाडी खटाखट दांगो मारीत फुडें वचूं लागली. गाडी मुंबयच्या नगरांतल्यान वेग वाडोवन वचपाक लागली. तश्यो ल्हान बिल्डींगो, तांच्या कुशीक मोडक्या वस्तींच्या पापाधिकारान उब्यो रावल्ल्यो खोपट्यो दिसपाक लागल्यो. मागीर तर रेंबट, हळशीक वाठारांत साक, डांबराचे पत्रे हांच्या आडसाक उब्यो रावल्ल्यो खोपट्योच खोपट्यो दिसपाक लागल्यो. उपेग ना म्हूण भायर मोखून उडयल्ल्यो वस्ती जमोवन केल्ल्यो तिकट्यो कश्यो खोपट्यो मुंबयच्या रेंबट वाठारांतल्या हांवेस गळसणलेल्या जिणेची गवाय दिताल्यो.

वसय खाडीच्या पुलार गाडी सवकास वयताली. अस्तमतेच्या सुर्याचे भांगरा वोत उदकार उफेतालें. त्यावेळार मोव मोव पुशबॅक सिटार ल्हान थरमासभर च्या पितल्या प्रवाशांकडल्यांन वेटर रातच्या जेवणाची ऑर्डर घेतालो. कोणाक चिकन प्लेट, कोणाक व्हेज, थंड आयस्क्रीम अशी ऑर्डर घेयत आसलो. म्हज्या फुड्यात तो आयलो. हांवें रातचे जेवण नाका म्हूण सांगलें. हांवें जेवणाची ऑर्डर दिली ना हें कळळ्याबराबर व्हदळचो तो इश्ट प्रवाशी म्हज्या फुड्यांत येवन म्हज्या लागच्या सिटार बसलो आनी म्हजेकडे हिन्दीत उलोवंक लागलो.

'रातचें जेवण घेवचो ना तर?'

'घेतलों.'

'मागीर तूं ऑर्डर कित्याक दिना?'

'हांवें रातच्या जेवणाखातीर केळीं, पाव वांगडा घेतल्या.'

'पूण तुज्या तिकेटीरूच तुका जेवण मेळटलें. आनीक पयशे पडचे नात.'

'अशें ! हांव नकळों !'

हांवें अशें सागल्याबराबर ताणे ऑर्डर बूक करतल्या वेटराक आफोवन हाडलो. आनी म्हज्या रातच्या जेवणाची ऑर्डर दिली. हांव गोंयकार, हांव पयलेच फावट दिल्लीक वयतां आनी असले वातानुकुलीत रेल्वेत पयलेच फावट प्रवास करतां अशें हांवें ताका सांगल्याबराबर ताणें म्हजी अदीक चवकशी केली. ताचे नांव हांवें विचारलें. ताणे आपले नांव नंदलाल यादव म्हूण सांगले. मागीर तो म्हाका ताणे केल्या प्रवासांतलो अणभव सांगपाक लागलो. पॅशेंजर रेल्वेच्या दुसऱ्या वर्गांतल्यान प्रवास केल्यार मनशां मनशांचे चड अणभव पदरांत पडटात. गरीब, कुड्डे, पांगळे, भिकारी, कोड येयल्ले, चोर, फटींग अशे तरेतरेचे मनीस या वर्गांत प्रवास करतना पळोवपाक मेळटात. भारत देशांतल्या तरेतरेच्या लोकांचे दर्शन ह्याच वर्गांतल्यान प्रवास केल्यार बरेतरेन जांव येता. तशेच आपले कल्पनेत आसना तें प्रवासांत पळोवंक अणभवूंक मेळटा अशें निमाणे सांगून तो उठलो आनी फुडेच बसलेल्या दिल्लीच्या आपल्या मित्रमंडळीत वचून बसलो. तो थंयच्या मंडळीत खबरी मारपाक लागलो.

बोगितल्या प्रवाशांच्या पंगडा पंगडामदीं एकामेकांची फकाणा चलतालीं. कोण विनोद करताले. कोण वाचताले. कोण खाताले. कोण आपल्या बायल भुरग्यांच्या गोड कुवाड्यांत घुसपून गेल्ले. सात जाणांच्या एका पंगडामदीं तर व्हिस्कीची बाटली उगडलेली. दिल्लीतल्या ह्या पंगडांत नंदलाल आनी ताचो तो थुलथुलीत चिकू गिरेस्त इश्ट अजयराज आसलो. ते खाताले पिताले आनी एकामेकांची फकाणा करताले आनी मदीच विनोद करून व्हडल्या व्हडल्यान हांसताले. बरोच वगत जालो तरी पार्टी चालूच आसली.

बडोद्याक गाडी पावपाक कळाव आसलो. रातचे जेवणय येवंक नासलें. नंदलाल ताच्या पंगडा मदलो उठून म्हज्या फुड्यांत येयलो आनी म्हाकां उद्देशून विचारपाक लागलो. 'क्या भारत आजाद हुआ?' ताच्या या प्रश्नान हांव अजापलों आनी बुचकळ्यांत पडलों. म्हाका ताच्या प्रश्नाचो संदर्भूच लागना जालो. ताच्या ह्या प्रश्नांचेर हांव फकत हांसलो. तसो तो फुडे टॉयलेटीत गेलो. परत तो येवन म्हज्या लागच्या मेकळ्या सिटार बसलो. म्हज्या फाटीर थापट मारून फकाणानी परत म्हाका विचारलें 'क्या भारत आजद हुआ?' हांवें ताकाच परतून प्रश्न केलो, 'क्या भारत आजाद नही हुआ? क्या कल भारत आजाद होनेवालो है?' म्हजे हे प्रश्न आयकून तो व्हडल्यान हांसलो. आनी मागीर म्हाका समजावपाच्या

उतरांनी ताणे म्हाका स्पश्ट करीत म्हणलें, 'आमी दिल्लीत पार्टीच्या वेळार पियेवपाक बसतात तेन्ना सोरो पियेतकूच तर्र झिंग येता त्यावेळार आमी 'भारत आजाद हुआ' अशें म्हणटात. हे आयकून म्हाका धक्कोच बसलो. भारताच्या स्वातंत्र्याचेर विडंबन केल्लो हो विनोद! हांवें मनांतल्या मनांत म्हणलें, 'खरें तुमचें; तुमच्या खातीर भारत असो स्वतंत्र जाता. आनी खऱ्यानीच भारत तुमच्याच पुरतो स्वतंत्र जाला. म्हज्या मनांतले हे विचार वोंठार येंवक सोदताले. पूण हांव वोगीच रावलों. वातानुकूलीत बोगितली थंडी म्हाका चड लागपाक लागताली. नंदलाल आपल्या आंगावयलो लोकरीचो स्वेटर नीट करून गळ्याभोवतणचो मफलर अदीक घट करपाक लागलो. मागीर म्हाका वोगी राव नजो जावन हांवें जावन ताका हिन्दीत म्हणले, 'भारताचे स्वातंत्र्य फकत कांय जाणाक उपेगी पडलां.' हे आयकून तो सुचक अशें हांसलो आनी आपल्या टुळटुळीत खरड पडलेल्या तकलेवयल्यान हात भोंवडायत आपल्या पगडामदी वांटेकार जालो.

बडोदे रेल्वे स्टेशनार गाडी थांबली. स्टेशनार हांवें देवून भायरची सुलूस घेवंक लागलों. रात बरीच जाल्ल्यान स्टेशनार गर्दी नासली. स्टेशनावयल्या दोन तीन स्टॉलांचेर कांय जाण इडली-वडा खाताले. एक पिशी तरनाटी बायल मनीस त्या मनशांकडल्यान आपल्याक खावपाक दी म्हूण मागताली. ताणी तिका कांयच दिलेना वयल्यान बुरशे बुरशे उलोवन तिका थंयसून धांवडावन घातली. उपरान्त चार पांच भिकारी पोरां एका रेल्वे डब्याच्या दाराकडे बसलीं. रेल्वेतलो कोण कितें उरलेले खावंक भायर उडयता कांय म्हूण शेपटी भितर ओडून घेतलेल्या सुण्यांच्या पिलांवरी वाट पळयत तीं आसलीं. हांव परत रेल्वेन चडलों. रतलाम स्टेशनाफुडें गेल्ल्या एका पॅशेंजर रेल्वेचेर दरोडो पडलो अशी खबर नंदलालान हाडलेली. दरोडेखोरांच्या व्हडले टोळयेन दोन प्रवाशांची हत्या केल्ली आनी पांच जाणाक जखमी केल्ले. चडश्या प्रवाशांकडचे पैशे, भांगर, वस्ती, सामान तांणी झोमून व्हेल्लें. बायलांभुरग्यांमदीं हे खबरेन भयाचे वातावरण जालें. बडोद्यासून सुटलेली राजधानी एक्सप्रेस रतलामसून फुडें वचपाची आसली. बऱ्याच कळावान भयाचे वातावरण निवळ्ळें. हे दरोडे, चोरयो, हत्या सदचेच जाल्यात अशे मानून सगले प्रवासी न्हिदपाचे तयारेक लागले. उपरान्त हांव एकटो बसलेकडे मनांतल्या प्रश्नांच्या धाग्यांनी घुस्पून हुंबकळटालों. सगले प्रवासी न्हिदलेले फक्त गाडयेच्या वेगाचोच आवाज येतालो, हांव केदो वगत मेरेन 'भारत आजाद हुआ' च्या भिरकेतूच आसलों.

पंदरा आगस्टाचो दीस उजवाडलो. राजधानी एक्सप्रेस मथुरा शारातल्यान वचपाक लागलेली. स्टेशनार पावतां पावतां रेल्वे सामकीच सवकाश चलपाक लागली. रेल्वे स्टेशनाकडलो जोड रेल्वेमार्ग सारको नासलेल्यान तो सकाळी

फुडेंच सारको करताले. पोन्नो रूळ काडून त्या जाग्यार नवो लांबचे लांब रूळ आनी खडी मार्गार घालपाच्या वावराक सकाळी फुडेंच तिशेक मानाय आनी विसेक कामेऱ्यां लागलेली. भारत स्वातंत्र्य दिसाची सुटी ह्या मानाय आनी कामेऱ्यांक तांच्या मुकादमान दिवंक नासली. हे कामगार ह्या रस्त्याच्या कामाक अशेच उसरपत न घेतां बांदल्या आसतले. तांच्या हुमेन बांदलेल्या या रूळावयल्यान धांवतल्या गाडयेंतल्यान लोक आरामान येतले वयतले आसले. कामगारांचे कश्ट आनी तळमळे पळोवन नंदलालचे म्हणणे आनी आजूनय निवळूं नासलेले रातचे विचार परत परत घुंवताले. बारीक लोकांचो भारत आजुनय पारतंत्र्याच्या बेड्यांनी कुसत आसा. लोकांची गरिबी, अंधश्रद्धा, वायट रुढी, जातपात पयस वचूं नात. हे लोक गरिबी, अज्ञान ह्या सारक्या बंधनानी गुरफटून पडल्यात. ह्या दुश्ट चक्राचो भेद करतलो जाल्यार हांचेकडे पोटापाणयाचे साधन, शिक्षण ह्या सारके कसलेंच शस्त्र ना. भारत देश राजकीय गुलामगिरीतल्यान मुक्त जावन चाळीस वर्सां वयर जावन गेली तरी भारत देशांतल्या गरीब दुबळ्या सामान्य लोकांच्या स्वातंत्र्याचो दीस उजवाडपाचोच आसा.

गाडी वेगान दिल्लीक लागी पावत आसली. आकाशवाणीवयल्यान स्वातंत्र्य दिसाच्या कार्यावळीची कॉमेंटरी चलताली. आमच्या देशाच्या भौमानेस्त प्रधानमंत्र्यानी दिल्लीच्या लालकिल्ल्यार तिरंगी बावटो अभिमानान वयर हुबयलो. राष्ट्रगीत जावन हजारांनी लोकांमुखार प्रधानमंत्र्याचे उमेद भरीत भाशण जालें आनी निमाणी जयहिंदाच्यो घोषणा गाजल्यो. पूण म्हज्या मनातलो संभ्रम कमी जावकूच नासलो. वयल्यान प्रश्नार प्रश्न उप्रासताले. खऱ्यानीच आमचो भारतदेश स्वतंत्र जाला? सगळ्या लोकांक सारख्या प्रमाणांत स्वातंत्र्याची फळां खावंक मेळटात?

नवी दिल्ली रेल्वे स्टेशनाचेर गाडी पावल्या बराबर सगळ्यां वांगडा हांवूय बेगिबेगीन देवलों. पयलेच फावट हांव दिल्लीक पावतां ही उमेद म्हज्या मनांत आसली पूण ती तिगून उरली ना. स्टेशनाभायर कितलेशेच सायकल रिक्शाकार प्रवाशांक आफयताले, ओडून व्हरताले. स्टेशना भायर रस्त्याकुशीकच्या हळशीक उदकाच्या व्हांळकेच्या लांबचे लांब कांठार चुलींचुलीचेर खाण जेवण शिजतालें. तेच खाण थंयचे लोक रेब्याच्या जागेत बसून, उबे रावन खाताले. तें पळोवन म्हाका ओंकारी येता इतली वीट येयली. इतल्यान नंदलाल आनी ताचो इश्ट अजयराज नवी दिल्लीतल्या लोधी प्रॉपर्टीतल्या तांच्या पॉश बंगल्याकडें टॅक्सीत बसून वचपाक लागले. हांव थंयच उबो रावन तांका पळोवपाक लागलो. फक्त नंदलालान म्हाका पळोवन हात हालयलो. परत हात हालोवन ताचो निरोप घेवपाचें भान म्हाका उरलें ना. हांव थंय उबोच आसताना केदो वगत म्हज्यामुखार

हात पसरोन 'मेरे बच्चों को खाने को दो' अशी प्रार्थना करीत म्हजेकडे भीक मागपी जाण्टे बायल मनशेकडे आनी तिच्या काचेबुच्या चार भुरग्यांकडे लक्ष गेलें. आपली लज धांपपा पुरतें कापडाचे जुनेर त्या बायल मनशेच्या आंगार सारकें नासले. पिंजकें आनी लोळकें बोंदर तिणे आपल्या कमराक रेवडायल्लें. उगत्या पोक्या आनी कात लांबत्या तिच्या हड्यांक तिच्या कमरावयलें ल्हान भुरगें वेंग मारून आसलें. आपल्या वर्तमान काळाची आनी फुडाराची कसलीच खातरी ना अशी पोटफाट एकठांय जाल्ली, किडकिडीत तीन भुरगीं तर नागडीच आसलीं. एकल्याच्या आंगार खंयतरी मेळलेली चड्डी आसली. आनी कोयराच्या पेटयेत गावल्लें अर्दवट खावन उडयल्लें मक्याचे कणस हातांत आसलें. म्हातारे बायल मनशेचे दोळे भितर खांचीनी ओडलेलें. हें दशेत तांका म्हज्या मुखार पळोवन म्हज्या आंगार कांटो उबो रावलो. म्हज्या मुखार केल्ल्या त्या जीर्ण थरथरत्या हातार किदें दवरतलो जाल्यार म्हजेकडे आसलेले सगळे कमी पडटलें, उणेच पडटले आसलें. तिका किदें दिवचें हो प्रश्न म्हाका पडलेलो. पूण तिचो रितो हात नदरे आड करून हांव फुडें वचू शकलोना. ते मूर्तिमंत दैन्य आनी वर्सांची वर्सां हेच दशेत गेल्ल्याचे दाखोवपी तिच्या कपलावयल्यो मिरयो आनी दोळ्यांतले भाव पळोवन म्हाका दिसपाक लागलें, ती म्हाका प्रश्न न्हय, तर जाप विचारता, 'क्या सचमुच भारत आजाद हुआ है?' हांव सामकोच बुचकळ्यांत पडटा. म्हजेकडे जाप नासता. हांव उदास जाता.... धवो पडटां.... आनी म्हजे मन खीन्न खीन्न जायत वयता.



# कावळ्याचो स्राप

धा वर्सांच्या तेपान तो पयलेच फावट आपल्या गांवघरा परततालो. तो ताच्या घराकडें पावल्या उपरान्त सत्तर पंचात्तर वर्सांच्या जाण्ट्या कुळवाड्यान ताच्या घराचें दार उगडून दिलें. तो म्हातारो कुळवाडी घराची निगा इतली तेप मेरेन पळयतालो जांवये. तो कुळवाडीय ताच्या बापायच्याच वयाचो आसलो. ताचे तकलेचे केस पिकून धवेफुल्ल जाल्लें. त्या कुळवाड्याक पळोवन आपलो बापूय आयज कितलो म्हातारो दिसूं येतालो हाचो अदमास लावपाचो ताणे यत्न केलो. पूण ताच्या बापायची नुरा अस्पश्ट आनी रेगायल्ल्यावरी ताच्या नदरेमुखार येवपाक जाली. तो घराच्या सोप्यार बसलो तशी ताका थाकाय मेळ्ळी. ताणे एक लांबच लांब स्वास घेतलो आनी तसोच लांब उस्वास सोडलो. तेन्ना ताका खोकलेची उबळ माल्ली. धा वर्सांच्या काळांत आपूण भोवन भोवन म्हातारो जालां अशे ताका दिसलें. ह्या काळांत तकालसीन ताचो जीव अर्दो जाल्लो. हरशी ताची पंचेचाळीस वर्सां पिराय चड न्हय. तरी ह्या पिरायेच्या मानान तो जाण्टो दिसतालो. दोनूय गाल पडलेले. कपलार मिरयांचे जाळें जाल्लें. केस खंय खंय पिकलेल्यान धवसार जाल्ले. खंय खंय काळशे धवशे आनी पिंगशे कोराचे जाल्ले. सशक्त हातपांय करमेल्ल्यो बोडयो कशे बारीक जाल्ले. दोनूय दोळे मात लिकलिकताले. भोंवडेत पळोवन येयल्यान ताच्या दोळ्यांत तेज फांकारलेले. सोप्यार बसतां बसतांच ताणे आपली फाट आनी तकली सोप्याक तेकयली. खूब दिसांनी ताका आयज पयलेच फावट आपल्या मेल्ल्या आवयच्या हुंटयेतली राखण मेळळ्याची जाण जाली. घरच्या सोप्यार बसून रावलेकडे ताच्या नुरेचेर सुरक्षिततेची भावना घोळटाली.

गांवच्या सिमेवयल्या राखणदार देवचाराकडल्या पांयवाटेतसून घराकडे येताना ताका खोस भोगताली. आपणे जंय ल्हानपण सारयलें त्या गांवच्या वाठाराची ओड ताका आतां अदीक अदीक लागली. इतलें भोवलो तरीय आपल्या गांवच्या वाठाराची ओड आजून दिसताली हेखातीर ताका अजाप दिसपाक लागलें. गांवची ओड आनी तांतुतल्यान निर्माण जाल्ल्या उमेदीतूच वाटेवयल्यो खळखळपी व्हाळाच्या दिमीभर उदकांत देवून तो घराकडे पावलो. घर पोन्न्या मोदीचें. शिमिटाच्या बगर मातयेच्या हातीच्या पाऱ्यांचे आसलें. त्या पाऱ्यांक चुनो काडलेलो. वयल्या पाख्याक सुलचें नळे आसले. आतां घर सामकेच पोन्ने जाल्लें. घराची जाय तितली उस्तवारी जायनासली. तें बंदूच आसल्यान तें भाटांत नाल्ल दवरपाची कोठीच कशें दिसतालें. घराच्या चारवटयां पाताळलेल्या भाटांतले माड मदीं मदी मरून वा मोडून गेल्ले. कांयकडें तर मळबांतली जोगलां पडून माड उबे जळून गेल्ले. त्या जळून गेल्ल्या माडांचे उबे करवे दिसताले. उरलेले माड जाण्टे जाल्ले. पयलीं पेणीच्या पेणीनी नाल्ल लागपी माडाक आतां नाल्ल पातळ पिकताले. वा गाब न धरचो तशे मदीच बोंडे गळून पडटाले. नाल्ल खावन तरी गांवांत दीस काडू येत, असो ताका विचार भाटांत पांय दवरल्या बरोबर येयल्याबगर रावलोना. आपल्या इतिहास संशोधनाच्या कामाक आतां सामकोच विराम दिवचो आनी उरलेली पिराय बाळपणच्या गांवघरा सारोवची. पिशेपणान जगभर हेडचे न्हय असो ताच्या मनांत विचार येवन गेलो. पूण हो विचार ताच्या मनांत मात्श्या वेळापुरतोच तिगलो.

तो पडवेच्या सोप्यार बसला आसतानाच सांजवेळ जावन गेली आनी तिनसांजचो काळोख ल्हवू ल्हवू घरांत भितर सरपाक लागलो. इतलो वगत वेळाकाळाचे भान ताका नासलें. त्या जाणट्या कुळवाड्यान आपलो लाटन पेटोवन हाडलो. आनी ताच्या फुड्यांत दवरून गेलो. त्या खिणांत ताका तिनसांज जावन गेल्या म्हूण जाण जाली. तो उठलो आनी आपल्या फाटीक लावपाचो सामानाचो खाकी रंगाचो कपड्याचो बोटवो उगडलो. तांतुतली उदकाची बाटली आनी टॉर्च काडून तो आपल्या घराफाटल्या व्हाळझऱ्यार गेलो. आदीसावन पळयल्या त्याच खड़पाच्या मदल्यान झरो पाझरतालो आनी फुडे व्हांवत तसोच व्हाळाक मेळटालो. खडपाची माती झडून झरो पुरावंक लागलेलो. व्हाळय माती पडून पडून उथळ जाल्लो. झऱ्याच्या शितळ उदकांत हातपांय, तोंड धुल्या उपरांत ताच्या आंगांक ताजेपण शिरशिरलें. तो मागीर टॉर्चीच्या धव्याफुल्ल उजवाडांत घरांत भितर सरलो.

घराचे पडवे वयलो आपलो बोटवो भितरल्या सालांत व्हरतां व्हरतांच

घराफाटल्या दोंगरार आसलेल्या वडावयर रडपी हुडूकाचो आवाज ताच्या कानार पडलो. हुडूकाचे तिनसांजचे, रातचे रडप ताची आवय दुचिन्न मानताली. मागीर ताची आवय हुडूकाक घेऽ म्हुण गाळी संवताली; हें ताका याद जालें. तो भितरल्यान कुळकुळलो. हुडूकाचे रडप बरोच वेळ चलतालें. मागीर त्या मोठ्ठ्या दोळ्यांच्या हुडूकाचे रडप बंद जालें. आपल्या रूंद वाटकुळ्या दोळ्यांची नदर लावपाक ते आनीक खंय तरी उडून गेलां आसतलें अशें ताका दिसलें.

घराच्या सालांतलो काळोख त्या ल्हान लाटनान कमी जायना आसलो. लाटनाची मिणमिणती वात वयर काडून व्हड केली. त्या बरोबर तांबडोच उजवाड ताच्या तोंडार फांकारलो. आनी वेगवेगळे भाव ताच्या मुखामळा वयल्यान दिसपाक लागले. खाकी बोटव्यांत ताणे हात घालून पाव काडले. पाव खावन आनी उदक पियेवन ताणे वण्टीकुशीकूच आपली न्हिदपाची शेंदरी सोडली. ताका आयज परत एकटो एकटो दिसपाक लागलो. न्हिदला थंय ताका झेम पडना जाली. मध्यान्न रात जावन गेली. झेम पडची म्हूण ताणे लाटन पालयलो. उजवाड ना जालो तरी ताच्या मनांत विचारांचो खर उजवाड घोळपाचो थांबलो ना. बऱ्याच उपरान्त ताचो दोळो लागलो. दोळो लागता थंयच आसा तो सपनांत वथ्रेवंक लागलो. आपूण न्हिदलां थंय आपलें आख्खे घर पांख्या, पास्टा सकट कोसळून पडटा आनी नळे, वांशे, मातयेच्या वण्ट्टी पोंदा आपूण सांपडला आनी चिड्डून गेलां अशें आकांताचें सपन ताका पडलें. त्याच खिणांत किळांच मारून तो जागो जालो. काळखांत उठून हातरुणार बसलो. तो घामाघूम जालो. कोणेतरी त्याच्या गळ्याक धरचो तशी ताची वाचाच बसली. ताणे आपल्या उश्यावयली टॉर्च सांसपिली. थरथरत टॉर्च हातान काडली आनी पेटयली. टॉर्चीच्या उजवाडाचो झोत ताणे भोवतणी आनी घरार घातलो. घर आसा तशेंच आसलें. फस्काची काडी पेटोवन ताणे लाटनाची वात पेटयली. उजवाड आनीक व्हड केलो आनी आपल्या लागीच ओडून माथ्यावयर दवरलो. बरोच वगत मेरेन ताचें काळीज धडधडत आसलें. घर कोसळपी या सपनांतल्या धक्यानूच ताका फाटली याद जाली आनी हे यादीतल्यान ताचो गळो दुखान दाटून येयलो. बिल्डींगेपोंदा चिड्डून मेल्ल्या आपल्या बायल भुरग्यांच्या यादीन ताचे काळीज धडधडल उखाल्लें. सोसूं नजो अशे यादीन काळजाक धक्को बसत रावन आपूण मरतलो अशें ताका दिसपाक लागलें. ताची बायल आनी भुरगीं ताच्या दोळ्यांसामकार जिती हालती नियाळपाक लागलीं.

तो आपलो गांव सोडून शारांत रावपाक गेलो. इतिहासाच्या प्राध्यापकांचे काम बरीच वर्सां शारांतल्या नामनेच्या कॉलेजांत करतालो. तो ताची बायल,

पयली एक चलो, दुसरी चली अशी दोन माणकुली भुरगीं असो ताचो संवसार सुखांत चलतालो. शारांतल्या धांवपळीकडे लक्ष चड न दिता तो आपलो संवसार की आपूण हेच भावनेत तो चलतालो. संवसाराच्या गोडसाणेत ताणे आपले इतिहासाचे संशोधन अदीकच सोडून दिल्लें. जगांतले भग्नावशेश या विशयावयलो ताचे संशोधन फिल्ड वर्क न जाल्यान तशेच उरून गेल्ले. मागीर ताणे सामकेच सोडून दिलें आनी शारांत नवेच बांदलेले बिल्डींगेच्या तिसरे माळयेर फ्लॅट विकतो घेतलो. बिल्डीगेतल्या सोबीत फ्लॅटांत ताणे आपलो संवसार थाटलो. टी.व्ही., फ्रीज अर्विल्ल्यो सोयीन सूख अदीक लागी पावल्लें.

एका दिसाची दुर्दैवी सांजवेळ ताका याद जाली. ते सांजवेळचो तो काम करून थकून भागून आपल्या घरच्या मनशांच्या वोडीन घरा परततालो. तो लागी पावत येयल्लो इतल्यान ताणे व्हडलो आवाज आयकलो. ताच्या दोळ्यासामखार ताचो संवसार आसलेली बिल्डींग कोसळटाली. तीन माळयांची बिल्डींग मातयेभरवण जाली. एकूच आकांत जालो. बोबो हुयेलीनी वाठार भरलो बिल्डिंगेतले आठ संवसार खिणात नानपाट जाले. सिमेंट कांक्रीटच्या कितल्याश्या मणांच्या ओज्याखाला लोक चिड्डून गेले. ताची वाट पळयत रावल्ली बायल भुरगीं चिड्डून गेलीं. तो पिसो करसो थंय धांवलो.

ते राती कांय जाणांचे जीव वाटायले पूण तांचे हातपांय मोडून गेल्ले. सबंद रातभर आनी फांतोडेमेरेन उसरपत न घेतां मडी उस्तून काडपाचें काम चालूच आसलें. तो थतर वितर जावन उस्तून काडपाच्या कामांक लागलेलो. दुसरे दिसा स्लॅबापोंदा चिड्डल्ली ताच्या बायल आनी भुरग्याची मडी सांपडली. फक्त कपड्यावयल्यान तांची वळख कळटाली. तांचे कुडीचे धाडायल्ल्यावरी कुडके कुडके जाल्ले. सुकलेल्या रगतान कुडी काळो निळ्यो मूळ आकाराविण्यो जाल्ल्यो. त्या पार्थ्यां कुडीक पळोवन आकांतान ताका थरथरो भल्लो आनी थंयच सावचित ना जावन कोसळ्ळो.

आपल्या कुटुंबाच्या मरणाच्या दुखांत तो कितलेशेच दीसमेरेन सावरूं शकलोना. खंयसरूय भोवप, रावप जावंक लागलें. पिशांतूर अवस्थेतूच तो ते कांय दीस उरलो. आपल्या कामाक वचना जालो. पूण ताका कामाक यो म्हूण आफोवणी येत आसलीं. ताच्या दोग इश्टांनी ताका शारातूच बिराड करून दिलें. थंय तो कांय दीस रावलो. बिराडातसून भायर सरना जालो. सिगार पेटोवन पेटोवन ते ओडून सोडलेल्या धुंवराच्या चक्रांत तो आनीक विश्व सोदपाचो यत्न करूं लागलो. बायल भुरग्यान ज्या अपघातान ना केल्ली त्या अपघाताविशी तो चिंतचिंत चित्तालो आनी चितपान ताका आपल्या हड्ड्यार कोणेंतरी व्हडलें

खडप दवरलां, बिल्डींगाचे व्हडले व्हडले स्लॅब आपल्या फुलमोव काळजार पडलां आनी त्या पोंदा काळजाचे रगत रगत जालां, अशे परत परत दिसपाक लागलें. दिसाचे तर अपघाताचे चित्र ताच्या दोळ्यांसमाकार येतालें. रातची न्हीद पडनासली. चिंतनां बेजार करतालीं. काय वेळा खातीर न्हीद पडलीच जाल्यार न्हीद पडटा पडटाच ताका त्या अपघाताची सपना पडपाक लागताली. त्या सपनाच्या धक्क्यान जागो जातालो. मागीर तर न्हीदच पडना जाली. मागीर हांचेर उपाय म्हूण इतिहासाच्या संशोधनाचे काम करचे आनी तांतूत गुरफटून रावचे अशें ताणे येवजिलें. ताणे मेजकेच सामान कपडे एकठांय केले आनी जगांतल्या भग्नावशेशाचेर संशोधन करपाखातीर जगभोवडीं करपाक तो ते ल्हान शार सोडून एके फातोडेर भायर सरलो.

बोट महानगराच्या लागी पावत येयली तशें सकाळच्या घुंवरेतले अस्पश्ट महानगर स्पश्ट दिसपाक लागलें. जगाच्या भोंवडेर वचपाक ह्याच महानगरातल्यान मळब, सागर, न्हंयो, रस्ते, रेल्वेमार्ग अशे तरेतरेच्यो वांटो फुटलेल्यो. ह्या महानगरांतल्या व्हडल्या वाचपघरांत इतिहासाचेर आपल्या विशयासंबंदी कांय वाचचे, कांय नोटस काडच्यो अशें ताणे थारायल्लें. बंदरार बोटितल्यान देवल्या उपरान्त तो थेट बस धरून शारांतल्या अभ्यासाश्रमांत गेलो. थंय रावपाखातीर आश्रमाच्या मुखेल्याकडे आपलें नांव दिलें. आनी आपली पथारी एका उगत्या सालांत दवरली. त्या सालांत कांय जाण जाण्टे नेण्टे रावताले.

बरेच म्हयने त्या महानगरांतल्या वाचपघरांत संदर्भ ग्रंथ वाचून काडल्या उपरान्त मागीर ताचे मन वाचपांत रमना जालें. जगार भोवपाचे ताचे पिशें परत चाळवलें. पूण ताचे वाचपूय आनीक उरलेले. हें वाचल्या उपरान्त भुयेर वसून मागीर ना जाल्ल्या संस्कृतींचो अभ्यास करपाचो आसलो. वाचपांत मन लागना जालें तशे त्या महानगरांत रावपूच ताका कठीण कठीण दिसपाक लागलें. थंयच्या मळबाक तेकपी इमारतीनी उगते मळब धांपून उडयल्लें. महानगरातले गर्देचे जिणे पळोवन आनी भोगून ताचो घुसमटमार जावपाक लागलो. पूण आपल्या अभ्यासाच्यो नोटस् अर्दवट उरलेल्यो ताका नाका आसल्यो. तो बेचैन जालो. ताचो जीव अंदून वचपाक लागलो. एक दीस तर त्या महानगराचेर युद्धाचें दुश्ट सांवट पसरल्लें. ते दीस सकाळी महानगराच्या लागच्या मळबांत दुस्मानाची विमानां दिसली आनी दोनपारच्या वेळार दुस्मानाच्या विमानांक धांवडावन घातली. पूण सांजवेळाक दुस्मानाच्या विमानाच्या भिग्यान महानगराचेर घुरी घालून बांबांचो उजो घातलो आनी लढायेक खर रुप येयलें. त्या बॉम्बांच्या माऱ्यान कांयकडे उजो पेटलो. धा माळ्यांची एक इमारत मोडून गेली. आनी संबंद

महानगरभरच्या लोकांच्या काळजांत आकांताची धडधड घातली.

ताचे मन सामके कांचवेलें. महानगराचेर हांवळ येयल्या म्हूण ताका दुःख भोगलें. ताणे आपलो बोटवो आपल्या अभ्यासाच्या नोटशिनी भरलो. सामान कंवळलें आनी महानगर सोडपाचे ताणे सामकेच थारायलें. पूण नक्की खंय वचचे तें ताणे थारोवंक नासले. देशाभायर वचून सिंधू संस्कृती, ग्रीस संस्कृती अभ्यासची उपरांत इजिप्तचे भग्न अवशेशाचो नियाळ करचो अशे ताणे पयली येवजून दवरलेलें. पूण युद्ध सुरू जाल्ल्यान देशाभायर खंयच वचपाक मेळनासलें. इजिप्ताचे पिरॅमिड जे जगांतले अजाप ते आदी पळोंवचेच अशे ताणे थारायल्लें. पूण आता त्या महाकाय पिरॅमिडची याद येताच ताच्या जिवार चेपण दवल्ल्यासारके जावंक लागलें. ताच्या कल्पनेतल्यो पिरॅमिडच्यो ममीज ताच्या दोळ्यासमाखार नियाळपाक लागल्यो. आनी त्या ममीजचो तोंडावळो ताका आपल्या मेल्ल्या बायल भुरग्यांवरी दिसपाक लागलो. तशे ताणे आंग काडलें आनी ताणे तो विचारच बदलपाचो यत्न केलो आनी ह्या घडयेतरी देशाभायर वचचेच न्हय अशें येवजिलें. पूण महानगर सोडून वचचेच या विचारांत तो रेल्वेत बसलो आनी आपूण खासा म्हाझुजांतल्यान सुटल्याभाशेन ताका जालें. ह्या झुजांत महानगर सोपतलें. अर्विल्ली संस्कृतायच ना जातली हाचे दूख ताका रेल्वेत बसलेकडे अदीक किमचयत रावलें.

रेल्वेत सेगीत देड दीस प्रवास केल्या उपरांत निमाण्या स्टेशनार रेल्वे थांबल्याबरोबर तो सकयल देवलो. हें पांचशें वर्सां पयलीचे इतिहासिक राजपाटण आसलें. ह्या राजपाटनांत बरेच दीस काडचे आनी संशोधन करचें असो ताणे विचार केलो. या वाठारांत त्यो धव्यो फुल्ल कबरीच कबरी ताची नदर वोडून घेताल्यो. ह्या कबरीतलीं बेगमची कबर नामनेची आसली. ती तर खास पळोवंकूच जाय आसली. हें इतिहासिक राजपाटण म्हणजे थडग्यांचेच शार अशे ताका दिसपाक लागलें, वचत थंय मेल्ल्यांक पुरलेले फोंड दिसताले. त्या राजपाटणांत जी लोकवस्ती आसलीं, तिच्यापरस हजार पट चड लोक आदल्या तेपासाकून मरून गेल्ले आसले. ह्या विचारान तर ताका धक्कोच बसलो. पांच स दीस लागून ताणे कांय सुलतानाच्यो कबरी अभ्यासल्यो. त्यो कबरीच कांय तेपान मोडटल्यो आसल्यो. कांय कबरी तर भुयेवयल्यो नाच जावन गेल्ल्यो. बेगमची कबर खुबूच सुंदर आनी वयर गोल घुमटाच्या वास्तूत तिची कबर आसली. तिची पार्थी कूड बरोच काळ साकून त्या कबरीत विसव घेताली. बेगमची कबर धव्याफुल्ल चांदण्या रंगाच्या नक्षीच्या संगमरवरी पाशाणात बांदलेली. वयली वास्तू तांबड्या रंगाच्या चिऱ्यांनी आसली. तिच्यावयलो चुन्याचो लेपोड गेल्ल्यान चिरे भायर दिसताले.

कबर राखपाक कोणूच नासलो जांवये. तीय हुबंत पडलेली. बेगमेच्या कबरीच्या मुखार लांबचे लांब पातळलेल्या मळार जंय थंय फातर दाळलेले दिसताले आनी एकीचकडे फातरांची रासूच आसली. ते पळोवन तो काचाबूल जालो. एका व्हडल्या लढायेत मेल्ल्या सैनिकांक थंय पुरल्या म्हूण बरोवन थंय लायल्ल्या एके पाटयेवयल्यान कळून येताले. फातरांच्या व्हडल्या राशी पोदां व्हडल्या फोंडांत वशाच्या रोगान मेल्ल्या हजारावयर लोकांक पुरलेले. हे पळोवन ताका दिसलें, एक व्हडली कबरूच ह्या फातरां राशीच्या जमिनी पोंदा लिपल्या. हें राजपटण म्हणजेच एक व्हडलो इतिहासीक मसणूच अशे ताणे आपल्या डायरीत नोंद करून घेतली आनी तो त्याय राजपाटणातल्या मोडक्या राजवाड्याक भेट दिवंक गेलो. राजवाड्याचे उरलेले अवशेश पळयल्यार थंय एक अयसपयस राजवाडो आसलो हे कळटालें. राजवाड्याचो एक दशांश भागूच उबो आसलो. तो भाग कसो तरी तग धरून आसलो. भितर वचपाक लोकांक बंदी आसली. पूण थंय कोणूच फिरकनासलो. थंय राखणदार नासलेल्यान तो भितर सरलो. राजवाड्यांत व्हडले व्हडले राजा रावन गेल्ले. तशेच तांच्या वंशजानीय या राजवाड्यांत सुखसत्ता भोगलेली. पूण आता त्या राजवाड्याची वायट अवतिकाय जाल्ली. कुशीनच्यो चडश्यो वण्टी पडलेल्यो. वण्टीवयली कलाकुसर मातयेक मेळून गेल्ली. उरलेलो भाग मोडपाक तेकलेलो. कांय खांब्यांच्या आदारान आनी वण्टीच्या आदारान तो उबो आसलो. तो राजवाड्यांत भितर सरल्या बरोबर ताका एक विचित्र वास येवपाक लागलो. सालांनी, कुडिनी काळोख दाटलेलो. काळी वागळां पाखां फडफडायत उडटालीं. कांय वागळां पाय वयर करून वयल्या पाख्याक हुंबकळटाली. तांच्या चीं चीं आवाजान कोणाकूय भिरांत दिसूं येताली. तो थंयच खिणभर थांबलो. गङ्गाण जाल्लो तो राजवाडो ताका भूताचो राजवाडो कसो दिसपाक लागलो. इतिहासीक राजपाटणातल्या मसणितलो हो भुताचो राजवाडो खऱ्यानीच जाला काय कितें असो ताका प्रश्न पडलो. आनी ह्या प्रश्नासरशी तो आनीक काळ थंय रावलो ना.

पांयानी चलपाची जेन्ना ताका चड उमेद येवंक लागली तसो तसो तो पांयानीच भोवपाक लागलो. एका गांवांतसून दुसऱ्या गांवांत वचपाक लागलो. एक दीस असोच चलताना वयर दोंगरार किल्लो पळयलो. दोंगराच्या तेमकार चोंयवशीनी व्हडल्या व्हडल्या खडपी चिऱ्यांनी किल्लो बांदून काडलेलो. किल्लो बरोच आथीक दिसतालो. किल्ल्याचे हतयाच्या पायांसारके व्हडले बुरुज पळोवन तर ताका अदीक उमेद येवंक लागली. तसो तो दोंगरार चडपाक लागलो. दोंगरार चडटना निसरून पडत तर गडगडून सकयल पडपाची भिरांत आसली.

दोंगरार चडटां चडटां ताका धांप मारपाक लागली. किल्ल्याच्या लागी पावनाफुडें किल्ल्याच्यो वण्टी कांयकडे कोसळल्याचो ताच्या नदरेक पडल्यो. चडशे बुरुज तर मोडपाच्या पेचांत आसले. दक्षीण दिकेतले दोन तीन बुरुज मोडून गेल्ले आनी उंच बळीश्ट हांवेस बाळगलेले ते बुरूज कोसळून दोंगरावयल्यान गडगडत फुटत सकयल पावल्ले.

जसजशी दोंगराची चडटी निसट्टी जाली तेन्ना ती चडटना घाम येवन खरस येवंक लागली. मागीर तो चडटी चड न लागता तसो वचपाक लागलो. किल्ल्यार वचपाची पांयवाट ताणे धरली. पांयवाट किल्ल्याच्या प्रवेशदाराकडे गेल्ली. किल्ल्याचो आर्काचो दरवंटो बरोच उंच आसलो. तो व्हडल्या व्हडल्या लांब खडपी चिऱ्यांनी बांदलेलो. दरवंट्याचे दार केन्नातरी मोडून गेल्ले. तो उगत्या दरवंट्यालागी पावलो. ताणे वयर अर्दवर्तुळाकार दरवंट्याक पळयलें. ताचेर रानवटी झाडां मातलेली आनी तांची पाळा मुळां ताच्या बांदावळीत भितर शिरलेली. दरवट्याचे काळे चिरे केन्नाय निसरत अशे आसले. तो पोन्नो काळ्या चिऱ्यांचो दरवंटो केन्ना मोडत हे सांगपाक जायनासले. तातुंतल्यान भितर सरप म्हणजे ताका दिव्य कशें दिसपाक लागलें. ताच्या भायरूच ताणे थोडो वगत गणयलें. पूण किल्ल्यांत भितर कितें आसा ते ताका पळोंवकूच जाय आसलें म्हूण तो ते ओडीन धांवतूच दरवट्यातल्यान भितर सरून फुडें गेलो. दोनूय वशींच्या वण्टीच्या मदल्यान गेल्ली वाट तो चलून गेलो. थंय दोन तीन मोडकी घरां दिश्टी पडली. घरालागीच धान्याचे कोठयेचे घर आसलें. तेंय मोडून गेल्लें. किल्ल्याच्या मदल्या भागांत गुप्त तळघर आसलें. पूण तळघराच्या दारांतूच चिरे निखळून पडलेल्यान भितर सरपाक मेळच नासलें. फुडें चलून गेल्ल्या उपरांन्त ताका देवूळ दिश्टी पडलें, तशें ताच्या मनाच्या कोळव्यांतले पारवे फडफडत भायर हुबले. देवूळ कोणतरी सांबाळटालो. तो देवळांत भितर सरलो आनी ताची नदर नंदीचेर पडनाफुडें हें देवूळ कैलासपती आनी मसणवासी महादेवाचे म्हूण ताका समजलें. देवळाच्या वयल्या भागांत कोरांथालेले बरेच नक्षीकाम आसलें पूण त्या नक्षीकामाक बारीकमोटे बुराक पडलेले आनी नक्षीच विबाडून गेल्ली. देवळाच्या चौकार चलत गेल्ल्या उपरान्त तो गर्भकुडीकडे पावलो. गर्भकूड उगतीच आसली महादेवाची म्हूर्त आपले दोनूय दोळे बोंगे कळे कशे अर्देच मेट्टून आसलो. काळ्या तिकतिकीत पाशाणी फातराक धडासाकून वयर म्हुर्तीचो आकार आसलो. आनी म्हुर्तीच्या लागीच योनी लींग आसलें. ताणे महादेवाच्या म्हुर्तीक बारीक नदरेन पळयलें. म्हुर्तीच्या दोनूय दोळ्यांच्या मदीं कपलाक तिसरो दोळो कोरांथलेलो आसलो. पूण तो अस्पश्ट दिसतालो. तिसरो दोळो धांपला कांय उगडला हें कळनासलें.

पूण परत परत तो पळयत रावल्यान महादेवान आपलो तिसरो दोळो हय-न्हयसो उगडला अशें ताका दिसपाक लागलें. दोळो हय न्हयसो उगडल्यान लागचो वाठार झडपाक, नश्ट जावपाक लागला कांय कितें असो विचार ताच्या मनांत येवन गेलो. देवाक हात जोडून ताणे मनांतल्या मनांत देवाची प्रार्थना करीत म्हणलें, 'देवा योनिलिंगाच्या रूपांत आमी तुका भजतां. तूं ह्या विश्वाची निर्मणी करपी आनी म्हजे ल्हान मती प्रमाण हांव जाणा तूच ह्या संवसाराचो संहार करपी. पूण देवा तुवें घडयल्ल्या या विश्वाक तूंच जावन नाखूट लावंक नाका. तुजो तिसरो दोळो उगडून जगाचो संहार करूं नाका. मागीर तो थंयच कांय वेळ शांत बसलो. तो खूब वगत देवळाच्या चौकार विचार करीत बसून रावलो. मागीर उठलो आनी परतलो. परतून येतना तो त्या आर्काच्या दरवट्यांतल्यान भायर सरलो तेन्ना ताच्या मनांत अशाश्वतेची जाण अदीक खोल जायत रावली. तो निखळत रावल्लो किल्लो ताच्या सभोवतणी घुंवता अशें ताका जायत रावलें.

बरीच वर्सा तो भोवत रावलो. भोवतां भोवतां ताच्या वाडलेल्या केसांचे आनी खाडाचेय केस पिकपाक लागून धवे जाले. पयलीचो आंगलोट उरलो ना. तो बारीक जालो. गोरेपण वचून ताच्यांत तिकतिकीत काळसरपण ताच्या आंगाच्या कांतीत येयले. एक दीस भोवताना वाटेत ताका एक आदीवासी भेटलो. ताणे त्या आदिवासीक अजिंक्य गुंफाविशी विचारलें. मागीर त्या आदीवासीन सांगलेल्या प्रमाण माग काडीत अजिंक्य गुंफाकडे तो निर्जन, दाट झाडांच्या भिरांत रानांतून वचपाक लागलो. रानातून वयता वयता ह्यो पाशाणी दोंगराच्या मुळसाणात कोरांथलेल्यो ढोली दिसल्यो. अजिंक्य गुंफा पळोवन ताका खूब आनंद जालो. अशी खोस ताका आनीक केन्नाय जावंक नासली. ह्यो गुंफा देड दोन हजार वर्सा पयलीच्यो आसूंक जाय असो ताणे अंदाज बांदलो. दोंगराच्या चंद्रकोर आकाराच्या भितरल्या आंगांक एके हारीन विसेक होंवऱ्यो आसल्यो. तो आथीक होंवऱ्यांच्या लागी पावलो. तसो दोंगरांत कातयल्ल्यो होंवऱ्यो ताच्या दोळ्यांत बरेतरेन पडल्यो. पयलीच होंवरी आर्का आर्कांनी बांदलेली. तिच्या भायर वेगवेगळ्यो मूर्ती कोरांथलेल्यो. ती दोंगराच्या पोटांत काळ्या पाशाणाच्या फातरांत पोखरलेली. भितर अयसपयस जागो आसलो. मदी मदी कांयकडे खांबे आसले आनी त्या खांब्यांक सकयल साकून वयर मेरेन नक्षीकाम केल्लें. भितर इल्लोय जागो नक्षीकामबगर रितो नासलो. सगळी होंवरीच बारीक मोट्या नक्षीकामान भरून गेल्ली. तिचे भितर थंडसाण जाणवली तसोच थोडो काळोखूय आसलो. हांगा चारपांच दीस तरी काडूकूच जाय अशे ताणे थारायले. आनीं पयलीं वयल्यावयर चार होंवऱ्यो पळोवन घेतल्यो. पांचव्या होंवरेलागचे झऱ्याचे उदक पियेवन विसव

घेवपाक बसलो. मागीर कांय होंवऱ्यो सोडून फुडल्या मदल्या आनी व्हडल्या होंवरेकडे गेलो. हे होंवरेत भायर सजावट व्हडली नासली. पूण भितर अयसपयस जागा आसली. आनी एकूय खांब नासलो. थंय बुद्धाची एक व्हड बसकेची आसरमांडी घालून आसलेली म्हूर्त पळोवन तो भुल्लुसलो आनी बेगींबेगीन भितर गेलो. गुंफेच्यो वण्टी आनी पांखे, माती आनी झाडापानां हांच्या मिसळेन तयार केल्ल्या विंगड विंगड रंगान रंगोवन सोबीत सुंदर हावभाव व्यक्त करपी चित्रां चिंत्रायल्लीं. चित्रांनी साकार केल्या मनशांचे तांच्या काळजांतून उदेल्ले बारीक बारीक भाव व्यक्त जाताले. तो बुद्धाच्या म्हूर्तीच्या फुड्यांत वचू लागलो तसतसो तो म्हुर्तीक पळोवन अदीक भुल्लुसलो. गुंफेच्या भायरसून जो उजवाड येतालो त्या उजवाडांत म्हुर्तीचे नुरेर शांत, रज, तम सारके भाव दिसताले. पूण मुखेल शांत भावूच सगल्या भांवावयर जैत मेळोवन गेल्लो. आपल्याक हांका भंयाविरयत सुरक्षितता आनी शांती मेळटली अशी ताची खातरी जाली. तो प्रभावीत जावन तिका पळयतूच उरलो. उपरान्त तो अदीक भितर सरलो. तिचे वयर खूब तडे गेल्ले आनी पांख्याच्या रंगाची चाखळां गेल्लीं. कांय चित्राय नश्ट जाल्ली. तो बुद्धाच्या म्हुर्तीच्या फुड्यांत गेलो. आसनाधिश्ट पायांक ताणे हात लायलो आनी म्हुर्तीच्या मुखामळार ताणे बारीक नदरेतल्यान पळयलें. पळयल्यार ताच्या शांत नुरेचेर एक शेकानशेक वेर गेल्या. ती वेर गेल्ली पळोवन जोगूल पडून आकांत धक्को बसचो तशे ताका जालें. त्या धक्यान तो न्हिन्नळ्ळो, आपल्याक सांवरूक शकलो ना. भूयकांप जावन अख्खी भूंय जळून फुटून वयता अशे ताका जालें. मेंदूक मारलेली सणसण घेवन तो फाटल्याफाटी परतून होंवरे भायर आयलो. ताका आकांताचे दूख जालें. तो भायर येवन केदो वगत भेऱ्याल्ले दशेन वोगीच उबो रावलो. आनी मागीर कावळ्याच्या काव काव बेसूर रडपान ताचे लक्ष वेधलें. एक काळो कावळो त्या गुंफेवयर बसून व्हडल्या व्हडल्यान स्राप सोडल्यावरी आड्डून रडटालो. मदीच तो आपली काळी तोंच ते होंवरेवयर आपटितालो तें पळोवन ताका खूब वायट दिसले आनी रागान ताणे ताका आमुडपाचो यत्न केलो. पूण तो थंयचो वचना जालो. परत परत येवन आपले काळे तोंचीन कर्कश आडुत रावलो. मागीर ताणे कावळ्याक आमुडपाचे सोडून दिलें. अजिंक्य गुंफाय काळाच्या भगीक पडटा म्हूण तो दुखाची सणसण भोगीत रावलो. बुद्ध काळ, भंय आनी मरणातल्यान कोणाकूच वाचोवंक शकलो नासलो. तशेंच तो स्वताक देखून वाचोवंक शकलो ना म्हूण ताच्या काळजाक दुखाचो कांटो तोंपत रावलो.

बरीच वर्सां भोवभोवन तो आयज परत आपल्या गांवघरा येयलो. ताच्या

मनांत वास करपी असुरक्षितेची भावना आनी सृश्टीत गळून, मोडून, निखळून, कोसळून पडपाची भिरांत कमी जावंक नासली. प्रवासांतले त्रास, क्षीण ताच्या कुडीत दाटून रावल्ले. आपल्या बालपणाच्या आनी सासायेच्या गांवघरा वचचे आनी उरलेले जाण्टेपण थंय सारोवचें. गांवच्या वाठाऱ्याच्या सासायेत रावचें अशें तो चित्तालो. पूण ताचो जीव ओडून काडपी, ताचो आत्मोच पिळवटून काडपी ती सपना आयज मेरेन ताची फाट सोडी नासली.

तो आपल्या घरांत शेनरेर वोगी बसला थंय आसलो. ताच्या लागी लाटन पेटत आसलो. लाटनाच्या वातीक काजळी धरपाक लागली आनी उजवाड मंद जायत लागलो, मध्यान रात जावन केन्ना गेल्ली. तो बसलेकडे चित्ता थंयच आसा, इतल्यान घर घस करून, तो बसलेलो ताच्या कुशीच्या दुसऱ्या सालांत घराच्या वण्टीची माती पडल्याचो आवाज जालो तशे ताच्या काळजांत कलकललें. हुंदीर माती उडयता आसतलो म्हूण टॉर्च घेवन तो दुसऱ्या सालांत गेलो ताणे वयर सकयल टॉर्चीचो उजवाड घालून पळयलें तर वयरसून इल्ली इल्ली माती पडून सकयल मातयेची रास जाल्या. त्या मातयेच्या राशीवयल्यान वयर वण्टीचेर उजवाड घातलो, पळयत जाल्यार पायाक सावन वयर पाडसामेरेन वण्टीक बरीच रूंद फुटोळी गेल्या. तो थंयच खुरसार खिळायल्यावरी जालो. मणामणांच्या ओज्याच्या चेपणावरी आसा थंयच चेपून उरलो. घराच्या आपल्या निमाण्या आसऱ्याक फुटोळी गेल्या तें पळोवन, आपल्या अस्तित्वाकूच तडो गेला अशी ताका जाण जाली. तो थंयच घाम्योवन थरथरत उरलो. उपरान्त व्हड कश्टान मुंयाल्यावरी थिरावल्ले आपले पांय ताणे थंयसून उखल्ले. इतल्यान घरालागी हूऽऽक हूऽऽक करून हुडूक आड्डत रडपाक लागलें. थरथरत ताणे आपलो बोटवो कवळ्ळो आनी फाटीक लायलो. घराचे दार उगतेच साणून तो घराभायर सरलो आनी लांब लांब धेपां घालीत काळखांतच चलपाक लागलो.



# किर्तें तरी व्हर.....

आयज शुक्रारचो बाजार. म्हापश्याच्या बाजाराक बशी भरून भरून वयताल्यो. पंढरी रस्त्याच्या मोडणार हातांत रिती पोती घट धरून बसीक रावलो. बरोच वगत जालो तरी एकूय बस रावनासली. सकाळच्याच घडये उबो रावला थंय ताच्या कपलावयल्यान घामाचो पांवळ्यो पोगळटाल्यो. पिराय उतार वयाक लागलेल्ल्यान कपलार मिरयांचे जाळे अदीकूच चड दाट जाल्लें. ताच्या माथ्यावयले पिकलेले केस बुड्डताले. दोळे खोल वचपाक लागलेले आनी गाल तर केन्नाच पडलेले.

एक बस थांबली आनी पंढरी बेगिबेगीन बसीत चडलो. गर्देतल्यान भितर वचपाक मेळनासलें म्हूण तो दाराकडेच रावलो. इतल्यान कंडक्टरान म्हुणलें, ''त्या म्हाताऱ्याक भितर घेयात रे?'' त्याबराबर लोकांनी ताका वाट करून दिली. तसो तो बसीत भितर सरलो. ताणे आपल्या दाव्या हातांतली घडी केल्ली पोती अदीक घट धरली आनी आपल्या पोन्न्या पँटीच्या बोल्सांतले पयशे सांसपिले. बोल्सांतले मोडचे पयशे ताच्या हाताक लागले. फक्त पांच रुपयांची मोड ताच्या बोल्सांत आसली. ताचे बायलेन आपलेकडचे मोडचे पयशे सोदून काडून ताका ते गाडयेखातीर दिल्ले.

ताणे बसीत नदर भोंवडायली. गाडयेतले चडशे लोक बाजाराक वयताले. तांचेकडे व्हडल्यो पोतयो, बॅगो, साक, पाटल्योय आसल्यो. दादल्यांची बोल्सां, तर बायलांच्यो पर्शी, बोटवे भरलेले आसले. आपूण पात्रावांकडल्यान आपल्या पगाराचे उरलेले दोनशें रुपया घेवन बाजाराक वयतलो म्हूण पंढरीय उमेदीत आसलो.

म्हापश्यांत नानू पानकाराच्या लुगटांच्या मांडार पंढरीन दोन म्हयने काम

केल्लें. ताका म्हयन्याक बाराशें रूपया पगार मेळटालो. पूण ते पयशे म्हारगायेत पावनासले. बसीत येवपावचपाक तांतूंतले पयशे खर्च जाल्ल्यान आपल्या कुटुंबाच्या जेवणाखाणाक ते पयशे पंदरा दीस लेगीत पावनासले. ताणे ती शिर्वीस सोडली आनी दुसरी बरी शिर्वीस सोदपाक तो भोवपाक लागलो. मदी हाचे ताचे मेळटा ते काम करून ताणे दीस काडले. मागीर कांय दीस बेकार उरलो तेन्ना कुटुंबाचे जेवणाखाणाकडे हाल जावपाक लागले. नानू पानकाराल्या शिर्विसेचे पयशे पात्रावांकडे उरलेले. हे दोनशी रुपया घेवन जो बाजारासाकून जेवणाचें सामान हाडचें अशें येवजून म्हापशां वयतालो.

बाजारांत लोकांची खेट जाल्ली. पिकेच्या दिसांचो बाजार भरलेलो. दुदी, केळी, तोरगां हांच्यो राशी आसल्यो. कोयतेवाल, तांबडीभाजी, कारांडे, चिरकुलां, सुरण ह्या गांवठी भाजयेवांगडा वालपापडी, वांयगी, चिटकी, टमाट, बटाट, गाजर ह्याय भायल्या भाज्यांच्यो राशी पातळलेल्यो. गांवठी तांदूळ आनी हळसांदे पडिनी विकताले. 'दोन-तीन पडी उकडे तांदूळ व्हरून बायलेक शिरवळ्यो करपाक लावंक जाय.' शिरवळ्यांची रुच ताच्या जिबेक सुटली. 'हळसांद्याचें तोंडाक घरची आवडीन खातात. तांचे गोडशे तर चल्याक खुबूच मानवता. फाटी हळसांद्यांच्या पिकेर तर हळसांदे व्हरपाक पावलों ना....' ताणे मनांत म्हणलें, 'हे खेपे तरी खारें व्हरपाक जाय... खारें खूब दीस उपकारता. चुलीतल्या मुंबरांत भाजलेल्या खाऱ्याच्या सुरबूस वासान ताटांत आसता ते दोन गोटे ताळ्यासकयल देवतात.'

भोवता भोवता ताणे चितलें, बाजार भरला खरो, पूण आपल्याक जाय ताचीच चवकशी पयली करपाची आनी मागीर पयशे मेळटकूच विकतें घेवपाचें, गांवठी भाजी आपल्या पुताक आवडटा म्हूण ताणे वालांच्या चुडयेचो दर विचारलो. भाज्जेचे दर आयकून ताका अजाप जालें. कांद्याबरोबर हेर भाज्जेचे दरूय बरेच वाडलेले. हें आतां आपल्या हातीभायरें जालां अशें ताका दिसपाक लागलें. ताणे आपल्या हातांतली रिती पोती दामून धरली. तसोच तो फुडें बाजार भोवपाक लागलो. बाजारांत एक इश्ट भेटलो. तो हालीच सरकारी शिर्विशेतलो रिटायर्ड जावन पेन्शनर जाल्लो. ताच्या इश्टानूच ताका हडकिलो आनी कसो आसा म्हूण विचारलें. त्या बरोबर ताणे आपूण बरो आसा म्हूण सांगलें. पूण जगप कठीण जालां हे भाव ताच्या तोंडार उदेले ते ताच्या इश्टाकं दिसले बगर रावले ना. इश्टाच्या फुड्यांत मात ना रावता तो वचपाक लागलो. नुस्त्याच्या बाजारांत ताणे पावल घातलें. आपल्या चलयेक नुस्तें आवडटा. तिणे नुस्ते खाल्ल्यार बरेच दीस जाले. आयज तरी नुस्तें व्हरपाक जाय अशें येवजून ताणे नुस्त्याचे दर

विचारले. नुस्त्याचो दर आयकून तो निरशेलो. आनी ताच्या दाव्या हाताची मूठ धील जाली आनी हातांतली पोती सकयल पडली. ताणे ती परत उखल्ली आनी फाफुडली. पोतयेच्या दोनूय दोशांक धरून ती रिकामी पोती लांबयत तो बाजारांत चलपाक लागलो.

ताचो पेन्शनर इश्ट आपल्या दोनूय हातानी आपल्यो भरलेल्यो पोतयो घेवन वाटेत उबो आसलो. ताणे पंढरीक नियाळ्ळो. ताचे रिते लांबते पोतयेक पळोवन ताणे ताका शिटकायलो. ''जाणा मरे पंढरी, कितें तरी व्हर.'' ''हय व्हरतलों.'' पंढरीन जाप दिली आनी चलत तो बाजारांतसून भायर वचपाच्या गोंयड्यामेरेन पावलो. थंयच ताच्या तकलेंत धोंगशिल्ल्यावरी विचार आयलो. 'हय कितें तरी व्हरपाक जाय. कितें तरी घेवंक जाय.'' नाजाल्यार? .... आनी ह्या विचारान ताच्या तकलेंत उजो पेटल्यावरी जाल्लो. काळजांत धस्स जालें आनी कलकलपाक लागलें. रिते पोतयेवरी ताचो जीव लकाफका जालो. दुबळे, अपंगूळ जाल्यावरी पांय थरथरपाक लागले. हातय गळसणून गेले आनी तो थंयच रस्त्यार थपकल मारून बसलो.

थंयच्या दोगतीग बायलांनी ताका हाताक धरून उठयलो आनी व्हरून सांवळेंत बसयलो. उदक पियेवपाक दिलें. कांय वगत बसल्या उपरान्त तो उठलो आनी नानू पानकाराच्या मांडावटेन चलपाक लागलो.

पानकारान आपलो पसरो पयलीच उगडलेलो. गिरायकांनी लुगट घेवपाक ताणी केल्ली. पात्रांव गिरायक करपाक गुल्ल आसा तें पळोवन पंढरी नाबी कुशीक वोगीच उबो रावलो. बरोच वगत जाल्या उपरान्त ताणे पात्रांवाक उलो मारलो. पात्रांवान ताका पयली पळोवन ना पळयल्यासारकें केल्लें. पूण आतां उलो करून हडकिता म्हूण ताणे दोळे व्हडले करून प्रश्नार्थक नदरेन पळयलें. त्या बरोबर पंढरी उलयलो.

''पात्रांव, पगाराचे उरलेले पयशे व्हरपाक येयल्लों.''

''पयशे?''

''हय पात्रांव, पगाराचे दोनशी रुपया उरल्या.''

''तुवें न्हय रे पयलीच अडवान्स घेवन खाल्ले.''

''हय पात्रांव, पूण दोनशी उरल्या.''

''तुवें काम कित्याक सोडलें? कोणाक सांगून?''

''पयशे पावनासले. वयल्यान येवपाक वचपाक बशीक खर्च. पोटाक जाय ते उधार हाडचें पडपाक लागले. आनी उधारीय पावना जाली.''

''आरे, तुवें म्हाका पयलीं कळोवपाचे न्ही. आमकां दुकानार त्रास पडले.

त्या दिसानी कोणच मेळनाशिल्लो.''

''पात्रांव हांव शीक आसलों.''

पात्रांव तापोवन उलयता हें पळोवन पंढरीन फट मारली.

''तूं फट उलयता. त्या दिसांनी हांवें तुका पळयला. आनी आतां पयशे व्हरपाक आयला? आतां तुका दिवपाक पयशे नात.''

''चूक जाली पात्रांव, ना म्हुणू नाकात. तुमी दिले ना जाल्यार....''

''कितें जातलें?''..... पात्रांवान रागान मुहटलें.

''तशें कांय ना. म्हाकां गरजेक पयशे जाय.''

''आतां तुका दिवपाक म्हजेकडे पयशे नात. पंदरा दिसानी यो. म्हाका गिरायक करपाक जाय.''

''पूण पात्रांव...''

इतले मदी सगळी गिरायकां तांकां पळयत आसलीं. पानकार आपली गिरायकां करपाक लागलो. पंढरी नाबी कडलो कुशीक सरलो आनी दारालागी रावलो. मागीर दुकानाभायर रावलो. मदी परत परत भितर येवन आपूण रावलां म्हूण दाखोवन दितालो. पूण पात्रांवान ताका परत आफयलोच ना.

भर दनपार जावन गेल्ली. बाजारांत कोणाकडे तोंड फाफुडल्यार उधार लेगीत मेळपाक नासलें. बाजारांत वच्चो कांय घरा परतून वच्चो अशें द्विधा मनस्थितीत तो उरलो. बाजारांत वचपाक ताका शक्य जाय ना जालें आनी घरा वचचें अशें दिसना जालें. तो घुटमळत उरलो आनी निमाणी तो कडट्या वोतांत आपली रिती पोती लांबयत घरा वचपाक प्रासाची वाट चलपाक लागलो.

दोनपारची दोन वरां जावन पंढरी घराकडे पावलो. ताची बायल जायू आनी धूव शीतल ताची वाट पळयत आसलीं. रिती पोती आनी ताचे उदास, निरशेल्ले मुखामळ पळोवन किदें समजपाचें तें ती समजली. जायून ताका पियेवपाक उदक दिलें आनी ती वोगी उबी रावली. आजून मेरेन घरांतलीं कोण जेवनासली. उदक पियेवन ताणे बायलेक विचारलें,

''कितें रांदलां?''

''कितें रांदतली? एक पोसोभर तांदूळ आसले तेच रांदल्या.''

''तोंडाक कितें?''

''तोंडाक कांय ना. तोर ना. खारें ना. कांय एक ना. तुमी तरी कितें हाडलां?''

''कितें करूं? पात्रावान कांय एक दिलें ना.''

''पात्रावान कांय एक दिलें ना जाल्यार इतलो वगत थंय कितें करताले?

आनी हांवें पांच रुपया दिल्ले ते बशीक मोडले मू. ते आसलेले तर हांव मांडावयलें कितें तरी हाडून भुरग्यांक तोंडाक तरी कितें करपाची. तुमी म्हूण....''

अशे म्हूणत फणफणत ती भितर गेली. चलो महेश भितर कुडीत बसून आयकतालो. ताणेय निरशेवन हुस्कार सोडलो. ताणे मनांत म्हटलें, 'सदाच पादीशेर. एक दीस आसल्यार चार दीस ना. उदक पियेवन उपाशी पोटार रावपाचें. ह्या घरांत मनीस म्हूण जल्माक न येतां खंयतरी सुण्याच्या जल्माक पडलेलो तरी बरो आसपाचों. दोन पांखीं आसा म्हूण, हाका कोण घर म्हुण्टा, पूण हातूंत चूलच सारकी पेटना. पोटा भुकेक जाय तितले लेगीत शिजना. आवय-बापूय आसा ती नावांची. तांका कसलीच आस्पत ना. म्हाका ताणी बारावेक घातला हें तांचेर वयल्यान वोजें. आनी म्हाका लजेक म्हारक. पुस्तकां लेगीत विकती हाडू ना. वर्सुयभर हाचे कडे माग ताचे कडे माग... सामकी लज जाता. शेऽ पोटाकूय सारके ना आनी तकलेकूय थार ना!' हें येवजून तो तसोच तळमळत रावलो.

जायून शितांत पेजे नीस घालून सगळ्यांक पेज वाडली. पेजे निवळ जेवन अशेच पांच-स दीस गेल्ले. जायून सगळ्यांक जेवंक आफयली. धाकटी भयण कुडीत वचून आपल्या व्हडल्या भावाक घेवन आयली. तिच्या सांगण्यान तो पाटार बसलो. फुडल्या ताटांत फकत शिता गोटे पळोवन नाराज जालो. तोंडाक लावपाक कांय ना तें पळोवन विचारपाक लागलो. ''आई आयजूय तोंडाक नागे?''

''ना बाबा. आयज जेव. फाल्या तुकां आवडटा ती भाजी हाडूया.''

''सदां अशेंच. हांव आयज जेवचो ना.'' अशे म्हूणून तो ताटावयलो उठलो.

''जेवणाकडे अशे करप बरे न्हय. आसा तें जेव. बारावी शिकता आनी येदो व्हडलो जालो तरी तुका कळना कशें?''

पंढरी मदीच तापोवन उलयलो. महेश जेवणा वयलो उठून गेलो तशी सगळ्यांची उमेद मोडली. जायू आपल्या पुताक समजावपाक आनी परत हाडपाक गेली. पंढरीन आपल्या ताटांतलो निवळ पियेलो आनी शिताची कुयां पोटात घातली. चलयेन फकत निवळ पियेलो आनी ती उठली. ताच्या पुतान आवयचें सांगणें आयकलें ना. तो हट्टाक पेटलो.

पंढरीक दिसपाक लागलें आपूण हें गजालीक कारण. फाटल्या दिसांनी बाजाराक वचून पोती भरून घेवन आयल्लों तेन्ना भुरगीं कितली खोशी आनी धादोशी आसली. आतां तर भुरग्यांच्यो गरजोय वाडल्या. फाटल्या दिसांनी

चल्याक सायकल जाय आसली. ती घेवन दिवपाक मेळ्ळी ना. भुरग्यांचे मन दुखावता, निर्शेता. सगळ्यांक कारण आपूण आनी आपली गरीबी. आपल्याक बरी शिर्वीस मेळ्ळी तर अशें जावंक पावचे नासलें. ताणे आपल्या जिवाक कोस कोस कोसलें.

घरांत मोनेळ आसलो तरी अस्वस्थताय कुसमुसू जाताली. आख्खें घरूच तापलेलो तवो कशें जाल्लें. कोण कितें उलयल्यार लेगीत झगडीं जांव येताली. फाटल्या भाशेन झगडी जावची न्हय म्हूण सगळी वोगीच रावल्ली.

उपरान्त अचकीत महेश कोणाक ना सांगतां घरांतल्यान भायर सरून वचपाक लागलो. त्याबरोबर ताचे आवयन ताका विचारलें, ''खंय वयता? इल्ले तरी जेय आनी वच.''

''हांव हांगाच लागी वयता.'' तो मोघम उलयलो आनी परत घरांत येवन घराच्या पाख्याच्या नळ्यांत खोयल्लो पोलेर आनी सितारी घेवन तो वचपाक लागलो. तशें धाकटे भयणीन विचारलें, ''भाई नुस्ते गरोवपाक वयता रे?'' ताणे हां हूं केले ना. तो मोन्यानी घराभायर सरलो. आनी न्हंयेवयल्या पुलावटेन चलत गेलो.

न्हंयेक सुकती आसली. महेशान हांयसाखातीर धडेवयले फातर आरते परते केले. चिखलांत हात घातले. बरेच धडपडी उपरान्त ताका दोन बारीक भेंगुल्ल्यो गावल्यो. न्हंयेच्या पुलार मदी वचून पोलेराचे गरयेक हांयसाक भेंगुल्ली लायली आनी गरी न्हंयच्या व्हांवत्या खोल उदकांत सोडली. बरोच वगत तो गरयतालो. पूण ताचे गरयेचे हांयस कोणे वोडलें लेगीत ना. इतलो वगत गरोवन सांज जायत गेली तरी एकूय भोगशें फावलेंना म्हूण तो निरशेलो. ह्या न्हयेक दुकळ पडला अशे ताका दिसलें. रित्या हातान परत घरा वचपाक ताच्यान जायना जालें. तो चडच अस्वस्थ जायत गेलो. सोसू नजो अशी अस्वस्थताय जावन ताणे पुलावयल्यान न्हयत उडी घेतली. तो न्हयच्या उदकांत खोल खोल गेलो आनी परत वयर येवन बुचकळपाक लागलो.

दनपारचो काळ सोपून सांजवेळ जायत आयली तरी महेश येवना म्हूण घरच्याक हुस्को जावपाक लागलो. काळाच्या व्हडल्या घड्याळीत चिन्ता-हुस्को, इत्सा, भूक, जिवीत, मरण हांचे काटे घुंवताले. इतल्यान स्कुटरीवयल्यान शेजारचे दोग जाण आयले आनी ताणी पंढरीक उलो मारलो.

''पंढरीमाम भायर यो.'' पंढरी वांगडाच घरांतली सगलीं सगलीं मनशां कांचवेत धांवत भायर आयली.

''महेशान जीव दिवपाक पुलावयल्यान न्हंयत उडी घेतलेली. पूण नशिबान

तो वांचलो. तो बुचकळटा तें पळोवन एका व्हडेकारान व्हडे ताच्या लागी व्हरून ताका वयर काडलो.'' एकल्यान सांगलें.'' तो आतां खंय आसा?'' पंढरीन आड्‌डतूच विचारलें. ''तो थंयच न्हंयचे धडेर आसा. तो आपूण घरा येना अशे म्हुण्टा. आमी ताका खूब आफयलो.'' दुसऱ्यान सांगलें.

घरचीं सगळीं न्हयकडे धांवू लागलीं. पंढरी धांपेत, खर्शत न्हंयचे धडेर पावलो. गांवचे सगळे लोक न्हंयचे देगेर एकठांय जाल्ले. कांय जाणानी महेशाच्या भोवतणी कंवडाळें केल्लें. पंढरी फुड्यांत पावनाफुडें ते कुशीक सरले. महेश न्हंयच्या देगेर एका काळ्या फातरार बसलेलो. तो तोंड वयर करून लेगीत पळयनासलो. ताची नदर सकयल जमनीर आसली. पंढरी थंय पावलो तरी आपल्या पुतालागी वचपाक भियेवपाक लागलो. आपणे रडचे कांय कितें करचें तें ताका कळना जालें. मात आपूण गुन्यावकारी कसो ताका दिसपाक लागलें....

पंढरी ताचे लागी गेलो तशें ताणे आपलें तोंड वयर करून पळयलें पूण पंढरीच्यान आपल्या पुताच्या नदरेक नदर दिवपाक जायना जालें.



# वृत्ती प्रवृत्ती

फ्लॅटांतल्यान गुरूनाथ सकाळी फुडें आपल्या घराकडे पळयतालो. तें अर्देच बांदलेलें. घर बांदपाक सोपें पडचें म्हूण ताणे आपल्या घराच्या सुवाती कुशिकच्या बिल्डींगेतलो एक फ्लॅट भाड्याक घेतलेलो. आनी आपलें बिराड थंय हालयल्लें. फ्लँटांत येवन देड वर्स जावन गेल्लें. घराच्या बांदकामालागी रावूनय बांदकाम फुडें वचनासलें. आपूण रिटायर्ड जावच्या पयली आपणे बांदलेल्या घरांत आपले बायलेक घेवन घरांत रावपाक वतलो अशें तो येवजितालो. पूण गेल्या चार म्हयन्या पयलीच तो हेडमास्तर म्हूण रिटायर्ड जाल्लो. घर बांदून जावना वयल्यान फ्लॅटाच्या भाड्याचे चार हजार रूपया फारीक करीत रावचे पडटा हे खातीर ताचेर पेच येयल्लो.

गेल्या वर्सा सोनू कॉट्रक्टरान तर ताचे तकलेर बरोच हात भोंवडायल्लो. आपलें काम वाडचें हे नदरेन ताका भुलोवन घराचो प्लॅन वाडोवनय घेतलेलो. ताणे काम सुरू केलें पूण तें सवकास गणयल्ल्यावरी जातालें. तो फक्त परत परत पैशे मागून व्हरतालो. घराच्या आल्लोसावयर काम जालेचना. कामा परस ताच्या आंगार पैशे चड पावल्ले. एक दीस आपणाक कंपनीचें व्हडलें काम मेळ्ळां अशें सांगून तो गेलो तो परतून काम करपाक येयलोच ना.

गुरूनाथाचो जागेचो प्लॉट नव्या शाराच्या भार्केटाच्या लागीच आसलो. प्लॉटाच्या मुखार रस्त्या कुशीक मार्केटाचो व्हड्लो कॉम्प्लेक्स उबो जाल्लो. उजवे वटेन व्हडलो वाठार तर कमर्शियल जाल्लो. भुसारी आनी हेर दुकानां, बार्रां, रेस्टारेंटां, बँको, फार्मसी आनी वेगवेगळें शोरूम जाल्लें. गेल्या तीन चार वर्सां साकून लोकांची नदर तांच्या प्लॉटाचेर आसली. ती सुवात तो विकता

कांय म्हूण खूब लोक सुलूस घेताले.

एक दीस तांचो सोयरो एका भायल्या गिरायकाक घेवन ताच्या बिराडार आयलो आनी म्हणपाक लागलो, ''तुमी तुमची सुवात विकता जाल्यार हांवें गिरायक हाडलां.'' त्या बरोबर गुरूनाथ ताचेर उसळ्ळो आनी आपल्या वक्लांतल्यान रोखून पळयत ताणे विचारलें, ''तुमकां कोणे सांगलां, हांव ती सुवात विकपाचो आसा म्हूण? आनी वयल्यान गिरायकूय हाडलां? व्वा, तुमकां खबर ना म्हाकां थंय घर बांदपाचें आसा तें.''

सोयरो म्हणपाक लागलो, ''तशें न्हय. सुवात विकल्यार बरो दर मेळटलो. दोबराद पैशे मेळूं येता. तेन्ना गुरूनाथान म्हळें,'आं, आनी तुवें गिरायक हाडलां हेखातीर तुका चौपट कमिशन मरे? तूं आमचो सोयरो आसून लेगीत फाटी तुवें हे जागे खातीर म्हजे कडल्यान खुबूच कमिशन खाल्लें.''

''म्हजो धंदो तो.'' अशें उलोवन तो हॅ हॅ करून हांसलो आनी सांगपाक लागलो, ''पळय हो जागो विकून तुमी दुसरो जागो सवाय भितर घेंव येता. तुमकांच फायदो जातलो. तुमी तर दोगांच.'' हे आयकून गुरूनाथाक तिडक मारली. ताणे तापून म्हणलें, ''आमी दोगांच आसली म्हूण आमकां रावपाक घर नाका? सदाच भाड्याच्या घरांत रावपाचें? मरपाक तरी आमकां आमचें घर नाका? आमकां भुरगीबाळां नात म्हूण तुमी सोयरीधायरी ताळयो पेट्टात. खावगे खंयचे.'' तो तापलो तें पळोवन दोगूय वोगीच रावले. इतल्यान गुरूनाथाची बायल विणामाई च्या घेवन किचनांतल्यान सालांत आयली. आनी तिणे ती तांच्या मुखावयल्या ल्हान मेजाचेर दवरली. तांका च्या पियेवपाक सांगलें. नाका नाका म्हणून ते वचपाक उठले. तितल्यान गुरूनाथान तांका परत बसपाक सांगलें आनी च्या पियेवपाचो आग्रो करीत सांगलें, ''तुमी च्या पियात आमकां आमचें सोयरेपण आनी लागणूक सांबाळपाक जाय.''

मागीर ते मोन्यानी च्या पियेले.

ते गेल्या उपरांत आपल्या मनांत येयल्ले विचार ताणे विणामाईक सांगलें, ''जाणा मगो, सोयरे धायरे सगळे फट. सगळे सुवार्थी.''

ते बराबर विणामाईन प्रश्न केलो, ''तुमी म्हण्टा हें? तुमी तर आपल्या सोयऱ्यांखातीर खूब खूब केलें.''

''हय. खूब्ब केलें. पूण आतां तांचेकडल्यान वेगळे अणभव येतात. आमकां भुरगेंबाळ ना हे खातीर आमचे फाटल्यान आमचें सगळें तांका मेळटले अशे तांका दिसता.'' ताचें आयकून विणामाई बरीच वगत मोनी कशी जाली. मागीर आपले मन ल्हव करपाक ती फुडें उलोवपाक लागली.

''तुमी वेवसायान शिक्षक आनी मनानय शिक्षक. आनी हांवय तुमचे सांगातान तुमचे भाशेन जाल्यां.''

''तेंय खरें. हांवें मात सुवार्थ पळयलोना. विद्यार्थ्यांक मनांतल्यान शिकयले. ते फुडे सरचे. तांच्यांत बरी वृत्ती येवची म्हूण वावुरलों.'' ताणे आपल्या पिकलेल्या केसांचेर हात भोंवडायत म्हणलें.

''तुमचे लागचे मनीस तुमच्या सभावाचे जालेना. आनी पयशिल्ले दुसरे मनीस तुमच्या सभावाचे जातले, अशें तुमकां दिसता?'' असो प्रश्न हेडमास्तराकूच घालून आपले धवे साडयेचो काळे देगेचो पालव सांबाळीत ती रांदचे कुडीत गेली.

दुसऱ्या कॉंट्रक्टारान घराचें पुराय बांदकाम करून दिवपाचें उत्तर दिलें. केशव कॉंट्रक्टर बेगीन घरां बांदता अशी ताची नामना आसली. ताणे आल्लोसावयर वण्टीचें बांदकाम करून तीन म्हयन्या भितर स्लॅब घातलो. पूण तें बांदकाम बरें करूं नासलें. ताणे तें घाई गडबडीत केल्लें. सामान बरें वापरूं नासलें. काम बरें जावना म्हूण गुरूनाथ नाराज आसलो. ह्याय कॉंट्रक्टरान आपल्याक फटयलो अशी ताची धारणा जाली. आपणे ताका आनी ताच्या कामगारांक बरें केलें. आपूण तांचेकडे मनीसपणान वागलों. पळोवंक गेल्यार आपूण सदळ रावलो, कडक रावलोंना अशें ताका दिसपाक लागलें. कामगारांक कॉंट्रक्टर पैशे उणे दितालो तेन्ना आपणे कामगाराक पैशे सारके मेळटा कांय ना तें पळयतालों. पैशे कमी दिल्यार आपूण तांका वाडोवन दितालों, तांचे गरजेक पावतालों. दनपारच्या वेळार तर कामगार आनी तांच्यो बायलो विणाकडल्यान जेवणखाण मागून घेताल्यो. ह्या फुडे सदळ रावप ना अशें ताणे थारायलें.

एक दीस कॉंट्रक्टर येतकूच ताणे ताका समजावन सांगलें. पूण ताणे तें व्हडलें मनार घेतले ना. स्लॅबाचें काम जाल्या उपरान्त केशव कॉंट्रक्टराक सुबेज पैशे पावल्ले. स्लॅब घालून थोडे दीस वचूं दी अशें सांगून तो दुसरें काम करपाक गेलो. म्हयन्याभरांत फळयो, मुंडे काडून ताणे ते दुसऱ्या कामाच्या थळार व्हेले. तेन्ना कॉंट्रक्टराचो थंय रावपी विस्वावी कामगार दोडाप्पा आनी ताची बायल मालती थंयसून गेलीं. कामगाराचें तें जोडपें चार म्हयनें प्लॉटातल्या खोपीत रावल्लें. दोडाप्पाची बायल मालती विणामाईच्या बिराडांतलें काम केन्ना केन्ना करताली. ती तिका माई म्हूण पाचरताली. कामगाराच्या त्या जोडप्याच्या लग्नाक तीन वर्सा जाल्ली तरी भुरगें जांव नासलें.

एक दीस मालती ओंक ओंक ओंकता तें पळोवन विणामाई तांचे खोपीकडे गेली. काळीसांवळी दांडगी मालती गळसणून गेल्ली. ती मेडीक तेकून बसलेली.

विणामाईन हळू आवाजांत विचाल्लें,

''मालती कितें जालां गो?''

मालतीच्यान उलोवंक लेगीत जायनासलें. तरी तोंडार हांशें हाडीत सांगलें, ''माई, म्हाका दीस गेल्यात.''

''बरें मगो तूं. म्हाका सांगलेनाशें?''

''हांव आयजूच तुमकां सांगपाचें.'' तिणे प्रामाणीकपणान सांगलें.

''बरी गजाल जाली. तुजे दुवाळे खर जातले दिसता.''

मालतीन मान हालोवन हय म्हणलें. अनवळखी प्रांतांत आपली वासपूस करपी कोण तरी आसा हेखातीर तिका बरें दिसलें. आनी पुराय खोशी तिच्या दोळ्यांतल्यान लिकलिकली. बरेच दीस मेरेन मालतीक कितें जाय तें तें विणामाई खोपीत हाडून दिताली.

दुसऱ्या कामाच्या सायटीर वतना ती दोगांय विणामाईक आनी गुरूनाथक मेळपाक आयली.

''तुमी परतून येतली मरे?'' गुरूनाथान विचारलें.

''हय पात्रांव, आमी येतलीं. तुमच्या घराचें काम उल्लां न्हू.'' दोडाप्पान विश्वासान सांगलें.

''आमी कॉंट्रॅक्टराक सांगतली, आमकां तुमच्या कामाक धाडपाक.'' मालतीन दोडाप्पाच्या सांगण्याक आनीक बळ दियत सांगलें.

विणामाई हांसली आनी तिणे यादीन सांगल्लें, ''दोडाप्पा मालतीक चड काम करपाक दिंव नाका. तिका सुशेग जाय. तिची काळजी घे.''

स्लॅब घालून तीन म्हयने जाल्ले तरी कॉंट्रॅक्टरान फुडल्या कामाक हात घालूनासलो. तो वेळ काडटा हाची गुरूनाथाक खातरी जाल्ली. ताणे रकाद धाडून फुडलें काम करपाखातीर ताका आफयलो.

तो येतलो म्हूण गुरूनाथ सकाळसावन वाट पळयतालो. तसेच तो नव्या घराच्या बांदकामाकडे दोनदां वचून आयल्लो. घराच्या जनेलांक कासलेटी, ग्रील्स लावन सिमेंटाचो प्लास्टर काडपाचो आसलो. टायल्स घालपाचे आसले. हें सगळें करता म्हणसर आपणाक कोण कोण खावन उडतले कांय? असो प्रस्न ताका पडलो. आतां आपणे दोळे धांपून रावन उपकारना. कडक शिस्तीन रावपाक जाय. हिशेब करून रक्कम फारीक करपाक जाय. हिशेब आनी वेवस्थापन नासत तर आपूण शेणटालों अशे ताका चितून आयलें. इतल्यान दाराची बेल वाजली. सडसडीत उटून ताणे दार उगडलें. चाळीस वर्सां पिरायेचो केशव कॉंट्रॅक्टर भितर सरलो आनी ताणे म्हणलें, ''गुड मॉर्निंग सर.''- गुरूनाथानय गुड मॉर्निंग

म्हणले आनी बसपाक सांगून फुडें प्रस्न केलो.

"केन्ना काम सुरू करता?"

"करूंया फुडल्या पंद्रशीत." ताणे गणयत म्हुटलें.

"फुडल्या पंद्रशीत कित्याक? फाल्यांच सुरू कर."

"दुसरीकडे काम चल्लां सर."

"तशे जाल्यार येत्या त्या सोमाराक...."

"बरें सर. पूण ॲडव्हान्स जाय पडटलें. रेंव, सिमेंट हाडपाक आनी कोणा कोणाक दिवपाक जाय. आयज तीस हजार रुपया तरी ॲडव्हान्स जायच."

काम जावपाक जाय. चड लांबणेर घालून उपकारचेंना हें येवजून ताणे बायलेक उलो मारून तीस हजार रूपया हाडपाक लायले. च्या पियेवन जातकच ताणे केशवाक ॲडव्हान्स दिले. मागीर ते दोगूय सकयल बांदकामाकडे फुडलें काम थारावपाक गेले. खंयचे खंयचें काम सारकें जावना तें ताणे ताका सांगले. आपलें सांगणे ताचे कामगार आयकना, तेन्ना ताणे फुड्यांत रावन काम करून घेवपाक जाय अशें ताणे फर्मायल्लें. फाटलें एक काम इंजनेरान सांगलां तशें जावना म्हूण तें मोडून परत बांदचें पडलें हाचोच उगडास ताणे ताका करून दिलो.

काँट्रक्टर गेल्या उपरांत तो वयर फ्लॅटांत आयलो. ताका दिसलें आपूण आयज जितलो कडक, निबर रावपाक जाय आसलों तितलो रावलोना. हिशेबापरस सुबेज पैशे पावल्ले तरीय ताका ॲडव्हान्स चडूच दिलें. आपूण ताका मुद्दाम भरयतां. फाल्यां तो हातूच गिळटलो. आतां जालें तें जालें. फुडें अशें जावपाक जायना, अशें ताणे आपणाकूच परत शिटकायलो.

सांजवेळा लागच्या मार्केटांतले दोग वेपारी हांसत्या मुखान आयले. बसतां बसतां ताणी वळख करून दिली. एकटो बार आनी रेस्टारंटाचो मालक आनी दुसरो हार्डवेअर दुकानाचो मालक आसलो.

"तुमचें घर आजून बांदून जायना अशें आयकल्लें? कितें डिफिकल्टी आसा?" एकट्यान आपले आशेचे दोळे ताचेर भोवडायत म्हणलें.

"ना ना. तशें कांय ना."

"आमी तुमच्या लागच्या मार्केटांतले. म्हुणून म्हुटलें चवकशी करूंया." दुसऱ्यान पोटांतलें ओठांत ना हाडटां म्हणलें.

"तुमी तुमच्या सुवातेत शॉप कित्याक घालीना. शॉप घातल्यार बरें गिरायक जावपाचें." पयल्यान ताकाचो गाडगो लिपयत म्हणलें.

"शॉपबीन घालपाचें म्हज्या मनांत ना. म्हाकां तें आवडना."

हे जापेन ते दोगूय जाण हांसलें आनी ते ताका ह्या नव्या काळांतलो मूर्ख अशें समजपाक लागले.

''तुमी घालीना जाल्यार ती सुवात तुमी कोणाक विकती दिता व्हय?'' दुसऱ्यान लजभीड न धरतां विचारलें.

''ना ना.''

''पळयात, विचार करात तुमी. दिता जाल्यार हांव हांगां बार्र घालपाक सोदतां.''

''बार्र? ना. बार्राक जाल्यार हांव दिवचोंच ना. हांव घर बांदता, म्हाकां रावपाक.''

''तुमकां रावपाक दुसरेकडे पळोवया. जाता जाल्यार भागिदारीन करुंया.'' दोगूय जाण वांटपणा केल्ल्यावरी उलयले. आनी आपल्या उलोवण्याक खेट कशे दसून रावले. तेन्ना गुरूनाथान ताका समजणी दिवची ह्या विचारान व्हडल्यान म्हुणलें, ''सोऱ्यांचे बार्र हांवें भागिदारीन चलोवचें म्हूण म्हाकां शाणपण तुमी दितात. पळयात, म्हाकां तें मानवना. म्हाकां हें सांगपाक तुमकां कशें पुटवता कांय म्हण्टां. हांवें थारायलां, हांगा घर बांदून रावतलों आनी उरलेले जिवीत हांगा घराकुशीक फुलांची, फळांची झाडां वाडयत सारतलों. म्हाका तुमी आनीक त्रास दिंवनाकात.''

ते दोगूय वेपारी गेले. मागीर तो आपणाकडे बडबडल्यावरी उलोवपाक लागलो. हे सगळे लोक शॉपकिपराचे वृत्तीचे. आपल्या धंद्यांतल्यान एकामेकांक खातात, फटयतात. दुसऱ्याक कापून ते पोटां भरतात.... बंगले बांदतात.... गाडयो घेवन भोंवतात हें सगळे करतात दुसऱ्यांच्या खुस्तार....

ताणे मार्केटांतल्या दुकानाकडे पळयलें आनी परत म्हणलें, ''ही दुकानां म्हणजे सगळे पांदरे... सगळ्यांनी आपापले झगझगीत पांदरे लायल्यात आनी तातूंत कोण सांपडटा कांय म्हूण ते शिकारी कशे तेळीत बसल्यात. सांपडटा ताचे मूंड कापताच कापता... आनी लूंड करून उडयता कोब्यांभाशेन...''

तीन कातरेची वेळ जाल्ली. इतल्यान भायल्यान कोणेतरी उलो घातलो. ''पात्रांव हांव येयलां. हांव दोडाप्पा.'' विणामाईन दार उगडून दोडाप्पाक भितर आफयलो. काळो लांबरूंद मानाय पूण ताचे धतरिवयले पांय थरथरताले. कपलाचेर मिरयो घालीत तिणे ताका विचारलें, ''कितें जालें?'' ताणे भियेतच सांगलें. ''माई, म्हाका वळखता न्हय? आमी तुमच्या घराच्या बांदकामाकडल्या खोपींत रावतालीं.''

''जाणा रे... सांग फुडें.'' तिणे उमळशिकेन म्हणलें.

''माई म्हजी बायल मालती बरीना. तिच्या आंगार तांबडें जाता. ... तिका दोतोराक दाखयल्या. तिका दिसूय गेल्यात....''

''हां हां, सांग. तिका दीस गेल्यात तें हांव एका म्हयन्या पयली जाणा.''

''दोतोरान सांगलां तिका बेगीन इंजेक्शनां आनी वखदां दिवपाक जाय. म्हजेकडे वखदां हाडपाक पयशे ना. तिका दोतोरागेरूच बसयल्या.''

''कितले पैशे जाय?''

''फकत दोनशें रूपया.''

इतल्यान कोण आयला तें पळोवपाक गुरूनाथ भायर आयलो. तिणे ताका म्हळें, ''दोडाप्पाक वखदाक दोनशें रुपया जाय. ताची बायल चड बरीना.''

''सगळेंच आमकांच खावपाक येता. आरे तुजो कॉंट्रक्टर आसा न्हय रे. ताणे तर सकाळीच पैशे व्हेल्यात म्हजे कडल्यान. तूं ताचे कडल्यान घे.'' बेजारून ताणे म्हळें.

''पात्रांव कॉंट्रक्टरसायब हांगासून खूब लांब रावता. आतां तो खंय आसा कोण जाणा? म्हाकां तर आतांच गरज आसा. उपकार करून तुमी दियात पात्रांव.''

''तुकां हांव कसो दितलों? म्हजो तुजेकडे कसलो संबंद. तूं कॉंट्रक्टराक सोद. सगळेच खावपाक उठल्यात. काम न करतां पैशे घेवन फटयतात. हांव तुकां पैशे दिवंक शकना.'' हें आयकून दोडाप्पा निरशेलो. विणामाईक अजाप जालें. सगळ्यांक पावपी हो मनीस अचकीत असो कसो बदल्लो? ती कुवाड्यांत पडल्यावरी उबी रावली. इतल्यान दोडाप्पा भायर सरुनय गेलो.

तिच्या दोळ्यांत दुकां भरली. मालतीच्या उपचाराक पैशे मेळूनात हे विशी तिका दुख जातालेंच. पूण हे जाण्टे पिरायेत आपलो घोव, असो कसो वागलो हाचे तिका चड वायट दिसतालें. तिच्या दोळ्यांतल्यान घळघळ करून दुकां व्हांवली. गुरूनाथ आपल्याच वागण्यान नाउमेद जाल्लो. तेन्नाच ताणे आपले बायलेच्या दोळ्यांतल्यान घळघळपी दुकां पळोवन तो थतरवितर जालो. ताणे तिका विचारलें, ''कितें जालें? तूं रडटा कित्याक?''

''दोडाप्पाची बायल मालती चड बरी ना. ती फाटल्या दिसांनी आमगेर येवन काम करताली. तिका दिसवडो दिलाच पूण तिका आतां हे घडये आमी पावपाक जाय. तिका दिसय गेल्यात आनी अश्या नाजूक वखतार तिच्या आंगार तांबडे जाता !''

हे आयकून तो शेळेलो. मागीर ती फुडें उलयली, ''तिचे जाग्यार हांव आसली जाल्यार तुमी किदें करपाचे?'' तिच्या ह्या प्रस्नान ताका धक्को बसलो.

आपणे आपली वृत्ती सोडली हे खातीर ताका खंत भोगली. तो लुळो कसो जालो. जमनीर उबो रावपाक आपल्याक नेट मेळना अशें ताका दिसपाक लागलें.

''म्हजो शर्ट दी. हांव ताका पैशे दिवपाक वता. ताका हांव सोदतां.'' ताणे घाईन म्हणलें. तिणे ताका ताची मुस्तायकी दिली. ताणे आपल्या बोल्सांत सात-आठशें रूपया घातले आनी तो सडसडीत सकयल देंवलो. दोतराकडे वच्चो कांय फार्मसीकडे वच्चो? असो ताका प्रश्न पडलो. पूण ताचे पांय बाजारांतल्या फार्मसीकडे वळ्ळे. बाजार भरलेलो. बार्रा, रेस्टारंटां रातची चकचकतालीं. पसरे गाडे बीन सगळे उक्ते आसले. दोडाप्पाक सोदपाक तो त्याच झगझगीत बाजारांतल्या फार्मासीकडे बेगिबेगीन वचपाक लागलो.



# तन्ने तन्ने खीण

सांजसांवळेन घुस्पल्लो सुमार स वरांचो वेळ. वझरबागेतल्या आबाच्या घरांत किण्ण शांतताय पातळलेली. इतल्यान घरांतलो कोनश्याक दवरलेलो टेलिफोन वाजलो. खूब दिसांनी कोणाचो तरी टेलिफोन आयला म्हूण जाण्ट्या आबाक आनी शांताईक उमेद जाली. केन्ना केन्ना अमेरिकेक आसलेल्या विनयाचो फोन चड करून रातच्या वेळा येतालो. शांताई तर आपल्या पुताकडे बरोच वगत उलयताली. ताचे अमेरिकन बायलेक घेवन एक दीस घरा यो म्हूण ती दर फावटी ताचेकडे पराथताली.

शांताई आनी आबा दोगूय जाणा टेलिफोनाकडे बेगिबेगीन पावलीं. आपल्या घोवान फोन घेवचो हे खातीर शांताई फाटीच रावली. आबान उमळशिकेन फोन उखल्लो. फोनावयल्यान विनयाचो इश्ट सूरज उलयतालो. 'आबा, फाल्यां आमच्या वरूणाचो पयलो वाडदीस.' 'फाल्यां वरूणाचो पयलो वाडदिस! व्वा!' अशे पर्थून उद्गारताना खोशेन आबाच्या गालावयल्यो मिरयो रूंद जाल्यो. मागीर आपल्या हातांत रिसिव्हर तसोच धरून ताणे शांताईक उलो केलो. 'जाणा मगो शांता, वरूणाचो फाल्यां पयलो वाडदीस खंय.' हें आयकून शांताई आपले जाण्टेपण विसरून खोशेन मुरगटली आनी आपलें हांशे लिपोवपाक तिणे आपल्या साडयेचो पदर आपल्या तोंडाकडे व्हेलो. सूरज फुडें टेलिफोनाचेर उलोवपाक लागलो. 'तुमकां दोगांकूय वाडदीसाक आफोवपाक आमी तिगाय जाणा आतां अर्दवरान तुमचेकडे येतली.'

'आतां फोनावयल्यान सांगल्यार जालें ना? खास आफोवपाक येवंक जाय?'

हें आयकून शांताईक दिसलें, आपलो घोव हें आनी किदें सांगता. येता जाल्यार येवंदी तांका. वरूणाक आयजूच दोळेभर पळोवंक मेळटलो. सूरज मात्सो आडखळलो. पूण तो फुडें उलोवंक लागलो. 'तशे न्हय. फोनार सांगचे परस प्रत्यक्ष मेळून आफयल्यार बरें न्हय.' हें आयकून आबा चड खोशी जालो. आनी ताणें म्हटलें, 'हय तर, सामकें बरें. तुमी वरूणाक घेवन येयात.'

'बरें आबा. आईक सांग.'

'बरें' अशें सांगून आबा उत्तेजीत जावन रिसिव्हर सकयल दवरताना ताचो उजवो हात मात्सो कडकडलो.

एका वर्साचो माणकुलो वरूण आपल्या घरा रोकडोच येतलो म्हूण दोगांकय खोशी जाली. आपल्या घराफाटल्या दोंगराच्यो बंद जाल्ल्यो झरी पावसांत परतून उमाळ्ळ्याभाशेन आबाच्या जिवाक जालें. गेल्या वर्सा तें माणकुलें बाळक आपल्या घरांत आयलें तेन्ना आपल्याक खोशेच्यो झरी फुटल्याभाशेन जाल्लें आनी ते खोशेन फाटलें एक वर्स बरें गेल्लें. जाण्टे पिरायेत दुयेसां जातालीं तीं गेलें वर्सभर जावकूच नासलीं. म्हातारे मन उमेदीत जाल्लें आनी म्हातारे कुडीक कोंब फुटलेलेवरी जाल्लें.

तें तन्ने बाळक आनी ताची तन्न्या आंगाची आवय कुंतल फकत स दीस तांगेर आसलीं. सुक्या सड्यार पावस घोग्यांनी शिंवरचो तशे आवय-पुताच्या येवपान तांचे जिवीत आनंदान भरून गेल्लें आनी जिवीत नवेताळ्ळ जाल्लें. मनाचेर जाल्लो परिणाम आपल्या पुराय कुडीचेर आनी जिविताचेर जाला, आपूण आनीक पांच वर्सां तरी चड जगतलों आनी तेय बरे उमेदीन जगतलों अशें ताका दिसलें.

मात्शा वगतान ताका दिसलें खंयचो कोण हो आडयाळो पावस, पूण आपल्या रखरखीत जिणेचेर शिंवरलो आनी आपल्या जिविताच्या मातयेपोंदची असंख्य बियां किल्ललीं.... मागीर ह्या विचारान ताका आपली फाटली याद येवपाक लागली.

आपलो विनय, आपल्या रगताचो एकलोच पूत. तो आयटी इंजनेर जावन अमेरिकेक गेल्लो. अमेरिकेतसून तांकां मेळपाक वर्सांतल्यान एकदां तरी येतालो. उपरान्त अमेरिकन चलयेवांगडा लग्न जातकूच ताचे येवप सामकें कमी जाल्लें. कांय वर्सांनी तो तर थंय स्थायीक जाल्लो आनी गेल्या दोन वर्सांत तो घराय येवंक नासलो. ताचे बायलेक भुरगे जावचे म्हूण इंटरेस्टच नासलो, हें विनयाकडल्यान कळटकूच तांका सोसूं नजो असो धक्को बसलो. आपले येदे व्हडले मठयेत भुरग्यांचे पाळणे धोलचें ही तांची इत्सा झिरझिरून गेली.

आबाक आनी शांताईक आपले जिणेचो वाज येवपाक लागलो. वझरबागांतले तांचे व्हडले घर. घराक कितल्योश्योच रितो कुडी. घरांत फक्त

दोन मनशां. भुरगीबाळां आसल्यार घर भरपाचें. शांताई भुरग्यांक आशेल्ली आनी आबा तर ल्हान भुरग्यांचे आशेन पिसो कसो जाल्लो. निमाणी ताका कळून आयल्लें, म्हातारी मनशां भुरग्यांच्या जल्मांत आपलो जल्म पळयतात आनी मागीर आपल्या मर्णाचे वजें तांका ल्हवपीक जाता. पूण आपल्या जिवितांत ताच्या उरफाटे जालां. आपलें जिवीत आनी मर्ण अदीक जड जालां.

तांचे घर गांवांतल्या घरांसावन पयस आसलेल्यान गांवची भुरगी थंय पावनासली. आंब्या-पणसां वखतार तर झाडावयले आंबे पणस तशेच जमनीर पडून उरताले.

एक दीस वझरबागेंत काम करतां करतां ताची नदर सुकून गेल्ल्या एका झाडाचेर पडली. तें झाड बरें उंच वाडलेलें. त्या झाडाक आपल्या भाशेन साठ वर्सां तरी जावंक जाय अशें ताका दिसलें. तें झाड इल्ले करमेवन बरगेवन वयतालें. त्या झाडाभाशेन आपली गत जाल्या अशें ताका दिसपाक लागलें. आपले फुडले जिणेत कोमरी-आंकरी येवंची ना म्हूण तो निराश जावन गेलो.

बागांतल्या झाडांक तो शिंपतालो. शिंपलेल्या उदकान झाडां पालेतालीं, वाडतालीं, चंवर धरतालीं. तांचे रुतूचक्र चालूच आसलें. आबाचे मन बधीर जाल्ल्यावरी, मेल्ल्यावरी जालें. आनी तांतूतय तांचे कुडीक जाण्टेपणांतली दुयेसां सतावंक लागलीं, तांची कूड पोखरूंक लागलीं.

आबाचे जिणेत येवपी घडणूकेची तयारी त्याच काळांत दुसरेकडे घडटाली. सूरज, कुंतल आनी तांचो भुरगो वरूण हांचेविशी तो चिंतपाक लागलो. सूरजानच केन्नातरी सांगलेली खबर तो आपले जिणेकडे जोडपाक लागलो.

सूरज आनी कुंतल हांचो एक वर्ससावन मोग चलतालो. तो सूरजाच्या घरच्यांक पसंत नासलो. कुंतल सोबीत आसली तरी गरीब आनी सकयल्या जातीतली आसली म्हूण घरच्यानी पयली विरोध केल्लो. तांतूत भर म्हूण लग्न जावच्या पयली कुंतलाक दीस गेल्ले, हे खातीर सूरजाची घरचीं मनशां कुंतलाक पापी लेखतालीं. दोगांयच्या लग्नाक निमाणी तांका मान्यताय दिवची पडलेली. पूण रोकडेच स म्हयन्याभितर कुंतलाचो बांळटेर तेकलेल्यान ती सामकी नाराज जाल्लीं. लोकांमदी तांका लज जातली म्हूण तीं भियेतालीं. बाळंतपणांतली आफूडभश्ट ती मानतालीं. बाळंतपणाक तांका आवयगेर धाडपाची शिटकावणी ताणी सुरजाक दिल्ली पूण तीय आपल्याक कांयच लागना अशेतरेन वागपाक लागलेली. सूरज आनी कुंतलाचो दोनय वटेन घुस्पट जावपाक लागलो. तातूंत बाळंतपणाचे दीस लागी पावले तशे सूरजान ताका सरकारी हास्पिटलांत अडमीटय केल्ले...

गेल्या वर्सा भर दनपारचो आबाच्या घरांतलो फोन वाजलो. शांताईन

बेगिबेगीन फोन उखल्लो. पूण कोण उलयता ताका ती वळखलीना. तिणे आपल्या घोवाकडे फोन दिलो. आबान फोन कानाक लायलो आनी लक्ष दिवन आयकपाक लागलो. 'आबा, हांव सूरज, विनयाचो इश्ट.'

'हां सांग.'

'आबा म्हाका चलो जाला. तीन दीस जाले. सरकारी हॉस्पिटलांतल्यान आतांच डिस्चार्च दिला. भुरगें आनी ताची आवय हॉस्पिटलाच्या दारांतच आसात. बायलेक आनी भुरग्याक म्हज्या एका इश्टाच्या घरा व्हरपाचो आसलो पूण आतां तांच्या घराकडे वेवस्था जावचीना अशें तो म्हण्टा. म्हजे घरची म्हजेर आनी म्हजे बायलेचेर बरीना. तशेच ती बाळंतपणातली आफूडभश्ट मानता.' हे आयकून आबाक खटकलें. तो मदीच उलयलो.

'आफूडभश्ट खंयचे? नव्या जल्माकडे आफूडभश्ट? ती तर पवित्र आनी मंगल घडणूक. तशेच भुरगें हे तर देवालें देणे. जशें मळबांतल्यान पावस पडप वा भूयेंतल्या बियेक कोंब फुटप.'

'आबा ती पोन्या विचारांची आनी पोन्ने रितीची मनशां. तशेच बायलेच्या घरची तशीच अडचण.... आमी भुरग्यांक घेवन तुमगेर येवक सोदतां... स-सात दीस फक्त....'

'तुमी भुरग्याक घेवन येता मरे. यो यो, बरेभशेन यो. आमकां खोशी आसा. योच तूं. शाताईकय उमेद जातली.' अशें सांगून रिसिव्हर दवरलो. आनी शांताईक उलो करून सांगपाक लागलो, 'जाणा मगो शांता, विनयाचो इश्ट सूरज आपले बायलेक आनी तीन दिसांच्या भुरग्याक घेवन हॉस्पिटलांतल्यान थेट आमगेर येतलो.'

'अशेंऽ, आमची मदली कूड हांव निवळ करतां.' अशें म्हणून तिणे बादली भरून उदक हाडलें. आबान त्या उदकांत डेटॉल घातलें. मागीर दोगांयनी मेळून ती कूड पुसून निवळ केली, जशें कांय थोड्या वेळान चवथीचो गणपती येवपाचो आसलो. कुडींत निवळ खाट दवरली. तिचेर कुलच्यांव घालून वयर बेडशीट पसरायलें. निवळ उशीं आनी चादरी दवरल्यो. उपरांत दोगांय दोळे लावन तांची वाट पळोवंक लागली.

कार येवन गेटीकडे थांबली. दादलो आनी एक बायल ल्हान भुरग्याक पोटाकडेन धरून देवलीं. गाडयेतल्यान देवल्लो दादलो तसो तांच्या वळखिचो नासलो. आपल्या पुताकडे ताणी इश्ट म्हण वळख दाखयल्ली तितलीच. भुरग्याक घेवन उबी आसलेली धवे साडयेतली बायल तर तांच्या वळखीची न्हय. तशें पळोवंक गेल्यार न्हय सून, न्हय धूव वा न्हय कोण सोयरी. ते बायलेन धरलेलें

भुरगें चलो कांय चली तें तांका खबर नासलें. तशेच तें भुरगें तांचें कोण? नातू-नात कांय, तांचे सोयरें? तो इतले अजाणतां चित्ता थंय आसलो. मागीर ताणे उलो मारलो, 'शांता, ती आयली. बेगीन यो. शांताई नक्शेची पांचवी साडी न्हेसून केसांचो आंबाडो आनी तांबडो कुंकूम लावन तयार जाल्ली. तिणे शिताचें मुठलें आनी हळद पिंदरीचें राट तयार करून दवरलेलें. मुठलें आनी राट हातांत घेवन ती घराच्या हुंबऱ्यार रावलीं. आबा गेट काडून खोशेन तांका भितर आफयतालो. सूरज आनी कुंतल त्या माणकुल्या भुरग्याक घेवन आंगणांत आयली. ताणी आपल्या भुरग्याक धव्या तुवाल्यांत गुठलायल्लो. ताच्या माथ्याक धवेंच तोपरें आसलें आनी तें आपल्या दोळ्यांनी बिटीबिटी करून पळयतालें. ताच्या पांयाक मेये नासले. दोनय पावलां उक्तीच आसलीं. तें आपले धाकटुले पांय घराक लायतलें हे भावनेन आबाक उमेद जाली.

शांताईन भुरग्याचे आवयक दारांत उबी रावपाक सांगली. माथ्यावयल्यान पदर घेवपाक सांगलो आनी तिणे मुठलें आनी राटान भुरग्याक उंवाळ्ळें. तें पळोवन आबाक आपल्या घरांत सृजनाचे सुवाळे चल्लेल्यावरी दिसलें. आपले बायलेन भुरग्याक उंवाळून ताच्या मुखामळार उदक फाफुडलें ते पळोवन तर आबाक आपल्याच आंगापांगार कोण तरी अमृत शिंवरायता अशें दिसलें. शांताईन तिचेकडले तें भुरगें आपलेकडे घेवन घरांत व्हेलें. आपलें घर आयज भरलां, समृद्ध जालां अशी भावना आबाच्या मनांत जाली. ताच्या मनांतली पोकळी भरून गेली. आपपरच्या भावने पलतडी तो पावलो. स्वर्गीचो आनंद आनीक दुसरें कांय एक न्हय तर होच आसूक जाय, अशें ताका दिसलें. आपल्या जिणेत, आपल्या शांताच्या जिणेत आनंद दिवपी पवित्र, मंगल असो होच खीण आपूण आपल्या जिणेत सोदतालो, तो गावलो म्हूण तो धादोसलो. तें तन्ने तन्ने बाळक पळोवन तांच्या म्हातारे कुडीतल्यान उबे उमेदीचें रगत व्हांवल्यावरी जालें... चेतना आनी चैतन्य जिणेत मेळ्ळ्यावरी जालें. सगळे विसरून तो खिणभर ते धादोसकायेन शिरशिरून गेलो.

सदाच सकाळी शांताई त्या बाळकाक तेल रगडून लायताली. उपरान्त हूनहून उदकात घुस्सा करताली. ताची आवय कुंतल ताच्या आंगार उदक घालताली. भुरग्याक न्हाणयताना पळोवपाक आबा थंय वावुरतालो. हून उदकांत आबा आपली पांचय बोटां बुडयतालो आनी आपल्या शिरंतरांतल्यान हुरहुरी अणभवतालो. भुरग्याक पुसतकच ताका धुपांत धरतालीं. धूप आनी धुपाचो वास घरभर जातलो. धुपाचो वास आबाक येतकच तो भुरग्याक धुपायता थंय लागी वतालो. शांताईन तर ताका हांगा कित्याक येता अशें विचारून ताका वचपाक

लेगीत सांगलेले. पूण तो भुरग्याचे सुसूले कशें करता तितलेंय दोळ्यांनी पळयतालो. शांताई बाळकाक पोव लायतना आबाय ताच्या मोव गालांक पावडर लावपाचो वोगीच यत्न करतालो. आबाचोय हात पोवान आनी ताच्या परमळान भरताले. बाळकाक पोव लावन कपड्यांनी घट्ट गुठलावन ताका न्हिदयताना मात तो थंयसून कडसरतालो.

बाळतिणीखातीर घरांत मेथये पेज, मेथये लाडू, नुस्त्याचे वेगवेगळे जिन्नस शांताई रांदताली. बाळतिणी वांगडा गोड मेथये पेज जेवपाक आबाकय रूच आयली. शांताई तर खंयच्याय वखतार आल्लयो गांवक लागली. बारश्यादीस पाळण्यांत घालपाचे पूण ते पयलीच शांताईचे तन आनी मन पाळण्यागितांवांगडा धोलपाक लागलें. आबाय ती गितां आयकून धोलतालो आनी ती आपणय गुणगुणटालो. केन्ना भुरग्याक धरून आपले लांब नाक ताच्या मोव मोव गालाक तेकयतालो. ताच्या ल्हान ल्हान दोळ्यांक तशेच गालाक लायल्ल्या लाशे कश्या काळ्या काजळाच्या तिब्याक तो पळयत रावतालो.

दीस रात ताच्या रडपांत आनी आवाजांत घर भरतालें. मदी मदी वा तो रडटकूच ताची आवय ताका दुदाक धरताली. दूद पियेवन तो सुस्तेतालो आनी बरोच वगत वोगी न्हिदतालो. स दीस ल्हान भुरग्याच्या अस्तित्वाचे उप्पाट सूख आबाच्या घरान अणभवलें.

आबा जाणा आसलो, सूरज भुरग्याच्या जल्माक णव दीस जातकूच धाव्या दिसा आपल्या भुरग्याक सानजुंव्यावयल्या आपल्या घरा व्हरतो म्हण. तरीय वयर माळ्यार राखून दवरलेले विनयाच्या भुरगेपणांतलें शिसवी लाकडाचे पाळणें आबान आदले दीस सकयल देवयलें. धुवन निवळ करून दवरलें. आपल्या घरांतच ताचो बारसो करचो आनी पाळण्यांत घालचो, ताका धोलोवचो तशेच आपणे सुचयल्लें वरूण नांव ताणी ताका दवरचें अशें आबाक दिसतालें.

धाव्या दिसा सूरजान आपल्या बायलेक आनी भुरग्याक आपल्या घरा व्हरपाक धाकटी गाडी हाडली. तें पळोवन आबा मनांतल्यान निरशेलो पूण भायर दाखयलेंना. तांका पावपाक आपूणय सानजुंव्यार येता अशें सांगून आपूणय तांच्या वांगडा गाडयेत बसलो. गाडी चलताली तेन्ना गाडयेवयर आबान बांदलेल्या पाळण्याच्या ल्हान घुंगरांचो खूळखूळ आवाज येतालो.

सानजुंव्यार सूरजाच्या घराकडे गाडी थांबली. थंय आशिकुशिक बरीच घरां आसली. सूरज आनी कुंतल आपल्या भुरग्याक घेवन तांच्या घराभितर सरली तरी सूरजाचे आवयन आनी बापायन उमेद दाखयलीना. तांच्या घरांत नवो भुरगो आयला म्हूण खोशी जावची सोडून ते वेळा तरी आपल्याक कसलेंच सुवेर

नासलेल्यावरी ताणी निर्विकार तोडां केल्ली. हें पळोवन आबाक वायट दिसलें. ह्या लोकांची मानसिकता बदललेली तर ती आयज खोशेन आनी उमेदीन भरतली आसलीं अशें आबान मनांतल्या मनांत म्हणलें.

सूरजान आपल्या बायले-भुरग्याक आपले कुडीत व्हरतकूच आबान सुरजाक हात दिलो आनी 'कितें जाय जाल्यार सांग, आमी आसा.' अशें सांगून तो तेच गाडयेतल्यान आपल्या घरा परतलो.

हे गजालीक लागी लागी एक वर्स जावन गेल्लें. सूरज, कुंतल आनी वर्साचो वरूण मेळून तिगाय जाणा तांका वाडदीसाक आफोवपाक आतां रोकडीच येवपाची आसली. वरूण कसो दिसता काय? केदो जाला कांय? आपल्या पायांचेर उबो रावन चलता कांय? आपूण ताका धरतलों आनी ताची उमाबोची घेतलों अशें आबा चित्तालो आनी आपल्या कल्पनेतली वरुणाची म्हूर्त नियाळपाचो यत्न करतालो. तशेच फाटले खीण परत याद करतालो. तें ल्हान बाळक ताच्या घरांत आयले ते खीण उगडास करून फाटलो आनंद मेळयतालो.... नवी चेतना जागयतालो. म्हातारपणात भुरगेपण झोपून घेवपाचो यत्न करतालो... वरूण गेटीकडे येतलो अशें चित्ता थंय आसा ताका तिगांय जाणा दिश्टी पडलीं. सूरज, कुंतल आनी वरूण... केगादाच्या कोराची साडी न्हेसलेल्या कुंतलान गोऱ्या गोमट्या वरूणाक हाण्डीर धरलेलो...

आबान उलो मारलो, ''शांताऽ शांताईऽ वरूण आयला.' धांव घेवची तशी दोगांय घरांतल्यान भायर सरून गेटीकडे गेली. रंगीत फुलांच्या मुस्तायकेतलो वरूण उठून दिसतालो. ताका पळोवन तो गोड हांसलो. शांताईन कुंतलाकडल्यान ताका आपल्याकडे घेतलो आनी घराकडे येताना ताची उमाबोची घेतली. वरुणाच्या तोंडार निरागस हास्य आनी एक सोबीत भुरगेपण फुलतालें तें तोखेत आबा ताच्या म्हऱ्यांत वचपाक लागलो.... ताका जाणवूं लागलें... आतां आपलें जाण्टेपण, आपली पोन्नी जीण नाजावन वयता आनी पयस खंय तरी आपलो नवो तन्नो जल्म जाता... ताका आनीक खोलायेन जाणवूं लागलें....ना, ना... तो जल्म पयस न्हय, तो जल्म ह्या भुरग्याच्या तोंडावयल्या भुरगेपणांत जाता.... आनी सृष्टभर आपल्या जल्माचे सुवाळे चल्ल्यात.

❑❑❑

# पांयजेल

आपल्या धाकट्या पुताक सोयरीक जाल्या म्हूण नानू खोशी आसलो. लग्न जावन घरांत नवी सून येवपाची आसली. घरांत नवें मनीस येतलें हेखातीर घरांतल्या सगल्यांक उमेद जाल्ली. हेच उमेदीन नानूच्या धाकट्या आनी व्हडल्या पुतान आपलें पोन्ने घर रिनोव्हेट करपाचें थारायलें.

तांचें घर आदल्या मोदेलाचें. वण्टीचो चुनो मदी मदी गेल्लो. सालाचो रंग विटलेलो. चुन्याचे कुडके चाखळां कशी पडून दशा जाल्ली. तातूंत व्हडल्या पुताच्या भुरग्यांनी वण्टीचेर रेगो मारून चित्रायल्लें. देवाची आनी मनशांची पांयजेलां एके वळीन वण्टीचेर लायल्लीं. वण्टीक आदलीं  खुंटयाळीं आनी खिळे आसले.

शारांच्या मात्शे पयस तांचे गांवघर. हरशीं शारांतली फ्लॅट सिस्टम तांच्या गांवांत पावूं नासली. मात् तेर्रासाची कांय घरां तांच्या गांवांत बांदलेलीं. तांकां आपलें घर पोन्ने आनी वांकडें तिकडें दिसतालें. घराच्या वण्टींक सिमेंट प्लास्टर आनी जमनीक टायल्स घालपाचें आसलें.

घरची सगळीं गवंड्याची वाट पळयतालीं. नानूचो व्हडलो पूत विनायक आनी धांकटो पूत विलेश सालांतलें सामान भितरल्या कुडीक हालयताले. व्हडली सून प्रीता आनी धाकटू धूव सरोज तांकां पालव दिताले. दोनूय ल्हान भुरगीं शाळेक गेल्लीं. मोटवें काळें कलसांव आनी धवें खोमीस घालून नानू सालांत उबो आसलो.

ताची नदर वण्टीवयल्या आपल्या बायलेच्या पांयजेलाकडे गेली. पयससून सारकें दिसना म्हूण तो पांयजेलाच्या लागी गेलो. कालूच ताणे चंदनाचो हार आपल्या हातांनी पांयजेलाक घातलेलो. ताची बायल सुनंदा संवसारांतल्यान

गेल्यार धा वर्सां जाल्लीं. पांयजेलांतलो फोटू ब्लॅक आनी व्हायट आसलो तरी तो सोबीत दिसतालो.

ताका वीस वर्सां पयलीची याद जाली. पणजे वचून ताणे आनी ताचे बायलेन जोडयेन एक फोटू काडलेलो. तो आदलो फोटू ताचेकडे आसलो. बायल मरतकूच ताणी त्या जोड फोटवांतलो बायलेचोच फोटू व्हडलो करून घेतलो. बरे कातयल्ल्या फ्रेमीत तो बसोवन ताणे पांयजेल घरा हाडलें.

सालांत महादेव, कृष्ण, मंगेश आदी देवांचीं पांयजेलां आसलीं..... तांचे कुशीक ताच्या आवयचेय पांयजेल आसलें. बरीच वर्सां पासार जाल्ल्यान आवयच्या पांयजेलांतलो फोटू अस्पश्ट दिसतालो. मदीं चित्याल्ल्या भाशेन आनी फासलेल्या भाशेन जाल्लो. तशेंच सोयऱ्यांची दोन पांयजेलां वळखूंयेना इतली धवी पडलेली. बापायचे पांयजेल लावंक नासलेलेंच. बापायचो चेरो ताचे यादीतल्यान पुसटसो जाल्लो.

ताणे पांयजेलाचे हारीत आपले बायलेचें पांयजेल लायलें ना. मेकळे वण्टीर एक नक्शी रीप ताणे खिळ्यांनी बसयली. ताचेर तें पांयजेल लायलें. पायजेलां सकयल दिवो कसो लायटीचो बल्ब लायलो. तो दिसरात पेट्टालो. मदली तांबडी ज्योत हालतच आसताली. तो बल्ब केन्ना गेल्यार भुरगे तसलो नवो बल्ब सुर्वेक सुर्वेक हाडून घालताले. पांयजेला सकयलो बल्ब पेटना म्हूण ताणे बटन दामलो. तें पेटलोना. बल्ब गेला आसतलो म्हूण तो वोगीच रावलो.

उपरान्त तो आपले कुडींत गेलो. ते कुडीत नातरांचे सामान हांगा थंय पडलेले. तांच्याच सामानन कूड भरलेली. बसला थंय ताका दिसलें जाण्टो जालो तरी आपली याद आजून बरी आसा. इतल्यान ताका भास जालो.... णव वारी हळदूवे कापड न्हेसून सुनंदा फुड्यांत आसा. धा वर्सा पयली ची सुनंदा. पांयजेलांतल्या फोटवापरस सोबीत जिवी तटतटीत. माथ्यार मोगरे कळ्यांची फाती.... हांसपी सुनंदा... मागीर कितलोय वगत तो त्या भासांत भुल्लसून उरलो.

भायर सालांत बोबाळ जाता म्हूण तो थंय बेगीबेगीन आयलो. थंय गवंड्या वांगडा मानाय आसले. एक मानाय पिकान्नरान वण्टी तासपाक सुरूवात करतालो तर दोन मानाय वण्टीवयलीं पांयजेलां सकयल देवयताले. पांयजेलां काडटा तें ताचे दोनूय पूत, सून आनी धूव पळयतालीं. तें पळोवन तो सुन्न जालो. देवाचीं पांयजेलां काडलीं. काडटाना तातुंतले एक पडून फुटलें. उपरान्त ते नानूच्या आवयचे आनी सुनंदाचें पांयजेलां काडपाक गेले. तेन्ना नानू सट करून मुखार सरलो. तो तांचेर संतापलो आनी उलोवंक लागलो. ''तुमकां कोणे

सांगलां ही पांयजेलां काडपाक? हात लांव नाका ताकां. आसूं थंयच.''

नानू रागान उलयता तें पळोवन सगळे वोगीच जाले. थोड्या वेळान व्हडलो पूत विनायक उलयलो, '' आपा वण्टीक प्लास्टर काडून रंगोवपाक जाय न्हय रे, ते खातीर ती काडचीं पडटा.''

''आनी आतां कोण तसलीं देवाची बीन पांयजेलां लायता? आतां हॉल म्हणल्यार मेकळो आसूंक जाय.'' - धाकटो पूत विलेश उलयलो.

''तूं म्हाकां सांगतां? म्हजे थुकयेचो तूं. लांब पॅन्टी आनी शर्टां घातले म्हूण तुमी तुमकां व्हडले समजता. ह्या दिसांनी तुमचें चड जालां. आपणाक जाय तेंच करता. म्हाका विचारीना लेगीत.''

''पूण आपा वण्टी निवळ करपाक प्लास्टर काडपाक जाय न्हूं. '' परत विनायकान बापायक सांगलें.

''जाणा हांव, पूण त्या पांयजेलाक तुमी हात कसो लायलो? हांवें तीं हाडून लायलेली. हांव तीं पुसतालों तुमी एक दीस तरी ती पुसल्यांत? ना... आनी जिचें तुमी पांयजेल निखळायता, ती तुमची आवय मरे.''

बरोच वगत वातावरण तंग आसलें. काम बंद पडलेलें. मदीच गवंडी उलयलो.'' आमकां काम करपाक मेळना जाल्यार आमी वयतां. आमकां तुमचें काम नाकां.''

झगडीं जाता तें आयकून शेजारचो दामूकाका येयल्लो. तो नानूचो भुरग्यापणासावन इश्ट. ताच्या माथ्याचे सगळे केस पिकलेले. नानू ताका मानतालो. काम बंद पडटा तें पळोवन तो उलयलो. ''मात्सो राव गवंडीमाम. घरांत लग्नकार्य जावपाचें आसा. आरे नानू, तूं अशें कितें पिशेपण करता? मागीर लांवया मरे तीं... भुरग्यांक जाणट्या मनशाचें मन कळना. म्हज्या घरांत आजूनय पांयजेलां आसात. हांव आजुनय पांयजेलांक गंदफूल घालून देवाक पुजतां. म्हज्या बायलेच्या पांयजेलांकडे रावोन फाटल्या यादीनी हांव केन्ना भळभळोन रडटां. पुतांच्यो, सुनेच्यो कागाळी सांगतां.... जाणा मरे नानू, भुरग्यांक जाण्टांचें पडून गेल्ले ना. ताका आपलेच पडलां.'' सगळे वोगीच रावन आयकतले. मागीर दामूकाका परत उलयलो.''तरीच जांव. तुजे घर पोन्ने. वण्टी पळय, तांचो चुनो झडटा.''

''पोन्न्यो वण्टी सारक्यो केल्यार घर बरें उरतलें नाजाल्यार एक दीस...'' धाकट्या विलेशान उलयताना जीब चाबली. हें आयकून नानू परत तापलो, ''एक दीस कितें जातलें. घर मोडटलें... मोडूं. तुमी नवे घर बांदात.'' दामूकाका परत समजावणेच्या सुरांत सांगपाक लागलो, '' आरे नानू वाद नाका. ते तांका जाय तेन्ना बांदतलेच. आतां ते हें घर सारकें करता. करूंदी . घरांत लग्न कार्य

आसा. लग्न जावन दुसरी सून घरांत येतली. मात्शें सोस. वोगी राव.'' निवळटा तें पळोवन व्हडले सुनेन आपले साडयेचो पदर खोयत सांगलें, ''नव्या न्हवऱ्याव्हंकलेक रावपाक सेपरेट एक कूड आसल्यार बरें. ते वांगडा घराचीय सुदारणा जाल्यार अदीक बरें.''

सुनेचे आयकून नानू वोगी रावलो. मागीर दामूकाकान ताच्या खांदार हात घालून तांका ताचे कुडीत व्हेलो.

नानूच्या दोळ्यांआड ती उरलेली पांयजेलां काडलीं. ती सगळीं सुनेच्या भितरल्या कुडीत व्हेली. ती थंय जमनीर एकार एक दाळ्ळीं. भायल्यो वण्टी उक्त्यो उक्त्यो जाल्यो.

देड म्हयन्याभितर साला कुशीक एक नवी कूड तयार जाली. सालाच्यो वण्टी सिमेंट -निरो काडून सुळसुळीत जाल्यो. टायल्सांनी जमीन तकतकताली. प्लास्टीक रंगान घराच्यो वण्टी नव्यो जाल्यो. सालांत आदले बांक आनी हेर वस्तू उरूंनासल्यो. ते बाक आतां थंय सोबनासले. एक्काय पांयजेलाची कुरू वण्टीक उरूं नासली. घरांतलें सामान एकार एक मांडून दवरपाक सून अदीक तत्पर जाली. घर निवळ दवरपाक जमीन पुसपाक सरोज चड वावुरताना दिसताली. साल अदीक मेकळें मेकळें जालें.

काडून दवरलेली पायजेलां परत सालांत लावपाक नानून आपल्या व्हडल्या पुताक सांगलें. ताणे आयकले ना आयकलें केलें. धाकट्या पुताकय सांगलें. ताणे कानारच घेतलेंना. आपले आवयचें आनी बायलेचें तरी पांयजेल लायात म्हूण सांगलें. पूण तेंय जालेंना. एक दीस दोगूय जाण घराकडे आसा तें पळोवन तो बडबडपाक लागलो. ''आपल्या बायल- भुरग्यांचे फोटू मात हो आपल्या आल्बमांनी बरो दवरता. काडलेली पांयजेलां मात परत वण्टीक लावपाक जायना. खाडमिश्श्यो वाडल्यो म्हूण हे कितें मनीस जाता.'' मागीर दोनूय पुतांक तो गाळी संवपाक लागलो. झगडे जायत म्हूण सरोजान म्हणलें. ''आपा तूं कित्याक सगळें लावन घेता. लायतले ते....''

''हांव इतले दीस सांगता पूण ते लायना !''

धाकट्या पुतान मदीच म्हणलें, ''आतां खिळे मारून तीं पोन्नी पांयजेलां लायल्यार बरें दिसचेंना. पयलीभाशेन साल उरूंना. बरो नवो हॉल जाला. भायले लोक येतले ते कितें म्हणटले?''

''आतां फ्लॅटानी बीन अशी पांयजेलां खंय लायता.'' ताची धूव मदींच उलयली.

ती अशें उलयता म्हूण ताका राग मारलो. ताणे तिचेर दोन थापटां

मारलीं. ती रडपाक लागली. वोगी रावपाक जालेना म्हूण सुनेन म्हणलें ''आपा असले गजालीखातीर तू तुजे धुवेक मारता? भुरग्याचें मत तिचें.''

सुनेच्या सांगण्यान तो वोगी रावलो. तो तिका घरची लक्ष्मी मानतालो. परक्या घरांतली चली आपल्या घराक घरपण हाडटा अशें तो आपल्या इश्टांक सांगतालो.

तीन म्हयने पासार जावन लग्नाचे दीस लागी पावले. घरांत काम वाडत आसलें. एके सकाळी सुनेच्या कुडीतल्यान व्हडलें कितें पडल्याचो आवाज आयलो. भायर सावन नानून विचारलें 'कितें जालें गे सुने?'' जाप ना म्हूण परत विचारलें, तेन्ना ''कांय ना आपा, आयदनां पडली तीं.'' तिणे सांगलेले आयकून तो भायर गेलो. आवाज जालो म्हूण सरोज थंय गेली. पळयत जाल्यार वयलीं आयदनां सकयल पडल्यात. तांच्या वजनान सकयल दवरलेली पायजेलां फुटल्यात. तांच्यो कंवच्यो हांगा थंय शिंपडल्यात. ताची भावजय भियेल्या. भियेत भियेत ती उलयली, ''जाणा मगो सरोज, हांव वयले फळयेर आयदना मांडून दवरतालीं. पडलेलीं आयदनां फुटलीं नात... पूण पांयजेलां पळय कशी जाल्ल्यांत तीं.''

''व्हनी तूं भियोवं नाका. तुजेर काय बोल येवचो ना. म्हजेकडल्यान आयदनां पांयजेलांचेर पडलीं, अशें हांव सांगतां.'' आपलो नवो स्कर्ट साबाळीत ती उलयली.

''सांगपाचे बरें आसा. पूण तीं फुटलीं न्हय गो. पयलीच तीं करमेल्लीं. आतां तीं सामकीं फुटलीं. आपाक कळत जाल्यार ताका वायट दिसतलें. तो रागार जातलो.''

मागीर त्या पांयजेलांचे कितें करचें असो प्रस्न तांका पडलो. पडलेलीं आयदनां कुशीक काडलीं. कंवच्यो आनी पांयजेलां कोनश्याक एकठांय करून दवरलीं. कुशीक पाट लावन तीं लिपयलीं.

दोन दीस ताणी भयान काडले. तिसरे दीस विनायकान त्या कोनशाक कितें दवरलां कांय म्हूण पळयलें. पळयल्यार सगळी पांयजेलां फुटल्यांत. तांच्यो कंवच्यो थंय एकठांय करून दवरल्यात. ताणे आपले बायलेक विचारलें. तिणे सांगतकूच तो तिडकेलो. ''आयज तीन दीस जाले तरी त्यो कंवच्यो घरांत दवरल्यात. कंवच्यो भुरग्यांक तोपत जाल्यार? रगतां येतली तांची. ताच्या जिवार उठलां तूं!''

''आपाक कळत म्हूण थंय दवरलीं. तो पिकार जातलो. बडबडटलो... झगडटलो.''

''पडटो पावस थांबतकूच तूं आनी सरोज मेळून तें सगळें दुर्गा भायर व्हरून उडयात. आपाक मात कळपाक दियनाकात.''

दोन दीस पावस लागून दुर्गाभायर उडयल्लीं पांयजेलां भिजून फुगून गेलीं. सांजवेळा पासयेक गेल्लेकडे भायर उडयल्ल्या पांयजेलांकडे.... कंवच्यांकडे नानूचें लक्ष गेलें. थंय वचून पळयत जाल्यार फुटलेल्या पांयजेलांचीं रास कोयराकडे उडयल्या. ताणे त्या पांयजेलांक निरखून पळयलें. सगळया पांयजेल्यांचे आरसे फुटून गेल्ले. तांच्यो फ्रेमी मोडलेल्यो. पापेलांव फुगलेले. कंवच्यो, पातळलेल्यो. ताणे भियेत भियेत तातुंतली पांयजेलां उस्तिलीं. कंवच्यो आरशे कुशीक काडले. देवाच्या पांयजेलांचीं चित्रां पिजून गेल्लीं. ताच्या आवयच्या पांयजेलांतलो फोटू पयलीच अस्पश्ट दिसतालो. तो कोणाचो हें आतां सारकें कळनासलें. तो काडटलो जाल्यार मातयेत लोळलेलो. ताणे तो थंयच सांडलो. ताणे आनीक पांयजेलां कुशीक काडलीं. पोदां ताचे बायलेचें.... सुनंदाचें पांयजेल! तेंय फुटलेलें....तो दुखान तळमळलो. तें पांयजेल आयल्ल्यान काडलें. मातयेन तेंय लोळलेलें. तें आपल्या खोमसान पुसलें. बरोच वगत तो आपल्या मनाक वेरो गेल्ल्यावरी थंय बसून रावलो.

उपरान्त तिनकातरेर तो थंयचो उठलो. तें म्हेळे, फुटकें सुनंदाचें पांयजेल ताच्या हातांत आसलें. कोणाक ना कळटा तो तें घेवन घरांत आयलो. ताका दिसपाक लागलें. आयज आपूण चड म्हातारो जालां.... अस्वस्थ जालां. घरांतली आपली भुरगीं आपल्याक परकीं जाल्यांत. घरूच रितें रितें जालां....

तें फुटकें पांयजेल ताणे आपल्या कुडीतल्या कत्रेलांत दवरलें. ताणे बल्ब पेटयलोना. मागीर थंय काळोख वाडत रावलो. चित्तां चित्तां ताची तकली हून जाली. दोळे जड जाले. तो खाटीर आडवो पडलो. थंयच ताका झेम लागली.

ताका आफोवपाक ताची धूव सरोज आयली. कुडीत काळोख म्हूण तिणे बल्ब पेटयलो. उजवाडांत मुखावयल्या कत्रेलांत दवरलेलें फुटकें पांयजेल तिका दिसलें. तें पळोवन तिका धक्को बसलो. आपलीय चूक जाली अशें तिका दिसपाक लागलें.

मागीर नानूक उठोवपाक तिणे उलो मारलो, ''आपा, उठ मरे. जेवणाक यो !'दोन तिनदां सांगून तो उठलोना. ताका तिणे हालयलो, तेन्ना ताणे सांगलें, ''आयज म्हाकां जेवण नाका. चल तूं. तूं जेव. आयज म्हाका जेवण चलचें ना.'' तो येयना म्हूण ती परत गेली.

भर मध्यानरातीर नानूक सपन पडलें ताची बायल सुनंदा ताच्या कुडीच्या दरवजाकडे आयली. ताणे तिका भितर आफयली. ती येना म्हण तिका भितर

ओडपाक हात फुडें केलो.... तसो ताचो माथ्याकडे उश्याक घेतलेलो हात ओडून भायर सरलो.... ती दरवजालागीच आसली. माथ्यांत आबोल्यांची आटी माळलेली. कपलाक तांबडोच कुकूम. ती हयन्हयशी हांसली. मागीर म्हणपाक लागली, ''तूं खंती कित्याक जाता. ताणी म्हजें पांयजेल ना लांव. सोडून दी. आतां तांका कित्याक दोश दिता?''

तिका मदीच एक याद आयली. तिणे सांगलें ''आमच्या लग्नापयलीं तुवें घर सारकें करूं नासलें? तूं वापरता ती कूड त्यावेळार तुवें बांदू नासली? आतां तुजो पूतय ताच्या लग्नाकडे बांदता. ताची बायल घरांत येतली न्हय.... आतां ते घर नवेशें करतात. तातूंत तुकां आनी म्हाकां सुवात खंयची?''

''आं आं ऽ तूं किदें उलयता गो ! ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फुटना जालीं. ती थोडी वगत वोगी मोनी कशी. तिच्या दोळ्यांत दुकां.... मागीर ती हयन्हयशीं मिश्कील हांसली. आपल्या उतरांत प्राण ओतल्यावरी सांगपाक लागली..... हांव मेल्ली तेन्ना तुवें म्हाकां एक दीस लेगीत घरांत दवरलीना. रोकडीच घरा भायर काडली. मसणीत व्हरून जाळ्ळी.... म्हाकां नानपयत केली.... म्हजो भाव येवन म्हजें निमाणे दर्शन दोळे भरून घेतलो आसलो... ताकाय तूं रावलोना.... तीन कातरेर म्हजो भाव घराकडे येवन रडून गेलो....''
हे आयकून सपनातूच तो थरथरपाक लागलो. जागो जावन तो उठून बसलो. तरी ताचो थरथर आजून कमी जांव नासलो.



# व्हाळकांतलो देव

दादी परत बरो ना जालो. ताका ताप येतालो आनी त्या तापान तो कडकडटालो. दादीची ही खबर कळनाफुडें मास्तराक चिंता जाली. गांवांतले शाळेत बदली जावन तो पंदरा वर्सां पयली येयल्लो. तेन्ना दादीची आनी ताची पयली भेट जाल्ली हाची ताका याद जाली. ते वेळासावन दोगूय इश्ट जाल्ले. दादीक तेन्ना पन्नास वर्सां आसूंये. आनी मास्तराक चाळीस वर्सां. दादी धडधाकट दिसतालो. आंग ताचे काळें आनी तिकतिकीत. केस मात्सेच पिकलेले. दादी आपल्या भेंडाक वालो रेवडायतालो आनी वयल्यान धवे खोमीस घालतालो. गावांतले सकयल्या व्हाळकांतलें सगळ्यांत व्हडलें शेत तो एकटोच कसतालो. शेतांत दोन पिको काडपाक आनी कुळीद, हुडीद पिकोवपाक ताचो हात धरपाक गावांत कोणूच नासलो. वर्सा संकीनी ताच्या फुडारपणा सकयल हेर शेतकार शेताच्या बांदाची आनी शेताकुशीकच्या लांबचे लांब व्हाळाची उस्तवारी करताले. पूण गेल्या पांच वर्सां सावन कांय शेतां पडंग पडत गेल्ली. खूब जाणानी शेतां करपाक जायना म्हूण सोडून दिल्ली. सकयल्या कांय जाणाच्या शेतांनी गेल्या दोन वर्सासावन उदक भरून उरतालें. व्हाळ पुरवल्ल्यान उदक बरें व्हावून वचनासलें आनी चडशी शेतां बुडून उरतालीं.

मास्तर दादीचे खबरेक वचपाक घराभायर सरलो. दादीचे वळखीन ताका वयल्या वाड्यार जागो मेळ्ळो आनी तातूंत धाकटुलें घर बांदून तो गांवांत स्थायीक जाल्लो. वाटेवयल्यान चलताना ताका फाटली याद येवपाक लागली. रस्तो आनी शेत हांचे मदसून व्हांवपी व्हाळकांतलो हो व्हाळ निवळ उदकांत सदाच व्हांवतालो. मे म्हयन्यांत लेगीत दुसऱ्या गांवांतलीं बायलां हांगा येवन कपडे उमळटाली. शेतोड जावन फुडें दोगुल्ल्यो आसल्यो. त्यो शेतोडेचे तीनय

वटांनी तेकलेल्यो. तीनय दोंगुल्यांतल्यान पावसाच्या उदकाचे लोट ल्हान ल्हान व्हाळांतल्यान येताले आनी मागीर रस्त्याकडच्या व्हाळाक मेळटाले. व्हाळ लांब व्हांवत वचून फुडें पवित्र गंगेभाशेन आसलेल्या मांडवी न्हयेक मेळटालो. व्हाळाच्या उदकार वायगणां, वारयां पिकतालीं. तळ्याक व्हाळाचें सेगीत उदक मेळून तांतून नुस्ते आनी कासव पसवताले. कुशीकचीं झाडांपेडां, सगळो सैमूच ताचे वोलसाणीन वाडटालो आनी चंवरतालो. मीर्ग जावच्या पयलीच शेतांनी काम करपी शेतकार दिसताले. कोण शेतांत उजो घालताले तर कोण गोबरी-शेण हाडून शेतांत उडयताले. पूण ते गेल्या कांय वर्सासावन कमी कमी जाल्लें आनी गांवाचें चित्र बदलत गेल्लें.

शारालागी हो गांव आसलेल्यान हो गांव बेगीन बदल्ला अशें मास्तराक मनांतल्यान दिसपाक लागलें. गांवची लोकवस्ती दिसानदीस वाडटाली. परप्रांतांतले कामगार लोक आनी गोंयचेय लोक गांवांत येवन रावपाक लागलेले. सात-आठ वर्सांत रस्त्याकुशीक दाटीवाटीन घरां उबी जाल्लीं. लोक आपल्या घरांघरांतलो कोयर आनी प्लास्टीक हाडून व्हाळांत उडयताले. घरांतल्या मोरयांचे सांडपाणी पायपांतल्यान व्हाळांत सोडलेले. व्हाळ म्हणजे एक गटार जाल्लें. व्हाळांत मदीमदी माती आनी कोयर पडून व्हाळ पुरवल्लो आनी व्हाळांत सोडलेल्या सांडपाणयाची मदीमदी कोंडां जाल्लीं. तातूंन जळारांची भिरी पसवताली.

'पोन्नो गांव नवो जाला?.... सुदाल्ला?..... कांय दादी म्हण्टा तसो नवो ताल्ल आसलेलो गांव भंगला, पोन्नो-जीर्ण जाला?.... असो मास्तराक प्रश्न पडलो. शारांतसून गांवांत हाडून उडयल्ल्या स्क्रॅपावरी आपलो गांव गुदांव जाला अशे मास्तराक दिसपाक लागलें. चलता चलता व्हाळांतल्या कोंडांतल्या कुसलेल्या उदकाचो घाण वास मास्तराक येयलो, तशे ताणे स्वास घेवपाचो रोखून धरलो आनी तो बेगीबेगीन चलपाक लागलो. ताका दिसलें कुसको वास सगळ्याक पातळ्ळा. पावस मिर्गा पयलीच पडल्यार बरो. व्हाळांतली खुबशी घाण पावसा उदकांत व्हावोवन वयतली असो विचार ताचे तकलेन जोगलावन गेलो.

मदल्या वाड्यावयल्या दादीच्या घरांत मास्तर भितर सरलो. घराच्या सालांत दादी एके शेनरेर कांबरूण घेवन न्हिदलेलो. ताच्या कुशीक ताच्या घरची जमलेली. तो थंडीतापान कुडकुडटालो. मदी मदी बडबडटालो. जाण्टेपण जाल्ल्यान केस धवे जाल्ले. दोळे खोल गेल्ले. कूड अशक्त जाल्लीं. ताणे दादीक उलो केलो, 'दादी कसो आसा तूं?' पूण ताणे जाप दिली ना. घरचीं सगळीं काळजीन आकूळ पिकूळ जाल्लीं. दोतोर सकाळीच येवन गेल्लो. दोतोरान सांगलेल्या प्रमाण

दादीक दुसरे फावटूय मलेरिया जाल्लो. ताणे गुळ्यो दिल्ल्यो आनी त्यो घेतकूच ताप कमी जातलो अशे सांगलेलें. दोतोराचें निदान बरोबर आसा अशे मास्तराक दिसलें. व्हाळांतल्या कोंडांत जळारी जाल्ल्यो आनी तांका लागून गांवच्या खुबश्या लोकांक मलेरिया जातालो. मास्तर दादीकुशीक येवन बसलो. ताणे ताच्या कपलाक आनी आंगाक हात लायलो. ताप खूब आसलो. बरोच वगत थंड उदकाच्यो घडयो आनी हेर उपचार केले तरी ताचो ताप देवलोना, वयल्यान तो वाडतूच गेलो.

सकयल्या वाड्यावयल्या शाळेकडच्या व्हाळकेश्वराच्या देवळाकडे लावडस्पिकराचो आवाज आयकूक आयलो. आनी मास्तराक व्हाळकांतल्या देवचाराची याद जाली. 'व्हाळकांतल्या पाव रे' अशें ताणे म्हुणले आनी दादीखातीर सांगणे करपाक जाय म्हण तो बेगीबेगीन उठलो आनी व्हाळकेश्वराकडे सकयल्या वाड्यार वचपाक लागलो.

सकयल्या वाड्यावयल्यो आदल्यो खोपी मोडून थंय घरां जाल्लीं. घरां वाडोवन वाडोवन लोकांनी बिराडां दवरलेली. थंय मात्से झोपडपट्टीचे रूपय मारतालें. व्हाळा पलतडच्या भाटकाराच्या शेतांत तर बऱ्योच खोपट्यो उब्यो जाल्ल्यो. आलतडच्या रस्त्या लागीच शाळेकडेन व्हाळकेश्वराची घुमटी आसली. ते घुमटेचे गेल्या वर्साच देवळांत रूपांतर जाल्ले.

गेल्या पंदरा वर्सा पयलीं थंय एक वोंवळीचो रूख आसलो. त्या रूखाक आनी मुळांत लोक तांबड्यो घुडयो लावन आंगवण करताले. त्या रूखार व्हाळ आनी सगळो वाठार राखपी देवचाराचे वास्तव्य आसा अशे लोक मानताले. ताचें व्हाळाकुशीक वास्तव्य आसलेल्यान लोक ताका व्हाळकांतलो देवचार म्हणटाले. तो जागृत आसा आनी तो लोकांच्या उल्याक पावता अशे जाण्टे मानताले.

गेल्या चवदा वर्सां पयलीं वोवळी झाडाच्या सकयल्या जाग्यार घुमटी बांदली. मागीर वाड्यावयले लोक थंय दिवोवात लावपाक लागले. पावसाचे दीस लागी पावतकूच देवचाराक घुडी लावपाची रीत आसली. हालीच्या वर्सांनी दादीक जाण्टेपण येयल्ले. दोळ्यांनी सारके दिसनासलें. हातपांय थरथरताले. तरीय तो सगल्या शेतकऱ्यांच्या नांवान व्हाळकांतल्याक तांबडी घुडी लायतालो.

गेल्या वर्सा तिनूय वाड्यावयले तरनाटे एकठांय येयल्ले आनी ताणी घुमटी तशीच दवरून तिचेच लागी देवूळ बांदपाचे थारायलें. उमेदीन पैसे एकठांय केले. घुमटे कुशीक खांबे बांदून वयर पांखे घातले आनी एक ल्हान उकतें देवूळ तयार केलें. देवळाच्या दरवंट्यार श्री व्हाळकेश्वर प्रसन्न अशी पाटी कोरांथलेली. देवूळ बांदल्या बरोबर थंय अदीक गजबज वाडलो. केन्ना केन्ना भजन, आरती बीन

जावपाक लागल्यो. आतां तर व्हाळकांतल्या देवचाराचें उन्नयन जावन श्री व्हाळकेश्वर जाल्लो. देवळांत लायटी घालून सगळे देवूळ सोबीत आनी चकचकीत दिसतालें.

गेल्या वर्सा शाळेकडे देवूळ बांदता तेन्ना मास्तर पंचाक भेटलेलो, ती याद मास्तराक जाली. पंचाकडें गेल्लो तेन्ना, पंचान मास्तराक बस लेगीत म्हटलेंना. वयल्यान ताकाच तोंचून उलयल्लो, 'मास्तर तूं मेळपाक येतलो, तें हांव जाणा आसलों.'

'हय, पंचसायब. शाळेक तेकुनच तें देवूळ बांदतात. भुरग्यांक खेळपाक सुवात उरचीना. शाळेच्या मुखार देवूळ जाल्ल्याकारणान शाळा फाटल्यान पडटली. ती दिसची लेगीत ना.'

'तूं किते म्हुण्टा, तांका देवूळ बांदपाक परवानगी दिंव नाका? ते बंद उडोव?'

'तशे न्हय...'

'मागीर किते तर? गांवचे सगळे तरनाटे एकठांय जावन ते देवूळ बांदतात. हांवें म्हाजी पटी लेगीत दिल्या. हांव देवूळ बांदपाक आड ना.'

'तशे न्हय. पूण थंय शाळा आसा.... विद्यामंदीर आसा... शाळेक आडखळ जायत अशें...

'म्हणजे तुजो देवाक विरोध आसा मरे.....'

'ना ना, देवाक म्हजो विरोध ना....'

ना मरे. तशें जाल्यार वोगी राव तूं... तूं तुजे शाळेचेंच पळय. गांवचे भानगडीत नाक घालूं नाकां.'

मागीर मास्तर वोगी रावन परतलो आनी थेट दादीक मेळ्ळो. दादीन सगळे आयकून घेतले. पूण तो पयली कांय उलयलो ना. मास्तर घरा परतताना ताणे सांगलें. 'जाणा मास्तर आमी आतां म्हातारे जाल्यात. ते आमचे आयकोंन घेतले? तें जे कितें करूंक जाय ते करीना आनी भलतेंच करतात.' तेन्ना मास्तर खंती जावन सांगपाक लागलो, 'दादी, गांवांतल्या भुरग्यांक हांव पुस्तकांतलेंच शिकोवपाक उरलों. जें किते जिणेक जाय आनी ह्या धरतरेवयल्या जिविताचें तत्व आसा, ते हांव भुरग्याक शिकोवपाक पावलोंना. म्हजेंच चुकलें' मागीर दादीन ताका समजायल्लो.

व्हाळकेश्वराकडे पूजा आसली म्हूण सकाळी फुडेच तयारी नेटान चलताली. लावडस्पिकरान अख्ख्या गांवाक जाग हाडलेली. मास्तर व्हाळकेश्वराच्या देवळांत भितर सरलों. ताणे हात जोडले, दोळे धांपले आनी

प्रार्थना केली, 'देवा, दादी बरो ना. ताका बेगीन बरो कर. दोतोरान वखद दिलां तें ताका पारागात पडूंदी आनी तो सडसडीत बरो जांवदी.'

तेच दीस सांजवेळा मिर्गापयलीच पावसान घालून घेतलें. मे म्हयन्याचो उबाळ आसलोच, पूण मिर्गाच्या पंदरा दीस आदीच पावस पडटलो हाची कोणाक सुलूस लेगीत नासली. नेटाचो वारो येयलो आनी मळबांत कुपां दाटून पावस पडपाक लागलो. सेगीत चार दीस पावस पडलो. सकयल्या आनी वयल्या शेतांनी पावसांचे उदक भरले. व्हाळ मदी मदी पुरवल्यान आनी व्हाळाची धडा कोसळलेल्यान उदक जाय तितले व्हांवून वचना जालें. उदक आडायल्ल्यान सगळी शेतां बुडलीं. व्हाळ फुगार जाल्ल्यावरी तुंबलो. व्हाळाकुशीकच्या रस्त्यावयल्यान उदक वचपाक लागलें. पांचवे दीस पावस कमी जालो तरी व्हाळ भरून आसलो आनी सकयलीं, वयली शेतां बुडून उरलेलीं.

बरीच रात जाली तरी मास्तराक न्हीद पडलीना. ताका गांवच्या शेताचो, व्हाळाचो आनी जाण्ट्या दादीचो हुस्को जाल्लो. इतल्यान मध्यान रातीर दाराकडे व्हाळकांतल्या राखणदार देवचारचो कसो दाणो वाजलो. दारार खटखट केलें. मास्तरान भयान 'कोण' म्हणून विचारलें 'हांव तो' अशें म्हटल्याबराबर मास्तरान दार उगडलें आनी उजवाडांत पळयत तर दादी उबो आसलो.

'आरे दादी तू! कसो आसा?'

'आता मात्सो बरो आसा. ताप निवळ्ळा. पूण व्हाळ तुंबला, शेतां बुडल्यांत म्हूण म्हज्यान रावो नजो जालें. तुजो सल्लो घेवपाक हांव येयलां.'

'इतले रातीर आनी दुयेंत आसताना ! पळय, तुजे हात पांय थरथरतात. सोप्यार बस मात्सो.'

'हांव एकटो बरो ना जालो म्हूण कांयच बिगडना. पूण मिर्गा पयली पडलेल्या पावसान ह्या वर्सा सकयली आनी वयलीय शेतां बुडल्यांत. व्हाळ चोंदला. उदक व्हांवून वचना. हाचेर मिर्गा पयली कितेंतरी उपाय काडूंक जाय. नाजाल्यार फुडें उपाय खुस्तार. मिर्गा उपरान्त सगळो पावसूच.' दादी तळमळून उलयतालो. दादीक थातारपाक ताणे म्हटलें, दादी तुकांच कित्याक पडलां? गांवचे पंच, सरपंच आसात.' 'पंच, सरपंच आतांचें. आमी आदी गांवाचे सगळे शेतकार एकठांय जावन कामां करताले. व्हाळाच्यो धडो बांदताले. व्हाळ खोल्लायताले' दादी आपल्या मनांतलें उलयलो.

'पूण आतां ते आदले शेतकार खंय उल्ल्यात. तुमी तर अशे जाण्टे जाल्यात. नव्या तरनाट्यांक हांचे कांयच पडूना. ते शेतां रोवपाचे सोडून पणजे कामाक वयतात. दोन पयश्यांक भुलतात. खूब जाणानी शेतां रोवपाचें सोडून

दिलां आनी तीं पडींग घातल्यांत.'

'हय मास्तर' दादीन हयकार दिलो, तसो मास्तर फुडे सांगपाक लागलो.

'आतां तर नवो प्रश्न उप्रासला. व्हाळांतल्यान उदक व्हावून वचना देखून सगळी शेतां बुडल्यांत. कोणाक व्हाळाचें पडूना आनी शेताचेय पडूना. एकदीस पणजे भाशेन हांगाय व्हडल्यो बिल्डिंगो जातल्यो.'

'शेतां म्हटल्यार आमचें पोट. इतली वर्सां शेतां रोवन आमी जगलेनात. गांवचे लोक शारांत वचोन बरे वायट धंदे करून पयशे जोडतात. तांका माह्ला पयशांचो मोद. शेतकाऱ्याचे पुतूय आपले कर्तव्य करीनात.' दादी तिडकीन उलयलो.

'हाचेर कितें तरी उपाय करपाक जाय. पंचायतीक सांगून हो व्हाळ उसपोवन घेवपाक जाय.' मास्तरान सुचयलें.

'व्हाळ उसपोवपाक पंचायतीक कित्याक सांगपाक जाय. आमचे आमीच हें काम करपाक जाय.' दादी हट्टाक पेटलेल्यावरी उलयलो.

'पूण नव्या तरनाट्यानी तांतूत भाग घेवपाक जाय न्हय. ताच्या कानांत शारांतलो वारो गेला. ते तर शेतांचे पळयना, व्हाळाचें पळयना. फकत देवळां बांदतात. दाखोवपाक सगळो शो....'

'तांकाय कामाक तयार करपाक जाय' अशे नेटान म्हणत दादी घराभायर सरलो. दाणो तेकयत चलपी दादी 'राखणदार' कसो मास्तराक दिसपाक लागलो.

दुसरे दीस आपणे दादीक मेळचे अशें मास्तराक दिसतालें. दोगांयच्या पिरायेंत धा वर्सांचे अन्तर आसूनय दोगांयचें जुळटालें. दोगांयचे विचार एकामेकांक मानवताले. दादीविशी मास्तर चित्ता आसतानाच दादीच ताचेकडे येता तो ताका दिश्टी पडलो. दादी जरी अशक्त जाल्लो तरी ताच्या चलपांत एकेतरेचो निश्चेव आसलो. थारनासताना दादीन पयसावनूच उलो मारलो. 'मास्तर, चल या. जुवावांक भेटूं या' मास्तरान आयकनाफुडे वळणीवयले उमळलेलो लेंगो आनी खोमीस आंगार चडयलें आनी तो भायर सरलो.

'पाद्रीची शेतां जुवांव रोयता म्हूण, कितें तरी उपाय काडपाक हांवें ताका पाद्रीकडे धाडला. तो कितें रकाद हाडटा तें पळोवया. चल या जुवांवांगेर.'

दोगूय जाण वाटेवयल्यान वचपाक लागले. पावस थांबलेलो तरी व्हाळांतले आनी शेतांतले उदक कमी जावक नासलें. हुंवाराचे उदक कशें शेतांनी भरलेलें. चलतां चलतां ते व्हाळकेश्वरांच्या देवळाकडे पावले. गांवचे तरनाटे थंय एकठांय जाल्ले. आयतारची सकाळचीच थंय मिटींग आसली. दोगूय जाण थंय गेले. गांवाभायलो कोणतरी येवन तरनाट्याकडे उलयतालो. ती राजकीय मिटींग

आसली. मिटींगेत येतल्या वेचणूंकेची तयारी करताले. तें पळोवन दादीक तिडक मारली. पिंडाळून ताणे थंयच्या तरनाट्यांक म्हुटले, 'तरनाट्यानो, आदी आमच्या वेळार, अशे राजकारण नासलेले. आमी व्हाळकांतल्या देवाचे घुमटे लागी बसून गांवच्या प्रश्नांचेर उलयताले. गांवांतल्या शेतांच्या व्हाळाच्या उरस्तवारीविशी उलयताले. पयली थारायताले आनी सगळे मेळून कामां करताले. तुमच्या जाण्ट्यांनी कसयलेलीं शेतां आतां बुडल्यात. व्हाळ पुरवला आनी उदक तुंबून उल्लां. हाचे तुमका कांयच पडोंना. तुमी हांगा राजकारणशे करतात. गांवच्या बऱ्याचो विचार करात आनी कामाक लागात. हो व्हाळ उस्पियात, शेतां रोयात...' पयली सगळे वोगी रावन आयकताले. पूण मागीर कोणेतरी फकाणा करपाक कुयो घातल्यो. एकट्यान मदीच म्हटले 'आरे तो जाण्टो पिसो जाला कांय किते? आमकांसो तो सांगता.' हे आयकून दादी निरशेलो. दादीचो आनीक अपमान जांव नये म्हूण मास्तरान दादीक थंयचो वोडून रस्त्यार हाडलो. रस्त्यार येतकूच दादी मास्तराक सांगपाक लागलो. 'हय, हांका शेताचें, व्हाळाचें पडोना. पूण शेताचें, व्हाळाचें काम ताणीच करपाक जाय. कोणेतरी बुद तांका दिवचीं. देवानूच तांका सांगपाक जाय. म्हज्या भुरगेपणात म्हज्या आज्याचेर व्हाळकांतल्या देवाचो भार येतालो. ताच्या तोंडांतल्यान देव उलयतालो.... सगळे लोक ताचे आयकताले. तसो भार म्हजेर येयल्यार बरें जावपाचें.

मास्तर आनी दादी जुवांवांगेर पावले. जुवांव हो एक तरनाटो शेतकार. पाय मेल्याउपरांत तोच शेत कसयतालो. हालीच तो काजार जाल्लो. कुटुंबाच्या पोटापाणयाची जापसालदारी ताचेरूच आसली.

जुवांवान तांका बसपाक कदेलां दिली. कालूच तो पाद्रीगेर गेल्लो. ताणे पाद्रीक बुडलेल्या शेताचें, व्हाळांचें सांगलेंले. पूण कानामनार घेवं नासलेलें. 'पाद्री म्हुण्टालो तरी किते?' दादीन उमळशिकेन विचारलें. 'पाद्री म्हुण्टालो, तुमचे तुमी पळोवन घेयात. आतां आमचीं शेतां खंय उल्ल्यात?' 'हय, ताणे आपली शेता विकून उडयतकूच कितें उरतलें? ताणे शेतां, दोंगर विकून पयशे केले. तांका गांवाचें, गांवाच्या लोकांचें खंय पडलां? दादी रागान उलयलो. मास्तरान ताका शांत केलो आनी पंचागेर वचून कितें उपाय जाता काय म्हूण पळोवया अशे सांगलें. तांच्या वांगडा वचपाक जुवांव मोटवें कलसांव, खोमीस आनी माथ्याक चेंपे अश्या भेसांत भायर सरलो. तिगूय जाण पंचागेर पावले. तांचे वोसरेर कितलो वगत बसले तरी कोण भायर येवना म्हूण दादीन उलो केलो. तेन्ना घरची भायर येयली. पंच गांवाभायर गेला. तो सात दिसांनीय घरा पावचोना अशे सांगतकूच ते तीगूय मनांतल्या मनांत तडफडले.

आशेचे दिवे पालवल्ल्याभाशेन ते वाटेवयल्यान चलपाक लागले. दादीच्यान तर चलपाक जायना जालें. तो चलतना लकतालों. मदीच जुवांवान दादीक सांगले, 'दादी आतां आमी देवाक सांगणें करून नाल्ल फोडूंया. तोच आमचे संकश्ट पयस करतलो.' हें आयकनाफुडे दादीक उमेद जाली. ते देवळाकडे पावले. तेन्नाच तरनाट्यांची मिटींग सोपलेली आनी ते थंय गजाली करताले. गांवची भुरगी आनी हेर लोकूय आशिकुशीक जमलेले. सगळ्यांक पळोवन दादीक खोशी जाली. ताणे लागच्या पसऱ्यावयलो नाल्ल, फुलां आनी उजवाती घेतल्यो. मागीर ते तिगूय देवळांत गेले. 'आरे येयात, देवाक सांगणे करूया. कांय तरनाटे हे आयकून हांसले पूण मागीर ते ताका पळोवपाक लागले. मागीर जुवांवान दोग तरनाट्यांक घुमटेकडे आफोवन हाडले. दादीन देवाफुडे नाल्ल दवरलो. फुलां ओपली. उजवाती पेटोवन लायल्यो. तांचो परमळ थंय पसरलो. 'येयात, पायां पडात, गाराणे घालूया.' मास्तर, जुवांव आनी दोग तरनाटे हात जोडून उबे रावले. दादी थंयच्या सगळ्या तरनाट्यांक आनी लोकांक आयकूंक येत अशे व्हडल्यान गाराणे घालपाक लागलो, 'देवां धनया, आमकां पाव. ह्या वर्सानी आमचीं शेतां बुडल्यात. व्हाळ पुरवला. ताच्यो धडा कोसळल्यात. तातूंतल्यान उदक व्हावून वचना. व्हाळांत नश्टे भश्टें पडपाक लागलां. व्हाळाची सयाच गेल्या. तो तुंबून उल्ला आनी घाण जाला. तूं शेताचो, ह्या व्हाळाचो राखणदार. तूं सगळे पळोवन घे आनी शेतां राख, व्हाळ राख. गांवच्या भुरग्याबाळांक राख आनी कल्याण कर !' गाराणे घातल्यानंतर दादीन नाल्ल फोडलो. सगळीकडे शांतताय आसली. ल्हान व्हड सगळे थटाक जावन आयकताले. दादीन खोल स्वास घेतलो. निश्चेव केल्यावरी दोळे मोठे करून घुमटेकडे पळयत रावलो आनी अचकीत दादी हुंकार दिवन धोलपाक लागलो, ताचेर व्हाळकेश्वराचो भार येयला कांय कितें असो कांय जाणाक प्रश्न पडटा थंय आसलो इतल्यान हूं हूं हूं अशें तोंडातल्यान करून तो उलोवंक लागलो. 'बाळकानो, तुमचें गाराणे हांवें आयकलां. पूण हांव कितें करतलों? हांव हांगा नांवाक आसा. म्हाकां खंय हात आसा? तुमचे हात तेच म्हजे हात. तुमचे सगळ्याचें मन तेंच म्हजे मन. तुमचो सगळ्यांचो निश्चेव तोच म्हजो निश्चेव, तुमचे काम तुमीच करपाक जाय. फाटल्या तेपार तुमचे जाण्टे व्हाळ निवळ दवरताले. शेतां बरी राखताले, आनी कसयताले. व्हाळ पुरवला म्हुणून शेतां बुडटात. तुमीच व्हाळाक निवळ दवरपाक जाय आनी निवळ करपाक जाय. तुमच्या वावरांतल्यान हो व्हाळ हीं शेतां जिती उरतलीं. हय हो व्हाळ निवळ उदकान व्हांवपाक जाय. तरूच तो मनशांवरी जितो उरतलो. हो व्हाळ बरो उरल्यार गांव बरो उरतलो. दादीच्या मनांतली पूण भाराच्या

तोंडातल्यान भायर सरलेली उतरां थंय जमलेल्या लोकांच्या कानांत परत परत सादपाक लागलीं. '...... हय हो व्हाळ निवळ उदकांन व्हांवपाक जाय. तरूच तो मनशांवरी जितो उरतलो. हो व्हाळ बरो उरल्यार गांव बरो उरतलो....'



## दहशत

बारामुल्ला देंगणांतली काळखी रात. रातीची थंडी पडलेली. तरी सायराचे तकलेंत उजो पेटल्यावरी जाल्लो आनी तिचे दोळे चुरचुरताले. भंयान वायट वायट विचार तिच्या तकलेंत घोळटाले. मध्यान रात जाली तरी तिका झेम पडूं नासली. ती चारपायीचेर बसलेली उठली. तिणे दोळ्यांर थंड उदक मारलें आनी न्हिदचे कुडीत आयली. तिची आवय चांदबी आजुनय न्हिदू नासली. ती हे कुशिवयल्यान ते कुशीर परतताली. तिणे म्हटलें, ''आगो बाय कसली गो तूं भयण? तुवें हनीफाक आयज वचपाक दिवंक जायनासलो.''

''हय मां, पूण हांव ताका हे परिस्थितीन कशी आडायतली? आनी ताका तर ताच्या इश्टान ओडून व्हेल्यावरी व्हेलो.'' सायरान अगतिकतायेन सांगलें. ''म्हाकां ताचो सामको हुस्को जाला.'' हे सांगताना चांदबीच्या मुखामळार मिरयो पडलेल्यो आनी आवाज कांपतालो. ''हय मां, म्हजे काळीज तर ताच्या हुस्क्यान कलकलता. मागीर दोगांय वोगीच रावली. बरोच वगत सोसूं नजो अश्या मोनेपणांत गेलो.

कबरीस्तानांतल्या शांततायेभाशेन मध्यान रातीची शांतताय पातळलेली. तांतुतच हाडा फोडपी कडकड्याचें शीं. सायराच्या आंगार फक्त सलवार आनी कमीज आसली. तकलेवयल्यान तिणे आपली ओढणी आनी शाल कांबरूक घेतलेली. आपल्या भावाचे काळजीन तिचे मन आनी कूड थकलेली. चारपायीचेर बसलेकडे तिका लकणी येवपाक लागली. इतल्यान शांतताय भंग करपी फारपेटाचो आवाज आयलो आनी ती आंग काडून जागी जाली. देंगणाकुशीकच्या दोंगरी

रानांतल्यान तुबकां आनी मशीनगनांच्या गुळयांचे आवाज येताले. मदी हातबॉम्बाचेय आवाज येताले. ते आवाज आयकून सायरा भंयान थरथरपाक लागली. आवाजान भिवपा इतली ती ल्हान नासली वा आपले आवयभाशेन म्हातारीय जांवक नासली. तिका पस्तीस वर्सां जावन प्रौढत्त्व आयल्लें. तिची शादी जावंक नासली तरी संवसारांतले बरेवायट अणभव गांठीक आसले. ती आपले जाण्टे आवयक उठोवपाक लागली. पूण तिच्या तोंडावयल्यान उतरां येना जाली. काचाबूल जावन आवय उठून बसली आनी तिणे किते जालें कांय विचारलें. सायरान फकत तिचे लक्ष फारपेटाच्या आवाजाकडे ओडलें आनी म्हुटलें, ''आमचो हनीफ आनी ताचो दोस्त रशीद एका वरा पयली घरांतल्यान गेल्यात, ते त्या 'शान' दोंगुल्लेर आपल्या हेर सांगात्यावांगडा पावल्या आसतले आनी थंयच तांचेर पोलिसावांगडा वा मिलिटरी वांगडा फारपेट जाला आसतलो. हे अल्ला, आमच्या हनीफाक वांचय. म्हजे आयुश्य म्हज्या भावाक दी. तो कवळो पोर, वीस वर्सांचो! पिशेपणान, आपलें सरकार घडोवपाखातीर म्हूण लडपाक गेला. ताका कांयच कळना. सगळेंच हाताभायर गेलां. मात्शें रावन, भोगसणेच्या सुरांत तिच्या वोठांतल्यान उतरां फुटलीं, ''ताणे आपले बुद्धीन हातांत शस्त्र घेवना. कोणेतरी ताच्या मतीत हें घातलां. आनी हातांत आर्म दिलां.''

''आमकां गरीबांक कोणे सांगला असले भलते व्याप. हनीफान हे भानगडीत पडपाचो न्हय. आपलो जीव ताणे गोळाक लायला आनी आमकां हांगा हुस्को.'' हनीफाची आवय चांदबी उलयत हुस्कारली.

उपरान्त फारपेट अदीकूच वाडलो. तशे आवयचे हातपांय थरथरपाक लागले. काळीज कलकलूंक लागलें. सायरान आपले मांक वेगेंत घट्ट धरली आनी ती तिका समजावपाक लागली. दोगांयच्या काळजांतली धडधड एकमेकांक आयकूंक येताली आनी हातांची थरथर जाणवताली. शियांत लेगीत दोगाकूंय घाम आयल्लो.

गेल्या धा वर्सांत बारामुल्ला आनी ताच्या देगणातल्या वाठारांत केन्ना केन्ना फारपेट जातालो. पूण पयली इतलो आकांताचो भंय तांका जांव नासलो. गेल्या स म्हयन्या पयली हनीफ कॅम्पाक म्हूण गेल्लो तो बरोच तेप घरा येवंक नासलो. तशेच ताणे आपली खबर लेगीत कळोवंक नासली.

आपूण आनी आपलें कुटूंब एका भंया खाला जगतात; आतांच न्हय तर पयली बरोच काळ पासून चेपणाखाला, अन्यायाखाला, दहशतीखाला जगता आनी ताचोच एक परिणाम म्हूण हनीफ त्या लोकां सांगातान गेला, अशें सायराक दिसपाक लागलें. तिका आपल्या कुटुंबाच्या इतिहासाची आनी आपल्या जिणेची

याद जावपाक लागली.

मंझगांव हो बारामुल्लाचो भाग जावंक नासलो. तो बारामुल्लाक तेकुनचोच एक ल्हान गांव आसलो. काश्मीरच्या देंगणातल्या सगळ्या सोबितकायेचें देणे मंझगांवाक लागलेलें. गांवांच्या मदी एक ल्हान तळें. तळ्याकुशीक कांय शेतां आनी शेतांपुडे 'शान' दोंगर, शान दोंगरार अक्रोड आनी उंच रानवटी झाडां वाडलेली. तळें, रान, दोंगर. मोराच्या कोराचे निळे निळेच दिसताले. वयलें निळ्या लेव कोराचे मुक्त मळब. मात शेतांनी पीक उणे जाल्ल्यान वाठारांतले चडशे लोक अर्दपोटारूच जगताले. भायर सैमान सोबीत दिसताले खरें, पुण चडश्या लोकांच्या पोटांत भुकेचो उजो धुंवतालो. अश्या वाठारांत पन्नास वर्सां पयली एक दीस आर्मां, मशिनगनां घेवन खूब दरोडेखोर आयले आनी ताणी ह्या वाठारांत अच्छेव कांडलो. आपल्या तुबकांच्या ताकदीर ताणी मंझगांव, बारामुल्ला हो वाठार जिखलो. वाठारांतल्या दादल्या बायलांक आनी भुरग्यांक लेगीत जिवी मारलीं. कांय बायलांचेर आगळीकी केल्यो. गावांतली कांय भुरगीं जिवी उरलीं. सायराची आवय तेन्ना सात वर्सांची छोरी आसली. तिच्या बापायक, आवयक आनी ल्हान भावाक ताणी मारून उडयल्ली. केन्ना केन्ना ही खबर सांगून तिची आवय चांदबी रडटाली. ह्या दरोडेखोरानी लोकांची घरां लुटलीं. ते बारामुल्लाचो वाठार जिखून धर्माच्या नांवान आपल्या राज्याक जोडपाक सोदताले. पूण एक दीस काश्मीराच्या थळाव्या राजान तांतुतल्या चडश्या दरोडेखोरांक धांवडायन लायल्ले.

उपरान्त राजा वचून नवें सरकार आयलें. पूण ह्या वाठारांत राज्याच्या एका सरदाराच्या घराण्याचो शेक चलतालो. गांवची सगळी जमीन त्याच घराण्याच्या मालकीची आसली. सायराचो बापूय धरून बरेच लोक तांच्या शेतांत आनी मळ्यांत शिंयाचे दीस सोडून बाकीचे दीस मानाय म्हूण काम करताले.

सायरा तेन्ना सतरा वर्सांची आसली आनी ताचो भाव हनीफ फक्त तीन वर्सांचो. गरीबी, दगदग हाका लागून ताचो बापूय जाण्टो दिसतालो. सरदाराच्या घराण्याच्या शेतांत एक दीस तो सकाळसावन काम करतालो. भर दोनपार जाल्ली तरी काम चालूच आसलें. आनी अचकीन वोतांत तो त्याच शेतांत कोसळ्ळो. ताका कोणे उदकय लायलें ना वा वैजाकडल्यान उपचार केलेना. ते सोडूच, तो मेला ही खबर तांका कोणे पावयली ना. तो सांजवेळा घरा परतून आयलो ना म्हूण चवकशी केली तेन्नाच कितें तें कळ्ळें.

आपल्या बापायक दिवसडो उणो दिताले आनी अर्द पोटार तो काम

करतासलो ते खातीर तो काम करताना मेलो हाची जाणवीक सायराक जाल्ली. तशेच शेतांनी, मळ्यांनी पिकता तें सगळें सरदाराच्या म्हालांत आनी गुदावांत कशें भरता तेंय ती जाणा आसली.

बापूय मेल्या उपरान्त सायरा आनी ताची आवय चांदबी गालीचे तयार करपाच्या कंपनीत कामाक वचपाक लागली. गालीचे विणप आनी तांचेर कशिदा भरप ही कामां ती करताली. तांका धाकट्या हनीफाक घेवन कामार वचें पडटालें. सायरा आपल्या धाकट्या भावाक जपताली. ताची अपुरबाय करताली. ताची जतनाय घेता घेतां सायरा आपल्या भावाची आवय जाल्ली.

पांच वर्सां ते कंपनीन काम केल्या उपरान्त तिचे आवयक दोळ्यांनी बरें दिसना जालें. तें निमित्त करून कंपनीन तिच्या आवयक कामावयल्यान काडली. उपरान्त श्रीनगर देगणांत पर्यटकांची हत्या जावपाक लागली. भिरांतीचें वातावरण वाठारांत जाल्ले देखून पर्यटक येना जाले. मागीर गालीचे खपना म्हूण कंपनीच बंद पडली.

घरांत जाण्टी आवय आनी धाकटो भाव आनी आपूण अशे तीग जाणांचे पोट भरपाक जाय म्हूण ती काम सोदपाक लागली. बारामुल्लाचे एके खाजगी शाळेंत तिका थोड्या पगाराचेर शिक्षिकेची नोकरी मेळ्ळी. ती खोशी जाली. पयल्या पगारा दिसा तिणे हनीफाखातीर हलवा आनी कांय कपडे खरेदी केल्ले. तशेच येते थंडेखातीर आवयक आनी भावाक स्वेटर जाय म्हूण लोकर खरेदी केल्ली. एका सप्तकाभितर त्या लोकरीचो तिणे हनीफाखातीर दाट, लांबसो आनी सोबीत स्वेटर विणलेलो.

वर्सां उलगताली. हनीफ मंझगांवांतले एके मदरसेत शिकतालो. मदरसेत शिकप पुराय जाल्या उपरान्त ती ताका कॉलेजांत शिकपाक धाडटली आसली. हनीफ आतां तरनाटो जाल्लो. तो केन्ना अशीर पांयाचो पिजामो घालतालो आनी वयल्यान लांब हातांचें कमीज न्हेसतालो, तर केन्ना ताचेर कुडताय घालतालो. मदरसेतल्या हेर भुरग्यांप्रमाण तोय माथ्याक वांटकुळी विणलेली धवी तोपी घालतालो. सायराभाशेन तोय गोरो आनी सोज्वळ दिसतालो. सायराक तर तो आजुनय भुरगोसो आनी अपुरबायेचोच आसलो.

तिच्या खाजगी शाळेतल्या शिक्षिकेच्या नोकरेक धा वर्सां जाली तरी तिचो पगार वाडोवंक नासलो. तिणे फाटी आठ वर्सां जातकूच आपल्याक पगार वाडय म्हूण सांगलेलें. पूण तिचे आयकून घेवंक नासलें. हेडमास्तर मॅनेजराकडे बोट दाखयतालो. तर मॅनेजर पगार वाडोवपाक पैशे ना, पगार वाडोवक नजो अशी फटीची कारणां सांगतालो. आपलो पगार वाडोवचो म्हूण तिणे कितलीशीच

अर्जीपत्रां दिली. पूण कांयच उपेग जालोना. धा वर्सां आदीचोच पगार तिका दिताले. तांतूत तिचे आनी तिच्या कुटुंबाचे भागनासालें. आदलो उणो पगार आनी धा वर्सांत वाडलेली म्हारगाय. आयज वाडयतले फाल्यां वाडयतले हे आशेर ती रावली. गेल्या दोन वर्सां पयली, नेमियार केल्या नव्या टिचरीक सरकाराचो नवो पगार मॅनेजमेंट दिताली. पूण ही आदली आसून पगार दिनासलें. तिणे बेजारून शिक्षिकेची नोकरी सोडची अशे मॅनेजमेंटाचे यत्न आसले. ती सोडून गेल्यार मॅनेजमेंटाच्या सोयऱ्याक ती पोस्ट मेळपाची आसली.

मॅनेजमेंटांतलो मॅनेजर नांवाक आसलो. बारामुल्लाक रावपी त्या सरदार घराण्यातली एक मनीस नजीब शेख ताचो अध्यक्ष आसलो. तो तिका मेळच नासलो. एक दीस ती अध्यक्षांक मेळपाक बारामुल्लांत गेली. ताच्या म्हालांत भितर सरपाक थंयच्या गार्डानी तिका आडायली. गायेक आमडून घालची तशी तिका भायल्या भायर धांवडायल्ली. तिका म्हालांत धाडूं नाका म्हूण ताणेच तांका फर्मान काडलेलें हें मागीर तिका कळ्ळें.

मदल्या दोन वर्सांत हनीफाक कॉलेजीत धाडपाचें तिचे सपन तशेच उरलें. धावे यत्ते उपरान्त तो घराच आसलो. आपले भयणीचेर जातल्या अन्यायाची ताकाय जाणवीक आसली. ताका तिडक मारताली. तो आपल्या इश्टांक ह्या अन्यायाविशी सांगतालो. तो एक दीस सायरा अन्याय सोसून घेता म्हूण तिचेकडे झगडलो. पूण रोकडीच ताणे तिचेकडे माफी मागलेली. दुसरे दीस नजीब शेखाक मेळपाक वचपाचें ताणी थारायलें. तो ताचेकडे जाप मागपाचो आसलो.

बारामुल्लांतल्या नजीब शेखाच्या म्हालाकडे हनीफ नेटान पावलां उडत यतालो. सायरा चलताना थकलेली. तिका दिसतालें आपूण आतां जाण्टी जायत वयता. हनीफ उंच वाडलेलो. ताच्यो खाड मिश्श्यो वाडटाल्यो. ताच्या आंगांत झुंजारी घोड्याचें बळ वयर सरतालें. सायराक आपल्या फाटल्या भावाचो आदार दिसतालो. भयणीची तो फाटराखण करता म्हूण तिका ताचें कवतूक दिसलें आनी अभिमानान तिचे मन फुलून आयलें.

म्हालाच्या दरवट्यावयलो गार्ड तांका भितर घेवपाक अनमनलो. पूण हनीफान नेट दाखयल्यान गार्डान दरवंटो उगडलो. मागीर तांका म्हालाच्या चौकांत कितलो तरी वगत वाट पळोवची पडली. उपरान्त हस्तीदंती कोराची शेरवानी न्हेसलेलो शेख आयलो. सायरान आपल्या उण्या पगाराची काणी सांगून पगार वाडोवपाक अर्जी केली. आपल्या कानांतलो अत्तराचो कापूस शेखान काडलो आनी नाकान हुंगीत ताणे सांगलें, ''पळय, तूं आदली शिक्षिका. त्या वेळच्या कराराप्रमाण तुकां पगार मेळटलो. आतां वाडोवंक मेळचोना.''

''पूण आतां सगळें म्हारग जालां.'' सायरान आपलें म्हणणें मांडलें.

''जालें म्हूण कितें जालें. तुकां ही नोकरी नाका जाल्यार सोड.'' ताणे आपली मतलबी जाप दिली. ते बराबर हनीफ रागान तांबडो जालो. तोफ गडगडची अशे तरेन तो म्हणपाक लागलो, ''नव्या टिचरींक नवे वाडीप्रमाण पगार दिता. मागीर हिका कित्याक दिना? तांकाच पोट आसा आनी हिका पोट ना?''

''हे ऽ तूं सुबेज उलयता!'' शेख सत्तेच्या अधिकारान उलयलो.

''तिचेर अन्याय जाता म्हूण हांव उलयतां.''

''तिचेर अन्याय जाता जाल्यार ती शाळेत कित्याक रावल्या. तिणे नोकरी सोडची.''

''आनी कितें खांवचें? आदीच अर्द पोटार! हांव वोगी रावचोना. तुमकां कितें तरी दाखयतलों!'' हनीफान रागान म्हणलें.

''तूं कितें करतलो तें कर ! तूं आमचें कांय एक करूं शकना. आतां आमचें सरकार आसा. चलात तुमी हांगाची!''

हनीफान रागान आपलोच वोंठ चाबलो. ते बराबर ताच्या वोंठांतल्यान रगत येवपाक लागलें. सायरान ताका थातारलो.

मागीर ती दोगांय थंयसून परतलीं. तांच्या काळजांत अन्यायाचो आनी अपमानाचो उजो जळटालो.

हे घटने उपरान्त हनीफ घरा उसरां येवपाक लागलो. तो आपलो दोस्त रशीद आनी हेर इश्टावांगडा भोवतालो. एक दीस घरा येतालो तर दुसरे दीस घरा येना जालो. सायराक ताचो हुस्को दिसपाक लागलो. ताणे ताका सांगलें, ''रागाच्या भरांत कांय करूं नाका. रागाक दोळे आसनात. आयज तू एक वायट करशीत तर फाल्यां तुकां तातुंतल्यान वाट काडपाक जांवचेना. तूं घुस्पतलो.'' पूण ताणे सायराचें कानार घेतलेंना. एक दीस तो आनी ताचो इश्ट रशीद कॅम्पाक वता म्हूण सांगून गेले ते परत आयले नात. आपली खबर लेगीत धाडली ना. घरच्यांचेर आकांत आयलो, ताणी ताका खूबकडे सोदपाचो यत्न केलो. पूण कांयच उपेग जालोना. एक दीस रशीदाचे आवयन, तिका खबर कळटकूच सायराक सांगलें, ''हनीफ आनी रशीद कॅम्पांत आसात. ते तुबकां चलोवपाचें, बॉम्ब शेवटुपाचें फौजी प्रशिक्षण घेतात. पयली तिका समजलेंना; मागीर कळ्ळें. ''हाय अल्ला, म्हज्या भावाक कोणे ह्या उज्यांत घातलो कांय? पुलीस आनी मिलिटरी तांका कितें करीत सांगू नजो.'' अशें म्हणून तिणे धसकोच घेतलो.

कॅम्पाक वचून ताका स म्हयन्यावयर जाल्ले. ह्या दिसानी ते खंयच्या

गांवांत आसा? कितें काम करतात? तें दोगांयच्या घरा खबर नासलें. आयज जिस्तूच रशीदाच्या घरा फोन आयलो. रशीद आपल्या आवयकडे मोघम उलयल्लो. ''आयज आमी दोगय घरा येतले. हनीफाच्या घरा गुपचूप रकाद दी.'' रशीदाच्या आवयक खोशी जाल्ली. तिणे हनीफाच्या घरा आपूण स्वता वचून ताचे भयणीक रकाद पावयल्लो आनी गुप्तताय पाळपाक सांगलेलें.

सायरा दनपार सावनच आपल्या भावाची वाट पळयत रावलेली.

सांजवेळ जायत आयली तेन्ना शेजारचो सय्यदमामू हातांतली बडी जमनीक तेंकयत तेंकयत तागेर आयलो आनी ताका उलो मारून सांगपाक लागलो, ''सायरा, ओऽ सायरा, आयज पुलीस गांवांत घराघरांनी भोंवतात. मिलिटरी सैनीक ट्रकांतल्यान यो-वच करून गस्त घालतात.'' ''हाय अल्ला, हनीफ बीन गांवांत येतले म्हूण तांका कोणे सांगलें काय? तांका कशें कळ्ळें? - तिणे मनांतल्या मनांत म्हणलें. आपल्या मनांतली भिरांत लिपयत तिणे ताका विचारलें, ''ते कित्याक आयल्यात?'' ''पुलीस सांगतात, गांवांत खंय दहशतवादी येवपाचे आसात. तांका ते धरपाक आयल्यात.'' हे आयकून सायराचो जीव गोळाक लागल्यावरी जालो. तिणे मनांत म्हणलें ''हनीफ आनी रशीद आयज ना येयल्यार पुरो. देवा तूं पाव.''

''पुलीस रशीदागेर येवन गेले. ताणी रशीदाचें घर सोदलें, पूण तांका तो मेळ्ळोना.'' सायरा वोगीच रावली. आतां तांगेरूय पुलीस येतले हें कळून तिका धक्को बसलो. आमोरी जाताली. तिणे बेगीबेगीन घराचें दार आनी जनेलां बंद केलीं. ती आनी तिची आवय भिरांतेन घरांत बसून रावलीं.

थोड्या वेळांत दार खटखटावपाचो आवाज आयलो. 'कोण थंय?' तिणे विचारलें. पूण भायरसून जाप आयली ना. ती बसलेकडे वोगीच रावली. परत दार मोठ्यान धोडायलें. ते बराबर ती उठली आनी दाराकडे आयली आनी दार उगडलें तशे चारपांच आर्माद पुलीस घरांत सटासट भितर सरले आनी घरांत सोदपाक लागले. पुलीस इन्स्पेक्टरान तिका विचारलें, ''हनीफ खंय आसा?''

''सायब तो घरांत ना.''

मागीर तो खंय आसा?

''तो स म्हयन्या पयलीं गेला...''

''खंय गेला?''

''सायब तो... नोकरेक म्हूण भायर गांवां गेला.''

तिणे ताका वांचोवपाक म्हूण फट सांगलें.

''तूं सायरा टीचर?'' ''हय सायब.''

पुलिसांनी घराचो कोनश्यान कोनसो सोदलो.

मागीर ते आपल्या बुटांचो आवाज करीत गेले.

घराभायर काळोख पातळ्ळेलो. गांवांत आयज लोकांनी आपले वेव्हार बेगीन बंद केल्ले. गांवांतल्या सगळ्या घरांची दारां जनेलां धांपलेली. लोक घरां भितरच रावले. गांवांत शांतताय पातळ्ळेली.

सायरान घरांतलो एक दिवो सोडून बाकीचे दिवे पालयले. रातची धा वरां जांवये, इतल्यान दाराकडे पावलांचो आवाज जालो. ती दाराकडें गेली, आनी कोण कांय म्हूण ल्हवू आवाजांत विचारलें. ताणे तशेच ल्हवू आवाजांत सांगलें. ''हांव...'' ती हनीफाचो आवाज वळखली. तिणे आवाज ना करतां दार उगडलें. हनीफा वांगडा रशीद आर्मासयत तिच्या मुखार आसले. तांचो तोंडावळो आनी कपडे मातयेत रापलेले. ते मोन्यानी घरांत आयले. तिणे दार बंद केलें आनी तांका बसात म्हूण खुणायले. आवयन तांका उदक पियेवंक हाडून दिलें.

''स म्हयने तूं खंय आसलो?'' सायरान हनीफाक विचारलें.

''आमी फाटी कॅम्पाक आसले. हांगासून दोनशें किलोमीटर पयस. चार म्हयने आमी कश्ट काडून ट्रेनिंग घेतलें. आनी फाटले दोन म्हयने आमी आठ जाण मेळून आमच्या कामांत आसात.''

''काम कसलें.'' सायरान जाणा जावन घेवपाखातीर विचारलें

''हांगा आमकां आमचें सरकार हाडपाक जाय.''

''पळय, म्हाकां तुमचें राजकारण कळना. तुकां कोणे सांगलें सरकार हाडपाचें?''

''दिदी आतां प्रस्न विचारून कांय जांवचेना. हांव तुकां आनी मांक भेटपाक आयलां.

आतां आमकां ताकतिकेन वचपाक जाय. ह्या रशीदाकूच तूं विचारून पळय.''

''हनीफ तूं वचूं नाका'' - सायरान आग्रो केलो.

''आतां हांव रावचोना. पुलीस म्हाकां धरून व्हरतले. पुलीस आनी मिलीटरी आमच्या फाटल्यान लागल्यात. तशेच आमचे स वांगडी वाटेत रावल्यात. आमी रावपाक शकना. रावल्यार भंय आनी ना रावल्यारूय भंय. आतां आमी आमचें तारूं दर्यांत लोटलांच.''

मात्शे वगत रावन ते दोगूय घराभायर सरले आनी काळखांत नाच्च जाले.

मध्यानराती उपरान्त फारपेट सोंपलेलो. पूण भिरांकूळ शांतताय

काळखातय तोपताली. सायरा आनी तिची आवय भियेत भियेत रात सारताली. फांतोड केन्ना जाता अशें तांकां जाल्लें. मशिदीतली बांग सायरान आयकली तशे तिणे घराचे दार उगडलें. भायर काळोख आसलो. तिणें 'लालटेन' पेटयलो आनी तो घेवन ती घराभायर सरली. पावलां बेगीबेगीन उडयत शेजारच्या सय्यदमामूकडे गेली. तिणे ताका उलो केलो. सय्यदमामूऽ सय्यदमामूऽऽ.''

सय्यदमामू वांगडा ताच्या घरांतलीय मनशां उठली. म्हाताऱ्या सय्यदमामून कांचेवतच दार उगडलें आनी विचारलें, ''कितें जालें?''

''राती हनीफ आयिल्लो मेळपाक.'' तो गेल्या उपरान्त मध्यानरातीचेर दोंगराकडे फारपेट जाताले.... व्हडली लडाय कशी! मिलिटरी तांच्या मागार आसली. दोगांयनी एकमेकांचेर फारपेट केला आसतलो.''

''तूं अशीच भियेता. फाटल्या दिसानी अशे फारपेट जाल्ले तेन्नाय तूं हनीफाच्या हुस्क्यान भर रातची लेगीत आमगेर येताली. तूं चित्ता तशें कांय जांवचेना.''

''पूण मामू, रातीच हनीफ आयल्लो. तो गेल्या उपरान्त.... गुळयांचे आनी बॉम्बांचे व्हडले आवज....'' सांगताना सायराच्या दोळ्यांत तुकां दाटलीं. मामूकय भंय आनी चिंता जाली. तोय वोगीच रावलो. मागीर ताणे तिका धीर दिवपाचो यत्न केलो.

सकाळ सोपून दनपार जायत येताली तरी कितें घडलां ताची खबर नासली. खबर काडपाक म्हूण मामू बाजारांतल्या पुलिस चौकेकडे गेलो. बाजारांत सदचेवरी लोक वावुरताले. इतल्यान पुलीस व्हेन चौकेकडे येवन थांबली. पुलिसानी व्हेनीचें दार उगडलें आनी एका फाटल्यान एक अशी आठ मडी भायर काडून पुलीस चौकेत हाडून उडयलीं. सुण्यांक मारून हाडून ताची मडी उडयतात तशी तीं मडीं पातळलेलीं. तें पळोवपाक सय्यदमामूक जायना जालें. रशीदाचें मडें ताका दिश्टी पडलें. गुळयांनी ताची चाळण जाल्ली. ताचे कुशीकचें दुसरें मडें सारकें वळखूपाक जायना जालें पूण हें हनीफाचें म्हूण कळपाक ताका चड वेळ लागलोना. तो आनीक थंय रावलोना. सरळ तो परतलो.

आठ जाणाक मिलिटरीन मारल्यात आनी तांची मडीं पुलीस चौकेत हाडल्यांत ही खबर मामू पावच्या पयलीच कोणेतरी वाड्यार हाडलेली. मामू सायराल्या घराकडे खर्शत पावलो. थंय वाड्यावयले लोक जमलेले. मामून खबर सांगनाफुडे सायराचो आवरोच उडलो. ती तशीच घराभायर सरून पुलीस चौकेकडें वचपाक लागली. तशे जमलेल्या लोकांनी तिका आडायली. एकल्यान म्हटलें, ''तूं अशीच वता? सारकी न्हेस तरी.'' दुसरे बायलेन म्हटलें, ''तोंडार

पर्दा ना तो ना, माथ्यावयल्यान ओडणी तरी घे.''

सायराक आतां कसलीच पर्वा उरूं नासली. सगल्या मदसून वाट काडीत ती पुलीस चौकेवशीन आकांतान धांवत सुटली...



# नातें

दुसरे फावट हांव ट्रेनितल्यान बरोडा वयतालों. ते ट्रेनीत बसलां थंय म्हाकां गेल्या वर्साची याद जाली. गोंयांत तेन्ना म्हज्या घरा म्हजो धाकटो चलो बरो नासलो. ताका ताप येतालो. ताका दोतोराक दाखोवन वखद चलतालें. तो एक-दोन दिसांत बरो जातलो अशें येवजून पयलीं थारायल्ल्याप्रमाण बरोडा आनी साबरमती आश्रमांत वचपाक हांव भायर सरलों. गोंयांतसून बसितल्यान मुंबय आनी मुंबयसून ट्रेनितल्यान दुसरे दीस सांजवेळा हांव बरोडा पावलों. बरोडा पावच्या पावन हांवें फोनावेल्यान धाकट्या चल्याची खबर घेतली. ताका आजुनय ताप येतालो. म्हाका ताची काळजी अदीक दिसपाक लागली. ती रात हांवें लॉजिगांत काडली आनी दुसरे दीस सकाळी स वरांचेर फोन केलो तर फोनावेल्यान म्हजे बायलेचो रडकुळो आवाज आयकूंक आयलो. ''ताका ताप आजून येता.'' हे आयकून हांवय काचाबूल जालों आनी हांव घरा परत येता अशें सांगलें. बरोडा शाराचे सारकें दर्शन लेगीत हांवें घेवंक नासलें. हांवें रोकडेंच म्हजें बॅग घेवन लॉजींग सोडलें. टॅक्सीतल्यान विमानतळ गांठलें. पूण मुंबय विमान वचपाक बरोच वगत आसलो. हांवें बरो वगत थंय तळमळत काडल्या उपरांत धा वरांचेर गुजरात एअरवेजचें ल्हान विमान सुटलें. तें बरोडासून सुरत आनी सुरतसून मुंबय बरोच वगत घेवन पावलें. ते दीस मुंबयसून गोंयां वचपाक विमानाची तिकेट म्हाकां मेळ्ळीना. मागीर फुडें धडपडत बसितल्यान हांव दुसरे दीस सकाळी गोंयां पावलों. घरा पावतकच पळयत तर म्हजो धाकटो पूत बरो जाल्लो. ताणे हांसतच म्हाका येवकार दिलो. ताका तापबीन कांयच नासलो. म्हज्या काळजावयलें व्हडलें वजें ना जाल्लें. चल्याच्या काळजीतल्यान धडपडून

हांव परत गोंयां पावल्लों आनी ताका भेटून म्हाकां खोशी जाल्ली.

फाटली बरोडाची ट्रीप अशी फुकट गेल्ली. म्हूण हांव एका वर्सा उपरांत परत बरोडा वतालों. ट्रेन बरोडाक पावपाक दोन वरां आसलीं. हांव सामान्य वर्गांतल्या डब्यांत बसलेलों. डब्यांत लोकांची गर्दी आसली. म्हज्या कुशीक बसलेल्या पांच-स भुरग्यांकडे हांवें वळख केली. ती राजस्थानचीं. तांतुतली चली पताशी आनी चलो झाबर मुंबय रावतालीं. तीं आतां आपल्या राजस्थानचे मावशेकडे वयतालीं. देखून तांच्या मुखामळार उमेद दिसताली. ट्रेनितले सगळे लोक खंयनातरी खंय वयताले. कोण आपल्या सोयऱ्याक मेळपाक, कोण आपल्या घरा वचपाक तर कोण कामाखातीर वयताले.

ट्रेन चलताली आनी म्हज्या चितनाक सूरताल मेळटालो. हांव बरोडा कित्याक वयतालो कांय? तोय दुसरे फावट. पयले फावट गेल्लो तेन्ना बरोडा शार पळोवपाक लेगीत मेळू नासलें म्हूण? कांय अहमदाबादलागी आसलेल्या साबरमती आश्रमाक भेट दितना वाटेत बरोडा शार मेळटा ते पळोवचें देखून? बरें साबरमती आश्रमांत हांव कित्याक वयतालो? तो महात्मा गांधिजींचो आश्रम म्हूण? कांय गांधिजीक मेळपाक? हय हांव गांधिजीक मेळपाक वयतालों. गांधिजी आतां थंय नासले. मिठाचो सत्याग्रह करपाक गांधिजीनी दांडी यात्रे वेळा साबरमती आश्रम सोडलेलो. देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळ्या उपरांतूच साबरमती आश्रमांत आपूण परतो येतलों असो ताणी सोपून घेतलेलो. गांधिजीच्या हत्ये उपरान्त हो आश्रम गांधिजींचे यादस्तीक कशें जाल्लें. त्या स्थळांत वचून म्हाकां वर्तमानकाळासावन गांधिजींच्या काळांत वचपाक जाय आसलें. वाचनातल्यान म्हजेर संस्कार खंय तरी जाल्ले. तांचेकडे म्हजे एक नातें वाडपाक लागलेलें. आनी आसा तश्या स्वरूपांतल्या गांधिजीक मेळपाक हांव साबरमती आश्रमांत वयतालो. फाटी अशेच वोडीन हांव पवनार आश्रमांत गेल्लो आनी विनोबा भावेक भेटलेलो. ताका प्रत्यक्ष भेटपाचो आनंद हांवें घेतलेलो. विनोबाजीनी तर गोंयची आनी भाऊ काकोडकारांची खबर घेतलेली. पूण म्हज्या वाटेवयले बरोडा शार म्हाका कित्याक उलो घालतालें कांय? थंयच्या फामाद म्युझियमाखातीर? थंयच्या सोबीत राजवाड्याखातीर? थंयच्या वृंदावन गार्डनाखातीर? कांय बरोडा युनिव्हर्सिटीखातीर? आंऽ, बरोडा शारांत म्हजी एक इश्टीण रावताली.... सेलिना डिकॉस्ता.

सेलिना बरी हुशार. म्हजेपरस चड शिकलेली. हिन्दी साहित्यांत एम. ए., समाजशास्त्रांतय एम. ए. आनी एमएड. ती म्हजेपरस दोन वर्सांनी व्हडली. आमच्या गांवच्या इगर्जेच्या हायस्कुलांत हांव शिकयतालों. म्हाकां हायस्कुलांत

तीन वर्सां जाल्ली. म्हज्या चवथ्या शालेयवर्साच्या सुर्वेक सेलिना डिकॉस्ता आमच्या हायस्कुलांत हिन्दी आनी समाजशास्त्र ह्या विशयांची नवी टिचर म्हूण आयली. आमच्या हायस्कुलांत पांचवी ते धावीमेरेन दोन दोन वर्ग चलताले. हांव कोंकणी आनी हिन्दी शिकयतालों. पूण वर्ग चड आसलेल्यान आनीक एका शिक्षकाची गरज आसली. हायस्कुलांत ती ज्युनिअर आनी हांव सिनीअर म्हण्टकच कसलोय सल्लो घेवपाक ती म्हजेकडे येताली. ती मेकळेपणान उलयताली. ती म्हजी वांगडी शिक्षिका आसली तरी तिच्या मनमेकळ्या स्वभावाखातीर ती म्हजी इश्टीण जाली.

ती चांदोरची. चांदोर गोंयची आदली राजधानी. चांदोरसून ती सद्दां सकाळी आमच्या गांवच्या हायस्कुलांत येताली. केन्ना लांब विस्तीद, तर केन्ना उंची साडी, केन्ना घागरो कसो लांब स्कर्ट आनी ब्लावज अशें वेगवेगळे न्हेसून ती येताली. चांदोरांत तांचे पलास कशें घर. व्हडली जमीन आनी बागायत आसली. ती उंच, गोरी आनी सोबीत सुंदर आसली. दोळे भावना उक्तावपी आसले. देखून हांव तिका प्रिंसेस ऑफ चांदोर म्हण्टालों. चांदोरची राजकन्या आपल्याक म्हण्टा हें आयकून ती खोशी जाताली आनी भितरल्या भितर मुरगट्टाली. हांव तिची तोखणाय करतालों म्हूण तर हांव तिका चड आवडटालों. ती केन्ना बरें रांदून हाडटाली आनी म्हाका मुजरत दिताली. केन्ना बेबींक, तर केन्ना केक, केन्ना डोस तर केन्ना बॉल ती स्वत: करून हाडटाली. ती स्टाफरुमांत टिचरांक दिताली पूण म्हाका घरा व्हर म्हूण मुजरत दिताली. तिणे म्हजेकडे इश्टागत जोडलेली आनी म्हज्या घरच्या मनशांकडे नातें जोडलेलें. म्हज्या बायलेक भेटपाक तर ती वेळ काडून घरा येताली. म्हज्या घरकान्नीच्यो वेगवेगळ्यो साडयो तिका आवडटाल्यो. एक दीस घरकान्नीक साडी घेतना तिकाय हांवें बरीशी साडी घेतली. तीन म्हयन्याभितर ती म्हजी इश्टीण आनी म्हज्या घरची सोयरी जाली.

तिचे हिन्दी हातबरप बरें सुंदर आसलें. तिचे मनय निर्मळ आनी संवेदनशील. म्हाका दिसलें तिणे जर आपल्या सुंदर हातबरपांत बऱ्यो हिन्दी कथा बरयल्यो तर जादू जांव येतालो. तिणे आपल्या कॉलेज जिवितांत कांय हिन्दी कथा बरयल्ल्योय. हांवें तिका परत कथा बरोवपाचो सल्लो दिलो आनी आग्रोय धरलो. तिणे दोन कथा हिन्दीतल्यान बरोवन हाडून म्हाका दाखयल्यो. एक कथा बरी आसली आनी दुसरी कथा हांवें तिका परत बरोवपाक सांगली. म्हजी विद्यार्थीनी कशी तिणे म्हजे आयकून तिणे एका सप्तका भितर ती कथा परत बरोवन हाडली. ह्यो दोनय कथा हिन्दी म्हयनाळ्यांत उजवाडाक रोकड्यो

आयलोय बी. उपरान्त कांय तेपान तिणे आनीक चार कथा बरयल्यो. हांवें तिका जागयली म्हूण आपूण बरोवपाक पावली हे खातीर ती म्हाका दिनवासताली.

ती तीस वर्सांची आसली. स्टाफ रूमांत केन्ना केन्ना आमी तिची फकाणां करताले. सेलिना तूं केन्ना काजार जातली? अशें विचारल्यार ती हांसताली आनी रोकडीच गंभीर जाताली आनी म्हण्टाली, ''हांव आंकवारच रावतली, आंकवार मोरी भाशेन.''

नातालांची सुटी सोपली आनी नव्या वर्सा आमच्या हायस्कुलाच्या हेडमास्तराची बदली जाली आनी बाबू शिरोडकार म्हूण नवो हेडमास्तर रूजू जालो. ते दिसासावन सेलिना उलयना जाली. वोगी वोगी रावपाक लागली. तिच्या मुखामळार गंभीर सया मारपाक लागली. तिच्यांत जाल्लो हो बदल पळोवन हांव अजापलों. दोन दिसांनी ती एकटीच आसा अशें पळोवन हांवें तिका विचारलें. नव्या हेडमास्तरान तुकां तापयली? तिणे मानेनच ना म्हटलें. मागीर हांवें परत परत विचारतकूच तिणे म्हाका तिच्या कॉलेजच्या जिवितांतली खबर सांगली. बाबू शिरोडकार तिचो कॉलेजमेट. ती दोगांय म्हाविद्यालयांत शिकतालीं. तांची इश्टागत जाली. मागीर इश्टागतीच्याय फुडें वचून सेलिनाक तो आवडपाक लागलो. ती ताचेर मरताली. जेन्ना हें ताका कळ्ळे तेन्ना तो तिच्यापासून पयस रावपाक लागलो आनी निमाणी ताणे तिची इश्टागत तोडली. हें सांगताना सेलिनाच्या दोळ्यांत दुकां आयली. मागीर हांवें तिका समजावपाचो यत्न केलो आनी विसरायेर घालपाक सांगलें. दुसरे दिसासावन ती पयलीभाशेन वागपाक लागली.

आमच्या गांवांत तेकून आसलेल्या दुसऱ्या गांवांत नवें हायस्कूल सुरू जावपाचें आसलें. त्या गांवांतसून आमच्या स्कूलांत बरीच भुरगीं येतालीं. तांतली चडशी भुरगी त्या हायस्कुलांत वचपाची आसली. तेखातीर फुडल्या शालेय वर्सासावन हायस्कुलाचे वर्ग कमी जातले आसले. फुडें हिन्दी शिकोवपी दोन शिक्षकांची गरज उरची नासली देखून एक म्हयनो पयली सेलिनान आपलो राजिनामो दिलो आनी भुरग्यांची परीक्षा सोपतकच स्कूल सोडलें. म्हाकां दिसतालें हांव हिन्दी शिक्षक आसलेल्यान त्रासांत पडचो न्हय वा म्हाका तिची अडचण जांवची न्हय हे खातीर तिणे पयलीच राजिनामो दिल्लो. आमची इश्टागत राखपाखातीर तिणे हें केल्लें अशें म्हाकां परत परत दिसतालें.

दुसरे वर्सा स्कूल सुरू जालें. स्कुलांत भुरगींय कमी जाल्लीं. कांय वर्ग कमी करचे पडलेले. सेलिना ना हाची म्हाका चड जाणीव जाताली. एक दीस आयतारा तिका भेटपाक हांव तिच्या घरा चांदोर केलों. थंय तिच्या भावाकडल्यान

कळ्ळें, ती एका मिशनरी कॉलेजांत शिकोवपाक बरोडा गेल्या. घरा भेटलीना म्हूण हांव नाउमेद जाल्लों पूण ती कॉलेजांत शिकयता हें कळ्ळ्या बरोबर म्हाका खोशी जाल्ली. कांय तेप गेल्या उपरांत ती बरोडा युनिव्हर्सिटीत व्हिजिटींग लेक्चरर म्हूण वयता हेय तिच्याच भावाकडल्यान कळ्ळें.

ती बरोडा गेल्ल्याक चवदा वर्सांचो काळ मदी गेल्लो. तशेच ती म्हज्या गांवासावन खूब पयस आसली. स्थळ आनी काळाचेंय अन्तर आमचे मदी तयार जाल्लें. तशेच तिचो पुराय पत्तो म्हजेकडे नासलो.

आतां ट्रेनितल्यान वयतना, हजारभर किलोमीटर अंतराचो प्रवास करताना तिका प्रत्यक्ष भेटपाची उमळशीक म्हाका जाल्ली. ती कशी आसतली काय? तिका पंचेचाळीस वर्सां जाल्या आसतलीं. मात्शी प्रौढ कशी दिसतली. तिचे काजार जालां कांय? कांय आजुनय आंकवार मेरीच आसा? मात् तिचे दोळे आजूनय भावूक आसतले आनी तांतून आपलेपण दिसतलें.

ट्रेनीचो वेग कमी जाल्लो. बरोडा रेल्वेस्टेशन लागी पावल्लें. सेलिनाक म्हजे इश्टीणीक हांव भेटतलों असो हांवें निश्चेव केलो. आमच्या मदी खूब वर्सांचो भूतकाळ गेल्लो. आमच्या इश्टगतीचें नातें शेणल्यावरी जाल्लें. पूण हांव तिका भेटलेल्यान हे नातें परत जिवें तटतटीत जातलें हाची म्हाका खातरी आसली. तिका भेटपाची खर इत्सा घेवन हांव आमोरेच्या वेळार बरोडा रेल्वे स्टेशनार देवलों.

दुसरे दीस सकाळी उठलों. म्हाकां साबरमती आश्रमांत वचूंक जाय. गांधींच्या जिणेचो अभ्यास करूंक जाय आनी तांचेपासून प्रेरणा घेवंक जाय हें सगळें हांव विसरलों आनी एका साद्या इश्टीणीक भेटपाक हांव लॉजाभायर सरलों.

बरोडा शारांत मिशनरी कॉलेज खंयचे? तें खंय असा? ही खबर पयली काडूंक जाय आसली. रेल्वे स्टेशनार टॅक्सी ड्रायव्हराक विचारलें पूण तें कॉलेज खंय आसा तें ताका सांगूक जायना जालें. दुसऱ्या टॅक्सी ड्रायव्हराक विचारलें तेन्ना ताणे दोन तीन कॉलेजांची नांवां सांगलीं. एका कॉलेजांत तरी वचून विचारूया म्हूण हांवें टॅक्सी भाड्याक केली. वाटेत बरोडा युनिव्हर्सिटी लागली. युनिव्हर्सिटीच्या प्रशासकीय विभागांत चवकशी केल्यार ती फाटी व्हिजिटींग लेक्चरर म्हूण येताली हें कळ्ळें. मात् ते वखतार सगळे प्राध्यापक युनिव्हर्सिटीच्या हिन्दी संमेलनाक गेल्यात अशें ताणी सांगलें. युनिव्हर्सिटीच्या भाशा विभागाच्या सभाघरांत गेलों थंय हिन्दी साहित्याचेर परिसंवाद चलतालो. थंय दोन वरां अशीच गेली.थंय तिची चवकशी केल्यार कोणूच कांय सांगूक शकलेंना. परत

प्रशासकीय विभागांत आयलों. थंय परत चवकशी केल्यार ती निर्मल कॉलेजांत शिकयता आनी त्याच कॉलेजच्या स्टाफ क्वॉटर्सांत रावता अशें म्हाका सांगलें. बरोच वगत लागून एका कारकूनान तिच्या क्वॉर्टसाचो बी-१६ हो नंबर दिलो. इतले म्हणसर दनपारचे एक वर जायत आयलें. युनिव्हर्सिटीत असोच भोवन दोन वरां काडलीं आनी मागीर हांव बसितल्यान निर्मल कॉलेजाकडे पावलों. ह्यावेळा कॉलेजांत न वयता स्टाफ क्वॉटर्सांत गेल्लो बरें अशें येवजून हांव क्वॉटर्साकडे चलत गेलों. तो बिल्डींगेतले स्टाफ क्वॉटर्स सोदता म्हणसर पुरो जालें. बरेच जाणाक विचारल्या उपरांत बी-१६ क्वॉटर्स मेळ्ळो. फ्लॅटाभाशेन आसलेल्या त्या क्वॉटर्साचे दार बंद आसलें. दारावयली बेल वाजयली. म्हज्या काळजांत धडधडलें. इतल्या वर्सांनी ती म्हाका वळखत ना वळखत अशी भिरांत दिसपाक लागली. इतल्यान एका सोबीत तरनाटे बायलेन दार उगडलें. तिणे गुजराती शैलीन उजव्या खांदार निळे साडयेचो पालव घेतलेलो. ती पंचवीसेक वर्सांची आसली. म्हाका पळोवन ती पयली कांचवेली. हो कोण केस पिकलेलो, खांदार बोटवो घेतलेलो सादारण जाण्टो मनीस असो प्रस्न तिच्या तोंडार उदेलो. हांव भलतेचकडे पावलां अशें म्हाकाय दिसलें. तरी हांवें नेट करून विचारलें. ''सेलिना डिकॉस्ता हांगा रावता?'' ती मात्शी गंभीर जाली आनी रोकडीच हांसत तिणे म्हणलें, ''ती हांगा पयली रावताली. एकटीच रावताली. तिणे कॉलेज सोडल्यार एक वर्स जालें. ती कलकत्त्याक मदर तेरेजाच्या आश्रमांत गेल्या.'' हें आयकून म्हजे तोंड सामकें पडलें. तें त्या तरनाटेन पळयलें. तिणे म्हाका प्रस्न केलो. ''तुमी खंयसून आयल्यात! तुमी तिचे कोण?'' ''हांव गोंयसून आयलां. ती म्हजी वळखीची. हायस्कुलांतली म्हज्या वांगडची शिक्षिका तशेच इश्टीण. ते गुजराती तरनाटेन म्हाका म्हटलें, ''सर, सेलिना टीचर ही म्हजीय कॉलेजची टीचर. ती आमकां हिन्दी शिकयताली. तिका लागून हांवें हिन्दी शिकपाक चड रस घेतलो आनी हिन्दी विशयांत एमए केली. सर, तिणे कॉलेज सोडतकूच म्हाकाच तिच्या लुगारार अध्यापक म्हूण घेतल्या.'' मागीर तिणे हांसत म्हटले, ''सर, भितर येयात आनी बसात. हो क्वॉटर्स तिचोच आनी म्हजें नाव नियती अग्रवाल.'' तिच्या आग्र्‍याक लागून हांव भितर सरलो आनी सोफार बसलों.

सेलिनाची चवकशी करपाक हांवें विचारलें, ''ती मदर तेरेजांच्या आश्रमांत कित्याक गेली?'' ''ती सांगताली, मदर तेरेजाच्या कलकत्त्यांतल्या आश्रमावतीन लोकांची सेवा जाता. त्या आश्रमाचे खूब फांटे आसात. बंगालांत, आसामांत लेगीत ते फांटे आसात. आतां ती खंय आसा ते सांगू नजो. सर, आमचे

टिचरीक लोकसेवा करपाची इत्सा आसली.'' मदीच तोडून हांवें विचारलें. ''ती एकटीच आसली! तिचे लग्नबीन?''

''ना, ती आंकवारच आसली. लोकांची सेवा करीत लोकांकडे नातें जोडपाक जाय अशें ती सांगताली.'' हांवें मनांत म्हणलें. ''हांव हिका सोदीत भोवतां. हिचेकडे इश्टागतीचें नातें जिवे दवरूंक सोदतां आनी ही लोकसेवेतल्यान सगळ्या लोकांकडे नातें दवरपाक गेल्या. व्वा!''

म्हाकां पियेवपाक उदक हाडपाक नियती घरांत गेली आनी ग्लासभर थंड उदक हाडून मेजार दवरलें. वण्टी कुशीक पुस्तकांनी भरलेली आलमार आसली. हांव आलमारीक पळयतां ते पळोवन नियती सांगपाक लागली, ''सर, सेलिना टिचरीन पुस्तकांनी भरलेली ही आरमार म्हाकां भेट दिल्या. हातूंत चडशी हिन्दी पुस्तकां आसात. तिणे एक पुस्तक काडून म्हजेकडे दिलें. उगडल्यार पयल्या पानार सोबीत हस्ताक्षरान नांव बरयल्लें - सेलिना डिकॉस्ता. नियतीन म्हाका बस सांगून आपूण म्हजे खातीर च्या करून हाडपाक रान्नीकुडीत गेली.

मदीच हुमकळ्याक पडल्यावरी म्हजी दशा जाल्ली. हांव पिश्यावरी हांगा आयलो म्हूण हांव म्हाकाच कोसपाक लागलों. मागीर हांवें म्हाकाच थातारायलो आनी म्हणलें, हांव हांगा आयला तो म्हजे शेणलेले नातें जोडपाक. हातूंत पिशेपण कांयचना. आपलें नातें वाडोवप हो समाजांत रावतल्या मनशाचो स्वभाव आनी तांतूतच ताचे मनीसपण आसा.

फाटी हांव असोच अब्बासाचे मांक भेटपाक गेल्लों ती याद जाली. कॉलेजच्या पयल्या वर्साचे सुर्वेक अब्बासाच्या मांच्या घरांत हांव बिराडाक रावल्लों. एकूच म्हयनो हांव तांगेर रावल्लो खरो पूण जल्मभराची याद येवपासारकी तिणे म्हजेर माया केल्ली. ती त्यावेळा पन्नास वर्सांची आसूंये. हांव भुरगो कॉलेजच्या पयल्या वर्साक वचपी. तिचो अब्बास चवदा वर्सांचो. आपल्या अब्बासावांगडा तिणे म्हाका जेवपाक वाडचो आनी म्हजी अपूरबाय करची.

मदी म्हजे कॉलेजचें शिक्षण जालें. नोकरी मेळी. लग्न जालें. हांव संसारांत गुरफटून गेलो. एकदीस बारा वर्सा उपरांत तिची म्हाका याद जाली आनी तिका मेळपाक हांव भायर सरलो. वाटेंत शारांतल्या दुकानावयली एक साडी विकत घेतली आनी हांव सायकलीवयल्यान अब्बासाच्या मांच्या घराकडे पावलों. घराचे पडवेर येवन हांवें उलो केलो. अब्बासाचे मांऽ. परत दोन तीन फावट हांवें तसोच उलो केलो. घरांतल्यान जाप आयलीना ! मात एक तरणी बायल माथ्यार पदर घेवन आनी भुरग्याक हांडीर घेवन पडवेर आयली. ''अब्बासाची मां घरांत आसा? हांवें विचारलें. ती पयली वोगीच रावली. मागीर तिणे अब्बासाची आवय

भायर पडल्यार पांच वर्सां जाली अशें सांगलें. तें आयकून हांव निर्शेल्यावरी जालों. इतल्या वर्सांनी हांव हांगा आयलो म्हूण म्हाका खंत भोगली. ती बायल तिची सून. अब्बासाची औरत आसली. हांवें अब्बासाची चवकशी केली. तो कामाक गेला. सांजवेळा येतलो अशे तिणे सांगलें. तशे पळोवंक गेल्यार अब्बास म्हाका वळखूचो नासलो. हांव वोगीच उबो रावलां तें पळोवन तिणे म्हाका बसपाक एक कदेल दिलें. हांवें अब्बासाचे आवयची फाटली खबर तिका सांगली. तिणे भितर वचून बेगीन ग्लासभर सरबत हाडून दिलें. हांवें अब्बासाचे मांक साडी हाडलेली ती किदें करूं असो म्हाका प्रस्न पडलो. हांवें विचार केलो ही अब्बासाची बायल अब्बासाचे मांचे दायज फुडें व्हरपी हें चितून हांवें तिका म्हणलें. ''अब्बासाचे मांक म्हूण हांवें ही साडी हाडलेली. आतां ही हांव तुका दितां. ही साडी तुकाच हाडल्या म्हूण दवर. तिणे नाका अशें म्हटलेंना. तिणे ती घेतली. हांवें सरबत पियेलें. मात्सो रावून हांवें तिका बरें म्हुटले आनी भायर सरतलों इतल्यान तिणे म्हाका उलो करून सांगलें, ''भाईजान, अब्बासाच्या मांची याद दवरून आमगेर केन्ना यो.'' हांवें हां म्हटले आनी भायर सरलों. अब्बासाचे मांकडले नातें इतलीं वर्सां हांव विसरलेलों. एक बरें नातें शेणून बसलेलों. आतां तर ती ना. तरी तिचे सुनेन म्हजकडले नातें राखलें. म्हाका मान दिलो. अब्बासाच्या मांच्या नात्यातल्यान जल्मल्ले नवे नातें सांबाळून दवरूंक जाय अशे म्हणून हांवें मनांत घट्ट गांठ मारली.

फाटल्या यादीची एक दडक झडून वयता थंय आसली. नियती च्या आनी खावपाक गुजराती मिठाय घेवन आयली. आग्रो करून तिणे म्हाका मिठाय खावपाक लायली. खरें म्हुटल्यार म्हजी वळख लेगीत तिणे विचारूं नासली. हो पन्नास वर्साचो मनीस आपले टिचरीचो इश्ट इतलीच वळख तिका पुरो आसली. सेलिना टिचर तिका कित्याक आवडटाली तें नियती सांगीत रावली आनी हांव आयकत रावलों. म्हाकाय सेलिना कित्याक आवडटाली, ती म्हजी इश्टीण कशी जाली, हिन्दी कथा बरोवपाक हांवें कशी तिका उर्बा दिली हें सगळें तिका सांगपाचे आसलें. पूण तें उरून गेल्लें. तिच्योच गजाली नियती सांगताली. निमणे ती उमाळून आयल्यावरी सांगपाक लागली. ''सर, ती गोंयची कोंकणी बरी उलयताली. कोंकणी गितां बरी गायताली. सर, तिणे तर म्हाकां हिन्दीतल्यान कथा बरोवपाक शिकयल्लें. तिणे म्हाका खूब मार्गदर्शन केलें. म्हजो एक कथा झेलोय हालीच उजवाडाक आयला. तो हांवें सेलिना टिचरीक ओपला.'' तिणे कथांचे नवें पुस्तक म्हजेकडे दिलें. पयल्या पानार बरयल्लें ''सेलिना टिचरीक अर्पण !''

बरोच वगत जाल्लो. म्हाका थंयसून परतूपाचो आसलो. हांव उठलों आनी म्हटलें, ''बरें बाय, याद दवर. म्हजें व्हिजिटींग कार्ड हांवें तिका दिलें. ते बराबर तिणे म्हटलें, सर, म्हजेय हें कार्ड घेयात. केन्ना येयात. तशेच मदी फोन करात. कार्डाचेर फोन नंबर आसलो आनी तिचे नांवय आसलें. नियती अग्रवाल, एमए एमएड, हिंदीची प्राध्यापक. खिणभर ते कार्ड म्हाका सेलिनाचें कशें दिसलें. तीय एमए एमएड आनी हिन्दीची प्राध्यापक आसली. ''सर हो म्हजो हिन्दी कथाझेलो आनी हें सेलिना टिचरीन म्हाकां दिल्लें आनी तिच्या हस्ताक्षरान तिचे नांव आसलेलें हें प्रेमचंद्राचें पुस्तक. तुमी ही दोनय घेयात. आमची भेट म्हूण गोंयांत व्हरात.'' हांव ती नाकारूं शकनासलों. वयल्यान तीं पुस्तकां घेवपाक म्हाकां चडूच खोशी जाताली. नियतीच्यो कथा वाचून म्हजो अभिप्राय कळयतां अशें हांवें तिका उतर दिलें. पोन्ने नातें राखपाक हांव आशेतालों. तांतुतल्यान आनीक नवें नातें निर्माण जाता जाल्यार काय बरें.

सेलिना लोकसेवेतल्यान लोकांकडे नातें जोडपाक गेल्ली. हांव तर एक सादो किरकोळ मनीस. सेलिनाकडे नातें जिवे दवरपाक सोदतालों. जांव, ह्या म्हज्या उत्कट इत्सेतल्यान आनी धडपडीतल्यान हांवय एक नवें नातें जोडपाक शकलों.



# सूड आनी मोग

दंगलीक तीन म्हयने जावन गेल्ले तरी मुंबय शाराच्या एका वाठारांतल्या कांय जाणाच्या काळजांत सुडाच्यो किटाळी  आजून घुंवताल्यो. तातुंतल्या तांतूत ठाणेच्या अजीतनगरांतल्या भवानी गल्लींत आनी शबनम मोहल्ल्यांतल्या लोकांमदी राग, द्वेश आनी सुडाचे वातावरण आजून खतखतताले. केन्ना हिन्दू-मुस्लीम समाजामदी उजो पेटत हें सांगू नजो आसलें. तरी केन्नाय रातच्या काळखांत एकमेकांच्या घरार गुंडे मारपाचे प्रकार चलताले.

गेल्या म्हयन्यांत अजीतनगराच्या पुलीस थाण्यार नवो पुलिस इन्स्पेक्टर येत सावन वातावरण बरेंच निवळलेलें. रातच्या वेळार घरार गुंडे मारपाचेय थांबले. पुलिस इन्स्पेक्टर मनोज भोसलेन अजीतनगरांतल्या वार्डावार्डांतल्या लोकांच्यो जोड बसका घेवन दोन जमातीमदी बरें सलोख्याचे वातावरण तयार करपाचे यत्न चालूच दवरलेले. ताचे हे यत्न निर्फळ करपाक रातीकडे कांय सुवातीनी गुपीत मिटिंगो जाताल्यो. आनी तातूंन दुसऱ्या जमातीच्या आड दांतवोंठ चाबून उलोवपां जातालीं. शाराच्या लांबरूंद मार्गावयल्यान चलपी हे लोक आपल्या ल्हान आनी अशीर मनांतल्यान चित्ताले.

भवानी गल्लीतली गुपीत बसका रातची इकरा वरांचेर सोपलेली. कांय जाण आपल्या घरा गेल्ले. पूण पांच तरनाटे फाटी रावन येवजिताले. तांका कितें तरी करपाक जाय आसलें, जातुंतल्यान तांचो पुरुषार्थ गल्लीतल्या लोकांक कळटलो आसलो. ''आमी जलालुद्दीनाचो सूड घेवंक जाय.'' गोपीनाथान दांत चाबून मदीच म्हटलें. ''हय शबनम मोहल्ल्याचो तो दादा न्हय. ताच्या फुडाकारान तांच्या लोकांनी आमचे गल्लीचेर हल्लो केलो आनी ह्या गोपीनाथाचें घर ल्हासून

गोबोर केलें.'' बंड्यान उज्यांत तेल रकयत म्हटलें. ''आमचें घर ताणी लासलें आनी आतां तुमी वोगीच रावतले मरे?'' गोपीनाथान आपल्या चारय वांगड्याक प्रस्न केलो. ''आमी कित्याक वोगी रावतले? आमी तुज्या वांगडा आसात.'' राजीवान आपल्या केसांच्या भिशीवयल्यान हात भोंवडायत म्हटलें. ''आमी कितें तरी प्लॅन करपाक जाय.'' आपले बारीक दोळे अदीक बारीक करीत गोपीनाथान म्हणलें. गर्देंत गाड्यांचे हॉर्न पी पी करून वाजचे तशे 'हय हय हय' अशें म्हणून राजीवासकट सगल्यांनी सामुहीक हयकार दिलो. ''पूण हालीच नवो इन्स्पेक्टर आयला न्हय तो आमकां कितें करपाक दियत असो दिसना. वयल्यान अशें कितें जावन सापडल्यार भितर पडटले.'' चवथ्या तरनाट्यान इशारत केली. ''मागीर आमी करचें कितें?'' पांचव्या तरनाट्यान गोपीनाथाक प्रस्न केलो. ''आमी अशें करचें, सोरोप मरचो पूण दांडो मोडचो न्हय. आमी ताका बुद्ध शिकोवची. ताका आनी ताच्या फॅमिलीक त्रासांत उडोवया. ताका दोन भयणी आसात न्हय तांका कितें तरी करूंया. तांची लज काडूंया. आमी पांच जाण तरनाटे आसात न्हय. तर दोगांय जाणांचेर शारिरीक बळजबरी करपाक आमकां कठीण न्हय.'' गोपीनाथान आपल्या मनांत बरेच दीस शिजलेलो कट शेजारच्या कारखान्यान काळो धुंवोर सोडचो तसो हळूच उक्तो केलो. पयलीं हें आयकून बाकीचे वोगीच पडले तशें ताणे फुडें सांगलें, ''पळय आमी पद्धत वेगळी वापरूंया. आमच्या मदल्या दोगां जाणांनी नाटक करपाचें.... मोगाचे नाटक.... तातूंत तांका घुस्पोवपाची... आनी मागीर तांचेर सरळ रेप करपाची आनी तांका सोडपाची.'' करंजेल्ल्या गुन्यावकाराभाशेन ताणे सहज सांगलें.

ताच्या ह्या प्लॅनावयर तांचे बरेंच उलोवप जालें. प्लॅन सगल्यांक आवडलेलो. पूण फुडाकार कोणे घेवचो तेच थारनासलें. मागीर पँट वयर काडीत मुखेली कसो गोपीनाथान सांगलें, ''पळय, राजीव आमच्या भवानी गल्लीत नाटकां करपाक हुशार. पयली ताणे जलालुद्दीनाच्या भयणीकडेन जमता तशें नाटक करपाचें. पळय खंयचेय भाशेन आमकां तांचो सूड घेवपाचो आसा.''

त्या पांचूय जाणांच्या मनांत सूड खतखततालोच. आतां तर सुडाच्या भावनेक एक दिका मेळत गेल्ली. राजीवान ताका हयकार दिलो आनी दुसरे दिसासावन कामाक लागता अशी तांका ताणे भास दिली.

दुसरे दीस राजीव ग्रेट सर्कलाकडच्या आपल्या कचेरीत बसून इंजिनिअरींगचें काम करता थंय आसलो. इतल्यान ताचे चौगूय इश्ट ताचेकडे आयले आनी जलालुद्दीनाच्या घरचो फोन नंबर ताणी ताका दिलो. ह्या फोनाच्या आदारान ताणी तांच्या घरांत भितर सरपाचें आसलें. फोनाचे गरयेक दोन भयणी

मदली कोणय फारावता तिका वोडून रस्त्यार हाडपाचें काम ताणे ताका दिलें. तांच्या घरांत स्वता भितर सरून तांच्या हाताक धरून बळजबरयां घराभायर ओडून हाडपापरस हें काम सोपें आसा अशें राजीवाक दिसलें. ताणेय ताका हयकार दिलो. फोनावयल्यान ताणे वळख करची आनी वाडोवची अशें ताणें थारायचें. आनी अचकीत ताणे तो फोन नंबर घुंवडायलो. फोन उखलून चलयेचो आवाज दुसरेवटेन आयलो. तसो ताणे सांगलें, ''हॅलोऽ हांव राजीव इंजिनिअर. दादरच्या इंजिनिअरींग कंपनीतल्यान उलयतां...''

''...तुमकां कोण जाय?'' ते चलयेन विचारलें.

''शबनम मोहल्ल्यातल्यान तुमी उलयता न्हय?''

''हय हें जलालुद्दीन खानालें घर, हांव ताची व्हडली भयण हसीना. तुमकां कोण जाय?'' ते चलयेन परत विचारलें.

''सॉरी रॉंग नंबरसो दिसता...'' अशें सांगून ताणे फोन दवरलो.

फोनावयलें इतलेंच उलोवप ताका पुरो आसलें. हातुंतल्यान ताका फुडें आपलें नाटक वाडोवपाचे आसलें. तो तसो तिका वळखतालो. दोन दिसांनीच तो तिका शबनम मोहल्ल्यांत खासा भेटलो आनी आपलो तांगेर रॉंग नबंर लागलो म्हूण सॉरीय म्हणलें. स्त्री सुलभतायेन तिणे तातूंत कांयना अशें म्हणलें. फुडें ताणे तिचेकडे आपली चड वळख केली. आपूण इंजनेर. पार्टनरशिपीचेर आपलें कंपनीचे ऑफीस आसा. आपलें मूळगांव पयस कोंकणांत.... गोंयांत आसा अशेंय ताणे तिका सांगलें. आपल्या मनांतलें तशेंच राखून आपली वयल्यावर खरी वळख करून दिली. आपल्या ऑफीसाचो पत्तो दिवन थंय येवपाक सांगलें. गोंयचो म्हटल्याबरोबर तिच्या मनांत ताच्याविशीं एक बरी भावना निर्माण जाली.

इंजिनिअरींगचें शिक्षण घेवपाक राजीव मुंबय आयल्लो. थंय चार वर्सां शिक्षण घेतकूच ताणे दोन वर्सां खाजगी कंपनीत पालवी इंजनेराच्या कामाक रावलो. मागीर दुसऱ्या इश्टावांगडा पार्टनरशिपीचेर इंजनिअरींग कंसल्टन्सीचें ऑफीस घातलें. तरनाटेपणातली आठ वर्सां ताची मुंबयत गेल्ली. तो मुंबयकार जाल्लो. भवानी गल्लीतल्या आपल्या मित्रमंडळा वांगडा तो चडसो आसतालो. ते रातीसावन ताचे इश्ट तो कितें करता ताचेर पाळत दवरून आसले. फुडें चल आनी सूड घे अशें सांगून ताचेर परत परत दबाव हाडटाले.

एका सप्तकाभितर ताणे एक चीट बरोवन आपणे स्वता व्हरून हसीनाच्या हातांत दिली. तो ताचेर मोग करता. ताचेबगर तो जगपाक शकना अशें त्या चिटयेत ताणे बरयल्लें. ती चिटी वाचून हसीना फुलाभशेन फुलून गेली आनी ताणे चिटयेत बरयल्ल्या स्वीट ड्रीम गार्डनांतय ताका भेटली. आपल्या काळजांत एका

पुरुषाविशी मोग उदेता हाचीय जाणीव तिका जावपाक लागली.

दुसरे दीस घरांत कोण ना अश्या वखतार राजीवान तिका फोन केलो. ''आमी गोंयां वचून लग्न जांवया. आसा तशी भायर सर. अर्दवरा भितर ठाणेच्या रेल्वे स्टेशनार भेट.'' ''पूण....'' ''पूण बी कांय ना. हांवें थारायलां. तूं योच. हांव थंय आसतलों.'' अशें सांगून राजीवान फोन दवरलो. उपरान्त कडकडत हसीनान आपले कांय कपडे ल्हान बॅगांत भरले आनी घरांतल्या मनशांक कांयच कळूंक ना दिता ती सरळ रेल्वे स्टेशनार येवन गर्देत उबी रावली.

ते सांजवेळा राजीवान हसीनाक दादरांतल्या एका ल्हान फ्लॅटांत हाडून दवरली. तो ताच्या इश्टाचो फ्लॅट आसलो. राजीव रोकडोच येता म्हूण सांगून गेलो. ती ताची वाट पळयत आसली. फ्लॅटाचे दार हसीनान बंद केलें आनी ती आपल्या चितपांत गुल्ल जाली. आपणे मांक, अब्बूक कोणाक ना सांगतां राजीवाच्या भरवंशार आयल्या. ताणे सांगलां हांगा दोन दीस रावूंया आनी मागीर गोंयां वचून लग्न करूंया..... ताणे सांगलां ते प्रमाण करपाचें.... मागीर तिणे बाथरुमांत वचून तोंड धुलें. आयज तिणे सलवार कमीज न्हेसलेली. तिणे थंयच्या हारश्यांत पळयलें, काळ्या हळदुव्या सलवार कमिजाचेर फुलपाखरांची नक्शी आसली. ह्या सलवार कमिजांत तिचे गोरे आंग उठून दिसतालें. काळे केस मेकळे आसले. ते मानेर वाकुळटाले. तिका दिसपाक लागले, राजीव आतां रोकडोच येतलो. हांव ताका राजा म्हणटली, आनी हांव बेगम. राजीव सारको शहाजादा कसो. तो येतकूच हांव ताचे हात म्हज्या मेहंदीच्या हातांत घेतलीं. तो म्हजे हात तोखतलोच. तिच्या मनांत मोगाची इत्सा बोंगे कळयेभाशेन परमळपाक लागली आनी तिका एके तरेचें स्वर्गीय सूख जाणवपाक लागलें... 'हय हांव ताच्या वांगडा रावतलीं. मागीर ताच्या वांगडा ताच्या गोंयां वतलीं. तिचे मन गोंयावटेन पयस पयस उडपाक लागलें. निळ्या मळबांतल्या कुपांवांगडा हुबल्याभशेन तिका जावपाक लागलें.

तिनसांज सोपून बरीच रात जाली तरीय राजीव आयलोना. तिका भंय दिसलो. तिणे फ्लॅटाचे दाराची खिळी काडली आनी दार उगडपाचो यत्न केलो. पूण दार उगडना जालें. दाराक भायरसून चावी केल्ली. ती अदीकच भियेली. इतल्यान लायटींच्या उजवाडांत गाडयांच्या गर्देतल्यान रूंद रस्तो हुपीत येवपी राजीवाक तिणे जनेलांतल्यान पळयलो. बिल्डींगेच्या फ्लॅटाच्या लागी येयसर तिणे ताका नियाळ्ळो. ताच्या कपलार मिरयो पडलेल्यो. तो कसलो तरी गंभीर विचार करता अशें तिका कळून आयलें. मागीर ताची वाट पळयत ती बंद दाराकडेच रावली.

बिल्डींगेची सोपणा  चडटां चडटां राजीव आपल्या मनांत चित्तालो. ताच्या वांगडच्या चारूय तरनाट्यांनी सांगल्याप्रमार ताका ताचो प्लॅन पुरो करपाक जाय आसलो. ताका तिची अब्रू घेवन धांवडावपाची आसली. तिचेर बलात्कार करून तिच्या भावाचो जिलालुद्दीनाचो सूड घेवपाचो आसलो. तेच भिरकेन ताणे दार उगडलें. फाटले दंगलीचो राग ताच्या दोळ्यांत भरलेलो. जलालुद्दीनाची भयण ताच्या फुड्यांत आसली. ताणे फ्लॅटाचे दार आपलेकडले चाव्वेन उगडलें आनी भितर सरचे सरून बंद केलें. राकेसाभाशेन आपणे तिचेर घुरी घालची अशें ताका दिसलें.

दार उगडून भितर येतकच तिणे ताका विचारलें, ''कळाव कित्याक जालो?... तुमी अशें कितें चित्तात?... तुमचें तोंड तांबडे काळशें जालां?'' अशें एकार एक प्रस्न  हसीनान ताका विचारले. एकाय प्रस्नाची जाप दिवपाची ताणे टाळ्ळें. एका प्लॅस्टीक पाकीटांत घालून खावपाक हाडलेले तें ताणे तिचेकडे दिलें. तिणे तें दोन प्लेटींनी घातलें. एक प्लेट व्हरून ताच्या मुखार दवरली. ''हांवें हॉटेलांत खाल्लां. तूं तें खा.'' अशें ताणे सांगलें ते बराबर तिका अजापच दिसलें. मागीर तिणे आपले प्लेटीतलें थोडेशें खाल्लें.

राजीव उलयनासलो. तो खुर्चेर बसून आसलो. आपलेकडे शादी करची पडटा म्हूण ताका पश्चात्ताम जाला कांय? असो तिका प्रस्न पडलो. पूण तो प्रस्न तिणे विसरायेर घातलो.

बरीच रात जाल्ल्यान तिका झेम येवपाक लागली. ती थंयच्या कोचाचेर आड पडली. तिका झेम पडना जाली. तिका दिसतालें राजीवान आपल्याक उठोवची आनी आपले वेंगेत घेवची. पयलेवयले हे जाणीवेन तिच्या आंगापांगार मोरपांखा भोंवडायल्ल्यावरी तिका दिसलें.

रात मध्यान्नीकडे पावल्ली. राजीवान न्हिदलेल्या हसीनाकडे परकेपणान पळयलें. तशें ताका आतां चडच अस्वस्थ जावपाक लागलें. तो उठलो. तिचेर बलात्कार करून ताका आनी ताच्या इश्टांक तिच्या भावाचो सूड घेवपाचो आसलो. ताच्या आंगांत आतां सैतानाचो भार आयल्यावरी जालो. तिचेर बलात्कार करचो अशें तो येवजितालो... सुडाच्या रागान आपूण तिका मारीत, तिचो जीव घेयत... पूण आपले लांबरूंद शरीर तिच्या बलात्काराक जाप दिना... आपलेकडच्यान तिचो बलात्कार जांवचोना अशें ताका दिसलें. रागान आपल्यो sexual instinct जाग्यो जायनात हें ताका कळ्ळें.  मागीर आपूण तिचेर बलात्कार कसो करतलों हो प्रस्न ताका पड्लो. तो निरशेलो आनी सकयल बसलो. परत ताका याद जाली. आपणे जर बदलो घेतलोना तर आपले इश्ट

आपल्याक दवरचेनात. रागान भिरकी मारून आयल्यावरी तो परत उठलो. तिच्या फुड्यांत तो गेलो. ती सुस्त न्हिदलेली. ताणे रागान तिच्या भुजांक धरून हालयली आनी उठोवन बसयली. कांचवेन ती जागी जाली. काचाबूल जावन ती ताचेकडे पळोवपाक लागली. ''कितें जालें?'' तिणे विचारलें. तो वोगीच रावलो. ताका परत खातरी जाली. आपूण जो हिचेर बलात्कार करूंक सोदता ताका आपलें शरीर सांगात दिवचेना. तो मोनोच रावलो. ती सट्ट करून उठली आनी तिणे ताका नियाळ्ळो. ताच्या दोळ्यांत राग, द्वेश आसा अशें तिका जाणवलें. तिणे ताका विचारलें, ''तूं हें कितें करता? तूं असो कसो वागता? तूं मोगान म्हज्या फुड्यांत येवचे म्हूण म्हाका दिसतालें आनी आतां हें कितें? ह्या प्रस्नान ताचो राग आनी सुडाची भावना सळ्ळ करून देवली. गळसणून गेल्ल्यावरी तो जालो आनी थपकल मारून जमनीर बसलो. किदें जालां तें कुवाडें हसीनाक सुटना जालें. हाणे आपल्याक रागान उठयली. हो आपल्याक मारपाक सोदता कांय कितें असो तिका प्रस्न पडलो. तिणे ताका विचारलें, ''तूं म्हजेकडे रागान कित्याक वागता? म्हजो तूं जीव घेवपाक सोदता? जीव घेता जाल्यार घे. हांव तुजेर पातयेवन तर तुजे वांगडा पळून हांगा आयल्या.''

''तशें कांय ना.'' तो कडकडत उलोवपाक लागलो. ''तूं न्हीद आतां.''

''म्हाकां आता न्हीद पडचीना. तुवें म्हाका जिवे मारपाक हांगां हाडलां मरे? सांग. त्या तुज्या इश्टांक तुजे वांगडा पळोवन म्हाका फाटी दुबाव आयल्लो.'' तिणे सरळ सांगलें. तो व्हडल्यान हांसलो आनी सांगपाक लागलो. ''मारपाक? शेऽऽ... सूड घेवपाक. तुज्या भावाचो सूड... तुजेर आगळीक करून...''

''म्हजेर आगळीक करून म्हज्या भावाचो सूड! म्हजेर आगळीक करून तुजोच सूड तूं घेता अशें जावचेना? हांव तर तुज्या विस्वासार हांगा येयलां. तो विस्वासघात जांवचोना? आनी... आनी हांव तर म्हजे हें शरीर तुका ओपपाक येयल्लें.'' हें आयकून ताजो राग खंयच्या खंय गेलो. तो गतवीर्य जाल्ल्यावरी निस्तत गेलो. हातपांय थरथरपाक लागले. ती फुडें उलोवपाक लागली, ''तुवें म्हजेर आगळीक केली तर ती आगळीक म्हूण हांवें मानू नाका. म्हाका कोणे भश्टूवपाचो यत्न केलो म्हूण हांव भश्टलें अशें मानू नाका. हांव अपवित्र जातलें हें तुका कशें समजलें. शीऽऽ हें खूब ल्हान मनशावरी वागप... म्हजेर कोणे हळशीक उडयली म्हूण हांव अपवित्र थोडीच जातली. कांय जाणाचे नदरेन ते जायत पूण म्हजे नदरेन ते मातय ना.'' मात्शे थांबून ती उलोवपाक लागली. ''राग आसा थंय मोग खंयचो?'' राग आनी मोग ह्यो दोन वृत्ती वांगडा कश्यो येतल्यो... आनी सूड हो रागाचो व्हडलो भाव. सूड मोगाक धिःकारता. सूड

आसा थंय मोग आसना.'' हे आयकून ताका घाम आयलो. ताका लज जाल्ल्यावरी जालें. मागीर दोगांय केदो वगत वोगीच आसली. निमाणी तिणे रावू नजो जावन म्हणलें, ''न्हीद आतां. मध्यान रात सोपूत फांतोड जावपाची जाली.''

हसीना सकाळी उठली आनी न्हाली. आपले बॅगेतली मळबाच्या कोराची साडी न्हेसली आनी केस उगयले. ती उठल्याबरोबर राजीवाक जाग आयली. जागो जावन तो तिच्या हालचालींची सुलूस घेतालो. ती न्हेसून ताच्या फुड्यांत आयली तेन्ना ती ताका वेगळी आनी सोबीत दिसली. ताका तिच्या नदरेक नदर दिवपाक ताच्यान जायना जालें. मोन्यानीच तो उठलो आनी तोंडबीन धुलें. मदल्या वेळांत हसीनान किचनांत च्या पावडर आनी साखर सोदून काडून च्या केली. ताणे तोंड धुतकच तिणे कपांत फुटी च्या हाडून ताका दिली. ती पियेतना तिणे ताका विचारलें, ''साहबजादे, आमी गोंयांत केन्ना वचे? ती हांसता तें पळोवन ताका बरें दिसलें. तोंय हांसलो. ताणे आपल्या गुन्यावाची माफी मागली. तिणे म्हणलें, ''मोगांत सगळें माफ, पूण गोंयांत वचून आमी नोंद पद्धतीन शादी करूंया.'' तेन्नाच तो च्या पियेतना ताका उस्तऱ्यां गेलें. ताणे हय कांय ना म्हटलें, तें तिका कांय समजलेना. सुडान पेटलेल्या आपल्या हेर इश्टांक कितें सांगचें हो ताका प्रस्न पडलेलो. तांच्या तोंडातल्यान वांटावपाखातीर तर ताका बेगीन गोंयां वचूंक जाय आसलो.

दुसरे दीस सकाळी तीं दोगांय बसितल्यान गोंयां पावलीं. बसस्टँडावयल्यान घरा पावतकच घरच्या लोकांनी तांच्या भोवतणी रेवाडो घातलो. आपलो इंजनेर पूत आपले व्हंकलेक घेवन घरा आयला म्हूण ताचे आवयक चड खोशी जाली. राजीव मात चड गंभीर दिसतालो. तर हसीना चड खोशी दिसताली. ती लग्न ना करता तिका घेवन मुंबयसून गोंयां आयल्या इतलेच ताणे घरच्यांक सांगलें.

गोंयांत आयल्यार पंदरा दीस जावन गेल्ले. ह्या दिसांत राजीवाचे हसीनाकडे वागपांत बदल जाल्लो. ताचे रूप ताका सोबीत दिसापाक लागलें. तिच्यो हालचाली, तिचे न्हेसप, तिचे उलोवप ताका आवडूक लागलें. तो तिच्या हातावयल्या मेहंदीच्या नकसूदपणांत आपली नदर शेणोवन बसपाक लागलो. ती तर ताचे दिसता तें काम करपाक लागली. तिचे सेवाभावनेत तर ताचे काळीज भरून येवपाक लागलें. ताका ती जाय जायशी दिसपाक लागली. आनी ताच्या मनांत तिचेविशी मोग इल्लो इल्लो फुलपाक लागलो. ही बायल राग, द्वेश करपाक वा सूड घेवपाक न्हय तर ती मोग करपाखातीरच आसा अशे ताका दिसपाक लागलें. तिच्या सहवासाखातीर तो तिचे भोवतणी गणवपाक लागलो. आनी जेन्ना तिच्या दोळ्यांत ताचे दोळे रिगताले तेन्ना ताच्या काळजांत मोगाच्यो चंदरज्योती पेटपाक

लागल्यो.

एक दीस ती दोगांय उलयताली. तो तिका सांगपाक लागलो, ''जाणा मगो हांव गोंयांत आयलो म्हूण बदल्लों. हांगा येवन तुजो मोग करपाक हांव शिकलों. ते बराबर ती मुमुरख्यांनी हांसली. आनी उलोवपाक लागली, ''मोगाक थळाचें आनी वेळाचेय बंधन लागना. मोग खंयच्याय थळार आनी वेळार जांव येता. तुका बऱ्यो वायट गजाली कळ्ळ्यो. तुका म्हजो मोग समजलो आनी दिव्यान दिवो पेटचो तसो मोगान मोग जालो. आतां तुज्या मनांत मोग रुजला म्हूण तूं बदल्ला. ह्या मोगान राग, द्वेश, आपपर ह्यो भावना तर मनशांत उरचना.... फकत निखळ मोग आनी मोग उरता. सोबीत सुंदर.... आनी आपलेपणाचो. तातूंत कोणे दिल्ल्या मेहरची वा कोणाच्या कृपादृश्टीची गरज लागना.'' हसीनाचें हें उलोवप आयकून ताणे नक्शेनक्शेच्या मेथयेन रंगलेले तिचे हात आपल्या हातांत घेतले. ताणी एकमेकांक वेंगायल्याबराबर दोगांयच्या काळजाची धडधड आयकून येवपाक लागली.

गोंयांत येवन तांका तीन म्हयने जायत आयले. मदीं नोंदणी पद्धतीन तांचे लग्न जाल्लें. ते वेळार राजीवाची आवय-बापूय, ताच्यो भयणी, सगळी घरचीं थंय गेल्लीं. उपरान्त सांजवेळा गांवांतल्या इश्टांखातीर मदलस जाल्ली. राजीवाचे ऑफीस मुंबय आसलें म्हण्टकूच केन्ना तरी ताका थंय वचपाचे आसलें.

ते दीस जुस्त दिसाळ्याचेर मुंबयची खबर आयली. ठाणे वाठारांत हिन्दू-मुस्लीम समाजाचे लोक एकमेकांच्या उत्सवाक वतात तशेच समाजीक उत्सव एकठांय येवन मनयतात. पोलीस इन्स्पेक्टराच्या यत्नाक यश. तशेच तांतून खबरांचे विश्लेशण आयल्लें. सगळ्यांनी मेळून मिसळून वचपाचो आनी रावपाचो शाराचो धर्म आसता. मॉडर्न जायत जगपाची शारांतल्या लोकांची शैली आसता. हसीनान ही खबर आनी विश्लेशण राजीवाक दाखयलें. ठाणे-भिवंडीचें वातावरण निवळ्ळें आनी लोकांमदी सलोख्याचें वातावरण जालां म्हूण दोगांकय खोशी जाली.

त्यावेळार आपल्या घरच्या लोकांच्या यादीन हसीनाचे दोळे भरून आयले. ताणे राजीवाक म्हटलें, ''पळय, मुंबयचे आनी घरचें नातें सोडून हांगा आयल्यार बरेच दीस जाले. म्हाका अब्बूची आनी मांची याद येता. तांची खबर लेगीत ना. हांव मुंबय वता आनी तांका भेटता. मागीर रोकडीच येता. म्हजीय खबर तांका कळटली नाजाल्यार म्हज्या हुस्क्यान तीं मरतलीं.''

''तूं वच. पूण...''

''पूण कितें?''

'' तूं एकटी वचूं नाका. तुका पळोवन थंय कितें परिस्थिती उप्रासत तें सांगू नजो. तूं पळून गेल्लें म्हूण तुकां तुज्या भावाकडल्यान लेगीत तुज्या जिवाक धोको जांव येता. तशेच भवानी गल्लीतले चांडाळ तुजे बरें वायट करूं येता.''

''आतां तशी परिस्थिती ना.''

''नासूं,'' अशें म्हणून ताणे मुंबय वचपाची तयारी करपाक बॅग हाडली. तांतूत ताणे हसीनाचे आनी आपलेय कपडे भरपाक सुरवात केली. हें पळोवन हसीना मनांतल्या मनांत हांसपाक लागली. थंय कितेंय परिस्थिती आसूं. हांव हिका एकटी धाडचोना. हिच्या राखणेखातीर म्हाकां हिच्या वांगडा वचपाकूच जाय, असो ताणे निश्चेव केलो.



# मायाजाल

नवी पँट शर्ट न्हेसून, नवे काळें बूट घालून आनी आंगाचेर बऱ्या वासाचो चेर मारून हांव झेतान पणजे भोवतालों. शारांतल्या मदल्या भागांतल्या रस्त्याकुशीक  लोकांची घिट्टी दिसली म्हूण हांवय थंय थांबलों. रस्त्यादेगेच्या पोन्या आनी व्हड घरांत लोक भितर सरताले. पुलीस तांका आडायताले तरी ते भितर वचपाक यत्न करताले. हांवें विचारच्या पयलीच एकल्या तरनाट्यान म्हाका सांगलें. अंकल ह्या घरची जाण्टी बायल पिड्ड्यार जाल्या आनी तिच्या खाटीच्या गादयेपोंदां घेऽ म्हूण नोटीची बंडलां आसात. हजारांची, पांचश्यांची, शंबराची....

चिरंगटीत हांवय भितर सरलो. पुर्तुगेज मोदीच्या घराच्या सालांत लोक भरलेले आनी तांचो बोबाळ आयकूंक येतालो. सालाक कुशीक तीन चार कुडी आसल्यो. तांची उंच आनी आर्कांची दारां बंद आसलीं. एक मदल्या पिरायेची काळशी बायल उबी आसली. तिचे अर्दावयर पिकलेले केस कश्याय कशें जाल्लें. हांवें तिका रोकडीच वळखली. ती बायल आपोलिना, आमच्या शेजारची. ती ह्या घरांतली सर्वंट. तिच्या कपलावयल्या मिरयांनी तिचेर कितलो पेच आसा हें कळतालें.

हांव तिच्या फुड्यांत वचपाक लागलों तर पुलिसांनी म्हाकां आडयलो आनी भायर वचपाक सांगपाक लागले. तेन्नाच तिणे म्हाकां उलो मारलो, ''इरमांव, तूं राव, तूं वांगडा जाय, आदाराक,''  तिणे अशें म्हणना फुडें पुलिसांनी म्हाका तिच्या वांगडा रावपाक परवानगी दिली. ती सामकी काचाबूल जाल्ली.

सकाळी फुडें दोगांय नातरांक च्या दिवन आपोलिनानच तांका इश्कोलांत धाडलेलीं. आपले मम्मी परस आपले आज्येचीच चड व्हडवीक तांका आसली.

ताळगांवच्या इगर्जेची आठाची घांट वाजनाफुडे आपोलिनान घराभायर पावल दवरलें. आनी ती अर्द वराभितर पणजेतल्या लिबरेता भाटकान्नीच्या दारांत पावली. घराचे दार सदाच्या भशेन धुकलून ती घरांत आयली आनी न्हिदलेल्या लिबरेताबायक उठोवपा कुडीत भितर सरली.

कुडीत काळोख आसलो. तिणे बाय ऊठ म्हूण सांगलें. जाप ना म्हूण लायट पेटयली. साठ वर्सांची लिबरेताबाय न्हिदलेल्या थंयच आसा अशें समजून आपोलिनान तिका हालयली. जागी जायना म्हूण खाटीर बसोवपाचो यत्न केलो, पूण तिची कांय हालचाल ना हें पळोवप आपोलिनाक थरथरो भरलो. तिणे व्हडल्यान करांदाय मारली. लागच्या फ्लॅटांतले दोगतीग जाण थंय आयले. ताणी तिका हालयली तेन्नाच कोणेतरी खाटीच्या गादयेपोंदच्यो भायर सरलेल्यो नोटी पळयल्यो. लिबरेताबाय मेल्ल्याचो धक्को आनी तिच्या मड्यापोंदा नोटींचे कवळे पळोवन आपोलीनाचेर व्हड संकश्ट कोसळलें.

थोड्याच वेळांत लिबरेताच्या मड्याचे गादये पोंदां लाखांनी रुपयांच्या नोटींची बंडलां आसात अशी शारभर फाम जाली. त्या घराकडे इतले लोक जमलेले पळोवन पुलिसांचीय जीप आयली आनी चार पोलिसांक घेवन इन्स्पेक्टर घरांत भितर सरलो. ताणी घरांतल्या लोकांक भायर काडपाचो यत्न केलो आनी कुडीच्या दारार दोन पुलिसांचो पारो दवरलो. घरांत कोण कोण आसात? तिचे सोयरे खंय आसात? हाची चवकशी आपोलिनाकडे केली. दोन वर्सांपयली लिबरेता भाटकान्नीचो आसलेलो एकटोच पूत स्टीफन अमेरीकेक गेल्लो. तो मदी परतून येवनासलो. तिची लागची सोयरीय कोणूच नासली. आपोलीना लिबरेताबाय भाटकान्नीचे सर्वंट म्हूण पंदरा वर्सांवयर काम करताली. ती दुयेंत पडल्यार तिचो गुमूत लेगीत आपोलीनाच काडटाली. सकाळी साडेआठांक ती भाटकान्नीगेर येताली आनी सबंद दीस थंय काम करून मागीर आमोरेर ती आपल्या घरा वयताली.

पुलीस इन्स्पेक्टर कुडीत भितर सरलो. साठ वर्सांची जाण्टी बायल खाटीर वोगी न्हिदल्याभाशेन तिचे मडें आसलें. तिच्या मड्यालागीच खुरीस गुंथलेली मण्यांची माळ 'कोंत' आसलें. पुलिसांनी गादयेपोंदां पळयलें. गादयेपोंदां नोटींचे कवळे आसले. शंबराचीं, पांचश्याची, हजारांची बंडलां गादयेंपोंदा मांडून दवरलेली आसलीं.

पुलिस इन्स्पेक्टर अजापान हें पळयतालो. म्हाकां तर कुवाडें पडल्यावरी जाल्लें. तिणे त्यो इतल्यो नोटी कित्याक दवरलेल्यो? आनी त्योय आपले गादयेपोंदां.... हांव कुवाड्यांत आसताना पुलीस इन्स्पेक्टरान आपोलिनाक प्रस्न

केलो. ''आगो ह्यो नोटी हिंगा आसा म्हूण तूं जाणा आहोलें?''

''हय सायब, ह्याच स म्हयन्यांत ह्यो नोटी तिणे हिंगा जमोवोन दवरलेल्यो.''

''इतुल्यो लाखांच्यो नोटी आनी तुंये हातुंतल्यो काडल्यो बी ना मुगो?''

''ना सायब. सायबिणीच्यान तर.''

''फोट उलयता...''

''ना सायब, जाय जाल्यार सायबिणीच्या आल्तेराशी वचोन हांव ज्युरार जातां. म्हाका कित्याक जाय आसल्यो त्यो. तिणे त्यो आपल्याक जाय म्हूण कोणाक कळोनासतना राखोन दवरलेल्यो. कोणूय व्हरत हे खातीर गादयेपोंदा लिपून दवरलेल्यो. तिचे पोयशे म्हाका कित्याक जाय? तिका पोटाक जाय म्हूण तिणे ते दवरलेले दिसता. तिचे पोयशे चोरून व्हरतल्याक पाप लागतोलें. ती फुड्यांत आसतोना, हांवूच तिचें कुलच्यांव, खाट निवळ करतालीं. हे पोयशें तिचें स म्हयन्यांतले.''

आपोलीन सांगता तें आयकताना इन्स्पेक्टर आपोलीनाक नियाळटालो. लिबरेताचें मडें उलोवचेना पूण आपोलीनाकडल्यान चड खबर मेळटली अशें तो येवजितालो. जमलेल्या लोकांचेर आपलें वाघरें पडचें म्हूण तो इन्स्पेक्टर आपलो खाकी ड्रेस परत परत सारको करतालो आनी पिस्तूलाक हात लायतालो. तरी लोकांचो बोवाळ उणो जावंक नासलो. 'कोणय फारयत रे पयशें.' अशे कोणय मदीं मदीं म्हण्टाले.

लिबरेताचो पूत स्टीफन अमेरीकेक वयता ते दीसा मांय पुताचे झगडें जाल्लें, इतलेंच आपोलीना जाणा आसली. तें झगडें कित्याक जाल्लें तें तिका खबर नासलें. आपलो पूत आपलें ना आयकतां अमेरिकेक गेला म्हूण लिबरेताबाय रडरड रडटाली. तिच्या उतार वयांत तिका तो एकटो पूत जाल्लो.

तो अमेरिकेक वतकूच रोकडेच लिबरेताबायन आपल्यो भांगराच्यो वस्ती विकून तांचें पयशे केल्ले. आनी सगळे बँकांनी दवरलेले. तशेंच घरालागी उजवेवटेनची सुवात बिल्डराक विकलेली. ताचेय लाखांनी रुपया तिणें बँकानी दवरलेले. ताचे ज्युराचे येता ते पयशे ती खर्च करताली. पूण ती बरीच काटूक. जेवणाखाणाक जाय तितलेच ती मोडटाली. म्हण्टाली, पयशें सोपतकूच कोण दितलो? उरलेले पयशें ती तशेच आपल्या आलमारीत दवरताली. तिचो वाघ कसो सुणो तिच्या फाटल्या फुडल्यान आसतालो. ताका जाय जाय तें हाडून ती घालताली. तो फाटल्या दोन म्हयन्या पयली मेल्लो.

अमेरिकेतल्या आपल्या पुताक ती परत परत चिटयो धाडटाली. गेल्या

वर्सा नातालांक तो येवंक नासलो म्हूण अंदू वर्सा नातालांक येवचो हे खातीर तिणे ताका चीट बरयलेली. तो नातालांक येतलो म्हूण तिणे आपोलिनाक नेवऱ्यो, बेबींक, दोदोल बीन करपाक लायल्लें. पूण तो नातालांकूय येयलोना. मागीर जेजूबाळकाची आनी मेरी मांयची म्हूर्त आपल्या काळजालागी दवरून ती खूब रडली.

आपोलिना फुडें सांगपाक लागली....आपलो पूत नातालांक येयलो ना म्हूण तिका खूब दूख भोगलें. मागीर ती थतरवितर जाली. उपरान्त कांय दिसांनी तिणें बँकेतले पयशें इल्ले इल्ले हाडून आपल्या गादयेपोंदां दवरले. तेन्ना सावन ती म्हाका आपले कुडींत येवपाक दिनासली. ती आपयतकूच हांव तिच्या कुडीत वयताली. चड वगत रावत तर केंचकेंच करताली. पूण ती बरी मनीस. म्हजो म्हयन्याचो पाग वेळार दिताली. केन्ना केन्ना नातवांक खावंक व्हरपाक पयशें दिताली. म्हाकां भुरग्यांबाळामदीं रावपाक मेळटां म्हूण ती म्हाका भागेवंत लेखताली. हें सांगताना आपोलीनाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागली.

तें कुडींत दोन फोटो लायल्ले. हांव ते पळयतालों. आपोलिनान एका फोटवाकडे बोट दाखोवन सांगलें. ''हो भाटकान्नीचो फोटू. तिच्या काजराचो.''

पोन्न्या फोटवांतली लिबरेता तेवेळार राजकुंवरी कशी दिसताली. तिणे काजरा वेळा आपलो रेस्पेराचो धवो ड्रेस न्हेसलेली. तिचो तो ड्रेस पावलांकडच्या जमनीक तेकतालो म्हूण तिच्या फाटली दोन ल्हान अंजेल भुरग्यांनी तो ड्रेस उबारून धरलेलो. फोटवाक तेन्ना भांगरा रंगाची फ्रेम आसली जांवये. तिचो रंग उडून गेल्लो. ते वेळची ती सोबीत लिबरेताबाय. ती पयशांचेर.... नोटींच्या कंवळ्यांचेर न्हिदलेली. पूण ती जाण्टी म्हातारी. तिच्या हातीच्यो काती लोंबताल्यो. तोंडार म्होतारपणाच्यो सगळ्यो कुरवो.... तिच्या आंगार एक सादो निळसो व्हीस्तीद... आनी हातपांय उक्ते .... उक्ताडार पडल्यावरी.

पंचनामो चलतालो. खाटीवयलें मडें काडून तें सकयल चादरीर दवरलें. गादयेपोंदच्यो नोटी पुलीस एकठांय करपाक लागलें. आपोलीनाक आनी म्हाकां व्हिटनेस दवरलीं. नोटी मेजतां म्हणसर बरोच वगत जालो. मेजतां मेजतां धा लाखावयर रुपया जाले.

हे रुपया अशें तिणे कित्याक दवरलेले कांय? म्हज्या मनांतल्या प्रस्नांक हांवूय जापो सोदतालों. ती बायल मनीस. तातुंतल्यान तातूंत ती एकटी जाण्टी बायल मनीस. आपल्या फुडाराखातीर, आपले सेक्युरिटीखातीर तिणे ते पयशे दवरल्या आसतलें. दर दिसा तिका पयशे जाय. पोटापाणयाखातीर, वखदांखातीर तिका कोण पयशें दितलो? जमीनय तिणे विकलेली. कोण केन्ना जमीन बळकायत

तें सांगू येना अशें तिका दिसलां जांवये. बँकांतले पयशे कोण तरी काडीत वो बँको बुडत हे भिरांतेन तिणे पयशे हाडून आपले लागी दवरल्या जातले. तिचो कोणाचेर विस्वास उरूं नासलो. आपली प्रापर्टी, आपले पयशें दुसऱ्यान खांवचेपरस तांचो लाब आपणे घेतल्यार बरो, वा आपले पयशे आपले वांगडा आसप बरें अशें तिका दिसलां काय? तिका ह्या पयशांत आपली सुरक्षितताय मेळटाली कांय? केन्ना मनशाक मटेरियलांतल्यान मानसीक थाकाय मेळटा. मात् मनीस तसो यत्न जरूर करता. फुड्यांत आपले रगताचे कोण नासता तेन्ना तर अदीकूच.

ते कुडीतल्या जनेलार कापोडयान बरें व्हडलें जाळें विणलेलें. ताचेर सुर्याची किर्णां पडटालीं. वाऱ्यान तें हालतकच तातुंतल्यान वेगवेगळें रंग चकचकतालें. तशेंच बरीच पिसोळी तातूंत घुस्पून उरलेलीं.

पंचनामो सोपलो. पयशे सगळे एका बॉक्सांत बांदून दवरले. तिच्या मड्याचे पोस्टमार्टम करपाचें आसलें. मडें मोर्गांत व्हरून दवरपाखातीर तें जिपीत दवरलें. मागीर जीप मोर्गावटेन वचपाक लागली.

दनपार जावन गेल्ली. भायर वोताचो रखरख आसलो. रस्त्याच्या वोतान उदकाचो भास जाल्ल्यावरी दिसतालो. पूण तो सगळो रखरख आसलो. म्हाका खूब भूक लागलेली. तानभूक भागयता तें मटेरीयल लायफ खरें अशें म्हाकां दिसपाक लागलें.

पुलीसानी पयशांची पोटली आपल्या जिपींत दवरली आनी आपोलिनाकय जिपींत बसपाक सांगलें. आपल्याक पुलीसेंत व्हरूं नाकात. आपल्याक घरा वचूं दी. आपले नातू रडटले, अशें तांका सांगून ती तांका पांया पडपाक लागली. ताणी तिचे कांय एक कानार मनार घेतलेंना. फुडली चवकशी करपाखातीर म्हूण आपोलीनाकय पुलीसांनी ताब्यांत घेवन पुलीस स्टेशनार व्हेली.

दोन वरां उपरान्त आपोलिनाचो पूत, दोन नातू आनी हांव पुलीस स्टेशनार पावले. तिका मेळपाक ताणी आमकां दिलेना. मागीर आमोरेर तिका ताणी सोडली. ती दनपारां उपाशी उरलेली. वयल्यान भाटकान्नीचे पयशेबीन काडल्या कांय ना तो तपास करपाक तिका बरीच बडयल्ली. तिचे हातपांय सुजलेले. आपलो पूत आनी नातू आपल्याक पळोवपाक येयल्ल्या ते पळोवन तिका धादोसकाय भोगली.

लिबरेताचो पूत स्टीफन अमेरिकेतल्यान येयल्या उपरान्त तिच्या इतेराचें थारावपाचें आसलें. तो आयज सांजवेळा घरा पावतलो म्हूण आपोलिनान घराचे दार उक्तें केल्ले आनी ती दारांतच रावल्ली. वांगडा म्हाकाय तिणे आदाराक

आफयल्लो. ती काळो स्कर्ट-ब्लावज न्हेसलेली. हांव पँट शर्ट आनी बूट घालून उबो आसलों. पुलीसानी तिचेकडे दाराची एक चावी दिल्ली आनी लिबरेताचो पूत फॉरेनासाकून येतलो तेन्ना थंय राव म्हूण सांगलेलें. तिणें सगळे घर निवळ केल्लें.

बरोच वगत वाट पळयली. इतल्यान हातांत धाकटी फायल घेवन मदल्या पिरायेचो मनीस थंय पावलो. तिचो पूत केन्ना येतलो हाची चवकशी तो आपोलीनाकडे करपाक लागलो. तो थोडो वगत आमचे वांगडा वाट पळयत रावलो. मागीर येता म्हूण सांगून तो थंयसून कडसरलो.

तो गेल्याबरोबर आपोलिनान सांगलें, ''हो इगर्जेचो मुनीस. फाटल्या दिसांनी भाटकान्नीक मेळपाक येतालो. तिचेकडले पयशे इगर्जेक 'दान' दी म्हुणतालो. तो खूब फावटी येयल्लो. पूण भाटकान्न तेका बदलीना. तिणे एक पयसो लेगीत दिलोना.''

''आंऽ अशें. गोड खांवच्याक दोमले येतात.'' म्हज्या तोंडातल्यान उतरां फुटलीं.

तांचे उलोवप तिका याद जावपाक लागलें. लिबरेतान म्हटलें, ''म्हुजे कोडले पोयशे तुमकां दिवन, फुडाराक हांव किदें खांवचें? मागीर इजमोल मागत भोंवू?

''ना ना आतां न्हूय. मागीर आमी तुकां आर्फनेजांत.... जाण्टयांच्या घोरांत दवरतां. थंय तुजी सोगली सोय जातोली.''

''ना ना थंय हांव वोचीना. हिंगा म्हुजे शेरवेंत आसा...''

''बरें आहा. तोशे जाल्यार तूं आमचे संस्थेच्या नांवार दुडू करून दोवोर. देवाखातीर....

''म्हुणजे हांव मोत्तोकूच तुमकां पयशें दिंव. ना ना. म्हुजे कोडले पोयशे हांव तुमकां दिवचीना.'' तिणे खर्शत पूण निश्चेवान सांगलें.

फाटलो उगडास काडून आपोलीना उलयली. ''तिणें ना म्हणटोकूच हेणे हिंगा तोंड दाखोवक नासलोलें. आयज तिचो पूत येतलो न्हुय म्हूण तेका चोंवच्याक तो येयलेलो. मागीर कितेंय हातार पडलें जाल्यार पडलें.'' आपोलिनान ताचेविशीचो गूट उक्तो केलो.

एक टुरीस्ट गाडी येवन घरामुखार थांबली. गाडयेचें दार उगडून काळी जीन पँट घातलेलो पंचवीस वर्सांचो गोरो तरनाटो भायर सरलो. ''बाब येयलो.'' आपोलिनान रोकडोच ताका वळखून म्हणलें. धांवत वचून तिणे ताची बँगां घेतली. तो गंभीर आसलो. घरांत भितर सरच्यासरून ताणें 'मांय गे' अशी हांबेर मारली. ताच्या दोळ्यांतसून दुकां व्हांवपाक लागली. आपोलीनान ताका

थातारपाचो यत्न केलो. बरो वगत तो मोन्यानी रडटालो. आपोलीना वांगडा हांवय ताचे दुसरे बगलेक बसलों. ताचे फाटीर हात दवरून वोगी केलो. मागीर आपोलीनान ताका म्हजी वळख करून दियत सांगलें, ''हो आमचो शेजारी, म्हुजो इरमांव, मानुयेल.''

पुलीसांनी ताचेकडे संपर्क करून ताणी ताका सगळी खबर कळयल्ली. हांवें ताका विचारलें, ''मांय भायर पडल्या म्हूण केन्ना गोमलें?''

''तीन दीस जालें. तिची बॉडी मोर्गांत दवरल्या न्हय...?''

''हय.'' हांवें म्हणलें.

आपोलिनान मदीच सांगलें. ''तिजे सोगलें दुडू पुलीसांनी पुलीसेंत दवल्ल्या. तिच्या कुलच्यांवा पोंदा नोटींचे कवळे आहले. मोड्या पोंदच्यो नोटी चोंवच्याक लोकांनी खेट केल्ली.''

भाटकान्नीच्या पुताक हे कळपाक जाय म्हूण आपोलिनान सांगलें.

हें आयकून तो अजापलो. मागीर तो उलयलो. ''माय म्हाका चिटयो धाडटाली. आपलेकडे खूब पोयशे आहाय म्हुण्टाली. तिणे म्हाका आपयल्लो.''

तिणें सगळे पयशे आपलेकोडे कित्याक अशे दवरलेले तर....?'' हांवें प्रस्न मांडलो.

स्टीफन फुडें उलोवपाक लागलो. ''......, आमी तशी व्होडली गिरेस्त न्हू. हांव अमेरिकेक वयतना तशे आमचेकोडे चड पोयशे नासले. मांयचे बँकेत थोडे पोयशे आसले. तिका ज्युराचे पोयशे मेवताले.... पूण म्हाकां सुबेज पोयशे जाय म्हूण ते जोडच्याक हांव अमेरिकेंत गेल्लों. इतल्या पोयस अमेरिकेत म्हाकां धाडच्याक मांय तयार नासली. हांगाच राबोन पोयशे जोडू येता अशें ती सदांच म्हुण्टाली. हांवें तिचे आयकोलेंना. आनी सुबेज पोयशे जोडच्याक हांव अमेरिकेत गेलों. आनी थंयच पोयशें जोडीत उरलों. फाटल्या पांच म्हयन्यांत तिची चीट पावलेली. तिणे चिटयेंत बरयल्लें, ...म्हुजेकोडे खूब पोयशें आहाय. लाखांनी रुपया. बँकांतले म्हुजे पोयशे काडून हांवें घरा दोवोल्ल्या. हांवें सुवात विकल्या. आमकां खूब खूब दुडू मेवल्या... लाखांनी रुपया... ते सोगले म्हुजेकोडे आहाय... तूं पोयशे जोडच्याक गेला मुरे? तुजेकोडे लेगीत इतुले पोयशे आसचेनात. तूं घरा यो. आमचेकोडे खूब पोयशे आहाय. हे पोयशें हांवें तुजेखातीर करून दोवोल्ल्यात. हे सोगले तुजेच पोयशे. तू घरा यो. बेगीन यो....!'' हें सांगताना स्टीफनाक रडपाक येयलें.

''म्हुणजे हे पयशें तिणे आपल्याखातीर एकटांय करून दवरूं नासले तर. आपलो पूत घरा येवचो म्हूण केल्लें!'' - हांवें अजापान म्हुटलें.

हे आयकतां आयकतां आपोलीनाच्याय दोळ्यांत तुकां आयली. तिणे आपले दोळे पुसले. तिनसांजचो वेळ जालो देखून ती उठली. तिणे मेणवाती पेटयल्यो आनी सायबिणीच्या आल्तेराकडे लायल्यो. तिणे दिमी मारून रोजार केलें. रोजार जातकूच ती आमचें मदी घुटमळपाक लागली. म्हज्या कानांत तिणे हळूच सांगलें आनी सदच्याभशेन आमोरेर आपल्या घरा वचपाक बेगिबेगीन चलपाक लागली.

आपोलीनान सांगल्याप्रमाण आयची रात हांव ताचे बगलेक रावन सारतलो आसलों. हांवें स्टीफनाच्या खांदार हात दवरलो. मागीर ताचो हात म्हज्या हातांत घेतलो आनी केदो वगत तसोच दवरलो.

❑❑❑

# उदकांतलो खेळ

पुनवेची सांजरात. मांडवी न्हंयक भरती येताली. तिनसांजेर सोडलेली स्टार कॅसीनो बोट मांडवी न्हंयतल्या उदकांत तरंगताली. बोटीतल्यो काजुल्यावरी चकचकपी बल्बाच्यो माळो जशी रात चडटा तश्यो अदीक उठून दिसताल्यो. पुनवेच्या पिश्या चान्यांत बोटीच्या वयल्या डेकार नाच चालू जाले आनी संगीताच्या धूंद सुरांत वयल्या स्वर्गीय डेकावयले रसीक आपले उंची सोऱ्याचे ग्लास वयर उबारून एकामेकांक चिअर्स करपाक लागले.

बोटीच्या वयल्या डेकार एक खास Reserved टेबल दवरलेले. कुशीकच्या रित्या नक्शेच्या खुर्च्यांर लोकांचे लक्ष वयतालें. बोटीचो कॅप्टन वरूण आनी कॅसीनोचो मॅनेजर खुशालदास त्या व्हीआयपीची वाट पळयत आसले. कॅप्टन वरूण आनी कॅसीनो मॅनेजरान त्या व्हीआयपीच्या सरबराये विशी ऑर्डी दिवन दवरलेल्यो. कॅसीनोचो पात्रांव जोसेफ मुंबय रावतालो. तांच्या फोनाप्रमाण त्या व्ही आय पी ची चीफ गेस्टा भाशेन सरबराय करपाची आसली. तांच्या खातीर एक खास कॅबीनय आयचे रातीखातीर राखून दवरलेलें.

कॅप्टन वरूण मदल्या डेकावयल्या राखून दवरलेल्या कॅबिनाकडे वचपाक लागलो. नेव्हीच्या कॅप्टनाभाशेन ताचो धवो फुल्ल ड्रेस. माथ्यार ऑफिसराचें कॅप. त्या कॅपार कॅसीनोचो शिडाच्या तारवाचो सिम्बोल. तांच्या भुजार रंगीत फितां आनी बोल्साक गोल्ड मॅडलां सोबतालीं. त्या कॅबिनाकडे जाण्टेलो खलाशी उबो आसलो. हो जाण्टेलो खलाशी कॅप्टनाचो खास मनीस आनी गांवचोय. ह्या जाणत्या खलाशाच्या अणभवाक आनी शादूरकायेक कॅप्टन तोखेतालो. ताच्या अणभवाचो आपल्याक लाभ जांवचो म्हूण गेल्या दोन म्हयन्या पयली ताका सेक्युरिटी खलाशी म्हूण बोटीर घेतलेलो.

कॅप्टन लागी पावल्या बराबर जाणट्या खलाश्याच्या काळ्यासांवळ्या तोंडार हांसो उदेलो. कॅप्टनान पळयलें, आजुनय ह्या जाणट्या मनशाच्या तोंडार तेज फाकारलेलें आनी ताच्या काळजांत दुसऱ्यांविशी स्नेह. कॅप्टनान ताका विचारलें, ''वेटरांनी कॅबिनांत सगळें हाडून दवरलां? रम, व्हिस्की, सोडाबीन..''

''हय सायब'' जाण्टेल्या खलाश्यान म्हणलें.

''तूं ह्या कॅबिनाकडे फक्त पळोवपाक राव. वेटर आसतले किदें जायतें हाडून दिवपाक. तूं जाणा न्हय हांगा होम मिनिस्टर येतलो तें. तूं म्हजो मनीस म्हूण हांगा रावपाचो.''

''हां सायब.'' जाण्टेल्या खलाशाचो हयकार मेळटकूच कॅप्टन खोशी जालो.

जाण्टेलो खलाशी शाबी एक अणभवी खारवी. आपलो जीव संकटांत घालून दुसऱ्यांचे जीव वांचोवपी तो एक तारयो म्हूण तो जाणा आसलो. शाबी अठ्ठावन वर्सांचो जाण्टेलो. तरी ताचीं कूड धडधाकट आसली. मात ताचे केस धवे जाल्लें. ते खलाशाच्या निळे लायनीच्या धव्या कँपापोदां आसलेल्यान दिसनासले. ताणे खलाशाचो ड्रेस धवी पँट, मोटव्या हातांचो धवो शर्ट आनी पायांत काळें बूट घातलेलें. कॅसीनो बोटीत येवपी विदेशी-देशी टुरिस्ट आनी हेर लोकांभाशेन तांका ड्रेस कोड लागतालो.

जाणट्या खलाश्यान कॅबिनाचें दार उगडलें तसो कॅप्टन कॅबिनांत भितर गेलो. कॅप्टनान कॅबिनांत नदर भोंवडायली. वेटरांनी वेगवेगळ्या सोऱ्याच्यो बाटल्यो थंय मांडून दवरून एक मिनीबार उबें केल्लें. खाटी कुशीक वासांच्या फुलांचे वाझ हारीत मांडून दवरलेले. कॅबिनाभायर येवच्या पयली कॅप्टनान जाणट्या खलाशाक भितर आफयलो. तो भितर येतकूच कॅप्टनान आपलें माथ्यांचें कॅप काडून आपल्या दावे खाकेंत धरलें आनी मेकळेपणान खाजगीत ताणे जाणट्या खलाशाचे दोनय हात हातांत घेतले. ताच्या हातांक जाणट्या शाबीच्या उजव्या हाताची पांच तर दाव्या हाताची चारच बोटां लागलीं. जाण्टेल्याच्या हाताक जंय करंगळीचें बोट नासलें थंयच सुरक्षितायेचें बिरुद आसल्यावरी कॅप्टनाक दिसलें. मागीर कॅप्टन बोटीच्या वयल्या डेकार बिनधास्त वचपाक लागलो.

कॅसीनो बोट मांडवी न्हयच्या मदीच उफेताली. ही बोट तरी हेर सफरी बोटीभाशेन दर्यांत भोंवडेक वचनासली. न्हयच्या पात्रांत एक ल्हान फेरी मारून ती उदकांत नांगर उडोवन रावताली. ही बोट एक व्हड बोट हावस आसलें. वयल्या डेकार म्युजिकाक, नाचपाक, गावपाक ओपन एअर स्टेज आनी रेस्टॉरंट. मदल्या डेकार वेगवेगळ्या गेमीचो- खेळांचो व्हडलो हॉल. तळ डेकार कुजीन, भंडार, ल्हान कॅबिनां.

बोटीन सांजवेळा स वरांचेर धक्को सोडलेलो आनी ती राती तीन वरांमेरेन न्हयंत रावतली आसली. मदल्या वेळांत विदेशी आनी देशी पर्यटकांक शारांतल्या लोकांक कसीनोत येवपा वचपाक धा धा मिण्टांनी धाकटी लाँच आसली. रातभर कॅसिनोत लोक येताले वताले. बोटीत जात्रा जातली. जुगाराची, खावपा-पिवपाची, मजा मारपाची. ही कसीनो बोट शाराचोच एक भाग जाल्ली.

तशी ती शाराचो भाग जावनय ती शारांत नासली तर ती उदकांत आसली. शारांत... जमिनीर जुगार खेळपाक मनाय आसली पूण खास कायदो करून दर्यांत उदकांत कॅसीनो घालपाक सरकारान परवानगी दिल्ली. आयज कॅसीनो बोटीत होम मिनिस्टराच्या फुडाकारान तर ह्या उदकांतल्या कॅसीनोक लायसन्स दिल्लें. कॅसीनोक जमिनीवयले कायदे, नेम लागनासले कारण ती उदकांत आसली. तिनसांज, रात, मध्यानरात उलगली तरी हांगा वेगळेंच राज्य चलतालें. फोल्गाचें, खेळजुगारांचें आनी पैशांचें. पैसो हें हांगा सगळें उगडपाची चावी आसली. पैशाखातीर रंगीबेरंगी इलामतीक-सजावटीक वालोर येयल्लो. पैशाखातीर गिरेस्तकायेच्या ड्रेसाक मोल आसलें. न्हय मनशाक. ड्रेस, झगझग, उंची सोरो जुगार हांगांची मुल्यां जाल्लीं.

रातची आठ वरां जाल्ली तरी लाँचितल्यान लोक येत आसले. कॅसीनोचो मॅनेजर तर लाँचीकडे पळयत आसलो. इतल्यान ताचो फोन रिंगरिंगलो ''होम मिनिस्टर श्री. मोहनलाल धक्क्यावयल्या ऑफीसांत पावल्यात. तांच्या वांगडा एक चली आसा. ते रोकडेच लाँचीतल्यान पावतले.'' ''हां, धाडात तांका. आमी तांची वाट पळयतात.'' ताणे परत जाप दिली.

लाँच बोटीक तेकली आनी होम मिनिस्टर बोटीर चडलो. ताच्या वांगडची चलीय सोपणा वयल्यान बोटीर आयली. काळो सूटबूट घालून होम मिनिस्टर पंचेचाळीस वर्सांचो दादलो सोबतालो. ताचे दोळे तांबशे आसले आनी तो कोणाकडे पळयताना रोखून पळयतालो. कॅप्टन वरूणान आनी कॅसीनोचो मॅनेजर खुशालदासान तांका हात दिवन वेलकम केलें. ताणी तांका वयल्या स्वर्गीय डेकार हाडून सजयल्ल्या खास खुर्चेर बसपाक सांगलें. तांच्या वांगडा येयल्ली चली थंय उबी आसली. कॅप्टनान तिचेकडे पळयलें. ती सादारण वीस वर्सांची आसूंये. तिचें गोरें आनी सोबीत रूप तांबड्या रंगाच्या सलवार कमीजांतल्यान उठून दिसतालें. केस बॉबकट केल्ले. तिच्या पायांत बूट नासले तर सादें सँडल आसलें. ही चली हांगा पयलेच फावट आयल्या जातली. मिनिस्टरावांगडा आयल्या म्हूण हिका ड्रेसकोड लागूना जातलो. नाजाल्यार संडलां घालून आयल्या म्हूण हिका हांगा येवपाक दिवचे नासले अशें कॅप्टनान मनांत चितलें. ताणे तिका थंयचे लागचे







खुर्चेर बसयली.

वयल्या डेकावयल्या स्टेजीर म्युजीक चालूच आसलें. तें थांबल्या बरोबर कॅसीनोचो मॅनेजर स्टेजीर गेलो आनी मायक घेवन उलोवपाक लागलो.

"Ladies and gentlemen, for this evening we have great dignitary with us. We welcome our Home Minister Shri Mohanlalji."

ताळयो वाजोवन सगल्यानी ताका प्रतिसाद दिलो. उपरान्त बोटीचेर फोग सुरू जालो. चकचकपी भांगरा रंगाच्या बाणानी बोटीवयलें मळब भरून गेलें. कांय बाण नाग कशे वाकडे तिकडे वयर वचून परत सकयल येताले. नारगांचो उज्याझोत वयर सत्री कसो पसरलो आनी लिकलिकलो. पांच-स मिण्टां फोग चालूच आसलो.

फोग सोपल्यानंतर वयल्या डेकावयले बरेचशें लोक मदल्या डेकाचेर खेळपाक वचपाक लागले. थंय तर आमोरेसावन सट्टोजुगार सुरू जाल्लो. दर गेमीकडे खास ड्रेसांतली एक एक बायल आसली. त्यो नोटी घेवन लोकांक रंगीत टोकना दिताल्यो. पैशांच्या जाग्यार तीं रंगीत टोकना खुळखुळटालीं. तीं दिवन खेळ चलतालो. इस्पिकांचो, गडगड्याचो, मोखून मारपाचो अशे जायते जुगाराचे खेळ मेजां-मेजांचेर सुरू जाल्ले. कोणाली बोल्सां भरतालीं तर कोणाली रिती जातालीं.

मदल्या डेकावयल्या बार्रापरस वयल्या डेकावयल्या रेस्टॉरेंटांत लोकांची चड खेट जाल्ली. म्युजिकाच्या तालार बरेचशे दादले आपल्या जोडीदारीणीक घेवन डान्स करताले.सोऱ्याचो ग्लास मेजार दवरून मिनिस्टर मोहनलाल उठलो. ताणी ते चलयेक आपल्या वांगडा नाचपाक खुणायली. ती नाचपाक फाटीफुडें येवपाक लागली, तशें मिनिस्टर मोहनलालान म्हटलें, Meena, you have promised me. तूं म्हजें वांगडा नाचतलें म्हूण हांवें तुकां हांगा हाडलां. उठ चल.'' ताची ऑर्द म्हूण ती उठली आनी ताच्यो वांगडा गेली. ताणे तिचे हात आपल्या हातांत घेतले आनी वेस्टर्न म्युजिकाच्या तालार तो नाचपाक लागलो. सुर्वेक तिच्यो कांय स्टेपी चुकल्यो पूण मागीर ती ताका सांगात दियत खेळपटावयली घूल हालोवची तशी नाचपाक लागली. वयल्या डेकावयले चडशे लोक नाचांत सहभागी जाल्ले. म्युजीक, नाच, आनी सोरो एकमेकांत भरसून गेल्लो.

पुनवेची मध्यान रात जाल्ली. चंद्रय माथ्यार आसलो. उदकाक उप्पाट भरती येवन तें कांय खिणाखातीर थीर जाल्लें. बोटीवयल्या म्युजीकान आनी गीतान न्हयचो वाठार गाजतालो. बोटीर कोण 'धूम मचालो' करून नाचताले, तर कोण सजनाखतीर नाचाताले, तर कोण पैश्यांखातीर नाचताले, तर कोण सोऱ्याचे घुंवळेत नाचताले, तर कोण नाचचें पडटा म्हूण नाचताले.

मध्यान रात जावन गेली आनी भरतीचे उदक सकयल देवपाक लागलें. ते

चलयेन आपल्या घरा वचपाक जाय म्हूण आपली पर्स आपल्या हातांत उबारून घेतली. परत वचपाक खातीर तिणे मिनिस्टराक सांगलें. ते बराबर तो हांसलो आनी म्हणपाक लागलो, ''आमी आजून आमच्या कॅबिनांत वचूं नात. आमचेखातीर कॅबीन रिजर्व केलां. थंय पयली वचूंया आनी मागीर या.'' ती उबी आसा तें पळोवन ताणे तिच्या हाताक घट्ट धरली आनी तो मदल्या डेकावयल्या कॅबिनावटेन वचपाक लागलो.

कॅबिनाच्या दाराकडे जाण्टेलो खलाशी उबो आसलो. ताणे कॅबिनाचें दार उक्तें केलें आनी त्या दोगांयकडे बारीकसाणेन पळयलें . ती चली कॅबिनांत वचपाक नाखोशी दिसताली. पूण ताणे तिका वोडीतच भितर व्हेली. जाण्टेल्यांक अजाप आनी दुबावसो दिसलो. गेल्या म्हयन्यांत होच मिनिस्टर हांगा रातचो रावन गेल्लो. ते वेळा वांगडा ताची लग्नाची बायल आसली आनी आतां ही तर आंकवार चली. ताची ही बायल न्हय. कितें तरी भानगड आसा अशें ताणे चितलें. मागीर तो कॅबिनाच्या अर्दवट धांपलेल्या दाराकडे रावन आयकपाक लागलो.

ती चली म्हण्टाली, ''सर, तुमी म्हाकां हांगां कित्याक हाडलां? तुमच्या सांगणेप्रमाण तुमचे वांगडां हांव नाचलें. आनी आतां...?''

''पळय, हांवें तुकां आयज सर्व्हिसेची अपॉंटमेंट ऑर्डर दिल्या. ऑर्डर मेळटा ते दीस तुवें म्हजें वांगडा नाचपाक जाय अशी अट घातिल्ली.''

''सर, ते प्रमाण आयज हांव तुमचे वांगडा नाचली न्हय. मागीर...''

''हांव सांगता तशें नाचपाक जाय, आयज हे चान्नेराती ह्या कॅबिनांत आमी रावपाचीं.''

''ना ना. हांव वयतां आनीक हांव तुमचे वागंडा रावना.''

''पळय हांगाची थोडी बिअर घे. जाय जाल्यार रम, व्हिस्की घे. मागीर बरें दिसतलें. तूं निवळटलें. मागीर आमी...''

मदीच थांबत ताणे कॅबिनाचें दार धांपलें आनी खिळी घातली.

हें आयकून जाण्टेलो खलाशी शाबीक बोटीचेर अनर्थ घडटा... वायट घडटा... बोट आतां फुट्टली अशें दिसपाक लागलें. ताका धक्को बसलो. त्या धक्क्यांत ताका फाटली वीस वर्सां पयलीची याद जायत रावली.....

नुस्त्याच्या ट्रॉलराचेर तो खलाशी म्हूण कामाक वयतालो. मागीर अणभवान ट्रालराचें सुकावणें ताच्या हातांत आयलें. दर्यांत नुस्त्याची रापण केन्ना घालची, खंय घालची, नुस्तें दर्यांत खंय मेळटलें, कसलें मेळटलें तें तो जिस्तूच जाणा आसलो. दर्यांत कसलेंय नुस्तें मोडल्यार तें अमुकूच नुस्तें म्हूण तो सांगतालो.

एक दीस फांतोडेर नुस्त्याची बोट घेवन ते दर्यार गेले. ते भायर दोन दीस

रावन परते येवचे अशें ताणी थारायल्लें. केन्ना वचपी न्हय तो तांचो पात्रांव वरूणाचो बापूय तांच्या सांगाता येयल्लो. दर्यांत भितर पावतकूच ताणी व्हडली रापण उदकांत सोडली. इतल्यांत अचकीत घुंवतें वारें येवन मोड आयलें. त्या मोडांत ती बोट बुडटा कांय उरता अशें जालें. बोटीत लामायाचें उदक पडटलें इतल्यान शाबीन बोट वळोवन तिचे फुडलें हणी लामायांवटेन केलें. तो लामायांचो तडाखो चुकयत रावलो. उदकांत सोडलेली आख्खी रापण तर शेणून गेल्ली. बोट हालत रावलेल्यान बोटीवयल्यो वस्ती उदकांत पडपाक लागल्यो. एकटो शाबी सोडून बाकीचे खलाशी बोटीच्या सकयल्या भागांत पडून रावले. मदी बोटीचें मशीनय बंद पडलें. सुमार अर्दवर तुफानाचो अच्छेव चललेलो. मागीर बंद पडलेली फिशींग बोट पयस दर्यात उदकाच्या प्रवाहावांगडा वचपाक लागली.

मोड थांबले तशें शाबीन खलाशांक उठपाक सांगलें. तर पात्रावांक बोटीत हेवटेन तेवटेन आपटून दुखापती जाल्ल्यो. बोटीत पडलेले उदक खलाशांनी भायर उसपयलें. मशीन सुरू करपाचो यत्न केलो. ते सुरू जालें पूण फाटल्या पंख्याचो आवाज येनासलो, पळयत जाल्यार फाटलो पंखोच सुटून शेणलेलो. आतां तांच्या नशिबांत दर्याच्या प्रवाहावांगडा व्हांवत वचपाचें येयल्लें. आपल्या आदाराक पावपी खंयचीय बोट दिसता कांय म्हूण ते तेळीत रावले.

पयलो दीस, दुसरो दीस, तिसरो दीस, चवथो दीस, पांचवो दीस, अशे दीस येवन वताले. सूर्य उदेतालो आनी अस्तंमतालो. सुर्याचो हुलोप सोसू नजो जातालो. वांगडा आसलेले तांदूळ ते राखून राखून खाताले. सव्या दीसा सातूय जणांक भुकेन रावपाची पाळी येयली. इतके दीस पेटयेतल्या झेलाचें उदक करून ते पिताले. मागीर रोकडेच झेल वितळून ताचे उदक जालें. हें उदक सोपल्यार दर्याचें उदक पियेवपाचो पाळी तांचेर येवपाची. आजूनमेरेन ते उपाशी पोटार फक्त उदक पियेवन ते जगताले.

तांचो तो दर्यार पंदरावो दीस आसलो. दर्यार कोणाचेंय तारूं वा बोट दिसता कांय ते जीव दोळ्यांत हाडून पळयताले, पूण तें दिसलें ना. आठ दीस जाले कोणाच्या पोटांत अन्नाचो इल्लो कण पावूं नासलो. अशेच उरल्यार ते फुडल्या दोन दिसांत मरून वचपाचे. दिसा भायले खर वोत आनी पोटांत भुकेचो उजो. एकामेकांचे कुडके काडून खावपासारकी भूक.

ते न्हिदून रावताले. तांच्यात उठपाक लेगीत बळ नाजालें. भायर दर्याच्या उदकांत नुस्तें मोडटालें पूण तें धरपाक तांचे कडे जाळें नासलें. रापण तर पयलेच दीस दर्यांत शेणलेली. एक पोलेर मात तांचेकडे आसलो पूण ताचे गरयेक लावपाक कांय एक हांयस नासलें.

वरुणाचो बापूय फिशींग बोटीचो पात्रांव थार पडलेलो. आयज ना तर फाल्यां आमच्यांतलो कोण तरी मरतलो अशें शाबीक दिसलें. तो उठलो आनी ताणे पोलेराचो तावज सोडलो. ताची गरी बेश्टीच उदकांत उडयली. पूण फुकट वेळ गेलो. ताणे मागीर पळयलें बोटीलागी मोठें नुस्तें मोडटा. ताणे चिंतले गरयेक कितें तरी हांयस आसल्यार बरें जावपाचें. मागीर अचकीत ताका सुचलें. ताणे नुस्तें कापपाचो कोयतो काडलो. आपल्या दाव्या हाताचे करंगळेचें बोट ताणे फळयेर दवरलें आनी आपल्या सांगात्याक आपूण कितें करतां तें कळच्या पयलीच तें कापलें आनी बेगीबेगीन गरयेक लावन ती दर्यांत उडयली. आपलो हात तसोच दाबून धरलो. रगत व्हांवतालें. इतल्यान पोलेराचो तावज भायर वोडून व्हेलो. तशें नुस्तें गावलेल्याच्या आनंदांत तो तावज ओडपाक लागलो. किदें जालां तें कळ्ळ्या बरोबर सांगात्यांनी ताका पालव दिलो आनी नुस्ते वयर वोडून काडलें. नुस्ते वांवभर लांब आनी जांगेयेदें मोठें आसलें.मागीर ताणी त्या नुस्त्याचीं आतां आनी झोळयो काडून परत गरयेक लावन तसलीच वाटू जातीची नुस्तीं काडलीं.

ते दीस ताणी नुस्त्याचे कुडके केले आनी हरवेच खाल्ले.

त्या नुस्त्याचेर ताणी फुडें तीन दीस काडले आनी मागीर अठराव्या दिसा म्हाल व्हरपी जपानी बोटीन तांका साल्वार करून मुरगांव बंदराचेर पावयल्ले.

ताका दिसतालें, आपणे जर ते दीस आपलें बोट कापून गरयेक हांयस लावंक नासलें तर ते सगळे भुकेन तळमळून मरपाचे. आपल्या यत्नान सगळ्यांचो जीव वांचलो.

जाणट्या शाबीक कॅबिनांत आतांचे घडये किदें घडटा ताची जाणीव जाली. फाटल्याभाशेन किदें तरी केल्यार अनर्थ पयसावतलो, नाजाल्यार लजेक पडपासारकें करतूब वरुणाचे बोटीत घडटलें. कितें तरी करपाक जाय अशें चितून तो धांवत तळ डेकावयल्या कुजनांत गेलो. ताणे टोनीक उलो मारलो. ''टोनी म्हाका मात्सी सुरी दी.''

''कित्याकू जाय ती?''

''जाय म्हाका. मात्सी बेगीन दी. कॅबिनांत येयल्लो मिनिस्टर त्या चेडवाक सतायता... ताची अब्रू घेतां !''

''आमकां कित्याक पडलां तें ?'' उदासपणान टोनी उलयलो.

''तुमकां पडलेना जायत पूण तें म्हाकां पडलां.''

''आरे आमी तारवटी.... आमी दर्यावयले...'' टोनी.

''आमी दर्यावयले जाले म्हूण किदें जालें? म्हजो म्हजे भूंयेकडे संबंद आसा. म्हाकां उदकांतलें लागता आनी जमिनीवयलेंय लागता.''

अशें सांगून जाण्टेल्या शाबीन टोनी कुजनेराकडची नुस्तें कापपाची सुरी झोपून घेतली. तो परत धांवत त्या कॅबिनाकडे येयलो आनी कॅबिनांचे दार धोडायत रावलो. कोणतरी दार धोडायता म्हूण मिनिस्टरान दार उगडलें. जाण्टेलो खलाशी शाबी ताच्या आंगार झुडोवन गेलो. ह्या अचकीत हल्ल्यान तो नेव्हर्स जालो आनी थरथरपाक लागलो. जाण्टेल्या शाबीन पळयलें, व्हिस्कीची बाटली अर्द्यावयर रिती जाल्ली. चडशी व्हिस्की सकयल रकलेली. ती चली ओंकारे काडटाली. व्हिस्कीची दर्पटसाण मारताली.

शाबी भितर येवच्या पयली बळयां मीनाच्या तोंडांत व्हिस्कीची बाटली रकोवन, व्हिस्की पियेवपाचो ताणे यत्न केल्लो. बरीच व्हिस्की तिच्या पोटांत गेल्ली. ती चली पोटांतली व्हिस्की ओकून भायर उडोवपाची यत्न करताली. पूण थोड्याच वेळात ती घुंवळ येवन सकयल पडली.

मिनिस्टर पयली नेव्हर्स जाल्लो खरो, पूण ताका जाण्टेल्या खलाश्याचो राग येयलो. तो ताचेर तापलो.

''तूं म्हज्या कॅबिनांत कित्याक आयलो रे ? कळना तुकां? व्होसीमोर हांगासल्लो.''

''ना हांव वच्चोना. हांव हांगा आसलो म्हूण बरें जालें. नाजाल्यार अनर्थ घडपाचो.''

''कोण रे तूं म्हाकां शापोता सांगता. धुकोर खंयचो. पात्रावांक सांगून तुकां सिर्विसेवयलो काडपाक लायतां. हांवेंच तर कॅसिनोक लायसन दिलां.

कॅबिनात कितें घडटा ताची खबर टोनीन रोकडीच कॅप्टनाक कळयल्ली. कॅप्टन थंय धांवत आयलो. ती चली सकयल बेसूद पडलेली, जाणट्या खलाश्याच्या हातांत सुरी आसली. आनी मिनिस्टर ताका तापोवन भायर वचपाक सांगतालो. कॅप्टनाक पळोवन तो व्हडल्यान आड्‌डलो, ''कॅप्टन, हाका हांगा कोणे दवल्ला. घरा धाड हाका. सिर्विसेवयलो काडून उडय.''

कितें घडलां तें कॅप्टनाक समजलें. ताका थातारपाक ताणे म्हटलें, ''पळय सर, ताणे तुमकां आडयलां ते ताचे नदरेन ताणे बरें केलां. हो बोटीवयलो खलाशी, जाण्टो मनीस. ताका आमी मान दिवंक जाय.''

कॅप्टन आपलेवशीन ना तें पळोवन तो गळसणलो आनी म्हणपाक लागलो, ''हांव आतां, हिका वांगडा व्हरतां.''

'' ना सर, तिका तुमचे वांगडा आतां व्हरपाक मेळचेना. तिका आमी सांबाळटां. ती साबुद्दीर येतकच आमी तिका घरा पावयतां.'' कॅप्टन अशे निश्चेवान उलयल्या बरोबर सगळे वोगीच रावले. मागीर ते सगळे थंय बेसूद जावन पडलेल्या

चलयेक पळोवपाक लागले.

चंद्र अस्तमतेकडे वतालो. न्हयच्या उदकाक खर सुकती लागलेली तरी बोटी वयल्या आनी मदल्या डेकार उमेदीन खेळ चलतालें, फेस्त मनयताले. म्युजिकाचेर दादले बायलां आजून नाचतालीं. बोटीवयले जिवीत घुस्पून गेल्लें.... अश्या वेळार गायल्ल्या निमाण्या गिताचे सूर बायलमनशेच्या आवाजांत आयकूंक येवंक लागले.

''हांव सायबा पलतडी वेता,
म्हाका सायबा वाट दाखय,
म्हाका सायबा वाट कळना....

मागीर हे गिताचे शब्द मांडवी न्हयच्या पात्रांत क्षीण आवाजांत सादत रावले.



# धरतरेचो स्पर्श

तुकाराम शेट



'तुकाराम शेट हांच्यो कथा कोंकणी कथा साहित्यांत वैशिश्ट्यपूर्ण आसात. ऐहिक सुखाखातीर मनशान जो विकासाचो झपाटो सुरू केला, तांतूत आंतरीक नदरेन मनीस कसो उध्वस्त जाला, ताचें संवेदनशील चित्रण तांच्या कथांनी प्रभावीपणान येता. ... तांगेली कथा विशयाच्या वेगळेपणाखातीर आनी कथेंतले सामाजीक जाणिवेखातीर उठून दिसता.' – पुंडलीक नायक

'धरतरेचो स्पर्श' ह्या झेल्यांतल्यो कथा गोंयच्या लोकजिणेतल्या विविध बदलांचेर बरयल्यात देखून त्यो गोंयच्यो आनी गोंयच्या मनशांच्यो कथा आसात. तशेंच मनीसजातीचें दूख, संवेदना आनी उत्फरके उत्कटतायेन उक्तायतात म्हूण त्यो सगल्या जनसमुदायाच्यो जाल्यात. 'पांयजेल' सारख्यो कथा जिविताच्या अनुभूतीचो दिश्टावो घडयतात.

तांच्या 'पाखलो' हे लोकप्रीय कादंबरीक गोवा कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार लाभला. ताणी ललीत निबंद, कविता, एकांकी बरयल्यात. 'पर्यावरण गीतां' हें पर्यावरण शिक्षणावयलें उपेगी पुस्तक उजवाडाक आयलां. तांचे सोदनिबंद प्रसिद्ध जाल्यात. तांची बालगितां भुरग्यांच्या वोंठार घोळटात. पारंपारीक बालगितांचें पुनरुज्जीवन करताना ताणी गोंयची बालगितां, नाचगितां, खेळगितां भाग–१ आनी २, बालांगण आदी पुस्तकांचे संकलन तशेंच कॅसेटींची निर्मिती केल्या. ताणी गोंयच्या पूर्व प्राथमीक शिक्षणाचो बुनयादीचो वावर चलयला. 'शब्दूल' ह्या साहित्यीक अनियतकालिकेचें संपादन केलां. तशेच कोंकण टायम्स ह्या नेमाळ्याचें सेगीत २७ वर्सां संपादन करतात. तांका कोंकणी भाशा मंडळाचो पत्रकारीता पुरस्कार लाभला. कोंकणी राजभास चळवळ आनी विधायक चळवळींत सक्रीय भाग. कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीचे वांगडी आनी पणजी कचेरीचे मुखेल म्हूण वावर पळयताना शिक्षणाचेर, लोकसाहित्याचेर परिसंवाद आयोजीत. गोवा कोंकणी अकादमीचे वावुरपी समितीचे वांगडी म्हूण कार्य केलां. २००१ सालांत पर्वरी हांगां जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचे कार्याध्यक्ष जावपाचो मान तांका फाव जाला.



कोंकण टायम्स पब्लीकेशन
बेती, बार्देश, गोंय – 403101